'तुजे विशीं तो आपल्या दुतांक हवालो दितलो
आनी तुजो पांय फातराचेर आदळना जांवक,
ते आपल्या हातांनी उकलून धरतले.' "

जेजून ताका अंसो जबाब दिलो:

" 'सर्वेस्परा तुज्या देवाची तुवें परिक्षा करूं नये', अशेंय बरयल्लें आसा."

त्या उपरांत देवचारान ताका एका भोव ऊंच दोंगरार व्हेलो आनी संसारांतल्यो सगळ्यो राजवटक्यो आनी तांचो दबाजो ताका दाकयलो. ताणें म्हळें: "सर्पटून तूं म्हाका नमस्कार करशी जाल्यार, हांव हें सगळें तुका दितलों." तेदनां जेजून ताका असो परतिपाळ केलो: "पयस सर, सैताना, कित्याक अशें बरयल्लें आसा:

*' सर्वेस्परा तुज्या देवाकूच भजतलोय*
*आनी ताची एकल्याचीच सेवा भक्ती करतलोय, '*

*(लूक)* ह्या सगळ्या भासांनी ताची परिक्षा केल्या उपरांत देवचार थोड्या वेळाक ताचे सरशिलो कडसरून गेलो. *(मातेव)* आनी देवदूत येवन ताची सेवा करूंक लागले.

## V - जेजुचे पयले शीस

(मार्स)

**33.** *जु 1,19-28*

### *स्नानदातार जुवांव दुसरे पावटी जेजू विशीं आपली गवायकी दिता.*

जुवांवाची गवायकी ही: तूं कोण गाय म्हण ताचे लागीं विचारूंक जेदनां जुदेवांनी याज्ञिकांक आनी लेवितांक[1] जेरुजाल्याक थावन पाटयले, तेदनां ताणें सारकें परगट केलें, ताणें ना म्हळें ना; ताणें

---

[1] पयलीं लेवितांचें काम आसलें याज्ञिकांक आदार दिंवक आनी, अरण्यांतले वाटेर, देवाच्या माटवाचो सांबाळ करूंक; पूण जेजुच्या काळार तांकां सेवाधर्मीक काम नासलें, ते जेरुजा-ल्याच्या देवमंदिराचे सेवक आनी शिपाय आसले.

उगतेपणीं सांगलें: “हांव अभिशिक्त न्हय.” आनी तांणीं ताका म्हळें: “तूं कोण तर? तूं एलिजा?” ताणें तांकां म्हळें: “हांव एलिजा न्हय.” “तूं आमी रावतांव तो प्रवादी बी?” आनी ताणें म्हळें: “ना.” तेदनां तांणीं ताका म्हळें: “अशें जाल्यार, तूं कोण? आमकां पाटयल्यात तांकां आमी कितें सांगचें? तुजेच विशीं तूं कितें म्हणताय?” जुवांवान म्हळें: “इजायास प्रवाद्यान सांगून दवरलां:

*‘सर्वेस्पराची वाट नीट करात,*

*असो अरण्यांत एक ताळो बोब मारता,’*

हो ताळो हांव.” तांकां फारिजेवांनी पाटयल्ले. तांणीं ताचे लागीं आनिकूय विचारलें: “तूं अभिशिक्त न्हय, एलिजा न्हय आनी प्रवादी न्हय जाल्यार, स्नान कशें दिताय?” जुवांवान परतिपाळ केलो: “हांव स्नान दितां तो उदकान दितां, पूण तुमी वळकनासललो एकलो तुमचे मदें आसा. तो म्हजे उपरांत येतलो, पूण ताच्या व्हाणांची वादी सोडूंक म्हाका फावो ना.” हें बेतानियेंत, जोर्दानाचे पलतडी जुवांव स्नान दितालो थंय, घडलें.

**34.** *जु 1, 29-34*

### *स्नानदातार जुवांव तिसरे पावटी जेजू विशीं आपली गवायकी दिता.*

दुसऱ्या दिसा जुवांवान जेजूक आपणाशीं येता तो देकलो आनी म्हळें: “पळेयात, हो देवाचो मेंडरो, संसाराचें पाप काडता तो! हाचीच खबर सांगून हांवें तुमकां अशें म्हळां: ‘म्हजे उपरांत कोण एकलो येता, पूण म्हज्या आदीं तो आसलो देखून तो म्हजेवून व्हड.’ हांवूच ताका वळकनासलों, पूण ताची वळक इस्रायेलाक दिंवक हांव उदकान स्नान दीत आयलां.” आनी जुवांवान अशीय गवाय दिली: “पारव्या सारको सर्गार थावन आत्मो देंवलो आनी ताचेर थारलो तो हांवें देकलो. हांवूच ताका वळकनासलों, पूण

जाणें म्हाका उदकान स्नान दिंवक धाडला, ताणें म्हाका म्हळें: 'जाचेर तूं आत्मो देंवललो आनी थारललो देकशी, तोच पवित्र आत्म्यान स्नान दितलो.' हें हांवें देकलां. आनी हो देवाचो पूत म्हण हांव गवाय दितां."

**35.** जु 1, 35-39

### *जेजुचे पयले शीस: आंद्रे आनी जुवांव*

दुसऱ्या दिसा जुवांव आपल्या दोगां शिसां सांगातीं नव्यान थंय आसलो; आनी जेजू चलून वेतालो तो ताणें देकलो आनी म्हळें: "हो पळेयात देवाचो मेंडरो!" हीं ताचीं उतरां आयकून, ते दोग शीस जेजू फाटल्यान गेले. तेदनां वळून आनी आपणा फाटल्यान येताले ते पळेवन जेजून तांकां म्हळें: "तुमकां कितें जाय?" तांणीं ताका जबाब दिलो: "*राब्बी,*" (म्हणगे गुरुजी) "तूं खंय रावताय?" ताणें तांकां म्हळें: "येयात आनी पळेयात." ते गेले आनी तो रावतालो ती सुवात तांणीं देकली, आनी तो दीस ते ताचेशीं रावले. सांजेचीं सुमार चार जाल्लीं.

**36.** जु *1,40-42*

### *शिमांव*

जुवांवाचीं उतरां आयकून, जेजू पाटल्यान गेल्ल्या त्या दोगां भितरलो एकलो, आंद्रे नांवाचो, शिमांव पेद्रुचो भाव आसलो. रोकडोच आंद्रे आपल्या भावा शिमांवाक मेळूंक गेलो; ताणें ताका म्हळें: "आमकां *मेशिया* (म्हणगे अभिशिक्त)[1] मेळला." आनी ताणें शिमांवाक जेजुशीं व्हेलो. ताचेर बारीक नदर घालून जेजून म्हळें. "तूं शिमांव, जुवांवाचो पूत; तुका नांव घालचें आसा केफास!" (म्हणगे खडप).

---

[1] *मेशियास* वा *मशिया* हें आर्मी वा हेब्रेव भाशेंतलें उतर. ताचो अर्थ आमचे भाशेन *अभि-शिक्त* वा *देवान माखललो*. ग्रीक भाशेन तें *ख्रिस्तोस*; लातीन भाशेन हेंच ग्रीक उतर धरून *ख्रिस्तुस* केलें. इंग्लेजीन तें *Christ* जालें, म्हणगे *the Anointed One*. आर्मी म्हळ्यार जेजुची भास, आनी हेब्रेव सगळ्या जुदेव लोकाची अधिकृत भास.

**37.** जु *1, 43-51*

### *फिलीप आनी नातानायेल*

दुसऱ्या दिसा, जेजून गालिलेयाक वचूंक येवजिलें; तेदनां ताका फिलीप मेळ्ळो; आनी जेजून ताका म्हळें: "म्हजे पाटल्यान ये" फिलीप बेतसायदेचो आसलो; आंद्रे आनी पेद्रू, हेय त्याच नगरांतले आसले. फिलिपाक नातानायेल मेळ्ळो आनी ताणें हाका म्हळें: "मोयजेसाचे समुर्तिंत आनी प्रवाद्यांच्या पुस्तकांनी जाची खबर आसा, तो आमकां मेळ्ळा: तो नाजारेतकार जेजू, जुजेचो पूत." नातानायेलान ताका म्हळें: "नाजारेतांतलें कितें बरें येंवक शकता?" फिलिपान ताका म्हळें: "ये आनी पळे." जेजून नातानायेलाक आपणाशीं येता तो देकलो आनी ताचे विशीं म्हळें: "पळेयात, कसलेंच कपट नासललो खरो इस्त्रायेलकार हो!" नातानायेलान ताका म्हळें "तूं म्हाका खंय वळकताय?" जेजून ताका जबाब दिलो: "फिलिपान तुका आपोंवचे आदीं, तूं आंजिराच्या झाडा तळा आसताना, हांवें तुका देकलो." नाताना-येलान ताका परतिपाळ केलो: "गुरुजी, देवाचो पूत तूं; तूं इस्त्रायेलाचो राजा!" जेजून ताका म्हळें; "तुका आंजिराच्या झ ाडा तळा हांवें देकलो, इतलेंच तुका हांवें म्हळें देखून, तूं भावार्त धरताय? ह्यावून अदीक व्हडल्यो वस्तू तूं देकतलोय." आनी ताका म्हळें: "खरेंच तुमकां हांव सांगतां: सर्ग उगतो जाल्लो तुमी देकतल्यात, आनी देवाचे दूत मनशाच्या पुताचेर चडलले आनी देंवलले तुमी पळेतल्यात."

**38.** जु *2, 1-11*

### *काना गांवांत लग्न:*
### *जेजुचें पयलें अजाप*

तिसऱ्या दिसा, गालिलेयाच्या काना गांवांत एक लग्न आसलें, आनी जेजुची आवय थंय आसली; त्या लग्नाक जेजुकूय आनी

ताच्या शिसांक आपोवणें आसलें. सोरो सोंपलो. तेदनां जेजुचे आवयन ताका म्हळें: “तांचे लागीं सोरो ना.” जेजून तिका म्हळें “अस्त्र्ये[1], तुका आनी म्हाका हें कित्याक पडलां? म्हजो वेळ आजून पावूंक ना.” ताचे आवयन चाकरांक म्हळें: “तो सांगीत तितलेंय तुमी करात.” थंय जुदेवांचे शुद्धी करपाचे रिती परमाणें फातरांचीं स दोणां आसलीं; दर एकांत चार ते स कोळशे जाताले. जेजून तांकां म्हळें: “दोणां उदकान भरात.” आनी तांणीं तीं वतसर भरलीं. ताणें तांकां म्हळें: “तांतलें इल्लें काडून लग्ना जेवणाच्या कारभाऱ्याक व्हरून दियात.” तांणीं तशें केलें. कारभाऱ्यान सोरो जाल्लें उदक चाकून पळेलें. तो सोरो खंयचो आयलो तें तो नकळो आसलो, पूण उदक काडलले ते चाकर मात जाणा आसले. देखून कारभाऱ्यान नवऱ्याक आपोवन हाडलो, आनी ताका म्हळें: “सगळ्यांगेर पयलो बरो सोरो दितात आनी, लोक बरेच पियेतच, हलको तो वांटतात. पूण तुवें बरो सोरो आतां परयान दवरला.” ही आपल्या खुणां मदली पयली खुणा जेजून

---

[1] “अस्त्र्ये” आवयक म्हणून, जेजू तिका बेमान करिना. आरबी लोकां मदें हें उतर अदीक मानाचें. त्याच उतरान जेजू खुरसार उमकळताना आवयक उलो करतलो *(आंक 356 पळे)*. हांगा आनी खुरसार मरताना जेजू आपल्या कामांत मारियेचो जागो कोण तो दाकोंवक सोदता. पयले अस्त्र्येचें नांव “एवा”, म्हणजे “जिव्यांची आवय”; मारिया “नवी एवा”. म्हणजे: जशें एवा मनशांक सैंबाचो जीव दिवपांत आनी पातकांत पयल्या आदांवाची सांगातीण आनी सहकारीण वाभागिदार्ण आसली, तशेंच ही अस्त्री, मारीया, ही नवी एवा, मनशांक पातकांतली सुटका जोडपांत आनी सैंबावरतो जीव दिवपांत “नव्या आदांवाची” (जेजुची) सांगातीण आनी सहकारीण वा भागिदार्ण जाली. आपल्या पयल्या विस्मितांत जेजून केल्लो नवो सोरो एक खुणा: खुरसार आपूण एक दीस विकरांवक वेतलो त्या नवें जिवीत दितल्या रगताची खुणा. तशेंच मारियेचो वांटो ह्या विस्मितांत एक खुणा. वयल्यावयर पळेल्यार, आपले सैंबाचे आवयक कान दिवन जेजू हें विस्मीत करता म्हण दिसत; पूण अशें न्हय. आपूण खुरसाच्या मरणा आनी पुनर्जिवंतपणा वरवीं सोंपयतलो त्या सोडवणेच्या कामांत ही “अस्त्री” देवाचे येवजणेन खरेंच आपली सांगातीण आनी सहकारीण वा भागिदार्ण म्हण खुणांवक, जेजू ह्या पयल्या अर्थाभरीत अजापांत मारियेक वांटो दिता.

गालिलेयाच्या काना गांवांत केली, आनी म्हयमा फांकयली; आनी ताच्या शिसांनी ताचेर भावार्त ठेवलो.

**39.** *जु 2,12*

### जेजू थोडोच वेळ कापेर्नावमांत

त्या उपरांत, आपले आवयक, भावांभयणींक आनी शिसांक सांगाताक घेवन तो कापेर्नावमांत देंवून गेलो; पूण तीं चडशे दीस थंय रावलीं नांत.

## VI - जेजू जेरुजाल्यांत

(पास्कांचो उत्सव)

**40.** *जु 2,13-16; मार्कू 11,16-17; जु 2,17*

### देवमंदिरांत जेजू बापाचो मान राखता.

*(जु)* जुदेवांचें पास्क[1] लागीं पावललें; जेजू जेरुजाल्याक गेलो. देवमंदिरांत बैल, शेळयो आनी पारवे विकताले तें[2], आनी सावकार आपल्या व्यापाराच्या मांडार बसलले ते ताका सांपडले. ताणें दोरयांची एक सैती केली, आनी ती घेवन तांकां सगळ्यांक, शेळयां बैलां सयत, देवमंदिरांतले धांवडायले, सावकारांचे दुडू वोतले आनी तांचे मांड ओमतिले. पारवे विकतल्यांक ताणें म्हळें: “हें सगळें हांगासरलें काडात; आनी म्हज्या बापाचें घर तुमी व्यापाराचें घर करूं नाकात.” *(मार्कू)* आनी देवमंदिरांतल्यान कितेंच हाडूंक व्हरूंक दिना जालो. आनी ताणें कांकां शिकोवण

---

[1] पास्क म्हळ्यार जुदेव लोकाचो व्हडांतलो व्हड उत्सव. एजिप्तांतल्या गुलामपणाची देवान आपणाक सुटका दिल्ली, ते सुटकेचो उगडास समारंभ. सात दीसभर हो उत्सव चलतालो *(पळे सुट 12-15)*.

[2] ह्यो मोनजाती यज्ञा पासत जात्रेकारांक थंय विक्रेक मेळताल्यो. भायल्या गांवचे पयशे घेवन येतल्या जात्रेकारांक हे सावकार दुडूबदलप करून पालेस्तिनांत चलताले ते पयशे दिताले.

दिवन अशें म्हळें: “ *‘म्हज्या घराक सगल्यां परजांक मागण्याचें घर म्हण नांव पडतलें,’* अशें पवित्र पुस्तकार बरयल्लें आसा न्हय? पूण तुमी ताची चोरांची धोल केल्या.”

(जु) *“तुज्या घराचो मान राकचे आशेन लासता म्हजें काळीज”*, अशें पवित्र पुस्तकार बरयल्लें आसा म्हण ताच्या शिसांक तेदनां उगडास आयलो.

**41.** जु *2,18-22*

### *पयले पावटी जुदेवां कडे वाद विवाद*

जुदेवांनी ताका म्हळें: “अशें करूंक तुका पदवी आसा म्हण कसली खुणा तुज्यान आमकां दाकोंवक जाता?” जेजून तांकां परतिपाळ केलो: “हें देवमंदीर तुमी मोडात, आनी तीन दिसांनी हांव तें नव्यान बांदून दितां.” जुदेवांनी ताका म्हळें: “हें देवमंदीर बांदूंक चाळीस आनी स (46) वर्सां लागलीं आनी तीन दिसांनी तें तूं नव्यान बांदतलोय?” पूण तो आपले कुडिच्या देवमंदिराची खबर करतालो. जेदनां देवान जेजूक मेल्ल्यांतलो पुनरजिवंत केलो तेदनां ताणें अशें म्हणललें म्हण ताच्या शिसांक उगडास जालो; आनी पवित्र पुस्तकाचेर आनी जेजून उलयल्ल्या उतराचेर तांणीं भावार्त ठेवलो.

**42.** जु *2,23-25*

### *जायतीं जाणां जेजुचेर भावार्त दवरतात*

पास्क उत्सवाक तो जेरुजाल्यांत आसताना ताणें केल्ल्यो खुणा पळेवन पुस्कळ लोकान ताचेर भावार्त दवरलो; पूण जेजून जाल्यार आपलो विस्वास तांचेर ठेवलो ना, कित्याक तो सगळ्या मनशांक वळकतालो, आनी मनशां विशीं कोणाचेच साक्षेची ताका गरज नासली, मनशाच्या मनांत कितें चलता तें ताका ठावें आसलें.

**43.** *जु 3, 1-15*

### *निकोदेम जेजूक मेळूंक येता.*

फारिजेवांच्या पक्षांतलो, जुदेवांचो एकलो मुखेली, निकोदेम नांवाचो, कोण एकलो मनीस आसलो. तो एकदां रातचो जेजुशीं आयलो. ताणें जेजूक म्हळें: "गुरुजी, तूं देवा कडसून आयललो शास्त्री म्हण आमी जाणांव, कित्याक आपणा सवें देव ना जाल्यार, तूं करताय तसल्यो खुणा कोणूच करूंक शकना." जेजून ताका परतिपाळ केलो: ***"खरेंच खरें हांव तुका सांगतां: वयर थावन जल्मल्या बगर कोणाच्यान देवाचें राज पळेंवक जायना."*** निकोदेमान ताका म्हळें: ***"म्हातारो जाल्लो मनीस कसो म्हण जल्मतलो? ताच्यान आनीक एक पावट आपले आवयच्या कुसव्यांत भितर सरूंक जायत आनी जल्मूंक जायत?"*** जेजून परतिपाळ केलो: ***"खरेंच खरें हांव तुका सांगतां: उदका आनी आत्म्या थावन जल्मल्या शिवाय[1], कोणूच देवाच्या राज्यांत भितर सरूंक शकना. मनशा थावन जल्मतात तीं मनशां सैबाचीं, आनी आत्म्या थावन जल्मतात तीं आत्म्याच्या सैबाचीं. तुमी नव्यान जल्मूंक जाय, अशें हांवें तुका म्हळां देखून तूं अजाप जांव नाका. वारें आपणाक जाय थंय मारता, आनी तूं ताचो आवाज आयकताय, पूण तें खंय थावन येता वा खंय वेता तें तूं नकळोय; जीं कोण आत्म्या थावन जल्मल्यांत, तांचे सवें तशेंच घडता."*** निकोदेमान ताका परत म्हळें: "हें कशें जांव येता?" जेजून ताका जबाब दिलो: "तूं इस्रायेल परजेचो शास्त्री आनी तरी तूं हें नकळोय? खरेंच खरें हांव तुका सांगतां: आमी जाणांव तें उलयतांव, आनी आमी देकलां ताची साक्षी दितांव; पूण तुमी आमची साक्षी मानून घेनांत. तुमकां संसाराच्या वस्तुंची खबर सांगतां तेदनां तुमी सतमानिनांत; सर्गिच्या वस्तुंची खबर सांगीन तर, तुमी ती कशी सतमानशात? सर्गार थावन देंवलल्या आनी

---

[1] जेजू हांगा पवित्रस्नानाची गजाल करता.

सर्गार रावतल्या मनशाच्या पुता बगर कोणूच सर्गार चडूंक ना. *जसो मोयजेसान अरण्यांत सोरोप उबारलो, तसोच मनशाच्या पुताक उबारतले: अशें पुताचेर भावार्त ठेवतल्या समेस्तांक सासणीक जिवीत मेळचें म्हण देवाची येवजण."*

44. *जु 3,16-21*

### *जेजू वरवीं उगडापो जाल्लो बापाचो मोग जेजुचेर भावार्त*

*"ताचेर भावार्त ठेवता त्या दरएका मनशाचो नास जायना जांवक पूण ताका सासणीक जिवीत मेळूंक देवान आपल्या एकल्याच पुताक दिलो; इतलो ताणें संसाराचो मोग केलो! कित्याक संसाराचेर खास्तिचें फरमण मारूंक न्हय, पूण पुता वरवीं संसाराचें तारण जांवचे खातीर, देवान पुताक संसारांत धाडलो. जीं कोण ताचेर भावार्त ठेवतात, तांकां खास्तिचें फरमण ना; पूण जीं कोण ताचेर भावार्त ठेविनांत, तांचेर खास्तिचें फरमण पडललें आसा, कित्याक तांणीं देवाच्या एकल्याच पुताचेर भावार्त दवरूंक ना.*

*आनी हो आसा निवाडो: संसारांत उजवाड आयलो पूण मनशांनी उजवाड सोडून काळोकाचो अदीक मोग केलो, कित्याक तांचीं कर्तुबां नश्टीं आसलीं. खरेंच, खोटेपण करतात तीं उजवाडाक कांटाळतात आनी आपलीं कर्तुबां कसलीं तीं कळोन येना जांवक उजवाडाक येनांत. पूण सता परमाणें चलतात तीं, आपल्यो करण्यो देवाचे खुशे परमाणें केल्यात म्हण उगडापीं कळोन येंवचे खातीर, उजवाडाक येतात."*

45. *जु 3,22-24*

### *शिसां बराबर जेजू जुदेयांत (आब्रील)*

जेजू आनी ताचे शीस जुदेयांत गेले: थंय तो तांच्या सांगाता रावलो आनी स्नान दितालो. सलिमा लागीं, आयनोनांत, थंय

उदक चड देखून, जुवांवूय स्नान दितालो, आनी लोक थंय वेतालो आनी स्नान घेतालो. जुवांवाक आजून बंदखणींत घालूंक नासलो.

**46.** *जु 3, 25-30*
### जेजू विशीं स्नानदातार जुवांव आपली निमाणी गवायकी दिता
एकदां जुवांवाच्या शिसांनी एका जुदेवा लागीं शुद्धी विशीं विवाद सुरू केलो. जुवांवाशीं येवन तांणीं म्हळें "राब्बी (म्हणगे गुरुजी), जोरदाना पलतडी जो तुज्या सांगाता आसलो आनी जाचे विशीं तुवें गवाय दिली, तो, पळे, हांगा आपुणूय स्नान दिता आनी सगळो लोक ताचेशीं वेता." जुवांवान जाप दिवन म्हळें: "देवान दिल्या शिवाय कोणाक कांयच मेळना. 'हांव अभिशिक्त न्हय, पूण ताचे मुखार वचूंक म्हाका धाडला,' अशें हांवें म्हळां म्हण तुमीच म्हजे विशीं गवायकी दितात. होकल म्हळ्यार नवऱ्याची; ताका लागीं आसललो नवऱ्याचो इश्ट, नवऱ्याचो ताळो आयकून, व्हडले खुशालकायेन मुरगटता हीच म्हजी खुशालकाय; ती आतां भरोन आयल्या. तो वाडत वाडत वचूंक जाय, पूण हांव जाल्यार अदीक-अदीक ल्हान जांवक जाय."

**47.** *जु 3,31-36*
### जेजू विशीं शुभवर्तमानकाराचें मन
वयर थावन येता तो सगळ्यांवून वरतो. प्रिथुमेंतलीं उपजतात तीं प्रिथुमेचीं, आनी तांचें उलोवणें प्रिथुमेचें. सर्गार थावन येता तो सगळ्यांवून वरतो. आपणें देकलां आनी आयकलां ताची तो साक्षी दिता, तरी पूण कोण ताची साक्षी मानून घेना.

ताची साक्षी मानून घेतात तीं देव सतेवंत म्हण रुजू करतात, कित्याक जाका देवान पाटयला, तो देवाची उतरां उलयता: देव ताका माप मेजप नासताना आत्मो दिता. बाप पुताचो मोग करता

पुताचो मोग करता आनी ताणें सगळ्यो वस्तू ताच्या हातांत दिल्यात. ***पुताचेर भावार्त दवरतात तांचे सवें सासणीक जिवीत आसा;*** पुताक खालतीं जांवक कबूल नांत तीं जिवीत भोगूंक पावचीं नांत, पूण देवाचो क्रोध तांच्या माथ्यार आसा.

**48.** *मार्कू 6,17-20; लूक 3, 19-20*

### स्नानदातार जुवांव बंदखणींत

*(मार्कू)* हेरोदियास नांवाचे, आपल्या भावा फिलिपाचे बायलेक आपली बायल केल्ली देखून, त्याच हेरोदीन मनीस धाडून जुवांवाक धरललो, आनी बंदखणींत घाल्लो. कारण जुवांव हेरोदीक म्हणतालो: "तुज्या भावाचे बायलेक तुज्यान तुजी बायल करून दवरूं नज." *(लूक)* आनी ताच्या सगळ्या नश्ट्या करतुबां पासत जुवांव हेरोदीक भेश्टायतालो. *(मार्कू)* पूण हेरोदियासाच्या काळजांत ताचो राग शिजतालो आनी ताका जिवेशीं मारूंक ती सोदताली, पूण तिका तशें करूंक मेळनासलें. तो एक प्रामाणीक आनी भक्तिवंत मनीस म्हण जाणा जावन, हेरोद जुवांवाक भियेतालो आनी ताका राकतालो. तो सांगता तें आयकून पाटीं फुडें सरतालो आनी तरी खुशे मनान ताका कान दितालो.

**49.** *मार्कू 1,14a; जु 4,1-4*

### जेजू सामारियेंतल्यान गालिलेयाक वेता

*(मार्कू)* जुवांवाक धरून कैदी केल्या उपरांत, *(जु)* स्नान दिवन आपूण जुवांवावून अदीक चड शीस करता, अशें फारिजेवांच्या कानार पडलां म्हण जेजूक गमून आयलें. खरें म्हळ्यार, जेजू आपुणूच स्नान दिनासलो, पूण स्नान दिताले ते ताचे शीस. तेदनां तो जुदेयांतलो भायर सरलो आनी परतून गालिलेयांत गेलो. ताका सामारियेंतल्यान वेचें पडतालें.

**50.** *जु 4,5-26*

### जाकोबाचे बांय लागीं सामारियेकार्ण बायल

*(मार्कू)* जेजू शिकार नांवाच्या सामारियेच्या एका नगरांत पावलो;

जाकोबान आपल्या पुता जुजेक दिल्ल्या शेता लागींच हें नगर आसलें. जाकोबाची बांय थंय आसली, आनी जेजू, चलून चलून थकललो देखून बांयच्या कांटार बसलो. सुमार दोनपार जाल्लो. सामारियेची एक बायल उदक काडूंक थंय आयली. जेजून तिका म्हळें: "म्हाका इल्लें पियेंवक दी." ताचे शीस जेवणाक कितेंय घेंवक म्हण नगरांत गेल्ले. सामारियेचे बायलेन ताका म्हळें: "तूं जुदेव आनी हांव सामारियेकार्ण, तर कसो म्हण तूं म्हजे कडेन पियेंवक मागताय?" खरें म्हळ्यार, जुदेव लोक आनी सामारियेकार लोक एकामेकांचीं आयदनां वापरी नांत[1]. जेजून तिका परतिपाळ केलो: ***"देवाचें देणें कसलें तें तुका तर गमललें आनी 'म्हाका पियेंवक दी' अशें तुका म्हणता तो कोण तो तूं जाणा आसलीय जाल्यार, तूंच ताचे कडेन मागतली आसलीय आनी तो तुका जिवें उदक दितलो आसलो."***[2] बायलेन ताका म्हळें: "सायबा, उदक काडूंक तुजे लागीं शिदी कांय ना, आनी बांय खोल आसा; तर तुजे कडेन जिवें उदक खंयचें? आमच्या पुर्वजा जाकोबा परस तूं व्हड कितें? ताणें आमकां ही बांय दिली, आपूण तिचें उदक पियेलो, तशेंच ताचीं भुरगींबाळां आनी ताचे हींड." जेजून तिका म्हळें:

***"हें उदक पियेतात तांकां सगळ्यांक परतून तान लागतली, पूण हांव दीन तें उदक पियेतीत तांकां कदींच तान लागची ना. हांव तांकां दीन त्या उदकाची तांचे भितर एक झर जातली आनी ती तांकां सासणीक जिवीत दीत व्हांवतली."***

---

[1] जुदेव लोकाच्या परदेसाच्या समयार अनभावार्ती राश्ट्रांचो लोक सामारियेंत रावूंक गेलो; सामारियेंत उरलल्या जुदेवां लागीं तांचो संबंद वाडलो; सर्वेस्पराक तो भजुंकूय लागलो. देखून दुसरो जुदेव लोक सामारियेकारांक "मिसळ जात" म्हण पाचारतालो; आनी, परदेसा उपरांत, जेरुजाल्यांतलें देवमंदीर नव्यान बांदूंक तांचो आदार घेना जालो. ह्या पासत मागीर सामारियेकारांनी आपलें वेगळें देवमंदीर गेरिजीम दोंगरार बांदून काडलें.

[2] हें "जिवें उदक" म्हळ्यार आमां मनशांक जेजून फावो केल्लें देवाचेंच जिवीत, पवित्र आत्म्याचें देणें *(पळे जु 7,37-39; आंक 173).*



*“हांव तुका जिविताचें उदक दितलों.”*
*जेजू दिता तें जिविताचें उदक म्हाका जाय व्हय?*
*(आंक 50 वाच)*

बायलेन ताका म्हळें: "सायबा, तें उदक म्हाका दी, अशी म्हाका आनीक तान लागची ना आनी उदक काडूंक हांगा येंवकूय पडचें ना." जेजून तिका म्हळें: "वच आनी तुज्या घोवाक आपोवन हाड आनी हांगा ये." बायलेन जाप दिली. "म्हाका घोव ना." जेजून तिका परतून म्हळें: "म्हाका घोव ना, हें तुवें सारकें सांगलें, कित्याक तुका पांच दादले आसले आनी तुज्या सांगाता आतां आसा तोय तुजो घोव न्हय. हें तुवें सारकें सांगलें." बायलेन ताका म्हळें: "सायबा, तूं प्रवादी म्हण म्हाका आतां कळ्ळें. आमच्या पुर्वजांनी ह्या दोंगरार[1] देवाक भजलो, पूण तुमी ताका जेरुजाल्यांतूच भजूंक जाय म्हण सांगतात." जेजून तिका म्हळें:

*"म्हजें आयक, बाय:*
*तुमी, ह्या दोंगरार जांव वा जेरुजाल्यांत जांव,*
*बापाक भजचीं नांत असलो वेळ येंवचो जालो.*
*तुमी वळकनांत ताका भजतात;*
*आमी जाल्यार वळकतांव ताका भजतांव;*
*कित्याक तारण जुदेव लोका थावन येता.*
*पूण असलो वेळ येता,*
*खरेंच म्हळ्यार हो वेळ पावलो,*
*की खरे भजपी आत्म्यान आनी सतान*
*बापाची भक्ती करतले;*
*कित्याक म्हळ्यार, असलेच भजपी बाप सोदता.*
*देव आत्मो, आनी ताच्या भजप्यांनी*
*ताका आत्म्यान आनी सतान भजूंक जाय."*

बायलेन ताका म्हळें: "*मेशिया* – म्हणगे अभिशिक्त – येंवचो आसा म्हण हांव जाणां. तो येतलो तेदनां आमकां सगळें सांगतलो." जेजून तिका म्हळें:

---

[1] गेरिजीम दोंगर.

***" हांव तो, तुजे कडेन उलयतां तो. "***

**51.** *जु 4, 27-38*

***शीस परतून येतात***

त्याच वेळार ताचे शीस थंय पावले. आनी एके बायले लागीं तो उलयता म्हण तांकां अजाप दिसलें, पूण "तिचें तुका कितें जाय?" वा "तिचे कडे तूं कित्याक उलयताय," अशें कोणेंच विचारलें ना. तेदनां ती बायल उदकाचो कोळसो थंय सांडून नगरांत गेली आनी लोकाक म्हणूंक लागली: "हांवें केलां तितलेंय कोण एकल्यान म्हाका सांगलां; येयात आनी ताका पळेयात; होच अभिशिक्त जायतगाय?" तो लोक नगरांतलो भायर सरून ताका मेळूंक आयलो. इतल्या म्हणसर शीस ताचे कडे मागताले: "राब्बी जेव आतां." पूण ताणें तांकां म्हळें:

***"म्हाका जें खाण जेवण आसा, ताची तुमकां ओळक ना. "***

देखून शीस एकामेकाक म्हणूंक लागले: "ताका कोणें जेवूंक हाडून दिलांगाय?" जेजून तांकां म्हळें:

***"जाणें म्हाका पाटयला,***
***ताची खुशी करूंक***
***आनी ताचें काम शार्ती पावोंवक,***
***हेंच म्हजें खाणजेवण.***

*' चार म्हयने, उपरांत लुंवणी, '*
*अशी तुमचे मदें म्हणणी आसा न्हय?*
*हांव तुमकां सांगतां:*
*तुमचे दोळे उकलून पळेयात:*
*शेतां जालीं धवीं, लुंवचीं जालीं!*
*लुंवतात तीं आपली मजुरी घेतात*
*आनी सासणाच्या जिविताक पीक एकटांय करतात,*
*आनी अशें वोंपपी आनी लुंवपी बराबर संतोसतात.*
*हांगा ही म्हणणी लागता:*

*‘एकलो वोंपता, दुसरो लुंवता;’*
*ज्या शेताचे कश्ट तुमी काडूंक नांत,*
*त्या शेतांत तुमकां हांवें लुंवूंक धाडल्यात;*
*दुसऱ्यांनी ताचे कश्ट काडल्यात,*
*आनी तांच्या कश्टांच्या फळांत*
*तुमकां भाग मेळला.”*

**52.** *जु 4, 39-42*

### *जायतीं समारियेकारां जेजुचेर भावार्त दवरतात*

“हांवें केलां तितलेंय ताणें म्हाका सांगलां”, अशी ते बायलेन गवाय दिल्ली देखून, त्या नगरांतल्या पुस्कळ सामारियेकारांनी ताचेर भावार्त दवरलो. देखून सामारियेकारां ताचेशीं आयलीं तेदनां आपणाशीं राव म्हण तांणीं ताचे कडे मागलें, आनी थंय तो दोन दीस रावलो. आनी ताच्या उतराक लागून आनीक खूप खूप जाणांनी ताचेर भावार्त ठेवलो. तीं बायलेक म्हणतालीं: “आतां आनीक तुज्या उतरांक लागून न्हय, बगर आमीच ताचें आयकलां देखून आमी भावार्त धरतांव, आनी तो खरोच संसाराचो तारक म्हूण आमकां कळोन आयलां.”

# दुसरो भाग
## गालिलेयांत उपदेस

## VII- गालिलेयांतल्या मुनियारपणाची सुरवात
(माय)

53. *जु 4,43-45*

### *जेजू गालिलेयांत पावता*

सामारियेंत दोन दीस रावल्या उपरांत, जेजू गालिलेयाक गेलो. “खंयच्याच प्रवाद्याक आपल्या गांवघरा[1] मान मेळना”, अशी जेजुनूच गवायकी दिल्ली. गालिलेयांतलो लोक उत्सवाक गेल्लो; जेरुजाल्यांत उत्सवाच्या समयार जेजून केल्लें तें सगळें तांणीं देकलें; देखून, तो गालिलेयांत आयलो तेदनां तांणीं ताका बरो येवकार दिवन घेतलो.

54. *जु 4,46-54*

### *राजअधिकाऱ्याचो पिडेस्त पूत*

म्हणतच ताणें उदकाचो सोरो केल्लो त्या गालिलेयाच्या काना गांवांत आनीक एक पावट तो आयलो. आनी कापेर्नावमांत एका राजअधिकाऱ्याचो पूत पिडेंत आसलो. जेजू जुदेयाक थावन गालिलेयांत पावला म्हण आयकून, तो ताका मेळूंक गेलो. मरणाचे तणीर पावलल्या आपल्या पुताक बरो करूंक ये म्हण तो जेजू लागीं मागतालो. जेजून ताका म्हळें: “खुणा आनी विजमितां देकल्या शिवाय तुमी सतमानच्याक नांत.” राजअधि-काऱ्यान ताका म्हळें: “सायबा, म्हजो भुरगो मरचे आदीं ये.” जेजून ताका म्हळें: “वच तूं, तुजो पूत जिवो आसा.” जेजुच्या उतराचेर भावार्त दवरून तो मनीस आपले वाटेक लागलो. तो वाटेर आसतांनांच ताचे चाकर ताका मेळूंक गेले, आनी ताचो पूत जिवो आसा म्हण

---

[1] जेजू बेथलेहेमांत (जुदेया प्रांतांत) जल्मलो. देखून जुदेया ताचो खाशा गांव म्हणूं येता. आपणाक नाजारेतांत, म्हणगे आपूण जायतीं वरसां जियेल्लो त्या गांवांत, लोकान मानून घेंवक ना तेदनांय, हेच म्हण्णेचो जेजून नाजरेतकारांक उगडास केलो.

तांणीं ताका सांगलें. देखून खंयच्या वगतार ताका बरें दिसलेंगाय म्हण ताणें तांकां विचारलें. तांणीं ताका सांगलें: "काल, दोनपारच्या एका वराचेर, ताचो जोर गेलो." ज्या वेळार जेजून आपणाक 'तुजो पूत जिवो आसा' अशें म्हणललें, त्याच वेळार हें घडलें म्हण बापायक गमून आयलें; देखून ताणें आनी ताच्या आख्या घराब्यान जेजुचेर भावार्त ठेवलो. जुदेयांतलो गालिलेयांत परतून येतच ही जेजून केल्ली दुसरी खुणा.

**55.** *मातेव 4,13-17a; मार्कू1,14b-15; लूक 4,14b-15*

### *जेजुचो पयलो उपदेस*

*(मातेव)* आनी नाजारेत सोडून, जाबुलोनाचे आनी नेफ्तालिचे शिमेर, दर्यादेगेर आसत्या कापेर्नावमांत ताणें ठिकाण केलें. अशें इजायास प्रवाद्यान आदींच सांगललें तें पाळोन येंवक जाय आसलें:

*"जाबुलोनाचो आनी नेफ्तालिचो गांव!*
*दर्याचे वाटेर जोर्दाना पेले तडी आसलली*
*राश्ट्रांची गालिलेया!*
*काळोकांत रावतल्या लोकान*
*एक व्हड उजवाड देकलो;*
*मरणाची सावळी पडलल्या गांवांत रावतल्यांक*
*एक उजवाड उदेलो!"*



त्या दिसा थावन जेजू अशें म्हणून प्रवचन करूंक लागलो:

(मार्कू) "***नेमललो काळ भरलो***
***आनी देवाचें राज येंवचें जालें.***
***जिवीत बदलात आनी शुभवर्तमान मानून घेयात.***"

*(लूक)* ताची किर्ती आख्या प्रांतांत गाजली. तो तांच्या देवस्थानांनी शिकोवण दितालो आनी सगळीं ताची व्हडवीक सांगतालीं.

**56.** *लूक 5,1-11*

### जेजू पयल्या चौगां शिसांक आपयता

देवाचें उतर आयकूंक लोक जेजू भोंवतीं चेंचोन आसलो आनी तो जेनेजारेत तळयेचे धडेर उबो आसलो. तेदनां थंय तळयेचे देगेर ताणें दोन व्हडीं देकलीं; खारवी देंवून रांपणी धुताले. तांतलें एक व्हडें शिमांवाचें आसलें. ताचेर तो चडलो आनी तें तडीक थावन मात्शें पयस व्हरूंक ताणें मागलें; आनी व्हड्यार बसून, थंय थावन तो लोकाक शिकोवण दितालो. उलोवन जातच ताणें शिमांवाक सांगलें; "खोल उदकांत व्हडें भायर मार आनी मासळी धरूंक तुमच्यो रांपणी उडयात." ताका जाप दिवन शिमांवान म्हळें: "गुरुजी रात भर आमी कश्ट केले, पूण आमकां कांयच सांपडलें ना; तरीपूण तुज्या उतराक रांपण घालतां." अशें केल्या उपरांत तांकां इतली खूप मासळी पडली, की तांच्यो रांपणी पिंजूंक पावलल्यो आनी येवन आपणांक आदार दिंवक दुसऱ्या व्हड्यांत आसलल्या भागिदारांक तांणीं खुणा करून आपयले. ते आयले आनी बुडूंक पावसर दोनूय व्हडीं भरलीं. तें पळयना फुडें शिमांव पेद्रून जेजुच्या पांयां पडून म्हळें: "म्हजे सरशिलो पेल्यान सर, सायबा; हांव एक पातकी मनीस." तो आनी ताचे बराबर आसलले तितलेय पडलली मासळी पळोवन सारकेच थटाकले; तेच परीं शिमांवाचे भागिदार आसलले ते, जेबेदेवाचे पूत जाकोब आनी जुवांव. आनी जेजून शिमांवाक म्हळें: "भियेंव नाका. ह्या फुडें तूं मनशांक धरतलोय." आनी व्हडीं तडीक काडून, सगळें सांडून, ते ताच्या पाटल्यान गेले.

**57.** *मार्कू 1,21-22; लूक 4,33-37*

### कापेर्नावमांत एक सनवार: देवचारबसललो मनीस

*(मार्कू)* जेजू आनी ताचे शीस कापेर्नावमाक गेले; आनी रोकडेंच सनवारा दिसा देवस्थानांत भितर सरून, तो तांकां शिकोंवक लागलो

आनी ताचे शिकोवणे विशीं लोक अजाप जातालो, कित्याक धर्मशास्त्र्यां भाशेन न्हय, पूण अधिकार आसलले परीं तो तांकां शिकयतालो.

*(लूक)* म्हेळो देवचार बसललो एक मनीस देवस्थानांत आसलो आनी ताणें व्हडल्यान आरडून म्हळें: “आय सायबा! नाजारेतकारा जेजू, आमचे कडे तुका कसलें काम आसा? आमचो भस्म करूंक आयलाय कितें? तूं कोण तो हांव जाणां: देवाचो संस्कारललो भक्त तूं!” पूण जेजून ताका धमकावन म्हळें: “ओगो राव आनी ह्या मनशा वेलो भायर सर!” आनी सगळ्यां मदेकत ताका धरणीर आपटून पूण मातूय दुखयनासताना, देवचार ताचे वेलो भायर सरून गेलो. सगळीं अजाप जालीं एकामेकाक म्हणूंक लागलीं: “कसलें म्हण उतर हें! अधिकारान आनी पदवेन तो म्हेळ्या आत्म्यांक आज्ञा करता आनी ते भायर सरून वेतात!” आनी ताची खबर गांवांगांवांनी आख्या प्रांतांत गाजली.

**58.** *मार्कू 1, 29-31*

### पेद्रुचे सासूक जेजू बरी करता

देवस्थानांतलो भायर सरून, जाकोबा आनी जुवांवा सांगातीं जेजू सामको शिमांव आनी आंद्रेच्या घरा गेलो. शिमांवाची सासू जोरान हांतरुणार पडलली आसली आनी तांणीं ताका रोकडीच तिची खबर दिली. तो लागीं सरलो आनी तिच्या हाताक धरून ताणें तिका उटयली, आनी त्याच वेळार तिचो जोर पडलो आनी ती तांचो परामस करूंक लागली.

**59.** *लूक 4,40; मातेव 8,17; लूक 4,41*

### जायत्या बळ्ळिकारांक जेजू बरीं करता

*(लूक)* दीस धारेर पडल्या उपरांत[1] जिनसां भासांच्या बळ्ळिकारांक ताचे सरशीं हाडलीं. आनी एक एकल्याचेर हात दवरून ताणें तांकां बरीं

[1] सनवारा दिसा, देवाक भेटयल्ल्या दिसा, काम करूं नज म्हण नीब धरून, फारिजेव आनी धर्मशास्त्री पिडेवंतांक सनवार सोंपचे आदीं उबारचीं न्हय म्हण लोकाक कायदो घालताले. जुदेव लोका मदें एक-एक दीस सांजे सुरू जातालो आनी दुसरे सांजे, सूर्य पडच्या वेळार, सोंपतालो.

केलीं. *(मातेव) "ताणें आमचे वेलो पिडारोग उबारलो आनी आमच्यो बळ्ळिको आपणाचेर घेतल्यो,"* अशें इजायास प्रवाद्यान सांगललें तें पाळोन आयलें. *(लूक)* जायत्या जाणां वेले ताणें देवचारूय काडले आनी ते बोब मारून म्हणताले: "तूं देवाचो पूत!" आनी आपूण अभिशिक्त म्हण ते जाणा आसले देखून, तो तांकां बोबाट करून उलोंवक दिनासलो.

**60.** *मार्कू 1,35-38; मातेव 4,23*

### जेजू गांवांगांवांनी भोंवूंक लागता

*(मार्कू)* दुसरे सकाळीं, आजून काळोक आसताना, उटून तो भायर सरलो आनी एका एकसुऱ्या जाग्यार वचून थंय मागणें करतालो. शिमांव आनी ताचे सांगाती ताका सोदूंक गेले; आनी तांणीं ताका म्हळें: "सगळो लोक तुका रावता." ताणें तांकां सांगलें: "दुसरे कडेन, लागशिल्या गांवांनी आनी नगरांनी वचुंया; थंयसर हांवें शिकोवण दिंवक जाय, कित्याक ह्याच पासत हांव आयलां."

*(मातेव)* जेजू आख्या गालिलेयांत भोंवून फिरून तांच्या देवस्थानांनी उपदेस दितालो, राज्याचें शुभवर्तमान परगटतालो, आनी लोका मदें सगळ्या जिनसांचो पिडारोग बरो करतालो.

**61.** *मार्कू 1,40-45a; लूक 5,15b-16*

### जेजू एका कोडकाराक नितळ करता

*(मार्कू)* एक कोडकार जेजू सरशीं उपकार मागूंक आयलो आनी दिंबी घालून ताणें म्हळें. "तुका खुशी आसत जाल्यार, तुज्यान म्हाका नितळ करूंक जाता." ताचे चुरचुरे धरून, जेजून आपलो हात विस्तारलो आनी तो ताका लावून म्हळें: "हय, म्हाका खुशी आसा: नितळ जा." आनी, अशें म्हणना फुडें, ताचें कोड नांच जालें आनी तो नितळ जालो. जेजून ताका वेगींच धाडलो आनी खरायेन ताका म्हळें: "पळे, कोणाकूच हें सांगूं नाका; पूण वच



कुडीन वा आत्म्यान कोड फुटलां तुका?
जेजुर्शी ये: तो तुका नितळ करतलो.
(आंक 61 वाच)

आनी तुजें आंग याज्ञिकाक दाकय; आनी परजेक तुजी पेकोवणी रुजू करचे खातीर, तूं नितळ जाला म्हण मोयजेसान फर्मायल्लें दान भेटय."[1] तो गेलो, पूण ही खबर अशे भाशेन परगटूंक आनी सगळ्यांक सांगूंक लागलो की जेजुच्यान उगतीं खंयच्याच नगरांत वचूंक जायना जालें आनी भायर, एकसुऱ्या सुवातांचेर, ताका रावचें पडलें; तरी आसताना सगळे कडचो लोक ताचाशीं येतालो.

*(लूक)* ताची खबर अदिकूच गाजत वेताली आनी ताचें उतर आयकूंक आनी आपले पिडेरोगांतलो बरो जांवक उर्पजिनी लोक येतालो. पूण तो खंय खंय एकसुरे सुवातेर वचून मागणें करतालो.

## VIII - फारिजेवां कडे तोंडाक तोंड

(जून)

**62.** *मार्कू 2,1-2; लूक 5,17b-26*

### *आर जाल्ल्या मनशाक जेजू बरो करता*
### *जेजूक पातकां भोगसूंची पदवी आसा*

*(मार्कू)* थोड्या दिसांनी जेजू नव्यान कापेर्नावमांत आयलो तेदनां, तो घरा आसा म्हण खबर जाली, आनी इतलो लोक थंय एकटवलो, की दारा भायर परयान तांकां जागो नासलो. त्या लोकाक तो प्रवचन करता आसताना *(लूक)* गालिलेयाच्या आनी जुदेयाच्या गांवगांवांतले आनी जेरुजाल्यांतले फारिजेव आनी धर्मशास्त्री येवन थंय बसलले. आनी पिडेस्तांक बरीं करूंक

---

[1] लेव. 14 पळे: हांगा बरो जाल्ल्या मनशाची शुद्धावणेची रीत दिल्ली आसा. त्या भायर, ताणें याज्ञिका कडचो एक धाकलो (दोकुमेंत) घेंवक जाय आसलो: अशें तो खरोच बरो जालो म्हण सगळ्यांक खातरी जाताली.

सर्वेस्पराची शक्ती ताचे सवें आसली. अवचितूच कांय दादले आर जाल्ल्या एका मनशाक हांतरुणार घालून घेवन आयले; आनी ताका भितर हाडून ताच्या फुड्यांत दवरूंक सोदताले. पूण लोकाक लागून खंयचेच वाटेन ताका भितर हाडूंक मेळनासलें देखून, ते पाटसाचेर चडले आनी नळे काडून, हांतरुणा सयत, ताका मदेकत जेजू मुखार तांणीं देंवयलो. तांचो भावार्त पळेवन ताणें म्हळें: "बाबा, तुजीं पातकां तुका भगसलीं." आनी धर्मशास्त्री आनी फारिजेव आपल्या मनांत म्हणूंक लागले: "हो आनी कोण रे?! तो सांगता तें सारकीच देवनिंदा! देवाक एकल्याकूच सोडून, कोणाच्यान पातकां भगसूंक जाता?" तांचें चिंतप जाणा जावन, जेजून परतिपाळ केलो: "असलीं चिंतनां तुमच्या मनांत कित्याक घोळयतात तुमी? ह्या दोनांतलें खंयचें म्हणूंक अदीक सोंपें: 'तुजीं पातकां तुका भगसलीं!', अशें म्हणूंक, वा 'ऊट आनी चल!', अशें म्हणूंक?" ***पूण मनशाच्या पुताक संसारांत पातकां भगसूंक पदवी आसा म्हण तुमी जाणा जांवचे खातीर, (ताणें आरकाराक म्हळें): "हांव तुका हुकूम घालतां, ऊट, आनी तुजें हांतरूण उकलून तुज्या घरा वच."*** आनी रोकडोच सगळ्यां हुजीर उटून, आपूण आसललो तें हांतरूण उकलून, देवाची तुस्त करीत तो आपल्या घरा गेलो. आनी सगळीं एकदम थटाकलीं आनी देवाक वाखाणतालीं आनी भिरांतीन भरोन म्हणतालीं: "विचित्र वस्तू आमी आज देकल्यो."

**63.** *मार्कू 2,13-14a; लूक 5,27b-28*

### ***लेवी वा मातेव – हाचें आपोवणें***

*(मार्कू)* जेजू दुसरीं दर्याचे वेळेच्यान गेलो; आनी सगळो लोक ताचे सरशीं येतालो, आनी तो तांकां शिकोवण दितालो. फुडें वेताना, *(लूक)* लेवी नांवाच्या एका दंडवसुलदाराक मांडवीर

बसललो ताणें देकलो आनी ताका म्हळें: "म्हज्या पाटल्यान ये." आनी सगळें सांडून तो उटलो आनी ताचे पाटल्यान गेलो.

**64.** *लूक 5, 29-32*

### *लेविच्या घरांत जेवण*

आनी लेवीन आपल्या घरांत ताका एक व्हडलें जेवण केलें आनी दंडवसुलदारांची आनी तांचे सांगातीं जेवणाक बसलल्या हेरांची व्हड खेट आसली. तेदनां फारिजेवांनी आनी तांच्या धर्मशास्त्र्यांनी गुणगुणून ताच्या शिसांक म्हळें: दंड वसुलदारांक आनी पातक्यां बराबर तुमी कित्याक खातापियेतात? परतिपाळ करून जेजून तांकां म्हळें: ***"बरीं आसलल्यांक न्हय, पूण वायटाकारांक की वैजाची गरज. तुमी प्रमाणीक म्हण धरतात तांकां आपोंवक हांव आयलों नां पूण तुमी पातकी म्हण लेकतात तांणीं आपलें जिवीत बदलचे खातीर, असल्यांक हांव आपोंवक आयलां."***

**65.** *लूक 5,33-35*

### *उपासा विशीं प्रश्न*

फारिजेवांनी आनी धर्मशास्त्र्यांनी जेजूक म्हळें: "जुवांवाचे शीस, आनी तशेंच फारिजेवांचे भोंवन-भोंवन उपास आनी मागणीं करतात, पूण तुजे शीस खावनपिवन खुशाल आसात तें कशें?" आनी जेजून तांकां म्हळें: "नवरो पावण्यां बराबर आसताना तुमच्यान तांकां उपास करूंक लांव येत? नवऱ्याक तांचे मदलो काडून व्हरचे दीस येतले; मागीर, ते दीस येतच, ते उपास करतले."

**66.** *लूक 5,36-39*

### *जेजुची आनी ताच्या शिसांची चाल सारकी नवी.*

अशी एक वोपार घालून ताणें तांकां सांगलें: "कोणूच पोरण्या वस्त्राक कोपो मारूंक नव्या वस्त्राचो कुडको पिंजून काडिना;

तशें जाल्यार नवें वस्त्र पिंजलें तें पिंजलें, ते भायर ताचो काडललो कुडको पोरण्या वस्त्राक सरी जांवचो ना. आनी कोणूच नवो सोरो पोरण्या दाब्यांनी भरिना; भरलो जाल्यार नवो सोरो दाबे फोडून उडयतलो आनी वोतोन वेतलो आनी दाब्यांचो इबाड जातलो. पूण नवो सोरो नव्या दाब्यांनी भरूंक जाय. आनी पोरणो सोरो पिवून आयल्ल्या कोणाकूच नवो सोरो रोकडोच बरो लागना. पोरणो सोरो अदीक बरो, अशें तो म्हणता."[1]

**67.** *मातेव 12,1-7; मार्कू 2,27-28*

### सनवारा विशीं कांय प्रश्न: शेतांतलीं कणसां

*(मातेव)* त्या दिसांनी, एका सनवारा, जेजू शेतांतल्यान वेतालो. ताचे शीस भुकेल्ले देखून कणसां तोडून खांवक लागले. फारिजेवांनी तें पळोवन ताका म्हळें: "सनवारा दिसा करूं नज तसलें काम हे पळे तुजे शीस करतात." पूण ताणें तांकां सांगलें: "दाविदाक आनी ताच्या सांगात्यांक भूक लागली तेदनां, तांणीं कितें केलें तें तुमी वाचूंक ना कितें? म्हणगे कशे भाशेन तो देवाच्या घरांत भितर सरलो आनी ताका आनी ताच्या बरोबरच्यांक खांवक सत्या नासली पूण फकत याझिकांनी खांव येताले ते देवाक भेटयलले उंडे तांणीं खेले, हें तुमी वाचूंक ना बी? वा सनवारा दिसा याझीक देवमंदिरांत सनवार मोडतात तरी गुन्यांवकार जायनांत, हें तुमी समुर्तींत वाचूंक ना? तर हांव तुमकां सांगतां: देवमंदिरावून व्हड कोण एकलो हांगा आसा! म्हाका दया जाय बलिदान नाका, ह्या उतरांचो अर्थ तुमी जाणा आसल्यात

---

[1] पोरणें वस्त्र आनी पोरणे दाबे जुदेव धर्मांत वा चालींत तगपाच्यो न्हय त्यो वस्तू खुणायतात. नवें वस्त्र आनी नवे दाबे जेजू स्थापूंक आयला तें देवाच्या राज्याचें नवें मन खुणायतात. जुवांवाचे वा फारिजेवांचे शीस करताले त्यो भक्तिच्यो करण्यो जुदेव धर्माचे आदले मांडावळीक नवो जीव लाभोंवक सोदतात, पूण सगट निर्फळ. जेजू "कपे मारूंक" राजी ना. तो सारकेंच नवें कितें स्थापूंक आयला: देवाचें राज्य. अशें करताना आदले समुर्तिचें मन परयान तो एका उंचल्या पांवड्यार घालता *(आंक 75 वाच)*.

जाल्यार, केदनांच तुमी निरपराधी मनशाक गुन्यांवकार करचे नासल्यात. *(मार्कू)* आनी ताणें तांकां सांगलें: ***"देवान सनवार मनशां खातीर केला, मनशांक सनवारा खातीर करूंक नांत[1]. म्हणतच मनशाच्या पुताक सनवाराचेरूय अधिकार आसा."[2]***

**68.** *लूक 6,6-9; मातेव 12,11-12; मार्कू 3,5*

### आर जावन सुकलल्या हाताचो मनीस

*(लूक)* दुसऱ्या एका सनवारा दिसा जेजू देवस्थानांत वचून शिकोवण दितालो. आनी उजव्या हाताक आर जाल्लो एक मनीस थंय आसलो. जेजुचो गुन्यांव करचे खातीर सनवारा दिसा त्या मनशाक बरो करीतगाय म्हण धर्मशास्त्री आनी फारिजेव जेजूक तेळून आसले. तांच्यो चिंतना वळकून, हाताक आर जाल्ल्याक ताणें म्हळें: "ऊट आनी मदेकत येवन उबो राव." तो उटलो आनी उबो रावलो. आनी जेजून तांकां म्हळें: "सनवारा दिसा कितें करूं येता: बरें की वायट? जीव वांचोंव येत वा काडूं येत? हें हांव तुमचे लागीं विचारतां. *(मातेव)* तुमचे भितर कोण एका मनशा कडे एक शेळी आसत आनी ती सनवारा दिसा खणींत पडली जाल्यार, तो तिका धरून, उकलून, भायर काडचो नासलो? शेळये परस मनीस कितलो म्हण वरतो! म्हणतच सनवारा दिसा बरें करूं येता, अशें जालें."

*(मार्कू)* तेदनां रागान तांचेर नदर भोंवडावन, तांच्या काळजाचे धारुणाये पासत खंती भरीत जावन, ताणें त्या मनशाक म्हळें: "तुजो हात सोड." ताणें तो सोडलो आनी ताचो हात आदले भाशेन सारको जालो.

---

[1] सैंबाचे न्हय पूण हेर कायदे केदनां-केदनां, मनशाच्या बरेपणाक गरज जाल्यार, मोडूं येतात म्हण जेजू शिकयता.

[2] सनवार आपणाक भेटोंवचो म्हण देवान फरमायल्लें. आपणाक "सनवाराचेर अधिकार आसा" म्हण जेजू आपणाक देवाचोच अधिकार आसा म्हण दाकयता.

**69.** *मार्कू 3,6; मातेव 12,15a*

### फारिजेवांचो गुडमेळ

*(मार्कू)* तरी फारिजेव भायर गेले आनी कशे बाशेन ताका नाटाक करचो ते विशीं हेरोदिच्या पक्षांच्या मनशां बराबर रोकडोच ताचेर आड गुडमेळ करूंक लागले. *(मातेव)* पूण तें समजून तो थंयसरलो कडसरलो.

**70.** *मातेव 12,15b-21*

### अभिशिक्ताची दुलोबाय

जायतीं जाणां ताचे पाटल्यान गेलीं आनी तांकां सगळ्यांक ताणें बरीं केलीं, पूण आपणाक परगट करिनाकात म्हण ताणें तांकां शिडकायलीं. इजायास प्रवाद्यान सांगललें तें अशें खरें जालें:

*“हो आसा सेवक म्हजो,*
*हांवें विंचून काडललो,*
*म्हजे अपुरबायेचो!*
*ताचेर पूर्ण संतोस म्हजो।*
*म्हजें तारण सर्व राश्ट्रांक*
*परगट करूंक, हांव ताका*
*म्हज्या आत्म्यान भरतलों.*
*वाद विवाद तो करचो ना,*
*बोब मारून आरडुंचो नां*
*ताचो ताळो रस्त्यांचेर*
*कोणाक आयकूंक येंवचो ना.*
*सताक जैत मेळ परयान*
*फुटलली बेत मोडचो ना,*
*आजून धुंवरती दशीर*
*तो कदींच पालोंवचो ना.*
*ताच्या नांवार राश्ट्रांचो*
*आसा सगळो भरवांसो!”*

# IX - दोंगरा वेलो उपदेस

(जुलाय)

**71.** *लूक 6,12-13; मातेव 10,1b-4*

## ***जेजू बारा धर्मदुतांक विंचून काडता.***

*(लूक)* जेजू मागणें करूंक एका दोंगरार गेलो आनी देवाक मागणें करून ताणें आखी रात सारली. उजवाडतच ताणें शिसांक आपयले, तांतुंतल्या बारा जाणांक विंचून काडले आनी तांकां धर्मदूत[1] अशें नांवूय दिलें. *(मातेव)* जेजून तांकां म्हेळ्या आत्म्यांचेर अधिकार दिलो आनी देवचार काडूंक सगळ्या जिनसांचो पिडारोग बरो करूंक तांकां पदवी दिली. बारा धर्मदुतांचीं नांवां हीं: पयलो पेद्रू म्हणतात तो शिंमांव, आनी ताचो भाव आंद्रे; जेबेदेवाचो पूत जाकोब आनी ताचो भाव जुवांव[2]; फिलीप आनी बार्तोलोमेव; तॉमास आनी दंडवसुलदार मातेव, आल्फेवाचो पूत जाकोब, आनी तादेव; क्रांतिकार शिमांव, आनी ताचो घात घेतलो तो जुदास इस्कारियोत.

**72.** *लूक 6,17-19; मार्कू 3.11-12*

## ***जेजू भोंवतणीं लोकाच्यो उरपंजी;***
## ***पुस्कळ बव्ळिकारांक जेजू बरो करता.***

*(लूक)* तांचे बराबर सकला येवन जेजू एका मळार रावलो; थंय ताच्या शिसांचो व्हड जमो एकटांय जालो आनी जुदेया थावन, जेरुजाल्या थावन, दर्या देगेच्या तीर आनी सिदोना थावन ताचें उतर आयकूंक वा आपल्या पिडेरोगांतलो बरो जांवक आयलल्लो पुस्कळ लोक जमलो, आनी म्हेळे आत्मे त्रास दिताले तसलीं मनशां बरीं जातालीं. ताचे कडसून एक गूण भायर सरून तांकां

---

[1] *धर्मदूत*: आपोस्तल, म्हणगे पाटयल्ले. जेजून आपली नवी वाट वा नवो धर्म वा देवाचें राज्य परगट करूंक तांकां पाटयले देखून, हेंच नांव तांकां दिलें.

[2] हांगा मार्कू हीं उतरां लायता: *हांकां ताणें बोआनेर्गेस, म्हणगे 'गडगड्याचे पूत' म्हण आडनांव दिलें.*



*जेजू तरणाट्यांचो इश्टः*

*आपल्या 'लागशिल्या इश्टांच्या' पंगडाक तुका विंचून काडतलोगाय?*

*(आंक 71 आनी 251 वाच)*

बरीं करतालो देखून, सगळो लोक ताका हांत लावूंक सोदतालो.

*(मार्कू)* आनी म्हेळे आत्मे, ताका पळेना फुडें, ताचे मुखार पायां पडून हुयेल मारताले आनी म्हणताले: "तूं देवाचो पूत!" पूण आपणाक दाकोवन दिना जांवक तो खरायेन तांकां शिडकायतालो.

**73.** *मातेव 5,1-12*

***भाग्यां***

लोकाच्यो उरपंजी पळेवन जेजू दोंगरार चडलो. थंय तो बसलो आनी ताचे शीस ताचे सरशें आयले. तेदनां आपलें तोंड उगडून अशें तो तांकां शिकोंवक लागलो.

*"आपूण दुर्बळ म्हण*
*मानून घेतात तीं सुभागी:*
*सर्गिंचें राज तांचें.*
*भोळीं तीं सुभागी:*
*प्रिथूम तांचें दायज.*
*रुदन करतात तीं सुभागी:*
*देव तांकां बुजोवण दितलो.*
*देवाक मानता तें करूंक*
*तानेल्यांत आनी भुकेल्यांत तीं सुभागी:*
*देव तांकां धादोशी करतलो.*
*दयाळ तीं सुभागी:*
*देव तांची दया करतलो.*
*जिवितांत साधीं तीं सुभागी:*
*तीं देवाक पळेतलीं.*
*शांती करतात तीं सुभागी:*
*देव तांकां आपलीं भुरगीं म्हणतलो.*
*देवाक मानता तें करतात म्हण*
*धुमाळो सोसतात तीं सुभागी:*
*सर्गिंचें राज तांचें.*

*म्हजे खातीर तुमकां अपमानतीत, तुमकां दुमाळो दितीत आनी सगळ्या जिनसांचें वायट तुमचे आड उलयतीत तेदनां तुमी सुभागी. खुशाल आनी संतोसभरीत जायात, कित्याक सर्गार भोव व्हडली मजुरी तुमची. तुमचे आदीं प्रवाद्यांक तसोच तांणीं धुमाळो दिला."*

**74.** *लूक 6,24-26*

### *शिराप*

"पूण तुमी, गिरेस्त मनशांनो, कटा कटा तुमचें
कित्याक तुमचें सूख तुमकां आतांच मेळलें!
आतां धादोशी आसात तीं तुमी, कटा कटा तुमचें ,
कित्याक तुमी उपाशीं आसतल्यात!
आतां हांसतात तीं तुमी, कटा कटा तुमचें,
कित्याक तुमी रडतल्यात आनी रुदन करतल्यात!
सगळो लोक तुमचें बरें उलयता तेदनां केदी म्हण तुमची दुर्दशा, कित्याक तांचे पुर्वज कुरड्यां प्रवाद्यांक तशेंच करताले!"

**75.** *मातेव 5,17-20*

### *आदली समूर्त, नवी समूर्त*

"समूर्त वा प्रवादी, हांकां काडून उडोंवक हांव आयलां म्हण तुमी समजूं नाकात; तांकां काडून उडोंवक न्हय, पूण संपुर्णायेक पावोंवक हांव आयलां. खरेंच तुमकां सांगतां: सर्ग आनी संसार सर परयान घडूंक जाय तितलेंय घडल्या शिवाय, समुर्तिंतलें एक सगळ्यावून ल्हान अक्षर वा अक्षरांक लायल्ली एक सुपुरली कुरू[1]

---

[1] हेब्रेव अक्षरमाळेंतलें सगळ्यांवून ल्हान अक्षर म्हळ्यार योद; आनी तांतल्या कांय-कांय अक्षरां मदें वेगळेपण दाकोंवक एक भोव ल्हान कुरू वापरतात.

लेगून ना जांवची ना. म्हणतच जर कोण ह्या सुपुरल्या आज्ञां भितरली एक परयान मोडतीत आनी तशें करूंक हेरांक शिकयतीत, तांकां देव सर्गिच्या राज्यांत सगळ्यावन ल्हान म्हण लेकतलो; पूण त्यो सांभाळतीत आनी हेरांक शिकयतीत, तांकां देव सर्गिच्या राज्यांत व्हड म्हण मानतलो. देखून हांव तुमकां सांगतां: देवाक मानता तें करूंक शास्त्र्यां आनी फारिजेवां परस तुमी अदीक राजी नांत जाल्यार, सर्गिच्या राज्यांत तुमी भितर सरचीं नांत."

**76.** *मातेव 5,21-24*

## *भावांभयणीं कडे शांतीसंदान*

" 'जिवेशीं मारूं नये', पुर्वजांक अशें सांगललें म्हण तुमी आयकलां आनी जिवेशी मारतीत तांचेर न्याय सभेचें खास्तिचें फरमण पडतलें! तर हांव तुमकां सांगतां: कोणूय आपल्या भावाचेर वा भयणिचेर साबसुबो रागार जातीत जाल्यार, तांचेर न्याय सभेचें खास्तिचें फरमण पडतलें; कोणूय आपल्या भावाक 'आरे तूं गळयो' वा आपले भयणीक 'तूं गळयी!' म्हणतीत जाल्यार, तांचेर म्हाधर्मसभेचें[1] खास्तिचें फरमण पडतलें; आनी कोणूय ताका 'आरे देवधर्म नासलल्या' म्हणत जाल्यार, उजाच्या येमकोंडाची खास्त तांकां फावो जातली. म्हणतच तुजें दान वेदिशीं घेवन येताय जाल्यार, आनी तुज्या भावाक वा भयणीक तुजेर आड कितेंय आसा म्हण तुका थंय उगडास जायत जाल्यार, थंयसरूच वेदी मुखार तुजें दान तशेंच सोड, आनी पयलीं वचून

---

[1] न्यायसभा म्हळ्यार गांवांगांवांनी आसलली 23 वांगड्यांची मनसुबेची सभा; केदनां केदनां मरणाचें फरमण मारूंक हे न्यायसभेक अधिकार आसलो. म्हाधर्मसभा म्हळ्यार जेरुजाल्यांत आसलली 71 वांगड्यांची सभा. मुखेल याज्ञीक, धर्मशास्त्री आनी लोकांतले जाणते तिचे वांगडी आसले. जुदेया प्रांतांत (घडये हेरांय प्रांतांनी) रावपी जुदेव लोकाचेर ती अधिकार चलयताली. पालेस्तिना भायर परयान आसलल्या जुदेवांचेर तिका थोडोभोव अधिकार आसलो *(पळे धर्मदुतांचो इतिहास, 9,1-2)*.

तुज्या भावा वा भयणी लागीं संदान कर; मागीर परतून ये आनी तुजें दान भेटय."

**77.** *मातेव 5,27-30*

### *निर्मळपण*

'परद्वार करूं नये,' अशें सांगललें आसा म्हण तुमी आयकलां. तर हांव तुमकां सांगतां: जर कोणूय एके अस्त्र्येचेर कामचारी दोळे घालीत, ताणें आपल्या काळजांत तिचे कडे परद्वार केलो. तुजो उजवो दोळो पातक करूंक तुका ओडून व्हरता जाल्यार, तो हुमटून काड आनी भायर उडय, कित्याक तुजी आखी कूड येमकोंडांत उडोवन घेंवचे परस, तुज्या एकाच सांद्याचो नास जाल्लो तुका अदीक बरें. आनी तुजो उजवो हात पातक करूंक तुका ओडून व्हरता जाल्यार, तो कातर आनी भायर उडय, कित्याक तुजी आखी कूड येमकोंडांत गेल्ले परस, तुजो एकूच सांदो बिगडलो जाल्यार तुका अदीक बरें."

**78.** *मातेव 5,31-32*

### *लग्नाची गांट*

"हाचे भायर अशें सांगललें आसा: 'कोणूय आपले पतिणीक सोडून दितलो जाल्यार, पयलें ताणें तिका लग्न मोडण्याचें पत्र बरोवन दिंवचें.' पूण हांव तुमकां सांगतां: समुर्तिचेर आड लग्न संबंदांत जियेतल्यांची मात गजाल कुशीन दवरून, जो आपले पतिणीक सोडून दिता, तो तिका परद्वारीण जायशी करता; आनी कोण लग्न मोडण्याचें पत्र दिवन सोडलले बायले कडे लग्न जायत जाल्यार, तो परद्वार करता."

**79.** *मातेव 5,33-37*

### *सादें उलोवप*

"आनिकूय पुर्विल्यांक सांगललें तुमी आयकलां: *'सोपूत मोडूं नये, पूण सर्वेस्पराक तुवें दिल्ल्या सोपुतांक पाळो दी!'* तर हांव तुमकां

सांगतां: सोपूत दिंवचोच न्हय: जांव सर्गाच्यान, कित्याक देवाचें शिंवासन तें; जांव प्रिथुमेच्यान, कित्याक ताच्या पांयांची मणय ती; न्हय म्हण[illegible]रुजाल्याच्यान, कित्याक वरत्या राजाचें शार तें. तुज्या माथ्याच्यानूय सोपूत दींव नये, कित्याक ताचो एकूय केंस धवो वा काळो तुज्यान करूंक जायना. तुमचें उलोवप इतलेंच जांव दी: हय जाल्यार हय, न्हय जाल्यार न्हय; हाचेवून अगळें तें वायटव्या कडलें येता."

**80.** *मातेव 5,38-42; 7,12*

## *दुलोबाय आनी उदार मन*

" 'दोळ्याक दोळो, दांताक दांत' अशें म्हणललें तुमी आयकलां. पूण हांव तुमकां सांगतां वायट मनशाक तूं आडायनाका; कोण तुका उजव्या पोल्याार मारीत जाल्यार दुसरोय पोलो ताका दाकय. कोण तुजें खोमीस व्हरूंक न्याय सभेंत विवाद करीत जाल्यार, ताका तुजें आवरणूय व्हरूं दी. आनी कोणूय तुका एक कोस चलूंक बळ करीत जाल्यार, दोन कोस ताचे सांगातीं चल. तुजे कडे मागतीत तांकां दी; आनी तुजे लागीं उशणें मागून घेंवक सोदतात तांकां पाट वळूं नाका.[1] ***म्हणतच, दुसऱ्यांनी तुमच्या थांय करचें म्हण तुमकां जाय, तशेंच तुमीय दुसऱ्यां थांय करात: समूर्त आनी प्रवादी शिकयतात तें हेंच."***

**81.** *मातेव 5,43-48; लूक 6,32-36*

## *दुस्मानांचो मोग*

(मातेव) " ***'तुज्या पेल्याचो मोग करतलोय' आनी तुज्या दुस्मानांचो द्वेस धरतलोय: अशें सांगललें तुमी आयकलां[2]. पूण हांव तुमकां***

---

[1] जेजुची वाट प्रितीमोगाची: प्रितीमोगान बरें करून, वायटाचेर जैत व्हरचें; तशेंच जायते पावटी आमचे हक्क सोडून दिंवचे. ही सपूर्ण दुलबायेची बूद; पूण वायट करतल्यांक वायट करपाक लांबरूंद मारग करून दिंवचो · हें जेजुचें मन न्हय.

[2] पवित्र पुस्तकांत खंयसरूच ही म्हण्णी मेळना. पूण धर्मशास्त्री अशें लोकाक शिकयताले: फकत जुदेव लोकाचो मोग करचो.

सांगतां: तुमच्या दुस्मानांचो मोग करात, आनी तुमकां पिडापीड दितल्यां पासत मागात; हे परीं तुमी तुमच्या सर्गिंच्या बापाचीं भुरगीं जातल्यात; कित्याक तो आपलो सूर्य वायट तशेंच बऱ्या मनशांचेर उदेसो करता आनी आपलो पावस प्रमाणीक तशेंच खोट्या मनशांचेर घालता.

तुमचो मोग करतल्यांचोच तुमी मोग करशात जाल्यार, कसली तुमकां मजुरी मेळत? दंडवसुलदारूय तशेंच करिनांत? आनी तुमच्या भावभयणिंकूच तुमी सलाम करशात जाल्यार, व्हडशें कितें केलें तुमी? अनभावार्ती लेगून अशें करतात की ना? म्हणतच, जशें तुमच्या सर्गिंच्या बापाच्या मोगाक शीममेर ना, तशेंच तुमच्याय मोगाक शीममेर आसूं नये.

(लूक) तुमचो मोग करतल्यांचोच तुमी मोग करशात जाल्यार, तांतूं तुमचें पुणें कसलें? तर पातकी परयान आपणांचो मोग करतल्यांचो मोग करतात. आनी तुमकां बरें करतल्यांक तुमी बरें करशात जाल्यार, तांतूं तुमचें पुणें कसलें? पातकी परयान तशेंच करतात. जांचे लागचें परत घेतल्यात म्हण तुमी रावतात, तांकांच तुमी कितेंय उश्णें दिशात जाल्यार, तांतूं तुमचें पुणें कसलें? दिलां तितलेंय परत घेंवच्या मनान पातकीय पातक्यांक उश्णें दितात. पूण तुमी तुमच्या दुस्मानांचो मोग करात, तांकां बरें करात, आनी परत घेंवची आशा धरिनास्ताना हेरांक उश्णें दियात. तेदनां तुमकां व्हडली मजुरी मेळतली आनी भोव वरत्या देवाचीं भुरगीं तुमी जातल्यात; तर अनउपकारी आनी खोट्या मनशां सरीं तो कणवाळो. तुमचो बाप दयाळ, तशींच तुमीय दयाळ जायात.”

**82.** *मातेव 6,1-4*

### *काळजाची भक्ती*

“मनशांक दाकोंवच्या मनान देवाचे भक्तिच्यो तुमच्यो करण्यो मनशां हुजीर करिना जांवक चत्राय धरात; ना जाल्यार, सर्गार

आसत्या तुमच्या बापाशीं कसलीच मजुरी तुमकां मेळची ना.
देखून तूं भीक घालताय तेदनां, तुजे मुखार तुतुरी वाजयनाका. ढोंगी देवस्थानांनी आनी रस्त्यांचेर, आपणांक मनशां मदें मान मेळचे खातीर, तशें करतात. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: तांणीं आपली मजुरी घेतली. ***पूण तूं धर्मदान दिताय तेदनां, तुजो उजवो हात कितें करता तें तुज्या दाव्या हाताक कळचें न्हय; धर्मदान तुजें गुपीत जांवक जाय, आनी जो गुप्तीं केल्लें पळेता, तो तुजो बाप तुका मजुरी दितलो."***

**83.** *मातेव 6,5-6*

***मागणें***

"आनी तुमी मागणें करतात तेदनां, ढोंग्यां सारकीं जांव नाकात. लोकान आपणांक पळेंवचे खातीर, देवस्थानांनी आनी रस्त्यांच्या नाक्यांर उबे रावून आपलीं मागणीं करची तांकां मोटी खुशी. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: तांणीं आपली मजुरी घेतली. पूण तूं मागणें करताय तेदनां, तुज्या खासगी कुडांत भितर वच, आनी दार धांपल्या उपरांत, थंय गुप्तीं आसत्या तुज्या बापाक मागणें कर; आनी जो गुप्तीं केल्लें पळेता, तो तुजो बाप तुका इनाम दितलो."

**84.** *मातेव 6,16-18*

***उपास***

"तुमी उपास करतात तेदनां, ढोंग्यां भाशेन खंतिचें रूप तुमी घेंव नये; आपूण उपास करतात म्हण लोकाक दाकोंवक ते आपल्या तोंडार काळोक घालतात. हांव तुमकां खरेपणीं सांगतां: तांणीं आपली मजुरी घेतली. पूण तूं उपास करताय तेदनां, तुजो उपास लोकाक न्हय, बगर गुपीत आसलल्या तुज्या बापाक दिश्टी पडचे खातीर, तुज्या माथ्याक तेल लाय आनी तुजें तोंड धू; आनी जो गुप्तीं केल्लें पळेता, तो तुजो बाप तुका मजुरी दितलो."

**85.** *मातेव 7,1-2a; लूक 6,37b-38, 41-42*

### नीत करूं नाकात

*(मातेव)* ***"तुमी नीत करूं नाकात, आनी देव तुमची नीत करचो ना; कित्याक तुमी नीत करशात तेच तरेन तो तुमची नीत करतलो.*** *(लूक)* ***कोणाकूच गुन्यांवकार करिनाकात आनी तुमकांय देव गुन्यांवकार करचो ना. दुसऱ्यांक भगसात आनी तुमकांय देव भगशितलो. दियात आनी तुमकांय देव दितलो; बरें चिकार माप, दांबून-चेपून, हालोवन आनी ओतोसर सुयेन भरललें, देव तुमचे हुंटयेंत घालतलो; कित्याक ज्या मापान तुमी दुसऱ्यांक दितात त्याच मापान देव तुमकांय दितलो.***

तुज्या भावाच्या वा भयणिच्या दोळ्यांत आसा तें किसर तूं कित्याक पळेताय, आनी तुज्याच दोळ्यांत आसा ती पाटी तुका दिश्टी पडना? तुज्या दोळ्यांतली पाटी तुका दिसना, तरी तुज्या भावाक वा भयणीक म्हणताय: 'भावा म्हज्या, भयणी म्हजे, राव; तुज्या दोळ्यांतलें किसर म्हाका काडूं दी – अशें तुज्या भावाक वा भयणीक म्हणूंक कशें तांकत तुका?' ढोंग्या, तुज्या दोळ्यांतली पाटी पयली काड आनी मागीर तुज्या भावाच्या वा भयणिच्या दोळ्यांतलें किसर काडूंक तुका निवळ दिश्टी पडतलें."

**86.** *मातेव 7,6*

### पवित्र वस्तूंक फावो तें मोल

"पवित्र वस्तू काडून सुण्यांक घालूं नाकात; आनी तुमचीं मोतयां दुकरांच्या फुड्यांत उडोंव नाकात, कित्याक तीं घडयेक तीं पांयां तळा माडयतीत आनी परत तुमच्या आंगार येवन तुमचे कुडक्यान कुडके करतीत."

87. *मातेव 7,13-14*

**अशीर दारवंटो**

"अशीर दारवंट्यांतल्यान भितर सरात, कित्याक घरटाणाक पावयता तो दारवंटो रूंद आनी तो मारग विस्कळ, आनी तांतल्यान वेता तो लोक पुस्कळ. जिविताक पावयता तो दारवंटो कितलो म्हण अशीर आनी तो मार्ग कितलो म्हण कठीन! आनी भोव थोड्यांक तो मेळता."

88. *मातेव 7,15-20*

**खोटे प्रवादी**

"फटकिऱ्या प्रवाद्यां विशीं चत्रायेन रावात; मेंडऱ्यांचें रुपणें घेवन तुमचेशीं येतात, पूण भितरल्यान क्रूर लांडगे ते. तांचीं फळां पळेवन तुमी तांकां वळकून काडतल्यात. कांट्यांच्यो कोणें दाको काडल्यात जायत? आनी सोऱ्यांट्यांचीं कोणें अंजिरां काडलिंशीं आसात? तेच भाशेन, बरें झाड बरीं फळां दिता आनी वायट झ ाड वायट फळां दिता. बऱ्या झाडाच्यान वायट फळां दींव नज, न्हय म्हण वायट झाडाच्यान बरीं फळां दींव नज. बरें फळ दिना तसलें झाड कातरतात आनी उज्यांत उडयतात. देखून तांचीं फळां पळेवन तुमी तांकां वळकतल्यात."

89. *मातेव 7,21,24-27; लूक 7,47-49, मातेव 7,28b-29*

**खडपार बांदललें घर**

*(मातेव) "म्हाका 'सोमया, सोमय!' म्हणून कोण सर्गाराज्यांत भितर सरतलीं म्हण नांत, पूण सर्गार आसत्या म्हज्या बापाची खुशी करतात तींच सर्गाराज्यांत भितर सरतलीं. तो दीस येतच सबार जाणां म्हाका म्हणतलीं: सोमया सोमया, तुजो संदेश आमी परगटलो न्हय? आनी तुज्या नांवान आमी देवचार काडले, न्हय? आनी तुज्या नांवान साबार विस्मितां आमी केलीं न्हय? आनी तेदनां हांव, तांच्या तोंडार मारतलों: खोटेपण करतल्यांनो म्हजे*

*सरशिलीं कडसरात, कित्याक हांवें तुमकां केदनांच वळ्कूंक नांत.'*

*देखून, हीं म्हजीं उतरां आयकता आनी ताचे परमाणें चलता तो आपलें घर खडपार बांदलल्या एका शाण्या मनशा सारको. पावस पडलो, उदकाचे लोट आयले, वादळ सुटलें आनी त्या घरार मारलें, तरी तें मोडलें ना, कित्याक तें खडपार बांदललें. पूण हीं म्हजीं उतरां आयकून तांचे परमाणे चलना तो आपलें घर रेंवेर बांदलल्या एका पिसाट मनशा सारको. पावस पडलो, उदकाचे लोट आयले, वादळ सुटलें आनी त्या घरार मारलें, आनी तें मोडलें, ताचें सारकें घरटाण जालें!"*

*(लूक)* ही सगळी आपली शिकोवण लोकाक दिल्या उपरांत, जेजू कापेर्नावमा गेलो.

*(मातेव)* ताची शिकोवण आयकून लोक जबर अजाप जातालो, कित्याक तांच्या शास्त्र्यां भाशेन न्हय, पूण अधिकारान तो तांकां शिकयतालो.

## X - तळ्या लागीं

**90.** *लूक 7,2-10*

### शतपतिचो चाकर

कोण एकल्या शतपतिचो[1] चाकर, ताचे खेरीत अपुरबायेचो, वायटान पडून मरणाचे तणीर पावललो. जेजुची खबर आयकतच, ताणें जुदेवांच्या वडिलांक ताचेशीं धाडले आनी येवन आपल्या चाकराक वाटाय म्हण मागलें. आनी जेजुशीं येवन, ते ताचे लागीं प्रार्थून अशें मागताले: "तुवें ताचे खातीर हें करूंक फावो; तर तो आमच्या लोकाचो मोग करता आनी ताणेंच आमकां देवस्थान बांदून दिलां." आनी जेजू तांचे बराबर वचूंक लागलो. आनी तो ताच्या घराशीं पावूंक जबर पयस नासलो तेदनां, शतपतीन आपल्या इश्टांक जेजूक अशें सांगूंक ताचेशीं धाडले:

---

[1] शतपती = शेंबर रोमी शिपायांचो नायक वा फुडारी.

“सायबा, त्रास घेनाका तुवें म्हज्या घरा येंवक म्हाका फावना, त्याच पासत हांवूय खाशा तुजेशीं येंवक पुरतो न्हय, अशें म्हाका दिसलें. एक उतर मात सांग आनी म्हजो चाकर बरो जांव. तर हांवूय दुसऱ्याच्या हाताखाल आसललो मनीस आनी म्हजे खाल सैनीक आसात, आनी तांतल्या एकाक हांव ‘वच’ म्हणन जाल्यार, तो वेता; आनी दुसऱ्याक ‘ये’ म्हणन जाल्यार, तो येता; आनी म्हज्या चाकराक ‘अमकें कर’ म्हणन जाल्यार, तो करता.” हें आयकून जेजूक ताचें अजाप दिसलें आनी परतोन आपणा पाटल्यान येतल्या लोकाक ताणें म्हळें:“हांव तुमकां सागतां: येदो व्हडलो भावार्त हांवें इस्रायेलांत परयान देकूंक ना.” आनी धाडललो मनीस घरा परत ये जाल्यार चाकर बरो जाल्लो तांकां मेळलो.

91. *लूक 7,11-17*

### *नाइनाचे विदवेच्या पुताक जेजू जिवंत करता*

ताचे मागीर अशें जालें: जेजू नाईन म्हणलल्या एका नगरांत गेलो आनी ताचे बराबर ताचे शीस आनी खूप लोक. नगराच्या दारवंट्या लागशीं पावताना, एका मेल्ल्याक पुरूंक व्हरतालीं; तो आपले आवयचो एकलोच पूत आसलो आनी ती एक विदवा; तिचे सांगातीं नगरांतलो जायतो लोक आसलो. तिका पळेतच, तिचे चुरचुरे करून जेजून तिका म्हळें: “रडूं नाका.” आनी फुडें येवन ताणें तिरडेक हात लायलो. तिरडी व्हरपी थांबले आनी ताणें म्हळें: “तरणाट्या, हांव तुका सांगतां, ऊट!” आनी मेल्लो तो बसलो आनी उलोंवक लागलो. आनी जेजून ताका आवयचे आधीन केलो. सगळीं थटाकलीं आनी देवाची तुस्त करून म्हणतालीं: “एक व्हड प्रवादी आमचे मदें उपजलो आनी देव आपले परजेक भेट दिंवक आयलो.” आनी ही ताची खबर आख्या जुदेया सभोंवतीं गांवभर गाजली.

**92.** *लूक 7,18-23*

### स्नानदातार जुवांवाचे संदेशकार

जुंवांवाच्या शिसांनी हें सगळें ताका सांगलें आनी जुवांवान आपल्या शिसांतल्या दोगांक आपोवन हाडले आनी अशें विचारूंक सोमयाशीं धाडले: "येंवचो आसा तो तूंच, वा आमी दुसऱ्या कोणाची वाट पळेंवची?" त्या मनशांनी जेजुशीं येवन म्हळें: " 'येंवचो आसा तो तूंच, वा आमी दुसऱ्या कोणाची वाट पळेंवची?' अशें विचारूंक स्नानदातार जुवांवान आमकां तुजेशीं धाडल्यात." त्याच वेळार ताणें सबार जणांक पिडारोगांतलीं, उपद्र्यांतलीं आनी वायट आत्म्यांच्या हातांतलीं सोडयलीं आनी जायत्या कुरड्यांकूय नदर दिली. आनी जाप दिवन ताणें म्हळें: "तुमी पळेलां आनी आयकलां तें वचून जुवांवाक सांगात: कुरडीं नव्यान पळेंवक लागतात, थोंटी चलूंक लागतात, कोडकारां नितळ जातात, भेरीं नव्यान आयकतात, मेल्लीं जिवंत जातात, गरिबांक शुभवर्तमान परगट जाता. आनी म्हजे विशीं जांचो भावार्त हालना, तीं सगळीं भागी."

**93.** *लूक 7,24-28; मातेव 11,12-15*

### जेजू स्नानदाताराक वाखाणता

*(लूक)* जुवांवचे निरोपी गेल्या उपरांत, जेजू लोकाक जुवांवा विशीं म्हणूंक लागलो: "तुमी कितें म्हण अरण्यांत पळेंवक गेल्ल्यात? वाऱ्यान हालता धलता तसलें एक बेत? ना तर, कितें म्हण तुमी पळेंवक गेल्ल्यात? नाजूक मोव वस्त्रां न्हेसललो मनीस? ना. व्हड मोलाचीं वस्त्रां न्हेसतात आनी दबाज्यान जियेतात तीं राजवाड्यांनी आसतात म्हण तुमी जाणांत. म्हणतच तुमी कितें म्हण पळेंवक गेल्ल्यात? एका प्रवाद्याक? हय, आनी तो प्रवाद्या परस वरतो म्हण हांव तुमकां सांगतां. 'हो पळे तुजे मुखार हांव म्हज्या दुताक धाडतां आनी तो तुजी वाट तुजे फुडें तयार

करतलो,' जाचे विशीं पवित्र पुस्तकार अशें बरयल्लें आसा तो होच. तुमकां आनीक एक सांगतां: बायलांक जाल्ल्या सगळ्या भुरग्यां भितर स्नानदातार जुवांवा परस व्हड कोण ना. तरिपूण देवाच्या राज्यांत सगळ्यां परस कोण ल्हान तीं ताचेवून व्हड." *(मातेव)* स्नानदातार जुवांव आयला तेदनां थावन तें आयज परयान सर्गिंचें राज नेट भोगता, आनी नेट करतात तीं तें झोंबून घेतात. सगळ्या प्रवाद्यांनी आनी समुर्तीन दिल्लो संदेश जुवांव ये परयान चलतालो. "आनी तुमी हें मात मानून घेतल्यात जाल्यार, येंवचो आसलो येलिजा तो होच. आयकूंक कान आसात ताणें आयकुंचें."

**94.** *लूक 7,29-35*

## जेजू फारिजेवांक बोबाट करता

ताचें आयकलल्या सगळ्या लोकान, तशेंच दंडवसुलदारांनी, जुवांवाचें स्नान घेवन, देवाची मांडावळ मानून घेतली; पूण फारिजेवांनी आनी धर्मशास्त्र्यांनी स्नान घेतलें ना देखून, आपणां विशीं देवाची येवजण तांणीं निर्फळ केली. जेजून म्हळें: "कोणाक म्हण हे पिंडकेच्या मनशांक हांवें सर करची? तीं कोणा सारकीं? मैदानार बसून रावलल्या भुरग्यां सारकीं तीं. आपआपल्या खेळा पंगडाच्या वांगड्यां वांगडिणींक तीं अशीं उलो करतात: 'आमी तुमकां नाचपाचीं संगितां वेणुंचेर वाजयलीं, पूण तुमी नाचलीं नांत'; 'आमी तुमकां विलापाचीं गितां गायलीं, पूण तुमी रडलीं नांत.' तर स्नानदातार जुवांव जेवणखाण चाकिनासताना आनी सोरो पियेनासताना आयलो, आनी तुमी म्हणतात 'ताचेर देवचार बसला.' मनशाचो पूत जेवून आनी पियेवन आयलो, आनी तुमी म्हणतात: 'हो आसा पोटयो आनी बेबदो, दंडवसुलदारांचो आनी पातक्यांचो इश्ट.' तरी देवाची जाणवाय वळकून, तिचीं भुरगीं तिका साक्षी दितात."

**95.** *लूक 7,36-50*

### शारांतली पातकीण

फारिजेवांतल्या कोण एकल्यान आपणागेर जेवणाक ये म्हण जेजू लागीं मागलें; आनी त्या फारिजेवागेर वचून तो जेवणाक बसलो. त्या गांवांत वायट नांवाची एक बायल आसली. तो फारिजेवंगेर जेवणाक बसला म्हण आयकून, ती चंद्रकांती आयदनांत परमळीत तेल घेवन आयली. ताच्या पांयांशीं ती पाटल्यान रावली आनी रडून रडून, आपल्या दुकांनी ताचे पांय भिजोंवक लागली; मागीर तिणें आपल्या केंसांनी ते पुसून काडले; आनी तांचे उमे घेवन घेवन तांकां ती तेल लायत आसली. ताका जेवणाक आपयल्लो तो फारिजेव, हें पळेवन, आपल्या मनांत म्हणूंक लागलो: “हो मनीस प्रवादी जाल्लो जाल्यार, आपणाक आफुडता ती कोण आनी कसली बायल ती तो जाणा जातलो आसलो; कित्याक ती एक पातकीण.” परतिपाळ करून जेजून ताका म्हळें: “शिमांव हांवें कितें एक सांगचें आसा.” आनी ताणें म्हळें: “सांग, गुरुजी.” “एका सावकाराक दोग रिणकारी आसले; एकलो पांयशीं दिनार[1] देणें आसलो आनी एकलो पन्नास. फारीक करूंक तांकां तांक नासली देखून, ताणें दोगांकूय रीण भगशिलें. म्हणतच दोगांतल्या कोणाक ताचो अदीक उपकार आसतलो?” शिमांवान जाप दिवन म्हळें: “अदीक भगशिलां ताका, अशें म्हाका दिसता.” आनी ताणें म्हळें: “सारकेंच सांगलें तुवें.” आनी बायले वाटेन वळून ताणें शिमांवाक म्हळें: “तुवें हे बायलेक पळेल्या मू? हांव तुमगेर आयलों, आनी म्हजे पांय धुंवक तुवें उदक दिलें ना, पूण हिणें आपल्या दुकांनी म्हजे पांय भिजयले आनी ते आपल्या केंसांनी पुसले. तुवें म्हजो उमो घेतलो ना, पूण ही, आयल्या ते मेरेन

---

[1] *दिनार* = वजनान 4.55 ग्रामांचो रुप्याचो नाणो. रोमी सरकारान तो पालेस्तिनांतूय भितर काडलो. आज (2003 वर्सा) ताचें मोल कितलें जायत तें सारकें सांगूं नज; सुमार 1 रुपय, असो अदमास करतात.

म्हज्या पांयांचे उमे घेवनच आसा. तुवें म्हज्या माथ्याक तेल घालें ना; हिणें दमदमीत तेलान म्हजे पांय माखले. ***देखून हांव तुका सांगतां: हिणें केल्ल्या जायत्या पातकांचें भगसणें तिका मेळलें, अशें म्हण हिचो काळजाचो व्हड धिनवास दाकोवन दिता. जांकां थोडें भगशिलां, तीं थोडो धिनवास दाकयतात."*** आनी ताणें तिका म्हळें: ***"तुजीं पातकां तुका भगशिलीं."*** आनी बराबर जेवणाक बसलले ते आपणां भितर अशें म्हणूंक लागले: "पातकां लेगीत भगशिता तो कोण हो" आनी ताणें बायलेक म्हळें: ***"तुज्या भावार्तान तुका तारण दिलें. शांतीन वच आतां."***

**96.** *लूक 8,1-3*

## *भक्तिवंत बायलो जेजुची सेवा करतात*

हाचे मागीर भाशण करीत आनी देवाच्या राज्याचें शुभवर्तमान परगटीत जेजू एका-एका नगरांतल्यान आनी गावांतल्यान वेतालो. ताचे सांगातीं ते बारा जाण आसले, आनी जांचे वेले ताणें देवचार काडलले आनी जांकां पिडारोगांतल्यो ताणें बऱ्यो केल्ल्यो कांय बायलो; जिचे वेले सात देवचार भायर सरलले माग्दालेन म्हणतात ती मारिया, हेरोदिच्या कारभाऱ्या कुसाची पतीण जुआना, आनी सुजाना, आनी सबार दुसऱ्यो बायलो. त्यो आपलो दुडू आडको मोडून ताची सेवा चाकरी करताल्यो.

**97.** *मार्कू 3,20-21*

## *जेजुचीं सोयरीं पावतात*

एकदां जेजू एका घरांत आयलो आनी नव्यान इतलो लोक थंय एकटवलो की जेवूंक परयान तांकां फुरसत नासली. आनी ताचीं सोयरीं, हें आयकल्या उपरांत, ताका धरून हाडूंक भायर सरलीं; "कित्याक ताची मत फिरल्या, अशें तीं म्हणतालीं."

98. *मातेव 12,22-24*

### जेजू देवचार बसलल्या मनशाक सोडयता

तेदनां देवचार बसलल्या एका कुरड्या मोन्याक जेजू सरशीं हाडलो आनी ताणें ताका बरो केलो; आनी तो उलोंवक आनी पळेंवक लागलो. सगळो लोक थटाकून म्हणतालोः "दाविदाचो पूत हो जायतगाय?" पूण फारिजेवांनी हें आयकून म्हळेंः "हो मनीस देवचार काडता तर, फकत देवचाराच्या परधाना बेल्जेबुलाच्या[1] अधिकारान."

99. *मार्कू 3,23; लूक 11,17b-23*

### जेजू फारिजेवांचे अपवाद खोटे म्हण दाकोवन दिता.

*(मार्कू)* तांकां आपणा सरशीं आपोवन, जेजू वोपारिंनी तांकां सांगूंक लागलोः

(लूक) "खंयच्याय एका राज्या भितर नागरिकांचे पंगड एकामेकाचेर उप्रासून झूज करूंक लागले जाल्यार, तें राज पाड जातलें आनी घरार घर मोडोन पडतलें. म्हणतच सैतानाच्या राज्यांतूय एकामेकाचेर झुजतले पंगड आसात तर, ताचें राज कशें म्हण उबें धरतलें? कित्याक बेल्जेबुलाचे पदवेन हांव देवचार काडतां म्हण तुमी म्हणतात! हांव बेल्जेबुलाचे पदवेन देवचार काडतां जाल्यार, तुमचीं भुरगीं कोणाचे पदवेन काडतात तर? म्हणतच तींच तुमची नीत करतलीं. पूण हांव देवाचे पदवेन देवचार काडतां जाल्यार, देवाचें राज तुमचे थांय खरेंच पावलें, अशें जालें. कोण एक बळिश्ट मनीस आपलीं सगळीं हत्यारां घेवन आपलें घर राकीत जाल्यार, ताचे कडेन आसा तितल्यांकूय कांयच भिरांत ना. पूण ताचेकूय बळिश्ट दुसरो एकलो येवन

---

[1] *बेल्जेबूलः* हो एक खानानकारांचो कुरडो देव. त्या नांवाचो अर्थ असोः "राजकुंवर बाल". आनी आपूण एकूच खरो देव मानून घेतात म्हणून, जुदेवांनी त्या नांवाक असो अर्थ दिलोः देवचारांचो परधान वा राजकुंवर, म्हणगे सैतान.

ताका हारयत तेदनां, ज्या हत्यारांचेर तो पातयेतालो तीं सगळीं हो अदीक बळिश्ट मनीस काण घेतलो आनी तो ताचो म्हाल वांटतलो.

म्हज्या भागा नांत तीं म्हजेर आड आसात; आनी म्हजे बराबर पुंजायनांत तीं शिंपडायतात."

**100.** *मातेव 12,31-37*

## पवित्र आत्म्याचेर आड देवनिंदा

"देखून हांव तुमकां सांगतां: सगळीं पातकां आनी देवनिंदा देव मनशांक भगशितलो, पूण आत्म्याचेर केल्ली देवनिंदा देव भगशिचो ना. आनी मनशाच्या पुताचेर वायट उलयतीत तांकां देवाचें भगसणें आसतलें; पूण पवित्र आत्म्याचेर आड उलयतीत तांकां बगसणें आसचें ना, जांव आतांच्या जांव फुडल्या युगांत.[1] झाड बरें करात आनी ताची फळां बरीं जातलीं; झाड वायट करात आनी ताचीं फळां वायट जातलीं; कित्याक फळां परमणें झाड वळकूंक मेळता. फुरशांच्या पिल्यांनो, तुमी वायट जावन तुमच्यान बरें उलोंवक कशें जातलें? काळजांतलें भरोन वोतता तेंच तोंडांतल्यान उतरांनी व्हांवता. बरो मनीस आपल्या बऱ्या भांडारांतलें बरें काडता, वायट मनीस आपल्या वायट भांडारांतलें आपलें वायट काडता देखून हांव तुमकां सांगतां: मनशाच्या तोंडातलें भायर सरता त्या दर एका साबसुब्या उतराचो झडतेच्या दिसा हिशोब दिंवचो पडतलो. तुज्याच उतरांनी तूं निरपराधी म्हण रुजू जातलें, आनी तुज्याच उतरांनी तूं अपराधी म्हण तुजेर शिक्षेचें फरमण पडतलें."

---

[1] जीं कामां देवाचींच म्हण स्पश्टपणीं दखल जावन येतात, तींच वायटव्या आत्म्याचीं वा सैतानाचीं म्हण सांगतात तीं मनशां पवित्र आत्म्याचेर आड देवनिंदा करतात. असल्या आपखुशेन धरलल्या कुरडेपणाच्या पातकाक भगसणें आसूं नज, कित्याक असल्या मनशांच्या काळजांत आनी मनांत आपल्या पातकाची खंत आनी मन बदलपाची खुशी आसूं नज. देव आपले वाटेन सदां भगसूंक तयार, पूण असलीं मनशां आपलें अंतस्कर्ण देवाच्या भगसण्याक बंद करतात.

**101.** *मार्कू 3,31-35*

### *जेजुचीं खरीं भावभयण आनी आवय*

जेजुची आवय आनी ताचीं भावभयण पावून सरलीं आनी भायर रावून तांणीं ताका आपोंवक धाडलो. ताचे भोंवतणीं खूप लोक बसलले आसताना, असो ताका निरोप दिलो: "पळे तुजी आवय आनी तुजीं भावभयण भायर आसात आनी तुका सोदतात." आनी ताणें तांकां असो परतिपाळ केलो: "म्हजी आवय कोण? म्हजीं भावभयण कोण?" आनी आपणा भोंवतीं बसलल्यांचेर नदर भोंवडावन ताणें म्हळें:

***"हीं आसात म्हजी आवय आनी म्हजीं भावभयण.***
***देवाची खुशी करतात तींच***
***म्हजो भाव आनी म्हजी भयण आनी म्हजी आवय."***

## XI - देवाच्या राज्याच्यो वोपारी

(नोवेंब्र)

**102.** *मार्कू 4,1-9*

### *वोंपप्याची वोपार*

दुसरीं जेजू दर्याचे धडेर शिकोंवक लागलो; पूण लोकाचो येदो व्हडलो जमो ताचे भोंवतीं एकटवलो, की तो दर्यांत आसलल्या एका व्हड्यार चडून बसलो आनी सगळो लोक धडेर दर्याचे वाटेन रावलो. तो तांकां सबार वस्तू वोपारिंनी शिकोंवक लागलो, आनी शिकयतां शिकयतां ताणें अशें म्हळें: "आयकात! एक वोंपपी वोंपूंक गेलो आनी वोंपताना थोडें बीं वाटेचे देगेर पडलें आनी सुकण्यांनी येवन तें खेलें. दुसरें जबरशी माती नासली तसले खडपी जमनीर पडलें; आनी मातयेची खोलाय ना जावन, तें वेगींच किर्ललें, पूण वोत येतच करपलें, आनी मूळ ना जावन सुकलें. दुसरें कांट्यां मदें पडलें; कांटे वाडले आनी तांणीं ताका फुगार केलें, आनी पीक जालें ना. आनी हेर बीं बरे जमनीर पडलें; तें किर्ललें आनी वाडलें आनी

ताका पीक जालें, एकाक तीस, एकाक साट आनी एकाक शेंबर."
आनी ताणें म्हळें: "आयकूंक कान आसलल्यांनी आयकुंचें."

**103.** *मातेव 13,10-15*

## *कित्या पासत जेजू वोपारिंनी उलयता?*

तेदनां शिसांनी लागीं सरून जेजूक विचारलें: "वोपारिंनी तांचे कडे कित्याक उलयताय?" ताणें परतिपाळ केलो: "कित्याक सर्गिच्या राज्याचे गूट वळकुंचें देणें तुमकां दिल्लें आसा. तांकां हेरांक ना.

आसा तांकां देव आनिकूय दितलो आनी तांचें माप भरोन वोततलें; पूण ना तांकां, आसा तें परयान तांचे कडलें देव काडून घेतलो. देखून हांव वोपारिंनी तांचे कडे उलयतां, कित्याक पळेवनूय तांकां दिसना, आनी आयकुनूय तांकां आयकना आनी समजय ना.[1] इजायासान अशें आदींच सांगललें तें तांचे सवें पाळोन येता:

*'आयकून आयकून तुमकां कांय समजोचें ना;*
*पळेवन पळेवन तुमकां कांय दिसचें ना.*
*कित्याक ह्या लोकाचें काळीज जड निबर जालां,*
*तांचे कान भेरे जाल्यात,*
*तांचे दोळे धांपलले आसात,*
*ना तर दोळ्यांनी तांकां दिसूंक लागतलें,*
*कानांनी तांकां आयकूंक मेळतलें,*
*मनान तांका समजतलें,*
*आनी, तीं म्हजेशीं परतून येवन,*
*हांव तांकां बरीं करीन.'"*

**104.** *मार्कू 4,13-20*

## **वोंपप्याचे वोपारिची समजणी**

मागीर जेजून तांकां म्हळें: "ही वोपार तुमी नकळोत? तर हेर सगळ्यो वोपारी कशो जाणा जातल्यात? वोंपपी वोंपता तें, उतर.

---

[1] सर्गिचें राज कसलें तें समजनासताना लोकाच्या मनांत गैरसमज जातालो आसलो, देखून जेजू, अदीक उगतेपणीं समजणी दिंवचे सुवातेर, वोपारिंनी उलयता.

जीं कोण उतर वोंपलां ते वाटेर आसात, तीं हीं: तांणीं तें आयकना फुडें, सैतान रोकडोच येता आनी तांचे भितर वोंपललें उतर काडता. तेच परीं खडपी जमनीर वोंपललें म्हळ्यार हीं: उतर आयकतच रोकडींच खुशालकायेन तें घेतात, पूण तांकां आपणां भितर पाळां नांत देखून चड वगत तगनांत; उतराक लागून विग्न वा दुमाळो येना फुडें, तीं रोकडींच भावार्ता थावन कडसरून वेतात. आनी कांट्यां मदें वोंपललीं तींय आसात: तीं उतर आयकतात, पूण संसाराचे हुस्के, गिरेस्तकायेची भूल आनी हेर वायट वंदवण्यो भितर सरून उतर दांबून धरतात, आनी ताका पीक जायना. आनी बरे जमनीर वोंपललींय आसात: हीं उतर आयकतात, तें मानून घेतात, आनी पीक दितात: एकाक तीस, एकाक साट आनी एकाक शेंबर.''

**105.** *लूक 8,16; मार्कू 4,22-24*

### *उजवाड सर्वांचेर पडूंक जाय*

*(लूक)* ''पणती पेटोवन कोणूच ती एका आयदना पोंदाक लिपयना, वा बाजे तळा दवरिना, पूण भितर येतात तितल्यांनीय उजवाड पळेंवचे खातीर ती एका पेडार दवरतात.

*(मार्कू)* तर उपरांत उगतें जांवचें ना तसलें कांयच आतां लिपललें ना; आनी तें गुपीत दवरूंक ना बगर मागीर उगतें जांवचे पासत.[1] आयकूंक कोणाक कान आसल्यार, तांणीं आयकुंचें.''

आनी तांकां सांगलें: ''तुमी आयकतात ताची चत्राय धरात.''



**106.** *मार्कू 4,26-29*

### *वाडत्या बियाची वोपार*

आनिकूय ताणें म्हळें: ''देवाचें राज अशें: एक मनीस आपल्या शेतांत बीं वोंपता; रात आनी दीस, तो न्हिदललो आसूं वा जागो आसूं, बीं

---

[1] वोपरिंचो अर्थ सगळ्यांक सारको मेळना म्हणून, देवाच्या राज्याचे गूट सगळ्यांक न्हय म्हण आमकां दिसूं नये. एक दीस धर्मदुतांनी हेरांक शिकोंवचे खातीर, आतां जेजू तांकां अदीक जतनायेन शिकयता.

किर्लता आनी वाडता; हें कशें तें तो कांयच नकळो. जमीन आपण अस्टंगीं फळ दिता, पयलीं पालो, मागीर कणस आनी शेव कणसांत गुलगुलीत गोटो. आनी शेत पिकतच, लुंवणी पावल म्हणून रोकडोच तो विळो लायता.”

**107.** *मातेव 13,24-30*

### नेराची वोपार

आनी एक वोपार तांकां घालून जेजून म्हळें: “सर्गिचें राज कसलें ते आयकातः कोण एकल्या मनशान आपल्या शेतांत बरें बीं वोंपलें. सगळीं न्हिदललीं आसताना, ताचो दुस्मान आयलो आनी गंवा मदें नेर वोंपून गेलो. शेत वाडोन कणसां येतच, नेरूय दिश्टी पडलो. घरकाराच्या वावराड्यांनी ताचे सरशें येवन अशें म्हळें: ‘धनया, तुज्या शेतांत तुवें बरें बीं वोंपललें न्हय? तर नेर खंयचो आयलो?’ ताणे अशी तांकां जाप दिली: ‘हें दुस्मानान केल्लें काम.’ चाकरांनी ताका विचारलें: ‘आमी वचून शेत नडललें तुका जाय?’ ताणें जबाब दिलो: ‘नाका; नेर हुमटिताना, घडयेक तुमी त्या बराबर गंवूय हुमटिशात. लुंवणी येसर दोनूय बराबर वाडों दी, आनी लुंवणेच्या वेळार पयलो नेर एकटांय करून उज्याक लांवचे खातीर, ताचीं पेंडकुलां बांदात मागीर गंव म्हज्या कड्यांत भरात म्हण हांव लुंवतल्यांक सांगतलों.’ ”

**108.** *मातेव 13, 31-32*

### सांसवाच्या बियाची वोपार

दुसरी एक वोपार घालून जेजून तांकां म्हळें: “सर्गिचें राज अशें: एका मनशान सांसवाचें[1] बीं घेवन तें आपल्या पोरसांत रोयलें. तें खरेंच सगळ्या बियांवून ल्हान; पूण वाडतच, सगळ्या झाडपाल्यावून

---

[1] हें वेगळेच तरेचें सांसूं पालेस्तिनाक मेळता.

ऊंच जावन, ताचें झाड जाता, आनी वाऱ्या वेलीं सुकणीं येवन ताच्या खांदयांचेर वसती करतात.”

**109.** *लूक 13, 20-21*

### *खमिराची वोपार*

ताणें आनीक एक सांगलें “देवाचें राज कसले वस्तूक सर करूं? तें अशें: एके बायलेन खमीर घेतलो आनी, मळलल्या पिटाची तीन व्हडलीं मापां धरून, तांतूं तो पुरलो, आनी सगळेंच पीट फुगलें.”

**110.** *मातेव 13, 34-35*

### *वोपारिंनी जेजू कित्याक उलयता?*

जेजून वोपारिंनी सगळ्यो ह्यो वस्तू परजेक सांगल्यो आनी वोपारीं बगर तो तांचे कडे उलयनासलो. *“वोपारिंनी उलयतलों, संसार रचलल्याक गुपीत आसलल्यो वस्तू उग्त्यो करतलों,”* हें प्रवाद्याचे उतर अशें खरें जालें.

**111.** *मातेव 13, 36-43*

### *नेराचे वोपारिची समजणी*

तेदनां, लोकाक धाडतच, जेजू घरांत भितर गेलो आनी ताच्या शिसांनी ताचे सरशें येवन म्हळें: “शेतांतल्या नेराचे वोपारिची समजणी समजणी आमकां दी.” ताणें परतिपाळून तांकां सांगलें: “बरें बीं वोंपता तो मनशाचो पूत. शेत म्हणगे संसार. बरें बीं म्हळ्यार राज्याचीं भुरगीं. नेर, नश्ट्यांचीं भुरगीं. नेर वोंपलो तो दुस्मान, देवचार. लुंवणेचो वेळ, काळाची संपादणी. लुंवपी, देवदूत. जशें नेर एकटांय करून उज्यांत लासतात, तशें काळाचे संपादणेक जातलें. मनशाचो पूत आपल्या दुतांक धाडतलो आनी हें दुसऱ्यांक पातक करूंक वोडून व्हरतात त्या सगळ्यांक आनी अधर्मी मनशांक ताच्या राज्यांतलीं जमोवन, उज्याच्या आगट्यांत उडयतले. थंय सगळीं रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतलीं. तेदनां देवाक

मानवललीं मनशां आपल्या बापाच्या राज्यांत सुर्या वरीं परजळतलीं आयकूंक कान आसलल्यांनी आयकुंचें."

**112.** *मातेव 13,44*

### *लिपोवन दवरलल्या ठेव्याची वोपार*

"अशेंय सर्गिंचें राज म्हण समजात: एका शेतांत एक ठेवो लिपललो आसलो; कोण एकल्या मनशाक तो मेळलो; हाणें नव्यान तो लिपोवन दवरलो, आनी खुशाल जावन तो गेलो; मागीर आपणा कडे आसलें तितलेंय ताणें विकलें आनी तें शेत विकतें घेतलें."

**113.** *मातेव 13, 45-46*

### *मोतयाची वोपार*

"सर्गिंचें राज कसलें तें सांगतां: कोण एक वेपारी नाजूक मोतयां सोदूंक भोंवतालो. एक ऊंच मोलाचें मोतीं ताका मेळतच, तो गेलो आनी आपणा कडे आसलें तितलेंय ताणें विकलें आनी तें मोतीं विकतें घेतलें."

**114.** *मातेव 13,47-50*

### *रांपणिची वोपार*

"तशेंच सर्गिंचें राज अशें म्हणूं येता: एक रांपण दर्यांत मारल्या उपरांत, ती सगळ्या जिनसांची मासळी धरता. ती भरल्या उपरांत ती वोडून हाडतात आनी, वेळेर बसून, बरी मासळी पांटल्यांनी घालतात आनी उपकारना ती भायर उडयतात. काळाचे संपादणेक तशेंच जातलें: देवदूत भायर सरतले आनी देवाक मानवललीं मनशां मदलीं नश्ट्यांक कुशीन काडतले आनी तांकां उज्याच्या आगट्यांत उडयतले. थंय तीं रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतलीं."

**115.** *मातेव 13,51-53*

### *नवीं तशीं आदलीं सतां*

"तुमी हें सगळें समजल्यात मू?" तांणीं म्हळें: "हय." आनी ताणें तांकां सांगलें: "म्हणतच सर्गिंच्या राज्याचो शीस जाल्लो जण एकलो

धर्मशास्त्री आपल्या भांडारांतल्यो नव्यो आनी पोरण्यो वस्तू भायर काडतल्या एका घरकारा सारको."

ह्यो वोपारी सांगून सोंपयतच, जेजू थंयचो भायर सरून गेलो.

## XII - म्हत्वाचीं अजापां आनी धर्मदुतांचें काम

(देजेंब्र - मार्स)

**116.** *मार्क 4,35-41*

### *जेजू वादळ थंडायता*

त्याच दिसा, सांज जातच, जेजून शिसांक सांगलें: "पलतडी या." आनी लोकाक सोडून, ताका आसलो तसो व्हड्यांत व्हेलो; ताचे बराबर आनिकूय व्हडीं आसलीं. तेदनां एक मोटो झडपो सुटलो आनी ताणें ल्हारां व्हड्याचेर फुटतालीं आनी व्हडें उदकान भरोंक पावलें. आनी तो आपूण वेन्याशीं उशाचेर न्हिदललो. तांणीं ताका उटोवन म्हळें: "गुरुजी, आमी मरतांव तें तुका कांयच पडूंक ना?" उटून ताणें वाऱ्याक बेश्टायलो आनी दर्याक म्हळें: "गपचीप! थंड जा!" आनी वारें थांबलें आनी व्हड थंडाय जाली. मागीर ताणें तांकां म्हळें: "तुमी इतले भिजूड कित्याक? आजुनूय तुमकां भावार्त कसो ना?" तेदनां ते जबर भियेले आनी एकामेकाक म्हणूंक लागले: "हो कोण म्हण जायत? तर वारो आनी दर्या परयान ताचें आयकतात!"

**117.** *लूक 8,26-39; मातेव 8,28-34; मार्क 5,1-20*

### *देवचार बसललो गेराजाचो मनीस*

*(लूक)* आनी गालिलेया सामकार आसत्या गेराजेनांच्या मुलकांत ते खाडीक पावले. जेजू दडेर देंवलो तेदनां, देवचार बसललो त्या नगरांतलो कोण एक मनीस ताका मेळूंक आयलो; जायतो काळ तो आंगाक कांयच घालिनासलो, आनी घरांत न्हय पूण समाधीं मदें बिराड

करून आसतालो. जेजूक पळेना फुडें ताणें किळंच मारली. ताच्या पांयां पडून मोटत्या ताळ्यान ताणें म्हळें: "जेजू, भोव वरत्या देवाच्या पुता, म्हजे कडेन तुका कसलें काम आसा? म्हाका दगदाय नाका म्हण तुजे लागीं परातून मागतां." कित्याक त्या मनशा वेलो भायर सर म्हण जेजून त्या म्हेळ्या आत्म्याक हुकूम घाल्लो. तर जायते पावटी ताचो देवचार चाळवतालो; देखून खोड्यांसांकळिंनी ताका बांदून दवरताले; पूण देवचार, बांदपास तोडून ताका एकसुऱ्या जाग्यांचेर धांवडावन व्हरतालो. जेजून ताका विचारलें: "तुजें नांव कितें?" ताणें जाप दिली: "लस्कर!" कित्याक सबार देवचार ताचे भितर रिगलले. आनी आपणाक पाताळांत वचूंक लायनाका म्हण ते ताचे लागीं मागताले.

तेदनां थंय दोंगरार खूप दुकरांचो एक हींड चरतालो. आपणाक त्या दुकरांनी वचून रिगूं दी म्हण तांणीं ताचे कडे मागलें आनी ताणें तांकां वचूंक दिलें. देवचार मनशांतले भायर सरून दुकरांनी रिगले, आनी व्हड नेटान वचून कळसा वेल्यान दर्यांत उडकी मारून तो हींड[1] बुडून मेलो.

घडललें पळेवन राखणे पळून गेले आनी नगरांत आनी खेड्यागांवांनी तांणीं ही खबर कळीत केली. आनी लोक कितें जालां तें पळेंवक भायर सरून जेजुशीं ये जाल्यार, जाचे वेले देवचार भायर सरलले त्या मनशाक आंगावलीं न्हेसललो आनी तकलेन सारको जाल्लो, जेजुच्या पांयांशीं बसललो तांणीं देकलो; आनी तीं घाबरलीं. देवचार बसलल्याक ताणें कसो बरो केलो तें खाशा देकलल्यांनी हेरांक सांगलें. तेदनां थंयचो भायर सरून वच म्हण गेराजेनाच्या मुल्कांतलो सगळो लोक ताका परातूंक लागलो, कित्याक तांकां मोटी भिरांत लागलली. देखून एका व्हड्यार चडून तो परत आयलो. जाचे वेले देवचार गेल्ले तो मनीस आपणाक ताचे बराबर रावूंक दी म्हण मागतालो. पूण ताणें ताका अशें सांगून धाडलो: "तुज्या घरा वच आनी देवान तुजे खातीर केलां तितलेंय

---

[1] मार्कू म्हणता: सुमार दोन हजार दुकरांचो तो हींड.

हेरांक सांग.” म्हणतच आपणा खातीर जेजून केल्लें तितलेंय ताणें वचून नगरभर लोकाक कळीत केलें.

**118.** *मार्कू 5,21-22; लूक 8,41b-42a; मार्कू 5,23-24*

### जायरुसाची धूव

*(मार्कू)* जेजू नव्यान व्हड्यार चडून दर्याचे पेले तडी वेतच, लोकाची व्हड उरपंज ताचे सरशीं एकटवली; आनी तो दर्याचे धडेर आसलो. तेदनां जायरूस नांवाचो एका देवस्थानाचो अधिकारी आयलो आनी ताका पळेवन ताच्या पांयां पडलो आनी *(लूक)* आपणागेर ये म्हण तो ताका परातूंक लागलो, कित्याक बारा वर्सांची ताची एकलीच धूव मरणाचे तणीर आसली. *(मार्कू)* आनी ताचे कडे तो असो लालेवन मागतालो: “म्हजी धूव मरणाचे तणीर पावल्या; ये आनी तिचेर तुजो हात दवर, तिका बरी कर, तिका वांचूं दी.” आनी तो ताचे बराबर गेलो. आनी पुस्कळ लोक ताचे पाटल्यान गेलो आनी ताका चेंचतालो.

**119.** *मार्कू 5,25-34*

### रगतपात जाल्ली बायल

बारा वर्सां रगतपात जाल्ली थंय एक बायल आसली. सबार वैजांचें वखद करताना जायतें सोसुनूय आनी सगळो आपलो दुडू खर्चुनूय, तिका कांयच गूण पडूंक नासललो, पूण तिची गत अदीक पाश्ट जाल्ली. जेजुची खबर आयकून, ती लोकां मदल्यान गेली आनी ताच्या आवरणाक पाटल्यान तिणें हात लायलो. ताच्या वस्त्रांकूच हात लायन जाल्यार, हांव बरीं जातलीं, अशें ती चिंतताली. आनी अवचितच तिच्या रगताची झर सुकली आनी आपूण पिडेंतली बरी जाली म्हण तिच्या आंगांत तिका भोगलें. आपणा भितरलो गूण भायर सरलो म्हण अवचीत आपणाचेच भितर जाणा जावन जेजून लोका वाटेन वळोन विचारलें: “म्हज्या वस्त्रांक कोणें हात लायलो?” आनी ताच्या शिसांनी म्हळें: “लोक तुका चेंचता म्हण तूं तर पळेताय,

आनी तरूय म्हाका कोणें हात लायलो? अशें म्हणताय?" पूण कोणें हें केलां तें पळेंवक तो नदर भोंवडावन रावलो. तेदनां आपणाक कितें घडलां तें जाणा आसली देखून, ती बायल भियेवन आनी कांपून लागीं आयली आनी ताच्या पांयां पडली आनी सगळें सत तिणें ताका सांगलें. ताणें तिका म्हळें: "धुवे म्हजे, तुज्या भावार्तान तुका बरी केली. शांतीन वच आतां आनी तुजे पिडेंतली मेकळी राव."

**120.** *लूक 8,49-51; मार्कू 5,37-43; मातेव 9,26*

### जायरुसाचे धुवेक जेजू जिवी करता

*(लूक)* तो उलयता थंयच आसताना कोण एकल्यान देवस्थानाच्या अधिकाऱ्यागेर थावन येवन ताका सांगलें: "तुजी धूव भायर पडली, गुरुजीक आनीक त्रास दिनाका." पूण जेजून हें आयकून चेडवाच्या बापायक म्हळें: "भियेंव नाका. भावार्त मात धर आनी तें बरें जातलें." *(मार्कू)* आनी पेद्रू, जाकोब आनी जाकोबाचो भाव जुवांव, हाचे भायर ताणें कोणाकूच आपणा बराबर येंवक दिलें ना. देवस्थानाच्या अधिकाऱ्याच्या घरांत भितर सरतच, जेजून गळबळ जाता तो देकलो, आनी व्हडल्यान रडतालीं आनी जायतें सांगून विलापतालीं तीं ताणें पळेलीं.[1] भितर वचून ताणें तांकां म्हळें: "तुमी कित्याक म्हण गळबळतात आनी रडतात? चेडूं मरूंक ना, तें न्हिदलां." आनी लोक ताका हांसूंक लागलो. पूण तांकां सगळ्यांक भायर घालून, चेडवाच्या बापायक आनी आवयक आनी आपल्या सांगात्यांक घेवन, चेडूं आसलें थंय तो गेलो आनी चेडवाच्या हाताक धरून ताणें म्हळें: "तालिथा कूम!" म्हणगे: "चेडवा, तुका सांगतां, ऊट!" आनी रोकडेंच चेडूं उठून भोंवूंक लागलें. ताका बारा वर्सां आसलीं. आनी लोक अजाप जावन भारी

---

[1] मातेव अदीक बारकायेन सांगता: त्या अधिकाऱ्याच्या घरा पावल्या उपरांत, वेणू वाजयताले आनी लोक गडबड करतालो तें पळेवन जेजून म्हळें:

थटाकलो. आनी कोणाकूच हें गमयना जांवक ताणें झडझडीत फर्मायलें. आनी चेडवाक खांवक दियात म्हण सांगलें. *(मातेव)* ही खबर त्या आख्या गांवांत गाजली.

**121.** *मातेव 9,27-31*

### जेजू दोगां कुरड्यांक नदर दिता

थंयसरलो जेजू फुडें वेताना दोग कुरडे ताचे पाटल्यान अशी बोब मारीत आयले. "दाविदाच्या पुता, आमची काकळूत कर!" आनी तो घरा पावतच ते कुरडे ताचे सरशीं आयले आनी जेजून तांकां म्हळें: "हें म्हज्यान तुमकां करूंक जाता म्हण तुमकां भावार्त आसा मू?" तांणीं म्हळें: "हय सायबा!" तेदनां तांच्या दोळ्यांक ताणें हात लायलो आनी म्हळें: "तुमच्या भावार्ता परमाणें तुमकां जांव दी." आनी तांचे दोळे उगडले. आनी ताणें तांकां खरायेन सांगलें: "खबरदार, हें कोणाकूच गमचें न्हय." पूण वचून त्या आख्या प्रांतांत तांणीं ताचें नांव गाजयलें.

**122.** *लूक 4,16-22a; मार्कू 6,2b-3a; लूक 4,23-30; मार्कू 6,5; मातेव 9,35*

### नाजारेतचो लोक जेजूक मांदून घेना

*(लूक)* जेजू नाजारेताक आयलो: थंय तो ल्हानव्हड जाल्लो. आपले संवये परमाणें सनवारा दिसा तो देवस्थानांत गेलो आनी वाचूंक उबो रावलो. इजायास प्रवाद्याचें पुस्तक ताका काडून दिलें आनी पुस्तकाचो कवळो उसयताना अशें बरयल्लें आसा ती स्वात ताका मेळली:

***"सर्वेस्पराचो आत्मो म्हजेर आसा.***
***ताणें म्हाका अभिशेक केला.***
***गरिबांक बरी खबर दिंवक,***
***कैद्यांक सुटका परगटूंक,***
***आनी कुरड्यांक परतून नदर दिंवक,***

*जुलुमांक संपाडलल्यांक सोडोंवक,*
*आनी सर्वेस्पराच्या उपकारांचें*
*वरस परगट करूंक*
*ताणें म्हाका धाडला."*

आनी पुस्तकाचो कवळो रेवडून आनी तो सेवका कडे परत दिवन बसलो. देवस्थानांत आसलल्या समेस्तांचे दोळे ताचेर लायल्ले आसले. तेदनां ताणें तांकां सांगूंक सुरू केलें: "हें शास्त्र लिखीत आज तुमच्या कानार पडतांच पाळोन आयलें."

आनी सगळीं ताका शाबासकी दितालीं आनी ताच्या तोंडांतलीं भायर सरतालीं तीं माणकुलीं उतरां आयकून अजाप जातालीं. *(मार्कू)* पूण ताचे शिकोवणे विशीं अजाप जावन म्हणतालीं: "हें सगळें हाका खंयचें आयलें? आनी ताका दिल्ली आसा ती जाणवाय कसली? आनी ताच्या हातांनी असलीं विसमितां घडतात तीं कशीं? हो थवय न्हय? हो मारियेचो पूत न्हय? जाकोब, जोजेत, जूद आनी शिमांव हांचो भाव न्हय तो? ताच्यो भयणीय हांगा आमचे मदें रावतात न्हय?"[1] *(लूक)* आनी ताणें तांकां जाप दिली: " 'वैजा, तुकाच तूं बरो कर', ही म्हण्णी दुबावावीण तुमी म्हाका लायतल्यात आनी म्हणतल्यात: 'कापेर्नावमांत तुवें जायतें केलां म्हण आमी आयकलां, तें हांगाय तुज्या खाशा गांवघरा कर.' " त्या फुडें ताणें म्हळें: "हांव तुमकां खरेंच सांगतां: येलिजाच्या काळार तीन वर्सां आनी स म्हयने देवान सर्ग धांपून दवरलो आनी आख्या देसांत व्हड भूक पडलली तेदनां, इस्त्रायेलांत जायत्यो विदवा आसल्यो, पूण शिदोन मुल्कांतल्या सारेप्ता नगरांतले विदवेक काडून

---

[1] बापोलभावांभयणींक तशेंच मावशेभावांभयणींक आनी अदीक पयशिल्या सोयऱ्यांक लेगून जुदेव लोका मदें च्भावछ आनी च्भयणछ म्हणतात. शिमांव आनी जूद क्लेयोफासाचे, भागेवंत जुजेच्या भावाचे, पूत आसले. जाकोब आनी जुजे (वा जोजेत) मारियेचे इ म्हणगे आल्फेवसाचे बायलेचे इ पूत आसले. ही मारिया घडये आंकवार सायबिणिची भयण जायत, वा भागेवंत जुजेच्या एका सोयऱ्याची पतीण जायत. क्लेयोफासाची पतीण मेल्या उपरांत, घडये ही मारिया ताचे लागीं लग्न जाल्ली.

तांतले एकलेय सरशीं देवान येलिजाक धाडलो ना. तशेंच एलिजेव प्रवाद्याच्या काळार जायते कोडकार आसले, पूण शिरियेच्या नामानाक काडून, तांतल्या एकल्याकूय देवान नितळ केलो ना.''

आनी हें आयकून देवस्थानांत आसलीं तितलींय एकदम रागार जालीं; आनी उटून तांणीं ताका नगरा भायर घालो. तांचें नगर बांदललें आसा त्या दोंगराच्या माथ्यार थावन ताका सकला शेवटून उडोंवक, थंय परयान तीं ताका घेवन गेलीं पूण सारको तांचे मदल्यान चलून तो आपले वाटेन गेलो.

*(मार्कू)* आनी थंय कसलेंच विस्मीत करूंक ताका मन जायना जालें, आनी थोड्याच वायटाकारांचेर हात दवरून ताणें तांकां बरीं केलीं. आनी तांकां भावार्त ना म्हण ताका अजाप दिसलें.

*(मातेव)* सगळ्या नगरां गांवांनी भोंवून, जेजू तांच्या देवस्थानांनी शिकोवण दितालो, राज्याचें शुभवर्तमान परगटतालो, आनी सर्व जिनसांचो पिडारोग बरो करतालो.

**123.** *लूक 9,1-3, मातेव 10,5b-15*

### *जेजू धर्मदुतांक गांवांगांवांनी धाडता.*

*(लूक)* जेजून बारा जाणांक एकटांय आपोवन हाडले आनी सगळे देवचार काडूंक, तशेंच पिडारोग बरो करूंक तांकां पदवी आनी अधिकार दिलो. देवाचें राज परगट करचे खातीर आनी वायटाकारांक बरीं करचे खातीर, ताणें तांकां अशें सांगून धाडले:

*(मातेव)* "अनभावार्त्यांच्या गांवांची वाट धरूं नाकात आनी सामारियेकारांच्या नगरांनी भितर सरूं नाकात; पूण अदीक करून इस्त्रायेलाच्या घराण्याच्या सांडलल्या मेंडऱ्यां सरशीं वचात. आनी वचून 'सर्गिचें राज येंवचें जालें!', अशें परगट करात. वायटाकारांक बरीं करात, मेल्ल्यांक जिवंत करात, कोडकारांक नितळ करात, देवचार काडात. तुमी फुंकट घेतलां, फुंक्या दियात. तुमचे कडे भांगर, रुपें, तांबें लेगून पोतयेंत आसचें न्हय; न्हय म्हण वाटेक भुती,

वा दोन आंगावलीं, वा व्हाणो, वा दांडो; कित्याक वावराड्याक आपलें जेवणखाण फावो.

खंयच्या एका नगरांत वा गांवांत भितर सरतच, तांतूं कोण माणसुगेचो मनीस आसा तो सोदून काडात आनी थंयसरले भायर सरसर तांगेर रावात. ताच्या घरांत भितर सरताना, 'ह्या घराक शांती!' अशें म्हणून ताका नमान करात. आनी त्या घराक फावो जाल्यार तुमची शांती ताचेर देंवतली; फावो न्हय जाल्यार, तुमची शांती तुमकां परत येतली. आनी कोणूय तुमकां येवकार दिना जातीत जाल्यार, तुमचीं उतरां आयकना जातीत जाल्यार, त्या घरांतले वा नगरांतले भायर सरून तुमच्या पांयांची धूळ फाफडून उडयात. हांव तुमकां खरेंच सांगतां, झडतेच्या दिसा सोदोम आनी गोमोरा गांवांची झडती ह्या नगराचे झडते इतली खर जांवची ना."

**124**. *मातेव 11,1; मार्कू 6,12-13*

## जेजू आनी धर्मदूत लोकाची सेवा करतात

*(मातेव)* आनी आपल्या बारा शिसांक उपदेस दिवन सोंपयल्या उपरांत, जेजू तांच्या हेरां नगरांनी शिकोवण दिंवक आनी प्रवचन करूंक थंय थावन फुडें गेलो. *(मार्कू)* म्हणतच ते वचून जिवीत बदलात म्हण लोकाक उलो करताले आनी खूप देवचार काडताले, आनी सबार वायटाकारांकूय तेल लावन बरीं करताले.

**125.** *मार्कू 6, 21-29*

## स्नानदातार जुवांवाचें मरण

स्नानदातार जुवांवाक नाटाक करूंक हेरोदियाशीक बरी एक संदी[1] सांपडली: हेरोदीन आपल्या वाडदिसा आपल्या अधिकाऱ्यांक, आपल्या

---

[1] हेरोदियाशीन जुवांवाक नाटाक करूंक येवजिल्लें: ही वायट येवजण पाळूंक हेरोद उपराजाच्या जल्मादिसाच्या जेवणार एक बरो सुयोग मेळ्ळो *(पळे आंक 48)*.

सुबेदारांक आनी गालिलेयाच्या व्हड व्हड मनशांक एक व्हडलें रातचें जेवण केलें. आनी तेच हेरोदियाशिची धूव भितर सरून नाचली आनी हेरोदीक आनी ताचे सांगातीं जेवतल्यांक मानली. तेदनां ताणें चेडवाक म्हळें: "तुका जाय तें म्हजे कडे माग आनी हांव तुका दितलों." आनी ताका असो सोपूत दिलो: "मागशी तितलेंय दितलों. म्हजे राजवटेचें अर्द जाल्यार लेगून." भायर वचून चेडवान आवय कडे विचारलें: "कितें मागूं?" तिणें जबाब दिलो "स्नानदातार जुवांवाचें शींस." वेगीं वेगीं राजा सरशीं भितर येवन चेडवान अशें मागलें: "एका ताटार स्नानदातार जुवांवाचें शींस आतांचे-आतांच म्हाका दी: हें म्हाका जाय!" राजाचेर व्हड संताप आयलो; पूण आपल्या सोपुताक लागून आनी हाजीर आसलल्या पावण्यां पासत, चेडवाक दिल्लें उतर मोडूंक ताका खुशी ना जाली. देखून राजान राखणदाराक धाडलो आनी जुवांवाचें शींस एका ताटार हाडूंक लायलें. ताणें वचून बंदखणींत ताची गोमटी कातरली, आनी शींस ताटार घालून हाडलें आनी चेडवाक दिलें आनी चेडवान तें आपले आवयक दिलें. हें आयकून, जुवांवाचे शीस आयले आनी ताची कूड व्हरून तांणीं ती एके समाधींत घाली.

**126.** *लूक 9,7-9*

### *हेरोद आंतिपास आनी जेजू*

हेरोद उपराजा घडतालें तितलेंय आयकून घुस्पलो; कित्याक कांय जाणां जुवांव मेल्ल्यांतलो जिवंत जाला अशें म्हणत; दुसरीं येलिजा नव्यान दिश्टी पडला म्हणत; तरी हेर आदल्यांतलो कोण एक प्रवादी जिवो जाला, अशें म्हणत. पूण हेरोद म्हणूंक लागलो: "जुवांव? ताचें शींस हांवें तर कापलें! जाचे विशीं ह्यो खबरो हांव आयकतां, तो कोण तर?" आनी जेजूक खाशा पळेंवक तो आशेतालो.

## XIII - जेजू आपल्या कुडीरगताचें जेवण भासायता
(आब्रील)

**127.** *मार्कू 6,30-32a; लूक 9,10b*

### *धर्मदूत परतून येतात*

*(मार्कू)* धर्मदूत जेजुशीं एकटवले आनी आपणें जें केल्लें आनी आयकल्लें तितलेंय तांणीं ताका कळीत केलें. तेदनां ताणें तांकां सांगलें: "एके एकसुरे स्वातेर एकवडे येयात आनी मात्सो विसव घेयात." कित्याक येतीं वेतीं इतलीं जाणां आसलीं की जेंवक लेगून तांकां फुरसत नासली. आनी व्हड्यार चडून *(लूक)* एकवडे आसचे खातीर बेथसायदा म्हणलल्या एका जाग्यार तो तांकां घेवन गेलो.

**128.** *मार्कू 6,33; जु 6,2b; मार्कू 6,34a; जु 6,3;*
*मार्कू 6,34b; लूक 9,11b-13a; जु 6,5b-9;*
*लूक 9,14-16; जु 6, 12-13*

### *जेजू पयले पावटी उंडे वाडयता*

*(मार्कू)* ते वेतात म्हण पळेवन, सबार जाणांनी खंय तें पारकिलें आनी पांय वाटेन सगळ्या नगरां थावन थंय तीं वेगीं वेगीं गेलीं आनी तांचे आदीं पावलीं. *(जु)* कित्याक पिडेवंतां खातीर ताणें केल्ल्यो खुणा तांणीं देकलल्यो *(मार्कू)* आनी व्हड्यांतलो भायर सरताना जेजून एक व्हडली उरपंज देकली आनी गोंवळी नासलल्या शेळयां परीं आसलीं देखून, काळजांत थावन तांचे ताका चुरचुरे दिसले.

*(जु)* जेजू दोंगरार चडलो आनी आपल्या शिसां सांगातीं थंय बसलो. *(मार्कू)* आनी सबार वस्तू तो तांकां शिकोंवक लागलो. *(लूक)* देवाच्या राज्या विशीं तो तांचे लागीं उलयलो आनी, ज्या कोणांक बरीं जांवची गरज़ आसली, तांकां ताणें बरीं केलीं. दीस पडचो वेळ जाल्लो आनी बारा जाणांनी लागीं येवन ताका सांगलें:

"लोकाक धाडून दी. आमी हांगा एकसुरे स्वातेर आसांव. म्हणतच तांकां भोंवतणच्या नगरांनी आनी ग्रामांनी वचून बिराड सोदुंदी आनी अपणाच्या जेवणाखाणाचें पळेंव दी." आनी ताणें परतिपाळ केलो: "तांकां खांवकजेंवक तुमीच दियात."

*(जु)* जुदेवांचो पास्क उत्सव लागीं पावललो. ताणें फिलिपाक म्हळें: "ह्या लोकाक खांवक दिंवक खंयचे म्हण उंडे घेंवचे?" ताची परिक्षा करूंक ताणें हें म्हळें, कित्याक आपूण कितें करतलो आसलो तें तो बरो जाणा आसलो. फिलिपान ताका जबाब दिलो: "एक-एकल्याक इलोसो कुडको पडतलो जाल्यार, दोनशीं दिनारांचे उंडे तांकां पांवचे नांत." ताच्या शिसां मदल्या एकल्यान, आंद्रे, शिमांव पेद्रुच्या भावान, ताका म्हळें: "हांगासर कोण एकल्या भुरग्या लागीं पांच उंडे आनी दोन मासळ्यो आसात; पूण इतल्या लोकाक हें खंय पावता?"

*(लूक)* कित्याक सुमार पांच हजार दादले आसले.[1] पूण ताणें आपल्या शिसांक सांगलें: "सुमार पन्नासांच्या जम्यांनी तांकां जेवणाक बसयात." तांणीं तशें केलें आनी सगळ्यांक बसयलीं. तेदनां ताणें पांच उंडे आनी दोन मासळ्यो हातांत घेवन सर्गाक दोळे लायले, देवाक धिनवासून ते मोडले, आनी लोकाक वांटूंक आपल्या शिसां कडे दिले. सगळीं जेवलीं.

*(जु)* आनी तीं धादोशी जातच, ताणें आपल्या शिसांक म्हळें: "कुडके उरल्यात ते एकटांय करात; कांयच इबाड जांव नये." देखून, तांचें खावन जातच, जवाच्या पांच उंड्यांचे उरलले कुडके तांणीं एकटांय केले, आनी अशो बारा पांटल्यो भरल्यो.

---

[1] मातेव म्हणता: "बायलो आनी भुरगीं धरिनासताना". जुवांव लायता: "ते स्वातेर जायतें तण आसलें".

**129.** *जु 6,14-15a; मार्कू 6,45-46*

### लोक जेजूक राजा करूंक सोदता

*(जु)* ही ताणें केल्ली खुणा लोकान देकली तेदनां, तांणीं म्हळें: “संसारांत येंवचो आसा तो प्रवादी दुबावा विरेत होच तो!” तीं येवन आपणाक बळान धरून राजा करूंक सोदतालीं म्हण जेजू जाणा आसलो. *(मार्कू)* आनी आपूण लोकाक धाडता म्हणसर, जेजून आपल्या शिसांक वेगीं, व्हड्यार चडून, आपणा आदीं बेथसायदे लागीं पलतडी वचूंक लायले. आनी तांकां धाडतच, आपूण दोंगरार मागणें करूंक गेलो.

**130.** *मार्कू 6,47-50; मातेव 14,28-33; मार्कू 6,51b-52; जु 6, 21b*

### जेजू दर्याचेर चलून येता:

*(मार्कू)* आनी तिनसांज जातच व्हडें दर्यांत मदें पावलें आनी तो एकलोच धडेर आसलो; आनी परतें वारें मारतालें देखून ते तांडूंक कश्टावताले म्हण पळेवन, फांत्या पारार दर्याचेर चलून तो तांचेशीं आयलो, आनी तांचे फुडें वचूंक करी. पूण कोण दर्याचेर चलता तें पळेवन, भूत म्हण समजून, तांणीं किळंच मारली, कित्याक सगळ्यांनी ताका देकलो आनी तांचेर आकांत आयलो. पूण रोकडोच तांचे लागीं उलोवन ताणें म्हळें: “धीर धरात, हांव तो! भियेनाकात!” *(मातेव)* पेद्रून परतिपाळ करून म्हळें: “सायबा, तूंच जाल्यार, उदकाचेर चलून तुजे सरशें हांव येसो कर.” जेजून म्हळें: “ये.” तेदनां पेद्रू व्हड्या वेलो देंवून जेजू सरशीं येंवक उदकाचेर चलूंक लागलो; पूण वादळ पळेवन भियेलो आनी बुडूंक लागलो. बोब मारून ताणें म्हळें: “सायबा, म्हाका वाटाय” आनी रोकडोच जेजून हात पावोवन ताका धरलो आनी म्हळें: “हलक्या भावार्ताच्या मनशा, कित्याक म्हण दुबावलोय तूं?” आनी ते व्हड्यार चडतात म्हणसर, वारें थांबलें. व्हड्यांत आसले

ताणीं ताचे मुखार सरपटून म्हळें: “खरेपणीं देवाचो पूत तूं! ”

*(मार्कू)* आनी ते आपणा भितर एकदमूच थटाकले, कित्याक, जड मनाचे जावन, वाडयल्ल्या उंड्याचो अर्थ तांकां मेळूंक नासलो.

*(जु)* पूण, थंयचे थंयच, ते वेताले ते तडीक व्हडें लागलें.

**131.** *मार्कू 6,53-56*

### *गेनेजारेतांत जेजू पिडेस्तांक बरीं करता*

दर्या उतरून ते पलतडी गेनेजारेताक पावले; थंय ताणीं व्हडें लायलें. आनी ते व्हड्यांतले भायर सरना फुडें, लोकान रोकडोच जेजूक वळकलो; आनी आख्या प्रांतांत धांवीं धांवीं वचून, तो खंय आसा ती खबर आयकून, थंय वायटाकारांक हांतरुणार घालून हाडूंक लागलीं. आनी तो वेता थंयसर, जांव ग्रामांनी जांव नगरांनी वा शेतांमळ्यांनी, वायटाकारांक मैदानार दवरतालीं आनी ताच्या वस्त्राचे देगेक पूण हात लावूंक दी म्हण तीं ताचे लागीं मागतालीं, आनी हात लायतालीं तितलींय बरीं जातालीं.

**132.** *जु 6,22-25*

### *कापेर्नावमांत उपदेस*

दुसऱ्या दिसा, थंय एकूच व्हडें आसलें आनी जेजू आपल्या शिसां सांगातीं त्या व्हड्यार चडूंक नासलो, पूण फकत ताचे शीस गेल्ले; हें सगळें पलतडी रावतल्या लोकान पळेलें. सोमयान देवाक धिनवासल्या उपरांत ताणीं उंडे खेल्ले त्या जाग्या लागीं आनीक व्हडीं तिबेरियासा थावन पावललीं. जेजू थंय नासलो आनी ताचे शिसूय नांत म्हण पळेवन तो लोक व्हड्यांनी चडून जेजुचे सोदीक कापेर्नावमा आयलो. तो तांकां तडीर मेळलो; तेदनां ताणीं ताका म्हळें: “गुरुजी, तूं हांगा केदनां आयलोय?”

133. *जु 6,26-34*

## *खरो सर्गिचो उंडो*

जेजून तांकां जाप दिवन म्हळें: “खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, तुमी खुणा देकल्यो म्हण न्हय, पूण उंडे खावन धादोशी जाल्यांत देखून, तुमी म्हजे सोदीक आयल्यांत. ***खावन सरता तसल्या खाणा खातीर त्रास घेंव नाकात, पूण सासणीक जिविताक तगता तसल्या खाणा खातीर त्रास घेयात; असलें खाण मनशाचो पूत तुमकां दितलो; कारण बापान, खूद देवान, ताचेर आपलो शिक्को मारला.***” तेदनां तांणीं ताका म्हळें: “देवाक जाय तसलीं कामां करूंक आमी कितें करचें?” जेजून तांकां म्हळें: “जाका देवान धाडला ताचेर भावार्त दवरात: हेंच तें देवाक जाय तें काम.” तांणीं ताका म्हळें: “तशें जाल्यार, तुजेर आमी भावार्त दवरचे खातीर कसली खुणा करून आमकां दाकयशी? कितें करतलोय तूं? आमच्या पुर्वजांनी अरण्यांत मान्ना खेलो; ‘ताणें तांकां सर्गिचो उंडो खांवक दिलो’, अशें पवित्र पुस्तकार बरयल्लें आसा.” जेजून तांकां म्हळें: ***“खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, मोयजेसान तुमकां सर्गिचो उंडो दिंवक ना; म्हजो बाप की तुमकां खरो सर्गिचो उंडो दिता, कित्याक जो सर्गार थावन देंवता आनी संसाराक जिवीत दिता तोच देवाचो उंडो.***” तांणीं ताका म्हळें: हो उंडो आमकां सदां दी.

134. *जु 6, 34-47*

## *जेजू जिविताचो उंडो*

जेजून तांकां म्हळें: *“हांव जिविताचो उंडो; म्हजेशीं येतात तांकां कदींच भूक लागची ना, आनी म्हजेर भावार्त दवरतात तांकां कदींच तान लागची ना. पूण हांवें तुमकां अशें सांगलां: तुमी म्हाका देकला, तरी म्हजेर तुमी भावार्त दवरिनांत. म्हजो बाप म्हाका दिता तीं सगळीं म्हजेशीं येतलीं; आनी म्हजेशीं येतात तांकां*



घेयात आनी खायात: ही म्हजी कूड...
घेयात आनी पियेयात: हें म्हजें रगत...
(आंक 135 आनी 313 वाच)

*हांव परो घालचो ना. म्हजी खुशी करूंक न्हय, पूण म्हाका पाटयला ताची खुशी करूंक हांव सर्गार थावन देंवलां; आनी म्हाका पाटयला ताची खुशी ही: जीं सगळीं बापान म्हाका दिल्यांत, तांतल्या कोणाकूच हांवें इबाडचो न्हय, पूण निमाण्या दिसा तांकां सगळ्यांक हांवें नव्यान पुनरजिवंत करचीं. हीच ती म्हज्या बापाची खुशी: जीं कोण पुताक पळेतात आनी ताचेर भावार्त ठेवतात, तांकां सगळ्यांक सासणीक जिवीत मेळचें, आनी निमाण्या दिसा हांवें तांकां पुनरजिवंत करचीं. "*

"हांव सर्गार थावन देंवललो उंडो," अशें जेजून म्हळें देखून जुदेव ताचे विशीं गुणगुणूंक लागले. तीं म्हणतालीं: "हो जेजू न्हय रे जुजेचो पूत? ताच्या आवयबापायक आमी वळकनांव कितें? 'हांव सर्गार थावन देंवलां,' अशें ताच्यान कशें म्हणूं येता? " जेजून तांकां जाप दिवन म्हळें: *"तुमचेच मदें गुणगुणूं नाकात. बापान म्हाका धाडला आनी ताणें कोणाक म्हजेशीं वोडून हाडल्या शिवाय, कोणाच्यानूच म्हजेशीं येंवक जायना; आनी म्हजेशीं येतल्यांक हांव निमाण्या दिसा पुनरजिवंत करतलों. 'तीं सगळीं देवान शिकयल्लीं मनशां जातलीं,' अशें प्रवाद्यांच्या पुस्तकांनी मेळता. जीं कोण बापाचें आयकतात आनी शिकतात, तीं सगळीं म्हजेशीं येतात. कोणें बापाक देकला म्हण न्हय, पूण जो देवा थावन आयला, ताणें मात बापाक देकला. खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, जीं कोण भावार्त ठेवतात तांकां सासणीक जिवीत मेळता."*

135. *जु 6,48-60*

### "जिविताचो उंडो म्हळ्यार म्हजेंच मास"

*"हांव जिविताचो उंडो. तुमच्या पुर्वजांनी अरण्यांत मान्ना खेलो आनी तीं मरून गेलीं. पूण हो आसा सर्गार थावन देंवललो उंडो; तो खातीत तीं मरचीं नांत. हांव सर्गार थावन देंवललो जिवो उंडो;*

*हो उंडो खातात तीं सासणाक जिवीं आसतलीं; आनी संसाराक जिवीत मेळचे खातीर हांव दितलों तो उंडो म्हजेंच मास".*

तेदनां त्या जुदेवां मदें वादविवाद जालो; तीं एकामेकाक म्हणूंक लागलीं: "आरे, हो आनीक आमकां आपलें मास खांवक कसो दितलो रे?" जेजून तांकां म्हळें: ***"खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, तुमी मनशाच्या पुताचें मास खेल्या बगर आनी ताचें रगत पियेल्या शिवाय तुमचे सवें जिवीत आसूं नजो. जीं कोण म्हजें मास खातात आनी म्हजें रगत पियेतात तांचे सवें सासणीक जिवीत आसा, आनी तांकां निमाण्या दिसा हांव पुनरजिवंत करतलों. कित्याक म्हजें मास खरें खाण आनी म्हजें रगत खरें पिवण. म्हजें मास खातात आनी म्हजें रगत पियेतात तीं म्हजें सवें जियेतात आनी हांव तांचे सवें जियेतां. जिव्या बापान म्हाका धाडला आनी बापा थावन हांव जिवीत घेतां, तशेंच म्हाका खातात तीं म्हजे थावन जिवीत घेतलीं. हो सर्गार थावन देंवललो उंडो; तुमच्या पुर्वजांनी खेलो तसलो हो उंडो न्हय; तीं मरून गेलीं. हो उंडो खातात तीं सासणाक जिवीं आसतलीं."***

हें ताणें कापेर्नावमाच्या देवस्थानांत शिकोवण दिताना म्हळें. हें आयकून ताच्या शिसांतल्या जायत्या जांणांनी म्हळें: "तो सांगता तें कठीन लागता; कोणाच्यान तसलें आयकून घेंवक जायत?"

**136.** जु *6,61-72*

## *जायतीं जाणां जेजूक सोडून वेतात*

आपले शीस अशे गुणगुणतात म्हण आपणा भितर जाणा जावन, जेजून तांकां म्हळें: "हें मानून घेंवक तुमकां जड लागता? आनी मनशाच्या पुताक आसलो थंय चडताना तुमी देकशात जाल्यार, तेदनां कितें म्हणतल्यात तुमी? ***आत्मो की जीव दिता, मास कित्याकूच उपकारना. तुमकां हांव उलयलां तीं उतरां आत्मो आनी जिवीत.*** पूण तुमचे मदें भावार्त धरिनांत तसलीं कांय जाणां

आसात.” कोण कोण भावार्त धरचीं नासलीं, आनी कोण आपलो घात घेतलो आसलो, तें जेजू पयलींच थावन जाणा आसलो. आनी ताणें म्हळें: “देखुनूच हांवें अशें सांगलां: बापान हें देणें फावो केल्या बगर, कोणूच म्हजेशीं येंवक शकना.”

ह्या उपरांत ताच्या शिसांतलीं जायतीं जाणां कडसरून गेलीं, आनी ताच्या सांगाता आनीक भोंवना जालीं. जेजून बारा जाणांक म्हळें: “तुमीय वचूंक सोदतात बी?” शिमांव पेद्रून ताका जबाब दिलो: “सायबा कोणाशीं म्हण वेतल्यांव आमी? तुजीं उतरां सासणीक जिविताचीं! आमी भावार्त धरतांव, आनी तूं देवान संस्कारललो म्हण आमकां खात्री जाल्या.” जेजून तांकां जबाब दिलो: “तुमकां बारा जाणांक हांवें विंचून काडल्यात की ना? तरी तुमचे मदलो एकलो देवचार.” शिमांव इस्कारियोताचो पूत जुदास, हाचे विशीं ताणें अशें म्हळें, कित्याक हो बारांतलो एकलो जांवनूय, ताचो घात घेतलो आसलो.

## XIV - जेजू गालिलेया भायर भोंवता

(जून-जुलाय)

**137.** *जु 5,1-18*

### *पन्नासाव्या दिसाचो उत्सव*
### *जेजू एका आरकाराक बरो करता*

जुदेवांचो एक उत्सव[1] आसलो, आनी जेजू जेरुजाल्याक गेलो. जेरुजाल्याक, शेळयांचे तळयेक तेंकून, एक बांदावळ आसा; हिब्रू भाशेन तिका बेथेस्दा म्हणतात; तिका पांच तारांगणां आसात.

---

[1] हो “पन्नासाव्या दिसाचो उत्सव”. हो धरून, जुदेव लोका मदें तीन दबाजीक उत्सव आसले: दुसरे दोन म्हळ्यार पास्क आनी तंबुंचो उत्सव. पास्काच्या उत्सवा उपरांत 50 दिसांनी हो उत्सव जातालो देखून, ताका तेंच नांव पडलें. मुखेल लुंवणे उपरांत देवाचे उपकार आटोंवक आनी तशेंच एजिप्तांतली सुटका मेळ्ल्या उपरांत (पास्क) 50 दिसांनी सिनाय दोंगरार मोयजेसा वरवीं देवान दिल्ले समुर्तिचो उगडास करूंक, हो आसलो ह्या उत्सवाचो अर्थ आनी शेवट.

तांचे खाल कुरडीं, थोंटीं, आरेन धरललीं, असलीं खूप पिडेवंतां पडललीं आसतालीं; तीं सगळीं उदक हालतलें म्हण रावतालीं. कित्याक सर्वेस्पराचो दूत केदनां केदनां तळयेंत देंवतालो आनी उदक हालयतालो; उदक हालतच जो कोण हेरां आदीं उदकांत भितर सरतालो, तो कसलेय पिडेंतलो बरो जातालो. थंय एक मनीस आसलो, ताचे पिडेक तीस आनी आट (38) वर्सां जाल्लीं. जेजून ताका आड पडललो देकलो आनी, तो थंय जायतो काळ असले गतीर आसलो म्हण जाणा जावन, ताका म्हळें: "तूं बरो जांवक सोदताय?" पिडेवंतान ताका जाप दिली: "सायबा, उदक हालता तेदनां म्हाका तळयेंत घालूंक म्हजो कोण ना; आनी हांव वेतां म्हणसर, दुसरो येवन आपूण म्हजे फुडें भितर सरता." जेजून ताका म्हळें: "ऊट, तुजें हांतरूण उकल आनी चल." आनी त्याच वेळार तो बरो जालो आनी आपलें हांतरूण उकलून चलूंक लागलो.

तो दीस सनवार आसलो. देखून बरो जाल्ल्या मनशाक जुदेवांनी म्हळें: "आज सनवार; तुज्यान हांतरूण उकलूं नजो!"[1] ताणें तांकां जाप दिली: "जाणें म्हका बरो केला, ताणें म्हाका अशें म्हळें: तुजें हांतरूण उकल आनी चल." तांणीं ताचे कडे विचारलें: "तुजें हांतरूण उकल आनी चल अशें तुका म्हळें तो मनीस कोण?" तो कोण तो बरो जाल्लो मनीस नकळो आसलो; कित्याक थंय जी लोकाची लूट जाल्ली, तिचे मदें जेजू नांच जाल्लो. उपरांत तो जेजूक देवमंदिरांत मेळलो, आनी जेजून ताका म्हळें: "पळे, तूं आतां बरो जालाय; आनीक पातक करिनाका, ना तर तुका आनीक कितेंय पाश्ट जायत." तो मनीस गेलो आनी आपणाक बरो केला तो जेजू म्हण ताणें जुदेवांक सांगलें.

---

[1] सनवारा दिसा वजीं उबारूंक जेरेमियासान जुदेवांक आडवारललें (जेरे 17,21). देवाक भेटयल्ल्या दिसा वेपारधंदे चलयना जांवक हो कायदो ताचे तोंडीं देवान घाल्लो आसतलो. पूण फारिजेवांनी होच कायदो ल्हान ल्हान वस्तूंक परयान लागू करून वाडयलो.

आनी जेजू असल्यो वस्तू सनवारा दिसा करी देखून, जुदेव ताच्या पाळांक लागलले. जेजून जुदेवांक म्हळें: ***"म्हजो बाप आजून परयान वावर करीत आसा, तसो हांवूय वावर करीत आसां."*** ह्या पासत जुदेव अदिकूच ताका जिवेशीं मारूंक सोदताले; कारण तो न्हयच सनवार मोडतालो, पूण देवाक आपलो बाप म्हणून, आपणाकूच देवा सारको करतालो.

**138.** *जु 5, 19-30*

### *वयल्या विवादा समयीं जेजुचो उपदेस*
### *(अ) जेजू बापान धाडललो*

जेजून तांकां म्हळें: *"खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां: आपणाचेच अस्टंगीं पुताच्यान कांयच करूंक जायना; पूण बाप करता म्हण जें तो पळेता, तेंच तो करूंक शकता; आनी जें बाप करता, तेंच पुतूय करता. कारण बाप पुताचो मोग करता, आनी आपूण करता तितलेंय पुताक दाकयता; आनी तुमी अजाप जांवचे खातीर हाचेवन व्हड करतुत्वां तो ताका दाकयतलो.*

*जसो बाप मेल्ल्यांक उटयता आनी तांकां जिवीत दिता, तसोच पूत आपणाक जाय तांकां जिवीत दिता. जसो बापाक मान दितात तसोच पुताक सगळ्यांनी मान दिंवचो म्हण, बाप कोणाचीच मनसुबी करिना; पूण ताणें मनसुबी करचो सगळो अधिकार पुताच्या हातांत दिला. जीं कोण पुताक मानिनांत, तीं ताका धाडला त्या बापाक मानिनांत. खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, जीं कोण म्हजें उतर आयकतात आनी म्हाका धाडला ताचेर भावार्त दवरतात, तांचे सवें सासणीक जिवीत आसा; असल्यांक आनीक खास्तिचें फरमण ना, पूण तीं मरणांतलीं जिविताक उतरलीं.*

*खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां, मेल्लीं मनशां देवाच्या पुताचो ताळो आयकतलीं, आनी जीं कोण तो आयकतात तांकां जिवीत मेळतलें, असलो वेळ येंवचो जालो – होच तो वेळ. कारण, जशें*

*बापाक जिवीत आपणाचेच सवें आसा, तशेंच पुताकूय जिवीत ताचेच सवें आसचें म्हण बापान ताका देणें केलां, आनी मनसुबी करची ताका पदवी दिल्या, कित्याक तो मनशाचो पूत.*

*हाचे विशीं अजाप जांव नाकातः समाधिंनी आसात तीं सगळीं ताचो ताळो आयकून तांतलीं भायर सरतलीं: जांणीं बरें केलां तीं जिवीत भोगूंक आनी जांणीं वायट केलां तीं खास्त सोसूंक उटतलीं –असलो वेळ येंवचो जालो!*

*म्हजेच पदवेन म्हज्यान कांयच करूंक जायना; जसो हांव आयकतां तसो हांव निर्णय दितां; आनी म्हजो निर्णय नितिचो, कित्याक हांव म्हजी खुशी न्हय पूण म्हाका पाटयला ताची खुशी करूंक सोदतां."*

139. *जु. 5,31-47*

## *(ब) बाप जेजू विशीं गवाय दिता*

"हांवूच म्हजे विशीं गवाय दीन जाल्यार, म्हजे गवायकेक मोल ना. म्हजे विशीं गवाय दितलो दुसरो कोण आसा, आनी जी गवाय तो म्हजे विशीं दिता तिका पूर्ण मोल आसा म्हण हांव जाणां. तुमी तुमच्या निरोप्यांक जुवांवाशीं पाटयले, आनी ताणें सता विशीं गवाय दिली. हांव मनशांचे गवायकेचेर धरललो ना; पूण हांव असो उलयतां जाल्यार, तुमच्या तारणा पासत उलयतां. जुवांव एक जळतो आनी लकलकीत दिवो जावन आसलो आनी ताच्या उजवाडाक इलो वेळ मुरगटूंक तुमकां बरें दिसलें. पूण म्हाका आसा ती गवायकी जुवांवाचे गवायके परस व्हड.

जीं कामां बापान म्हाका संपादूंक दिल्यांत – हांव करतां तींच कामां – बापान म्हाका पाटयला म्हण म्हजे विशीं गवाय दितात. बापान म्हाका पाटयला आनी ताणेंच म्हजे विशीं गवाय दिल्या. ताचो ताळो तुमी कदींच आयकूंक ना, ताचें रुपूय तुमी

*कदींच पळेंवक ना, आनी ताचो सब्द तुमचे भितर रिगूंक ना, कित्याक जाका ताणें धाडला ताचेर तुमी भावार्त ठेविनांत. धर्मशास्त्र्यांच्या बरोवपांनी सासणीक जिवीत आसा म्हण समजून, तुमी तीं चीत घालून शिकात; खरें म्हळ्यार, तींच म्हजे विशीं साक्षी दितात; तरीपूण तुमकां जिवीत मेळचे खातीर म्हजेशीं येंवक तुमी राजी नांत.*

*मनशाचो जो मान म्हाका मेळत, ताची हांव पर्वा करीच ना. पूण हांव तुमकां पक्कीं वळकतां: देवाचो मोग तुमचे सवें नांच. म्हज्या बापाच्या नांवान हांव आयलां, आनी तुमी म्हाका मानून घेनांत; दुसरो कोण आपल्याच नांवान आयलो तर, ताका तुमी मानून घेतल्यात. तुमकां भावार्त कसो आसूं येत? कित्याक म्हळ्यार तुमी एकामेकाचो मान घेवन खुशी जातात; पूण एकल्याच देवा कडचो जो मान येता, ताची तुमी पर्वा करीच नांत. बापा मुखार हांव तुमकां लावून दितलों म्हण समजूं नाकात; मोयजेसाचेर तुमी भरवांसो दवरतात, तर तोच मोयजेस तुमकां लावून दितलो. तुमी मोयजेसाचेर भावार्त दवरललो जाल्यार, म्हजेरूय तुमी भावार्त दवरतलीं आसल्यात, कारण बरयलां तें म्हजे विशीं बरयलां. पूण ताच्या बरोवपाचेर तुमकां भावार्त ना जाल्यार, म्हज्यां उतरांचेर कसो म्हण तुमकां भावार्त आसूं येत?"*

**140.** *जु 7,1*

### जेजू जुदेयांतलो भायर सरता

जेजू गालिलेयांत भोंवूंक लागलो. जुदेयांत भोंवची ताका खुशी नासली, कित्याक जुदेव ताका जिवेशीं मारूंक सोदताले.

**141.** *मार्कू 7,1-13; मातेव 15,10-11*

### भायल्या चालिंरिविंचो भक्तीभायलो हुस्को<br>खरे भक्तिची बेपर्वा

*(मार्कू)* फारिजेव आनी कांय धर्मशास्त्री, जेरुजाल्याक थावन येवन ताचे सरशें एकटवले, आनी ताच्या शिसांतले थोडे म्हेळ्या हातांनी

म्हणचे हात धुयनासताना, जेवतात म्हण तांणीं पळेलें. फारिजेव आनी सगळे जुदेव पुर्विल्यांचे चाली परमाणें, बगर बगर हात बरे कर्न धुल्या शिवाय जेविनांत; आनी तिंट्यार थावन येतच, न्हाल्या धुल्या शिवाय जेंवक खांवक बसनांत; आनी सबार हेर सांभाळच्यो चाली तांणीं घेतलल्यो आसात: पात्रां, कोळशे आनी कांश्याचीं आयदनां धुवपा विशीं. म्हणतच फारिजेवांनी आनी धर्मशास्त्र्यांनी ताचे लागीं विचारलें: "जाण्ट्यांचे चाली परमाणें तुजे शीस कित्याक चलनांत आनी म्हेळ्या हातांनी कित्याक जेवतात खातात?" ताणें परतिपाळून तांकां सांगलें: "इजायासान तुमां ढोंग्यां विशीं आदींच सांगून दवरलां तें सारकें; तर अशें बरोवन आसा:

*'ही परजा ओंटांनी म्हाका वाखाणता,*
*पूण तांचें काळीज म्हजेसून पयस आसा.*
*तर मनशांनी केल्ले कायदे शास्त्रां कशीं शिकोवन,*
*ती म्हजी पोलकी पुजा करता.'*

देवाची आज्ञा सांडून, मनशाच्यो चाली तुमी पाळतात." आनी तांकां म्हळें: "आपलीच चाल सांबाळचे खातीर, देवाची आज्ञा कुशीन काडूंक कितले म्हण हुशार तुमी!" तर मोयजेसान सांगलां: 'तुज्या बापायक आनी आवयक मान दी, आनी बापायक वा आवयक शिरापता तो मरून वचूं.'

पूण तुमी सांगतात; "कोणूय बापायक वा आवयक अशें म्हणत जाल्यार: 'म्हजे कडलें कितेंय तुका उपकारतें तें हांवें 'कोरबान' केलें (म्हणचे देवाक भेटयलें)'; त्या उपरांत आपल्या बापाय वा आवय पासत तुमी ताका कांयच करूंक दिनांत; ह्या वरवीं तुमचे मदें पाळोन आयल्ले तुमचेच चालीक लागून देवाचें उतर तुमी निर्फळ करतात. आनी असल्यो जायत्यो हेर वस्तू तुमी करतात."

*(मातेव)* लोकाक आपणा सरशें आपोवन जेजून तांकां सांगलें: "आयकात आनी समजून घेयात: तोंडांत भितर वेता तें मनशाक म्हेळो करिना; पूण तोंडांतलें भायर सरता तेंच मनशाक म्हेळयता."

142. *मातेव 15,12-20*

### *जेजू शिसांक समजायता*

तेदनां शिसांनी लागीं येवन म्हळें: "हें तुजें उतर आयकून फारिजेवांक अपमान जालो म्हण जाणाय?" ताणें परतिपाळ केलो: "म्हज्या सर्गिच्या बापान लावूंक ना तीं सगळीं झाडां हुमटून वेतलीं. तांची खबरूच नाका. ते आपुणूच कुरडे आनी दुसऱ्या कुरड्यांक वाट दाकोंवक सोदतात; तर कुरडो कुरड्याक वाट दाकयत जाल्यार, दोगूय फोंडांत पडतले."

तेदनां पेद्रून उलोवन म्हळें: "आमकां हे वोपारिची समजणी दी." जेजून जाप दिली: "तुमकां आजून परयान गिन्यान ना? तोंडांत भितर वेता तितलेंय पोटांत पावता आनी काकसांत भायर पडता म्हण तुमी समजनांत कितें? पूण जें तोंडांतलें भायर सरता तें काळजांत थावन येता आनी तेंच मनशाक म्हेळयता. तर काळजांत थावन भायर सरतात वायट येवजण्यो, प्राण-घात, परद्वार, पजडपण, चोरयो, लटीक गवायो, निंदा. मनशांक म्हेळयतात तीं हींच. पूण हात धुयनासताना जेवल्यार मनीस म्हेळो जायना."

143. *मातेव 15,21-28*

### *खानानचे (परके) बायलेचो भावार्त*

जेजू थंयचो भायर सरलो आनी तिराच्या आनी शिदोनच्या प्रांतांत कडसरून गेलो. आनी अवचीत खानानची एक बायल, त्या प्रांतांतली भायर सरून, अशी हुयेल मारूंक लागली: "सायबा, दाविदाच्या

पुता, म्हजी काकळूत कर! म्हजे धुवेक देवचार जबर पिडापीड दिता.” पूण ताणें तिका एक जाप दिली ना. आनी लागीं येवन ताचे शीस ताचे कडे अशें परातून मागताले: “तिका वचूं दी, ती आमचे पाटल्यान बोब मारीत येता.” पूण ताणें परतिपाळून म्हळें: “देवान म्हाका फकत इस्रायेलाच्या घराण्याच्या सांडलल्या शेळयां थांय धाडला.” तरिपूण लागीं येवन ती ताचे मुखार सरपटली. तिणें मागलें: “सायबा म्हाका पाव!” ताणें अशी जाप दिली: “भुरग्यांचें खाण काडून तें सुण्यांच्या पेट्यांक उडोंवचें म्हळ्यार सारकें न्हय.” तिणें म्हळे: “खरें, सायबा, पूण आपल्या धनयाच्या मेजा वेले धरणीर पडतात ते कुडके सुण्यांचे पेटेय खातात.” तेदनां परतिपाळून जेजून तिका म्हळें: “आगे बाय, व्हड तुजो भावार्त! तुका जाय तशें जांव.” आनी तिची धूव तेच घडयेर बरी जाली.

**144.** *मार्क 7,31-36*

### *जेजू जड जिबेच्या एका भेऱ्याक बरो करता*

जेजू नव्यान तिराच्या प्रांतांतलो भायर सरून, शिदोनचे वाटेन धा-नगरांच्या मुल्का मदल्यान, गालिलेयाच्या दर्याशीं आयलो. तेदनां कोण एकल्या जड जिबेच्या भेऱ्याक ताचे सरशें हाडलो आनी ताचेर हात दवर म्हण लोकान जेजू कडे मागलें. आनी लोका मदलो ताका कुशीन व्हरून, जेजून ताच्या कानांनी आपली बोटां घालीं आनी आपली थिंपी काडून ताचे जिबेक लायली. मागीर सर्गाक दोळे उबारून, ताणें सुस्कार सोडलो आनी म्हळें ‘एफ्फाता!’ म्हणचे ‘तुजे कान उगते जांव!’ म्हणता म्हणसर ताचे कान उगडले आनी ताचे जिबेचो बांदपास सुटलो आनी तो सारको उलोंवक लागलो. आनी कोणाकूच सांगिनाका म्हण जेजून तांकां फर्मायलें. पूण जितलो तांकां तो फर्मायतालो, तितलीं अदीक तीं परगटतालीं.

**145.** *मातेव 15,30-31; मार्कू 7,37*

### उरपंजी जेजू पाटल्यान

*(मातेव)* आनी लोकाच्यो उरपंजी थोंट्यांक, खोडयांक, कुरड्यांक, मोन्यांक आनी जायत्या हेरांक घेवन ताचे सरशीं आयल्यो, आनी ताच्या पांयां लागीं तांणीं तांकां दवरलीं. आनी तांकां सगळ्यांक ताणें बरीं केलीं. मोनीं उलयतात, खोडयीं धड जातात, थोंटीं सारकीं चलतात, कुरड्यांक नदर येता म्हण पळेवन, त्यो उरपंजी अजाप जाल्यो आनी इस्त्रायेलाच्या देवाक परकोंदूंक लागल्यो. *(मार्कू)* आनी सांगूं नज तितलीं थटाकून म्हणतालीं: "हाणें सगळें बरें केलें; ताणें भेन्यांक कान दिले आनी मोन्यांक जीब दिली."

**146.** *मातेव 15, 32-39*

### दुसरे पावटी जेजू उंडे वाडयता

पूण जेजून आपल्या शिसांक लागीं आपोवन म्हळें: "ह्या लोकाक पळेवन चुरचुऱ्यांनी फोडता काळीज म्हजें. तीन दीस जाले, म्हजे बरोबर आसा आनी जेवूंक खावूंक तांचे कडे कांयच ना; उपाशीं तांकां धाडूंक म्हाका खुशी ना; वेताना वाटेर तीं पडूंक आसात." शिसांनी ताका म्हळें: "तर हे एकसुरे सुवातेर इतल्या लोकाक धादोशी करूंक आमचे कडे इतले उंडे खंयचे आस-तले?" जेजून तांकां विचारलें: "तुमचे लागीं कितले उंडे आसात?" तांणीं सांगलें: "सात, आनी थोडीं भोवशीं." तेदनां लोकाक धरणीर बसूंक लावन, ताणें सात उंडे आनी मासळ्यो घेतल्यो, आनी देवाक धिनवासून तांचे कुडके केले; मागीर तो शिसांक ते दिंवक लागलो, आनी शीस ते लोकाक वांटूंक लागले. सगळीं धादोशी जायसर जेवलीं. आनी उरलल्या कुडक्यां तुकड्यांच्यो सात पांटल्यो तांणीं भरल्यो. भुरग्यांक आनी बायलांक धरिनासताना, जेवलले ते दादलेच चार हजार आसले.

आनी लोकाक घरा धाडतच तो व्हड्यार चडलो आनी मागेदानच्या प्रांतांत गेलो.

**147.** *मार्कू 8,11-13*

### *फारिजेव सर्गा वेली खुणा मागतात*

एकदां फारिजेव भायर सरले आनी जेजू लागीं वाद करूंक लागले; आनी ताची परिक्षा करूंक ताचे कडे सर्गा वेली एक खुणा मागताले. आनी आपल्या काळजांत थावन सुस्कारून ताणें म्हळें: "ही पिंडका कित्याक म्हण खुणा सोदता? देव खुणा दिंवचोच ना!"[1] आनी तांकां सांडून तो नव्यान व्हड्यार चडलो आनी पेले तडी गेलो.

**148.** *मार्कू 8,14-20; मातेव 16,11-12*

### *फारिजेवांची फूग*

*(मार्कू)* शीस उंडे व्हरूंक विसरले: व्हड्यार तांचे कडे एकूच उंडो आसलो. तेदनां जेजून तांकां अशें म्हणून शिडकायले: "चीत दियात आनी फारिजेवांचे आनी हेरोदिचे फुगी विशीं चत्रायेन चलात." ते एकामेकाक म्हणूंक लागले: "आमचे कडे उंडे नांत, देखून तो अशें उलयता." हें जाणा जावन जेजून तांकां म्हळें: "उंडे नांत म्हण तुमी कित्याक तुमचे मदें उलयतात? आजून परयान तुमकां वळक ना? दोळे आसून तुमकां दिश्टी पडना आनी कान आसून तुमकां आयकना वा उगडास धरनागाय? पांच उंडे पांच हजार लोकाक मोडून दिले तेदनां, उरलल्यां कुडक्यांच्यो कितल्यो पांटल्यो तुमी भरून काडल्यो?" आनी तांणीं ताका सांगलें: "सात." आनी ताणें तांकां म्हळें: "तर आजून पर्यान

---

[1] हीं जेजुचीं उतरां मातेवाच्या शुभवर्तमानांत अशीं दिल्लीं मेळतात: "ही आतांची खोटी आनी भावार्त नासलली पिंडका खुणा मागता! पूण जोनाचे खुणे भायर, देव तिका दुसरी खुणा दिंवचो ना." *(मातेव 16,4)*

समजनांत तुमी? *(मातेव)* फारिजेवांचे आनी सादुकिंचे फुगी विशीं चत्रायेन चलात, अशें हांवें म्हळें तें उंड्यां संबंधी न्हय म्हण तुमी कशे समजले नांत तर?" 'तेदनां उंड्यांचे फुगी विशीं न्हय, पूण फारिजेवांचे आनी सादुकिंचे शिकोवणे विशीं चत्रायेन चलात,' अशें ताणें म्हणललें म्हण ते समजले.

**149.** *मार्कू 8,22-26*

### बेथसायदेचो कुरडो

जेजू आनी ताचे शीस बेथसायदे पावले. थंय एका कुरड्याक जेजू सरशें हाडलो आनी ताका हात लाय म्हण मागलें. कुरड्याच्या हाताक धरून, ताणें ताका ग्रामा भायर व्हेलो आनी ताच्या दोळ्यांचेर थिंपी उडयली, ताचेर हात दवरले, आनी कितें तरी दिश्टी पडतागाय म्हण विचारलें. ताका नदर येंवक लागलली. तर ताणें अशें म्हळें: "मनशां म्हाका दिसूंक येतात. म्हाका तीं झ ाडां कशीं दिसतात, पूण भोंवतात." तेदनां जेजून नव्यान आपले हात ताच्या दोळ्यांचेर दवरले, आनी ताका सारकी नदर आयली, तो बरो जालो आनी सगळें ताका नितळ दिसूंक लागलें. आनी ताका घरा धाडून ताणें म्हळें: "ग्रामांत भितर सरुंकूच नाका."

**150.** *मार्कू 8.21a; लूक 9,18b मातेव 16,14-20*

### पेद्रू आपलो भावार्त उचारता
### जेजू पेद्रुची जबाबदारी परगटता

*(मार्कू)* जेजू शिसांक घेवन फिलिपाच्या शेजारेयाच्या ग्रामांनी भायर सरून गेलो. *(लूक)* आपल्या शिसां मुखार एक दीस तो एकलोच मागणें करून आसलो. तेदनां ताणें तांकां विचारलें. "लोक म्हाका कोणसो धरता?" (मातेव) आनी तांणीं जबाब दिलो: "कांय जांणा स्नानदातार जुवांव, कोण कोण एलिजा.

दुसरीं कोण कोण जेरेमियास वा प्रावाद्यांतलो कोण एकलो, अशें म्हणतात." ताणें विचारलें: "तरी तुमी हांव कोण म्हणतात?" तेदनां शिमांव पेद्रू असो उलयलो: ***"तूं अभिशिक्त[1], जिव्या देवाचो पूत!"*** *जाप दिवन जेजून म्हळें:* ***"शिमांव, जोनाच्या पुता, तूं सुभागी, कित्याक रगता-मासान न्हय, पूण सर्गार आसत्या म्हज्या बापान हें तुका उगतें केलां. तर हांवूय तुका सांगतां: तूं पेद्रू (म्हणगे खडप)[2], आनी ह्या खडपाचेर हांव म्हजी सभा बांदतलों, आनी तिचेर जैत व्हरूंक यमकोंडाक लेगून पदवी आसची ना. हांव तुका सर्गिंच्या राज्याच्यो चावयो दितलों: ज्या कित्याक संसारांत तूं ना म्हणशी, ताका सर्गार देव ना म्हणतलो; आनी ज्या कित्याक संसारांत तूं हय म्हणशी, ताका सर्गार देव हय म्हणतलो."***

मागीर आपूण अभिशिक्त म्हण कोणाकूच सांगिना जांवक ताणें शिसांक खर आज्ञा दिली.

## 151. *मातेव 16,21-23*

### ***कश्टांमरणाचें आनी पुनरजिवंतपणाचें पयलें भाकीत***

तेदनां थावन जेजू आपल्या शिसांक स्पश्ट सांगूंक लागलो: ***"देवाचे खुशे परमाणें हांवें जेरुजाल्याक वेचें आसा; जाण्ट्यांच्या,***

---

[1] *"अभिशिक्त"* वा *"देवान माखललो"*: आर्मी (जेजुचे) भाशेन *"मशिया"*, ग्रीक भाशेन *"खिस्तोस"*, इंग्लेजीन *"The Anointed One"*.

[2] पयलेच पावटी शिमांव जेजूक मेळ्ळो तेदनां, ताका केफास – म्हणगे खडप – नांव पडतलें म्हण जेजून भासायल्लें *(आंक 36 पळे)*. ग्रीक आनी लातीन भाशांतरा वयल्यान आमकां पुर्तुगेजितल्यान पावलल्या उतरा पर्माणें, आमी "पेद्रू" म्हणतांव. आपली पवित्रसभा शिमांव पेद्रुचेर बांदतलो आनी हे पवित्रसभेंत पेद्रूक सगळो अधिकार आसतलो म्हण जेजू स्पश्ट सांगता. "सर्गिंच्या राज्याच्यो चावयो": सर्गिंच्या राज्यांत भितर घेंवक वा भायर दवरूंक सगळी पदवी. "ना आनी होय म्हणूंक": मूळ अर्थान "बांदूंक आनी सोडूंक", मनसुबिदारा भाशेन कितें सारकें आसा वा ना, कितें करूं येता वा करूं नज, तें थारांवक आनी जाहीर करूंक अधिकार. हो सगळो अधिकार देवाचो. "खडप" हेंय मनशाक न्हय पूण देवाक लायल्लें नांव आसलें *(2 साम 22,2; स्तोत्र 31,2; 42,9; 62,2,6,7; इजा 51,1)*. पेद्रुचे विशेश जबाबदारेंत देवाचेंच खडपा सारकें थिरपण ताका हांगा भासायल्लें आसा. *(आंक 371 पळे*

*मुखेल याज्ञिकांच्या आनी धर्मशास्त्र्यांच्या हातांतलें हांवें जायतें सोसचें आसा; मागीर ते म्हाका जिवेशीं मारतले; आनी तिसऱ्या दिसा देव म्हाका पुनरजिवंत करतलो."* तेदनां ताका कुशीन व्हरून पेद्रू असो ताका बेश्टांवक लागलो: "केदनांच ना, सायबा! हें देव तुका केदनांच निर्मिना जांव!" आनी ताणें वळोन पेद्रूक सांगलें. "चल वच! म्हज्या मुखावेलो वच! हांव आदळोन पडूंक म्हजे वाटेर उबो जाल्लो फातर तूं; कित्याक तुजें चिंतप मनशांचें, तें देवाचें न्हय."

**152.** *मार्कू 8,34-39*

## आपणाचेच खुशेची वाट सोडची गरज

लोकाक आनी आपल्या शिसांक बराबर आपोवन, जेजून तांकां म्हळें: *"कोणाक म्हजे पाटल्यान येंवची खुशी आसा जायत, तांणीं आपणाचेच खुशेची वाट सोडची, आपलो खुरीस उकलचो आनी म्हजे पाटल्यान येंवचें. आपलो जीव सांबाळूंक सोदतात तीं आपलो जीव होगडायतलीं; पूण म्हजे खातीर आनी शुभवर्तमाना खातीर आपलो जीव होगडायतात तीं आपलो जीव सांबाळून धरतलीं. सगळो संसार जोडीत आनी आपलो जीव इबाडीत जाल्यार, मनशाक कसलो आदाव? वा आपल्या जिवाचे बदलेक मनशान कितें दिंवक जायत? हे बास्कळ आनी पातकी पिंडके मदें म्हजी आनी ह्या म्हज्या उतरांची कोणांक लज दिसत जाल्यार, मनशाच्या पुताकूय, आपल्या भागेवंत दुतां सांगातीं आपल्या बापाचे म्हयमेंत तो येतलो तेदनां, तांची लज दिसतली."*

## XV - गालिलेयांत जेजुचें काम सोंपता

(आगोस्त-सेतेंब्र)



**153.** *लूक 9,28-29a; मातेव 17,2a; मार्कू 9,2-3; लूक 9,30-35a; मातेव 17,5-8*

### *जेजुचें रुपांतर*

*(लूक)* हें उलोवन सुमार आट दीस जातच पेद्रूक, जुवांवोक आनी जाकोबाक घेवन जेजू मागणें करूंक एका दोंगरार चडून गेलो. मागणें करता आसताना, *(मातेव)* तांचे मुखार ताचें रूप बदल्लें: ताचें मुखामळ सुर्या परीं लकलकीत जालें, *(मार्कू)* ताचीं वस्त्रां लकलकीत आनी संसारांत मडवळा लागीं धवीं करूंक जायना तितलीं धवींफुल्ल जालीं. *(लूक)* अवचितूच दोग दादले थंय हाजीर जाले; ते ताचे लागीं उलोवन आसले. ते म्हळ्यार मोयजेस आनी येलिजा. ते म्हयमेन भरलले दिश्टी पडले आनी कशे भाशेन जेजू जेरुजाल्या आपलें जिवीत संपादून वेचो आसलो ते विशीं ते गजाल करताले. पेद्रू आनी ताचे सांगाती झेमेन जड जाल्ले; पूण ते जागेच रावले आनी ताची म्हयमा तांणीं पळेली आनी ताचे बराबर उबे आसलले त्या दोगांकूय देकले. हे जेजू सरशिले कडसरून वेताले तेदनां, पेद्रून ताका म्हळें: "गुरुजी, आमी हांगासरूच रावल्यार बरें! म्हणतच तीन तंबू ताणुंया: एक तुका, एक मोयजेसाक आनी एक एलिजाक." आपूण कितें म्हणता तें तोच नकळो आसलो. अशें तो उलयता थंयच आसताना एक कूप आयलें आनी कुपान तांचेर सावळी घाली, आनी त्या कुपांत रिगतच शीस भियेले. आनी कुपांतलो असो एक ताळो आयकूंक आयलो:

*(मातेव)* ***"हो म्हजो पूत, खेरीत अपुरबायेचो;***
***ताचेर आसा म्हजें धादोसपण***
***ताचें तुमी आयकात."***

हें आयकून शीस ओमते पडले आनी एकदम भियेले. पूण जेजून लागीं सरून तांकां हात लायलो आनी म्हळें: उटात, भियेंव नाकात. दोळे उगडून पळेल्यार, तांकां जेजू बगर कोणूच दिसलो ना.

**154.** *मार्कू 9,9-10a; मातेव 17,10b-13*

### *एलिजाचें दुसरें येणें*

*(मार्कू )* दोंगरा वेले देंवताना, मनशाचो पूत मेल्ल्यांतलो पुनरजिवंत जायसर, देकलां तें कोणाकूच सांगिनाकात म्हण ताणें तांकां हुकूम घालो. तांणीं ही आज्ञा आपणां भितर सांभाळली, "पूण पुनरजिवंत जायसर" ह्या उतराचो अर्थ ते आपणां मदें बराबर सोदताले.

*(मातेव)* तांणीं जेजू कडे विचारलें: "एलिजा पयलो येंवक जाय, अशें धर्मशास्त्री कित्याक म्हणतात तर?" ताणें अशी जाप दिली: "एलिजा येतलो खरो, आनी सगळें थाऱ्यार घालतलो; पूण एलिजा आयलो म्हण हांव तुमकां सांगतां, आनी तांणीं ताका वळकून घेतलो ना आनी आपणाक जाय तशें ताका केलें तेच परीं मनशाच्या पुतानूय तांच्या हातांतलें सोसचें आसा." तेदनां स्नानदातार जुवांवा विशीं तो उलयतालो म्हण शीस समजले.

**155.** *मार्कू 9,14-27*

### *मोन्याभेऱ्या भुरग्याक जेजू बरो करता*

जेजू पेद्रूक, जाकोबाक आनी जुवांवाक घेवन हेरां शिसां लागीं आयलो तेदनां, तांचे भोंवतणीं लोकाची व्हड उरपंज एकटवलली ती आनी धर्मशास्त्री तांचे कडे विवाद करताले ते तांणीं देकले. आनी जेजूक पळेना फुडें सगळो लोक अजाप जावन थटाकलो, आनी ताका नमान करूंक धांवून आयलो. आनी ताणें तांचे लागीं विचारलें: "तांचे कडे तुमचो कसलो विवाद जातालो?"

परतिपाळून लोकांतल्या एकल्यान म्हळें: "गुरुजी, मोनो देवचार बसलल्या म्हज्या पुताक तुजे सरशीं हांवें हाडला; तो ताका धरता तितलेय पावटीं ताका धरणीर उडयता; आनी तो तोंडांतल्यान फेणो काडता, दांत करकरायता आनी ताण जाता; आनी ताका काडून उडयात म्हण हांवें तुज्या शिसांक सांगलें, पूण तांच्यान नजो जालें." ताणें परतिपाळून म्हळें: "भावार्त नासलली पिंडका तुमी!

केदनां परयान तुमचे बराबर हांवें आसचें? केदनां परयान हांवें तुमकां सोसचीं? ताका म्हजे सरशीं हाडात."

तांणीं ताका जेजुशीं हाडलो. आनी जेजूक देकना फुडें देवचारान ताका फडफडायलो, आनी तो धरणीर पडून तोंडांतल्यान फेणो काडतालो आनी आडवोउदारो लोळतालो. आनी जेजून ताच्या बापायक विचारलें; "ताका केदनांसान अशें जावन येता"? ताणें जाप दिली: "भुरगेपणारसान; आनी ताचो नास करूंक, देवचार ताका बगर बगर उज्यांत आनी उदकांत उडयता. पूण तुज्यान कितें जाता जाल्यार, आमचे चुरचुरे धरून आमकां पाव." पूण जेजून ताका सांगलें: "तुज्यान जाता जाल्यार – अशें सांगताय? भावार्त धरता ताच्यान सगळें जाता." रोकडोच चेड्याच्या बापायन दुकां गळोवन व्हडल्यान म्हळें: "भावार्त धरतां. म्हज्या उण्या भावार्ताक आदार दी."

आपणाशी लोटोन येतल्या लोकाक पळेवन, जेजून म्हेळ्या आत्म्याक अशें म्हणून भेंकडायलो: "मोन्या भेऱ्या आत्म्या, हांव तुका हुकूम घालतां: ताचे वेलो भायर सर आनी ह्या फुडें ताचेर येनाका!" बोब मारून आनी भारी ताका फडफडावन तो ताचे वेलो गेलो; आनी तो चेडो इतलो मेल्लो कसो जालो, की साबार जांणांनी म्हळें: "तो मेलो!" पूण जेजून ताच्या हाताक धरून ताका उबो केलो आनी तो उबो रावलो.

**156.** *मातेव 17,19-21; मार्कू 9,28-29*

### ***भावार्ताची पदवी आनी मागण्याची गरज***

*(मातेव)* तेदनां जेजू सरशें कुशीन येवन, शिसांनी विचारलें: "ताका भायर घालूंक आमचे कडे कित्याक घडलें ना?" जेजून तांकां सांगलें: "तुमचो भावार्त उणो देखून." हांव तुमकां खरेंच सांगतां: "सांसवाच्या कण्या येदो तुमकां भावार्त आसत जाल्यार, ह्या दोंगराक तुमी म्हणतल्यात: 'हांगा थावन थंय वच!', आनी तो

वेतलो; आनी तुमच्यान करूंक जायना तसलें कांयच आसचें ना."
*(मार्कू)* असली जात कोणाचेच पदवेन काडून उडोंवक जायना, बगर मागण्यांचे पदवेन.

**157.** *मार्कू 9,29-31, लूक 9,45*

### कश्टांमरणाचें आनी पुनरजिवंतपणाचें दुसरें भाकीत

*(मार्कू)* थंयचे भायर सरून जेजू आनी ताचे शीस गालिलेयांतल्यान वेताले, पूण हें कोणाकूच गमललें ताका नाका आसलें, कित्याक तो आपल्या शिसांक शिकोवण दितालो आनी तांकां सांगतालो: ***"मनशाच्या पुताक मनशांच्या हातांत घालचो आसा आनी ते ताका जिवेशीं मारतले, आनी ताका मारतच तीन दिसां उपरांत देव ताका पुनरजिवंत करतलो."***

*(लूक)* पूण ताणें सांगलें तें ते समजले नांत, तर ताचो अर्थ तांकां मेळचो न्हय म्हण तांच्या गिन्यानाक तें लिपोन उरलें; आनी त्या उतरा विशीं ताचे लागीं विचारुंकूय तांकां भें दिसतालें.

**158.** *मार्कू 9,33-36; मातेव 18,3-4; मार्कू 9,36-37*

### शिसांक अनेक शिकोवणो भुरग्यांचें सादेपण

*(मार्कू)* ते कापेर्नावमा पावले आनी घरा येतच ताणें तांकां विचारलें: "वाटेर कसलो विवाद करताल्यात तुमी?" ते वोगेच रावले; कित्याक तांचे भितर कोण व्हडलोगाय म्हण वाटेर एकामेका कडे वाद-विवाद करताले. तेदनां बसून ताणें बारा जाणांक आपयले आनी तांकां सांगलें: ***"कोणाक पयलो जांवची खुशी आसल्यार, तो सगळ्यां परस निमाणो आनी सगळ्यांचो चाकर जांवचो."*** मागीर एका भुरग्याक धरून ताका तांचे मदें उबो केलो; आनी ताका वेंगेंत घेवन तांकां सांगलें: *(मातेव)* ***"हांव तुमकां सत सांगतां: तुमचें मन बदलल्या बगर आनी तुमी नव्यान धाकटुल्या भुरग्या वरीं जाल्या***

***शिवाय, तुमी सर्गाराज्यांत भितर सरचींच नांत. म्हणतच कोणूय आपणाकूच ह्या भुरग्या परीं ल्हान करतीत जाल्यार तीं सर्गा राज्यांत सगळ्यांवून व्हड.*** *(मार्कू)* ***म्हजे खातीर असल्या भुरग्यांतल्या एकल्याक घेतात तीं म्हाका घेतात, आनी म्हाका घेतात तीं म्हाका न्हय, पूण म्हाका धाडला ताका घेतात."***

**159.** *मार्कू 9,38-40*

### सोसणिकाय

जुवांवान ताका म्हळें: "गुरुजी, आमचो पाटलाव करिनासलो एक मनीस तुज्या नांवान देवचार काडताना आमी देकलो आनी आमचो पाटलाव करिना म्हणून ताका आमी मना केलो." पूण जेजून म्हळें: "ताका मना करूं नाकात; कित्याक म्हज्या नांवान विस्मीत करतीत तीं केदनांच रोकडीं म्हजेर वायट उलोंवचीं नांत. तर आमचेर आड नांत तीं आमच्या भागा आसात."

**160.** *मातेव 10, 41-42*

### जेजुच्या शिसांक केल्ल्या बऱ्या करण्यांची मजुरी

"एका प्रवाद्याक तो प्रवादी म्हण, स्वागत करतात तीं प्रवाद्याची मजुरी घेतलीं; आनी एका प्रामाणीक मनशाक, तो प्रामाणीक म्हण, स्वागत करतात तीं प्रामाणीक मनशाची मजुरी घेतलीं. हांव तुमकां सत सांगतां: ह्या ल्हानांतल्या एकल्याक, तो म्हजो शीस म्हण, थंड उदकाचो एक पेलो लेगून कोणें पियेंवक दिलो जाल्यार, ताका मजुरी मेळल्या बगर उरची ना."

**161.** *मातेव 18,6-7,10*

### दुसऱ्यांक भावार्त सोडूंक ओडून व्हरूं नये !

"पूण म्हजेर भावार्त दवरतल्या ह्या ल्हानां मदल्या एकल्याक हो भावार्त सोडूंक कोणूय ओडून व्हरतीत तर, गाडूं वोडता तसलें दांत्याचें एक पेड ताच्या गळ्याक बांदून ताका खोल दर्यांत बुडयल्यार

अदीक बरें. दुसऱ्यांक भावार्त सोडूंक ओडून व्हरतात तसल्यां मनशां पासत संसाराचें कटा कटा! हेरांक भावार्त सोडूंक ओडून व्हरतात तांचें कटा कटा! पळेयात ह्या धाकटुल्यांतल्या एकल्याची लेगून तुमी बेपर्वा करूं नये, कारण हांव तुमकां सांगतां, तांची राखण करतात ते दूत सर्गार आसत्या म्हज्या बापाचें मुखामळ थांब-नासताना पळेवन आसात."

**162.** *मार्कू 9,43-49*

### *पेल्याच्या आनी आपल्या खाशा जिविताचें मोल*

"आनी तुमचो हात पातक करूंक तुमकां ओडून व्हरता जाल्यार तो कातरून उडयात; दोन हात आसून यमकोंडांत, पालवना तसल्या उज्यांत वेचे परस, लुंडो जावन जिवितांत भितर सरल्यार तुमकां अदीक बरें. आनी तुमचो पांय पातक करूंक तुमकां ओडून व्हरता जाल्यार, तो कातरून उडयात; दोन पांय आसून तुमकां यमकोंडांत उडयल्ले परस, थोंटीं जावन जिवितांत भितर सरल्यार अदीक बरें. आनी तुमचो दोळो बी पातक करूंक तुमकां ओडून व्हरता जाल्यार, तो भायर उडयात; दोन दोळे आसून यमकोंडांत तुमकां उडयल्ले परस एकूच दोळो घेवन देवाच्या राज्यांत भितर सरूंक तुमकां अदीक बरें. थंय यमकोंडांत पडलल्यांक खाता तो किडो मरोन मरना आनी उजो केदनांच पालवना. मिटा वरवीं घडता तशें, उज्या वरवीं देव जण एकल्या मनशाक शुद्ध करून सांबाळतलो."

**163.** *मातेव 5,13; मार्कू 9,49b-50b*

### *प्रिथुमेचें मीट*

*(मातेव)* "तुमी प्रिथुमेचें मीट. पूण मिटाची खारसाण बिगडली जाल्यार, ती ताका कशे भाशेन परतून दिंवक जायत? तें फकत भायर उडोंवचें आनी पांयां तळा मस्तुंचें, आनीक कित्याकूच तें उपकारना. *(मार्कू)* तुमचे मदें मीट आसूं दी, आनी एकामेका लागीं शांती वसूं दी."

**164.** *मातेव 5,14-16*

## जेजुचे शीस संसाराचो उजवाड

"तुमी संसाराचो उजवाड. दोंगराच्या माथ्यार बांदललें शार लिपोन उरना. पायले पोंदाक धांपून दवरूंक कोणूच पणती लायना; घरांत आसत्या सगळ्यांक तिचो उजवाड पडूंक ती एका पेडार दवरतात. तेच परीं तुमच्यो बऱ्यो करण्यो पळेवन सर्गार आसत्या तुमच्या बापाक मनशांनी वाखाणचे खातीर, तुमचो उजवाड तांचे मुखार परजळूं दी."

**165.** *मातेव 18,15-20*

## भावांभयणीं मदें
## चुकी दाकोवप आनी मागण्यांत एकचार

"तुजो भाव वा भयण तुजेर पातक करीत जाल्यार, वच आनी तुमां दोगांचेच भितर ताका वा तिका शिडकाय. तुजें तीं आयकतीत जाल्यार, तुज्या भावाक वा भयणीक तुवें जोडून घेतलीं. तुका आयकना जातीत जाल्यार, दोगां वा तेगां साक्षांचे गवायकेचेर सगळो तंटो रुजू जांवक जाय देखून, तुजे बराबर आनीक एकल्याक वा दोगांक घेवन वच. पूण तांकांय आयकना जातीत जाल्यार, सभेक कळय; सभेक आयकना जातीत तर, तीं सभे भायलीं वा दंडवसुलदार म्हण समज.

हांव तुमकां खरेंच सांगतां: ज्या कित्याक संसारांत तुमी ना म्हणशात, ताका सर्गार देव ना म्हणतलो; आनी ज्या कित्याक संसारांत तुमी हय म्हणशात, ताका सर्गार देव हय म्हणतलो.[1]

***आनीक एक हांव तुमकां सांगतां: तुमचे भितरलीं दोगां जाणां संसारांत कसलीच वस्त मागूंक एका मनाचीं जातीत जाल्यार सर्गार आसा तो म्हजो बाप ती तुमकां दितलो: कित्याक दोगां वा तेगां जाणां म्हज्या नांवान एकटांय जाल्लीं आसतीत, थंय तांचे मदें हांव आसां."***

---

[1] *आंक 150*, सकला दिल्ली समजणी वाच. पेद्रुच्या अधिकारांत आखे पवित्रसभेक, विशेशपणी धर्मदुतांक आनी तांच्या जाग्यार आसलल्यांक, भाग आसा म्हण जेजू सांगता.

**166.** *मातेव 18,21-22*

### *भावांभयणींक भगसणें*

तेदनां जेजू सरशें वचून पेद्रून ताका म्हळें: "सायबा कितले पावटी म्हज्या भावान वा भयणीन म्हजेर पातक केल्यार हांवें तांकां भगसुंचीं? सात पावटी लेगून?" जेजून ताका असो जबाब दिलो: ***"सात पावटी न्हय पूण सत्तर पावटी सात!"***

**167.** *मातेव 18,23-25*

### *भगसूंक कबूल नासलल्या चाकराची वोपार*

"ते पासत, सर्गिंचें राज कसलें तें तुमकां सांगतां: कोण एकलो राजा आपल्या चाकरांचो हिशोब घेंवक सोदतालो. हिशोब घेंवक सुरू करतच, धा हजार तालेंतांचें[1] वरिश्ट रीण आसलल्या एका चाकराक राजा मुखार हाडलो. फारीक करूंक ताचे कडे कांयच नासलें देखून, ताचे बायले, भुरग्यांक आनी ताचे लागीं आसलें नासलें तितलेंय विकूंक आनी रीण फारीक करूंक ताच्या धनयान हुकूम घालो. तेदनां ताच्या पांयां पडून चाकरान ताचे कडे अशें मागलें: 'तकस काडून मातसो राव, सगळें तुजें हांव फारीक करतां.' चाकराचे चुरचुरे धरून धनयान ताका सोडलो आनी ताचें रिणूय भगशिलें.

हो चाकर भायर गेल्या उपरांत, ताका शेंबर दिनार देवो आसललो एक वांगडी चाकर ताका मेळलो, आनी ताका धरून तो ताची गोमटी पिळूंक लागलो. ताणें म्हळें: 'म्हजें रीण फारीक कर.' पूण ताचो वांगडी ताच्या पांयां पडून ताचे कडे मागूंक लागलो: 'तकस करून मात्सो राव, सगळें तुजें हांव फारीक करतां.' तरी

---

[1] *एक तालेंत*: सुमार 26 कील वजनाचें रुपें. आज (2003 वर्सा) ताचें मोल साट-सत्तर मिल्यांव रुपय जायत. त्या काळार 10 हजार तालेंत जोडूंक एका दिसवड्याच्या मानायाक आखें जिवीत परयान पांवचें नासलें. देवाचेर आड आमी करतांव तीं पातकां आनी हेर मनशां आमचेर आड करतात त्यो चुकी, हांचे मदें सर करूंक जायचना म्हण दाकोंवक पयल्या चाकराचें रीण एकदम व्हडलें (10,000 तालेंत) आनी दुसऱ्या चाकराचें एकदम ल्हान (100 दिनार) करून दाकयता.

तो आयकना जालो, पूण गेलो आनी आपलें रीण फारीक करिसर ताणें त्या वांगडी चाकराक बंदखणींत घालो. हें घडललें पळेवन, ताचे हेर वांगडी चाकर भोव दुखावले, आनी वचून घडललें तितलेंय आपल्या धनयाक कळीत केलें. तेदनां धनयान ताका आपोवन हाडून म्हळें: 'खोट्या चाकरा, तुवें म्हजे कडे मागलें देखून, हांवें तुका सगळें तुजें रीण भगशिलें. तर म्हाका तुजी दया दिसली तशीच, तुका तुज्या वांगडी चाकराची दया दिसूंक नाका आसली?' आनी रागाभरीत जावन, सगळें रीण फारीक करी परयान, धनयान ताका कसाबांच्या हातांत घालो.

**"तुमी जण-एकली जण-एकलो तुमच्या भावांभयणींक काळजांत थावन भगशिना जाशात तर, म्हजो सर्गिंचो बापूय तुमकांय भगसुंचो ना."**

**168.** *मातेव 17, 24-27*

***देवमंदिराची पट्टी***

ते कापेर्नावमांत पावतच देवमंदिराची पट्टी वसूल करतल्यांनी पेद्रू सरशें येवन विचारलें: "तुमचो गुरू अर्द्या स्तातेराची वर्गणी फारीक करिना?"[1] पेद्रून जबाब दिलो: "करता." आनी अशें म्हणून घरांत भितर गेलो. पूण जेजून ताचे आदीं उलोवन म्हळें: "शिमांव, तुका कितें दिसता? संसारांतले राजा कोणा कडचो दंड वा पट्टी घेतात? आपल्या नागरिकां कडचो वा परक्यां कडचो?" ताणें जबाब दिलो: "परक्यां कडचो." तेदनां जेजून ताका सांगलें: "म्हणतच नागरिकां सुटलीं. पूण तांकां वायट देक दिना जांवक, दर्यांत वचून गरी घाल, आनी पयली पावता ती मासळी धर, तिचें तोंड उगड आनी तांतूं

---

[1] याज्ञिकांक आनी बायलांक सोडून, सगळ्या जाणत्या जुदेवांक "देवमंदिराची पट्‌टी" फारीक करचो कायदो आसलो. हे सगळे पयशे जेरुजाल्याचें देवमंदीर सांबाळूंक वापरताले. आपूण देवाचो पूत म्हणून, देवमंदिराची पट्‌टी फारीक करचो कायदो आपणाक लागना म्हण जेजू सांगूंक सोदता.

तुका एक स्तातेर[1] मेळतलो; तो घे आनी म्हज्या आनी तुज्या नांवान तांकां दी."

**169.** *मातेव 11, 20-24*

## बेथसायदा आनी कोराजीन नगरांचेर शिराप

"मागीर, जंय-जंय आपणें अगळीं विस्मितां केल्लीं, त्या नगरांक, तांणीं जिवीत बदल्लें ना देखून, जेजू अशें तोंडार मारूंक लागलो: कोराजीन, कटा कटा तुजें! बेथसायदे कटा कटा तुजें! तर तुमचे मदें केल्लीं विस्मितां तीर आनी शिदोन नगरांनी केल्लीं जाल्यार केदनां तीं साका-फटें आनी गोबोर घालून प्राचीत करतलीं आसलीं! हांव तुमकां खरेंच सांगतां: झडतेच्या दिसा तिराची आनी शिदोनची झडती तुमचे इतली खर जांवची ना. आनी तूं कापेर्नावमा, वयर मळबा परयान पावतलेंय म्हण रावताय कितें? यमकोंडा परयान तूं सकला शेवटतलेंय, कित्याक तुजे सवें केल्यांत तीं विस्मितां सोदोमांत केल्लीं जाल्यार, आज परयान तें उबें उरतलें आसलें. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: झडतेच्या दिसा सोदोमाची झडती तुजे इतली खर जांवची ना."

---

[1] *स्तातेर* = त्या काळाचो, 8.5 ग्रामाच्या वजनाचो, भांगाराचो नाणो.

# तिसरो भाग

## जुदेयांत आनी पेरेयांत जेजुचो उपदेस

### XVI - तंबुंचो उत्सव

(ओतुब्र)

**170.** *जु 7,2-13*

***जेजू गुप्तीं जेरुजाल्याक वेता***

जुदेवांचो तंबुंचो उत्सव[1] लागीं पावललो देखून ताच्या भावांभयणिंनी म्हळें: "हांगासरलो भायर सर आनी जुदेयांत वच आनी थंय तूं कामां करताय तीं तुज्या थंयसरल्याय शिसांक पळेंव दी. कोण आपली वळक उगडापीं दिंवक सोदता तर तो आपलीं कामां गुप्तीं करिना. तूं असलीं कामां करताय जाल्यार, तूं खासा सभे माजार दिश्टी पड." ताच्या सोयऱ्यांक परयान ताचो भावार्त नासलो. जेजून तांकां म्हळें: "म्हजो वेळ आजून पावूंक ना पूण तुमचो वेळ सदांच पावललो आसा. संसाराच्यान तुमचो द्वेस करूंक जायना, पूण तो म्हजो द्वेस करताच, कित्याक हांव तांचीं कर्तुबां वायट म्हण साक्षी दितां. तुमी उत्सवाक चडून वचात हांव ह्या उत्सवाक चडून वचनां, कित्याक म्हजो वेळ आजून पावूंक ना."

अशें म्हणून तो गालिलेयांत रावलो. पूण ताचीं सोयरीं उत्सवाक वेतच, जेजू आपुणूय गेलो, उगतेपणीं न्हय पूण कोणाक कळनासताना. उत्सवाच्या समयार जुदेव ताका सोदताले आनी म्हणताले "तो खंय आसा?" आनी ताचे विशीं लोक जायतें फुतफुततालो. कोण कोण म्हण: "तो बरो मनीस" आनी कोण कोण म्हण: "ना तो लोकाक फसयता." तरिपूण जुदेवांचे भिरांतीन कोण ताचे विशीं उगतेपणीं उलयनासलो.

---

[1] आट दिसांचो हो उत्सव: ह्या समयार जुदेव लोक ताळयां खांदयांनी उबारलल्या तंबुंनी राव; देखून ह्या उत्सवाक 'तंबुंचो उत्सव' म्हण नांव दिलें. एजिप्तांतलीं भायर सरतच, अरण्यांत तीं तंबुंनी जियेतालीं ताच्या उगडासाक हो उत्सव समारंभतालीं; त्याच बराबर हो एक पिकाचो उत्सव आसलो.

**171.** *जु 7,14,29*

### *जेजू देवमंदिरांत शिकोवण दिता*

उत्सव मदेंसो पावतच जेजू देवमंदिरांत चडून गेलो आनी शिकोंवक लागलो. हें पळेवन जुदेव अजाप जावन म्हणताले "हाका जाणवाय खंयची रे? शिक्षण काय ना ताका!" जेजून तांकां परतिपाळ केलो: ***"म्हजी शिकोवण म्हजी न्हय, पूण म्हाका पाटयला ताची; कोण ताची खुशी करूंक राजी आसात जाल्यार म्हजी शिकोवण देवाची वा म्हज्याच मनांतली, तें तांकां कळोन येतलें. आपल्याच मनांतलें काडून उलयतात, तीं आपलीच व्हडवीक सोदतात; पूण आपणाक धाडला ताची व्हडवीक सोदतात तीं सता परमाणें चलतात; असल्या मनशां सवें लटिकपण ना. मोयजेसान तुमकां समूर्त दिल्या की ना? तरिपूण तुमचे मदलो कोणूच समूर्त सांबाळिना. कित्याक म्हण म्हाका जिवेशीं मारूंक सोदतात तुमी?"*** लोकान म्हळें: "तुजेर देवचार बसला! कोण तुका जिवेशीं मारूंक सोदता?"

जाप दिवन जेजून तांकां सांगलें: "हांवें एक काम केलां, आनी तें पळेवन तुमी सगळीं अजाप जातात.[1] चिंतून पळेयात: ***मोयजेसान तुमकां सुन्नत करचो कायदो घालो (ती मोयजेसा कडची म्हण न्हय, पूण पुर्वजां कडची आयल्या) आनी सनवारा दिसा तुमी मनशाची सुन्नत करतात. मोयजेसाची समूर्त मोडिना जांवक कोण एका मनशाची सनवारा दिसा सुन्नत जाता जाल्यार, हांवें सनवारा दिसा एका मनशाचें सगळें आंग बरें केलां देखून, कित्याक म्हण तुमी म्हाका जळतात? वयल्या वयर पळेवन नीत करिनाकात पूण प्रमाणिकपणान नीत करात."***

जेरुजाल्यांतल्या कांय जाणांनी म्हळें: "जिवेशीं मारूंक सोदतात तो मनीस हो न्हय? आनी हो पळे तो सत्तेन उलयता आनी

---

[1] गेल्ल्या पन्नासव्या दिसाच्या उत्सवा समयार शेळयांचे तळये लागीं जेजून आर जाल्ल्या मनशाक बरो केल्लो, ह्या विस्मिताची तो हांगा गजाल करता *(आंक 137 पळे).*

ते ताका कांयच म्हणनांत. हो खरेपणीं अभिशिक्त म्हण आमच्या वडिलांक कळोन आयलांगाय? तरी हो खंयचो तो आमी जाणांव पूण अभिशिक्त येतलो तेदनां, तो खंयचो तो कोणाक कळचें ना." देखून देवमंदिरांत शिकयताना जेजून आरडून म्हळें: ***"तुमी म्हाका वळकतात, खरें? आनी हांव खंयचो आयलां, तेंय तुमी जाणात? खरें म्हळ्यार, हांव म्हजेच अस्टंगीं येंवक नां; म्हाका पाटयला तो सतेवंत, आनी ताका तुमी वळकनांत. हांव जाल्यार ताका वळकतां, कित्याक हांव ताचे थावन आयलां आनी ताणें म्हाका पाटयला."***

172. जु *7,30-36*

### जुदेव जेजूक धरूंक सोदतात.

ते ताका धरूंक सोदताले; पूण कोणेच ताचेर हात घालूंक ना, कित्याक ताचो वेळ आजून पावूंक नासलो. तरी लोका मदल्या जायत्यांनी ताचेर भावार्त दवरलो; तीं म्हणतालीं: "अभिशिक्त येतलो तेदनां हाणें केल्यात ताच्यावून अदीक चड खुणा करतलो-गाय?" ताचे विशीं फुतफुतून लोक असल्यो गजाली करता म्हण फारिजेवांनी आयकलें. मुखेल याज्ञिकांनी आनी फारिजेवांनी ताका धरून हाडूंक चौकिदारांक पाटयले. तेदनां जेजून म्हळें: "*आनीक इलो वेळ हांव तुमचे मदें आसां आनी उपरांत म्हाका पाटयला ताचेशीं वेतां; तुमी म्हाका सोदतल्यात, पूण हांव तुमकां मेळचो नां. हांव आसतलों थंय तुमच्यान येंवक जायना.*" जुदेवांनी एकामेकाक म्हळें: "आमकां मेळना जांवच्याक हो खंय वचूंक करतागाय? जंय विदेश्यां मदें आमचो लोक शिंपडला, थंय विदेश्यांक शिकोवण दिंवक वेतलोगाय? 'तुमी म्हाका सोदतल्यात आनी हांव तुमकां मेळचो नां.' आनी 'हांव आसतलों थंय तुमच्यान येंवक जायना' अशें तो म्हणता ताचो अर्थ कितें?"

**173.** *जु 7,37-39*

### *जेजू जिवें उदक (पवित्र आत्मो) भासायता*

उत्सवाच्या निमाण्या आनी दबाजीक दिसा, उबो रावून जेजून आरडून म्हळें: ***"कोणाक जर तान लागल्या, तांणीं म्हजेशीं येंवचें, आनी म्हजेर भावार्त ठेवतात तांणीं पियेंवचें."*** पवित्र पुस्तक अशें म्हणता: "ताचे भितरल्यो जिव्या उदकाच्यो झरी घसघशीत व्हांवतल्यो." जीं कोण जेजुचेर भावार्त ठेवतलीं आसलीं तांकां आत्मो मेळचो आसलो, हाचे विशीं ताणें अशें म्हळें. जेजू आजून म्हयमेवंत जांवक नासलो देखून देवान आजून आत्मो दिंवक नासलो.

**174.** *जु 7,40-44*

### *लोकां मदें जेजू विशीं मतां फुटतात.*

जेजू उलयतालो तें आयकून कांय जाणांनी म्हळें: "खरेंच हो एक प्रवादी." दुसऱ्यांनी म्हळें: "होच तो अभिशिक्त" पूण हेरांनी म्हळें: "अभिशिक्त गालिलेयांतलो येवपाचो ना, अशें न्हय? अभिशिक्त दाविदाचे संस्तिंतलो आनी दाविदाच्या बेतलेहेम नगरांतलो येतलो म्हण पवित्र पुस्तक सांगिना?" अशी ताचे विशीं लोका मदें फूट पडली. कांय जाण ताका धरूंक सोदताले पूण कोणेंच ताचेर हात घालूंक ना.

**175.** *जु 7,45-53, जु 8,1*

### *निकोदेम जेजूक राखूंक उलयता*

तेदनां चौकिदार मुखेलयाझिकां आनी फारिजेवां सरशीं परतून गेले. हांणीं तांकां म्हळें: "तुमी ताका कित्याक धरून हाडूंक ना?" चौकिदारांनी म्हळें: "हो मनीस उलयता ते भाशेन कधींच कोण उलोंवक ना!" फारिजेवांनी तांकां जबाब दिलो: "तुमीय फसवल्यात कितें? व्हडिलांतल्या आनी फारिजेवांतल्या कोणें तरी ताचेर भावार्त

दवरलो म्हण आसा? पूण ही जात शास्त्राची वळक नासलली, शिराप पडलली!" तांचे मदल्या एकल्यान, जेजुशीं आदी आयललो त्या निकोदेमान, तांकां म्हळें: "एका मनशाचें पयलें आयकल्या बगर, आनी तो कितें करता ताची वळक घेतल्या शिवाय, आमचें शास्त्र ताची मनसुबी करता जायत?" तांणीं म्हळें: "तूंय बी गालिलेयाकार कितें? चवकशी करून पळे आनी एकलोय प्रवादी गालिलेयांतलो उपजना म्हण तुका कळोन येतलें." ते आप-आपल्या घरा परतले. आनी जेजू जैतुनाच्या दोंगरार काडून गेलो.

**176.** *जु 8,2-11*

***परद्वारांत सांपडलली बायल.***

आनी भोव सकाळीं तो नव्यान देवमंदिरांत आयलो; सगळो लोक ताचेशीं जमलो आनी बसून तो तांकां शिकोंवक लागलो. धर्मशास्त्र्यांनी आनी फारिजेवांनी परद्वारांत सांपडलले एके बायलेक हाडली आनी मदें उबी केली. तांणीं ताका म्हळें: "गुरुजी ही बायल आतांच परद्वार करता थंयच आसताना सांपडल्या. शास्त्रांत मोयजेसान असल्या बायलांक फातरावन मारूंक आमकां फरमायलां. तर तूं कितें म्हणताय?" जेजूक ताच्या जबाबांत धरून ताचेर आरोप मांडचे खातीर तांणीं अशें विचारलें. ओणव घालून जेजू आपल्या बोटान जमनीर बरोंवक लागलो. आनी ते ताचे कडे विचारीत रावले देखून, उबो रावून ताणें तांकां म्हळें: "तुमचे मदें जाका पातक ना, ताणें पयलो फातर मारचो" आनीक एक पावट ओणव घालून तो जमनीर बरयत रावलो. हें आयकून, ते सगळे, एका पाटल्यान एकलो, कडसरूंक लागले; अदीक जाण्टे ते पयले गेले. एकटोच उरलो जेजू आनी मदें, उबी आसली थंयच, ती बायल. नव्यान, नीट जावन जेजून तिका म्हळें: "बाय, ते खंय आसात? कोणेंच तुजेर खास्तिचें फरमण मारूंक ना मू?" तिणें म्हळें: "कोणेंच ना, सायबा." आनी जेजून म्हळें: ***"हांवूय तुका आतां***

*गुन्यांवकार्न म्हणनां. वच आनी ह्या फुडें आनीक पातक करूं नाका.''*

**177.** *जु 8,12-20*

## जुदेवां कडे वादविवाद
## जेजू संसाराचो उजवाड

उपरांत जेजून नव्यान लोकां कडे उलोवन म्हळें:[1] *''हांव संसाराचो उजवाड. म्हजो पाटलाव करतात तीं काळोकांत चलचीं नांत, पूण तांकां जिविताचो उजवाड आसतलो.''* तेदनां फारिजेवांनी ताका म्हळें: ''तूं तुजेच विशीं गवाय दिताय; तुजे गवायकेक मोल ना.'' जेजून परतिपाळ केलो: *''हांव म्हजेच विशीं गवाय दितां जाल्यारूय म्हजी गवायकी अस्सल-खरी; कारण हांव खंयचो आयलां आनी खंय वेतां तें तुमी नकळोत. तुमी मनशा सैंबाचे नदरेन मनसुबी करतात. हांव कोणाचीच मनसुबी करिनां. पूण मनसुबी करीन जाल्यार, म्हजी मनसुबी खरी; कित्याक हांव एकलोच नां. जाणें म्हाका पाटयला, तो म्हजो बाप म्हजे बराबर आसा. दोगां मनशांचे गवायकेक मोल आसा, अशें तुमच्या शास्त्रांत बरयल्लें आसा. हांव म्हजेच विशीं गवाय दितां आनी जाणें म्हाका पाटयला तो म्हजो बाप म्हजे विशीं गवाय दिता.''* त्या पासत तांणीं ताका म्हळें: ''तुजो बाप? खंय आसा रे तो?'' जेजून जाप दिवन म्हळें: **''तुमी म्हाका वळकनांत आनी म्हज्या बापाकूय वळकनांत; तुमी म्हाका वळकल्लो जाल्यार, म्हज्या बापाकूय वळकतलीं आसल्यात.''**

---

[1] आपूण कोण आनी कित्या पासत आयला, हें जेजू नव्यान जुदेवांच्या फुडाऱ्यांक कळीत करता *(आंक 138-139 पळे)*. आपणाक मानून घेतल्यांक तो उजवाड *(आंक 177)* आनी आत्मीक स्वतंत्रताय *(आंक 179)* भासायता. आपणाक मानून घेनांत तांकां तो शिडकायता *(आंक 178)* आनी तांच्या काळजाचे दारुणायेचें कारण स्पश्ट दाकयता *(आंक 180)*. शेकीं तो आन्येक पावट आपूण कोण तो सांगता: काळा आदीं थावन आसललो, बापान धाडललो आनी बापा कडे खेरीत संबंदान एकटवललो, बापा सारकोच देवाचो पूत *(आंक 181)*.



जेजू पाटल्यान वेशी?
सदांच तुका उजवाड, शांती, खुशालकाय।
(आंक 177 वाच)

हीं उतरां देवमंदिरांत शिकयताना धर्मदानाचे पेटेशीं तो उलयलो; पूण ताचो वेळ आजून पावूंक नासलो देखून कोणेंच ताका धरलो ना.

**178.** जु *8,21-30*

### *तुमी ह्या संसारांतलीं, हांव सर्गिचो.*

आनीक एक पावट जेजून तांकां म्हळें: "हांव चल्लों, आनी तुमी म्हाका सोदतल्यात आनी तुमच्या पातकांत तुमी मरतल्यात. हांव वेतां थंय तुमच्यान येंवक जायना." जुदेवांनी म्हळें: "हांव वेतां थंय तुमच्यान येंवक जायना, अशें तो सांगता म्हणतच तो आपलोच जीव दितलो म्हण तो सांगूंक सोदतागाय?" ताणें तांकां म्हळें: "***तुमी सकयलीं, हांव वयलो; तुमी ह्या संसारांतलीं हांव ह्या संसारांतलो न्हय. तुमी तुमच्या पातकांनी मरतल्यात म्हण हांवें तुमकां सांगलां, कित्याक आसा तो हांवूच म्हण तुमी सत मानिना जाशात जाल्यार, तुमच्याच पातकांनी तुमी मरतल्यात.*** " तांणीं ताका म्हळें: "तूं कोण तर?" जेजून तांकां जबाब दिलो: "***पयलींच थावन हांवें तुमकां सांगलां तोच. तुमचे विशीं जायतें सांगचें आनी निवाडचें आसा: पूण म्हाका पाटयला तो सतेवंत, आनी जें हांवें ताचे कडसून आयकलां तेंच हांव संसाराक सांगतां.*** " तो बापाची खबर सांगता म्हण ते समजूंक नांत त्या पासत जेजून म्हळें:

"*तुमी मनशाच्या पुताक उबारतल्यात तेदनां तुमकां हें कळोन येतलें की आसा तो हांवूच, आनी म्हजेच अस्टंगीं हांव कांय करिनां, पूण जशें बापान म्हाका शिकयलां तशें हांव उलयतां. आनी जाणें म्हाका पाटयला, तो म्हजे सवें आसा: ताणें म्हाका एकलो सांडूंक ना, कित्याक ताका मानता तेंच हांव सदां करतां.* "

तो अशें उलयलो तेदनां, जायत्यांनी ताचेर भावार्त दवरलो.

179. जु *8,31-42*

## *सत तुमकां स्वतंत्र करतलें*

आपणाचेर भावार्त दवरलो त्या जुदेवांक जेजून म्हळें: ***"तुमी म्हजें उतर तुमचे भितर रिगून दवरशात जाल्यार, तुमी खरेपणीं म्हजे शीस जातल्यात. आनी तुमकां सत कळोन येतलें आनी सत तुमकां स्वतंत्र करतलें."*** तांणीं ताका म्हळें: "आमी आब्राहामाची संसत आनी कोणाचींच गुलामां आमी केदनांच जांवक नांव. तुमी स्वतंत्र जातल्यात अशें तूं कसो म्हणताय तर?" जेजून तांकां परतिपाळ केलो: ***"हांव तुमकां सत सांगतां, पातक करतात तीं पातकाचीं गुलामां. गुलाम सदांच घराब्यांत उरना; पूत तो सदांच घराब्याचोच. ह्या पासत पूत जर तुमकां स्वतंत्र करीत, तर तुमी खरेपणी स्वतंत्र जातल्यात. तुमी आब्राहामाची संसत म्हण हांव जाणां; तरी म्हजें उतर तुमचे भितर रिगना देखून, तुमी म्हजो जीव काडूंक सोदतात. जें हांवें म्हज्या बापा सवें देकलां, तें हांव सांगतां; आनी जें तुमी तुमच्या बापायचें आयकलां, तें तुमी करतात."*** तांणीं ताका परतिपाळ केलो: "आब्राहाम आमचो बाप." जेजून तांकां म्हळें: "तुमी आब्राहामाचीं पूतधुवो जाल्लीं जाल्यार, जें आब्राहामान केलें तें तुमी करतलीं आसल्यात. पूण देवा कडसून आयकल्लें सत हांवें तुमकां सांगलां, तरी आसताना तुमी म्हजो जीव काडूंक सोदतात. आब्राहामान अशें करूंक ना. तुमी करतात तीं कामां तुमच्या बापायचीं" तांणीं ताका म्हळें: "कामचारान आमी जल्माक येंवक नांव; आमकां एकलोच बाप आसा, तो म्हळ्यार देव."

180. जु *8,42-47*

## *तुमी तुमच्या बापायचीं, देवचाराचीं*

जेजून तांकां म्हळें: ***"देव तुमचो बाप जाल्लो जाल्यार, तुमी म्हजो मोग करतलीं आसल्यात, कित्याक हांव देवा थावन उपजलां आनी***

*आयलां;[1] म्हजेच खुशेन हांव येंवक नां, पूण ताणें म्हाका धाडला. हांव सांगतां तें तुमी कित्याक समजून घेनांत? कित्याक म्हजें उतर तुमच्यान कानार घेंवक जायना. तुमचो बाप देवचार, आनी तुमच्या बापायक जाय तें करूंक तुमची खुशी. मुदलाक थावन तो प्राणघातकी, तो केदनांच सतांत रिगलो ना, कित्याक ताचे सवें सत ना. तो लटिकपणां सांगता तेदनां आपल्या सैंबा परमाणें उलयता कित्याक तो फटकिरो आनी फटिंचो बापूय. पूण हांव सत उलयतां देखुनूच, तुमी म्हजेर भावार्त दवरिनांत. तुमचे भितरलो कोणूय म्हाका पातक आसा म्हण दाकयत? हांव तुमकां सत सांगतां जाल्यार, कित्याक म्हजेर तुमी भावार्त दवरिनांत? जीं कोण देवाचीं, तीं देवाचीं उतरां आयकून घेतात; तुमी देवाचीं न्हय देखून, तुमी तीं आयकून घेनांत."*

**181.** *जु 8,48-59*

### *आब्राहाम आसचे आदीं हांव आसां.*

जुदेवांनी ताका परतिपाळ केलो. "तूं सामारियेकार आनी तुजेर देवचार बसला, अशें आमी म्हणतांव तें सारकें जालें ना?" जेजून परतिपाळ केलो: *"म्हजेर देवचार ना, पूण म्हज्या बापाक हांव मान दितां आनी तुमी म्हाका बेमान करतात. तरी हांव म्हजी खाशाची व्हडवीक सोदिनां; ती सोदतलो आनी नीत करतलो एकलो कोण आसा. खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां: जीं कोण म्हजें उतर सांबाळतात, तीं कधींच मरची नांत."*

जुदेवांनी ताका म्हळें: "तुजेर देवचार आसा म्हण आतां आमकां सारकेंच कळलें. आब्राहाम मेलो आनी प्रवादी मरून गेले; आनी तूं आमकां सांगताय: जीं कोण म्हजें उतर सांबाळतात, तीं कदींच मरचीं नांत. आमचो बाप आब्राहाम मरून गेलो: ताचे परस तूं व्हड कितें? आनी प्रवादीय मरून गेले! तूं आपूण कोण म्हण सांगूंक सोदताय?"

---

[1] म्हणगे: देवसैंबाचोच बापाचो पूत जावन, मनीस कसो संसारांत आयलां.

जेजून परतिपाळ केलो: *"हांव म्हजीच व्हडवीक करीन जाल्यार, म्हजी व्हडवीक कांयच न्हय; म्हजी व्हडवीक करपी म्हजो बाप आसा, तुमी तुमचो देव म्हणतात तोच. तरी तुमी ताका वळकूंक ना; ताका वळकनां म्हण हांवें म्हणललें जाल्यार, तुमचे भाशेन हांवूय फटकिरो जातलों आसलों. पूण हांव ताका वळकतां आनी ताचें उतर सांबाळतां. म्हजो दीस पळेंवचे आशेन आब्राहाम तुमचो बाप खुशाल जालो; ताणें तो देकलो आनी ताका खूप आनंद जालो."*

तेदनां जुदेवांनी ताका म्हळें: "तुका आजून पन्नास वर्सां जांवक नांत, तुवें आब्राहामाक देकलो?" जेजून तांकां परतिपाळ केलो:

**"खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां**
**आब्राहाम आसचे आदीं हांव आसां!"**

देखून तांणीं ताचेर मारूंक फातर उकल्ले; पूण जेजू लिपलो आनी देवमंदिरांतलो भायर सरून गेलो.[1]

**182.** जु *9,1-12*

### *कुरडो जल्मल्लो मनीस*

वेतां वेतां जेजून एका जल्माच्या कुरड्याक देकलो. आनी ताच्या शिसांनी ताचे कडे विचारलें: "गुरुजी कोणाच्या पातकाक लागून हो मनीस कुरडो जल्मलो? ताच्या वा ताच्या आवयबापायच्या पातकाक लागून?" जेजून जबाब दिलो "ह्या मनशान वा ताच्या आवयबापायन पातक केलें म्हण न्हय पूण देवाचीं कर्तुत्वां ताचे उदेशीं परगट जांवचीं म्हण तो असो जल्मलो.

*दिसाचो उजवाड आसताना, म्हाका पाटयला ताचीं कामां हांवें करूंक जाय; रात येता तेदनां कोणाच्यान वावर करूंक जायना. हांव संसारांत आसासर, हांव संसाराचो उजवाड."*

---

[1] *"हांव आसां"* हें उतर आर्मी वा हेब्रेव भाशेन देवानूच मोयजेसाक झिलकुटांतसून कळीत केल्लें देवाचें नांव = याह्वे. म्हणतच आपूण याह्वे, आपूण आब्राहाम आसचे आदीं, म्हणगे सासणाक थावन, देवाच्याच सैंबाचो म्हण जेजू उगडापें करता.

अशें उलोवन ताणें जमनीर लुती उडयली, लुतयेन चिकटी केली, आनी ती चिकटी कुरड्याच्या दोळ्यांक काडली, आनी ताका म्हळें: "वच आनी शिलोमाचे तळयेंत धू." (शिलोम म्हणगे "धाडललो"). कुरड्यान वचून धुलें, आनी ताका नदर आयली; मागीर तो परतून आयलो.

ताचीं शेजासामारीं आनी ताका आदीं भीक मागताना पळेल्लो तीं म्हणूंक लागलीं: "भीक मागूंक बसतालो तो हो न्हय?" कोण कोण म्हणतालीं: "होच तो." दुसरीं म्हणतालीं: "ना; पूण हो ताचे भाशेन दिसता." ताणें म्हळें "हांवूच तो" तांणीं ताका विचारलें. "तुजे दोळे कशे उगडले?" ताणें जबाब दिलो: "जेजू नांवाच्या मनशान चिकटी केली आनी म्हज्या दोळ्यांक काडली आनी म्हाका म्हळें 'शिलोम तळयेंत वचून धू.' म्हणतच हांव गेलों, हांवें धुलें आनी म्हाका नदर आयली." तांणीं ताका म्हळें "तो खंय आसा?" ताणें जाप दिली: "हांव नकळों."

**183.** *जु 9,13-34*

### *फारिजेव वायट मनान चवकशी करतात.*

आदीं कुरडो आसलल्याक तांणीं फारिजेवांशीं हाडलो. जेजून चिकटी करून ताचे दोळे उगडले तो दीस सनवार आसलो. ताका नदर कशी आयलीगाय म्हण फारिजेवांनी नव्यान विचारलें. आनी ताणें तांकां म्हळें: "ताणें चिकटी म्हज्या दोळ्यांक काडली, हांवें धुलें आनी आतां म्हाका दिश्टी पडता." फारिजेवांतल्या कांय जाणांनी म्हळें: "हो मनीस देवाचो खरो भक्त न्हय. तो सनवार पाळिना." पूण दुसऱ्यांनी म्हळें: "पातकी मनीस असल्यो खुणा कश्यो करूंक शकत?" तांचे मदें वेग-वेगळीं मतां जालीं. देखून आनीक एक पावट कुरड्या मनशाक तांणीं म्हळें: "तुजे दोळे उगडल्यात ताचे विशीं तूं कितें म्हणताय?" ताणें सांगलें: "तो एक प्रवादी."

तो कुरडो आसललो आनी मागीर ताका नदर आयली म्हण जुदेव सत मानिना जाले; देखून तेदनां ताच्या आवयबापायक आपोवन हाडून, तांणीं तांचे कडे विचारलें: "हो तुमचो पूत? तो कुरडो जल्मललो म्हण तुमी सांगतात, तो आतां कसो पळेता तर?" ताच्या आवयबापायन जाप दिली: "हो आमचो पूत आनी तो कुरडो जल्मललो म्हण आमी जाणांव; पूण तो आतां कसो पळेता तें आमी नकळोंव, आनी कोणें ताचे दोळे उगडल्यात तेंय बी आमी नकळोंव. ताचे कडे विचारात, ताका आपली पिराय आसा; तो आपलें सांगतलो." ताचीं आवयबापूय जुदेवांक भियेतालीं देखून तांणीं अशें सांगलें; कित्याक जेजू अभिशिक्त म्हण कोणेंय मानून घेतलें जाल्यार, ताका देवस्थानांतलो भायर घालचो म्हण तांणीं थारायल्लें. त्या पासत ताच्या आवयबापायन म्हळें: "ताका आपली पिराय आसा, ताचे कडे विचारात."

तेदनां आदीं कुरडो आसलल्या मनशाक तांणीं दुसरे पावटीं आपयलो आनी ताका सांगलें: "देवाक म्हँयमा दी. तो मनीस पातकी म्हण आमी जाणांव." ताणें जबाब दिलो: "तो पातकी जाल्यार म्हाका खबर ना; एक मात हांव जाणां: हांव आदीं कुरडो आसलों, पूण आतां म्हाका दिश्टी पडता." तांणीं ताका विचारलें: "ताणें तुका कितें केलें? तुजे दोळे ताणें कशे उगडले?" ताणें तांकां जबाब दिलो: "हांवें तुमकां आतांच सांगलां, आनी तुमी तें कानार घेनांत. आनी एक पावटी कित्याक आयकूंक सोदतात? तुमीय ताचे शीस बी जांवक सोदतात?" ते ताका अशे हिंडसूंक लागले: "तूं जा ताचो शीस! आमी जाल्यार मोयजेसाचे शीस! देव मोयजेसा कडे उलयलो म्हण आमी जाणांव, पूण हो मनीस खंयचो तो आमी नकळोंव." त्या मनशान जबाब दिवन म्हळें: "अजाप तें हें! तो खंयचो आयला तो तुमी नकळोत, आनी तरी ताणें म्हजे दोळे उगडले. देव पातक्यांचें आयकना म्हण आमी जाणांव, पूण कोण देवाची भक्ती करता आनी ताची खुशी पाळता जाल्यार, देव ताचें

आयकता. संसार घडलल्याक कोणें कुरडो जल्मल्ल्याचे दोळे उगडल्यात म्हण कदींच आयकूंक ना. हो मनीस देवाचो खरो भक्त न्हय आसलो जाल्यार, ताच्यान कितेंच करूंक जांवचें नासलें." तांणीं ताका परतिपाळ केलो "तूं निबेल पातकांत जल्मलाय आनी आमकां शिकोंवक आयलाय?" आनी तांणीं ताका भायर घालो.

**184.** *जु 9,35-38*

### बरो जाल्ल्या मनशाचो जेजुचेर भावार्त

तांणीं ताका भायर घालो म्हण जेजुच्या कानार पडलें, आनी ताका तो मेळलो तेदनां जेजून ताका विचारलें. "तूं मनशाच्या पुताचेर भावार्त दवरताय?" ताणें परतून जाप दिली: "सायबा, हांवें ताचेर भावार्त ठेवूंक तो कोण तो म्हाका सांग." जेजून म्हळें: "तुवें ताका देकलाय आनी तुजे लागीं उलयता तोच तो." ताणें म्हळें: "सायबा, हांव भावार्त धरतां." आनी पांयां पडून ताणें जेजूक नमस्कार केलो.

**185.** *जु 9,39-41*

### फारिजेवांचें पातक: कुरडेपण

जेजून म्हळें: "नीत करूंक हांव ह्या संसारांत आयलां: जांकां दिश्टी पडना तांकां नदर मेळचे खातीर आनी जांकां दिश्टी पडता तीं कुरडीं जांवचे खातीर हांव आयलां." ताचे सरशीं आसलल्या थोड्या फारिजेवांनी हें आयकून ताका म्हळें: "आमीय कुरडे बी?" जेजून तांकां म्हळें: "तुमी कुरडे जाल्ल्यात जाल्यार तुमकां गुन्यांव आसचो नासलो; पूण 'आमकां दिश्टी पडता' अशें तुमी म्हणतात देखून, तुमी पातकांतूच आसात."

**186.** *जु 10,1-6*

### मेंडरांच्या व्होडपाची वोपार

"खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां: जो मेंडरांच्या व्होडपांत दारांतल्यान न्हय पूण दुसरे वाटेन भितर सरता, तो चोर आनी

नागवणो; पूण जो दारांतल्यान भितर सरता तो मेंडरांचो गोंवळी." ताका दार-राकणो दार उगडता; मेंडरां ताचो ताळो आयकतात आनी आपल्या मेंडरांक तो आप-आपल्या नांवान उलो करता आनी तांकां भायर व्हरता. आपल्या मेंडरांक भायर हाडतच तो तांचे फुडें चलता, आनी ताचो ताळो वळकतात देखून, मेंडरां ताच्या पाटल्यान वेतात. परक्या पाटल्यान तीं वचनांत, पूण ताचे सरशिलीं तीं पळून वेतात, कित्याक परक्यांचो ताळो तीं वळकनांत." जेजून तांकां ही वोपार सांगली; पूण जें तो तांकां म्हणतालो, ताचो अर्थ तांकां मेळलोना.

**187.** *जु 10,7-10*

## *जेजू व्होडपाचें दार*

देखून जेजून आनीक एक पावट तांकां म्हळें: ***"खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां: हांव मेंडरांचें दार. म्हजे आदीं आयल्यात ते सगळे चोर आनी नागोवणे; पूण मेंडरांनी तांकां लेकूंक ना. हांव दार; म्हज्यांतल्यान जर कोण भितर सरतीत, तीं सुरक्षीत आसतलीं, आनी तीं भायर भितर सरतलीं, आनी तांकां चरोव मेळतलो. चोर येता तो फकत चोरूंक, मारून उडोंवक आनी विबाड करूंक येता; हांव आयलां तो तांकां जिवीत मेळचे खातीर, तांकां परिपूर्ण जिवीत मेळचे खातीर आयलां."***

**188.** *जु 10,11-18*

## *जेजू बरो गोंवळी*

*"हांव बरो गोंवळी. बरो गोंवळी मेंडरां पासत आपलो जीव दिता. एक मुशारेकार, तो खरो गोंवळी न्हय म्हण आनी मेंडरां ताचीं खाशाचीं न्हय म्हण, लांडगो येता तो देकता आनी मेंडरांक सोडून दिता आनी पार काडता; आनी लांडगो तांकां उबारून व्हरता आनी दिसपटायता. तो मुशारेकार आनी ताका मेंडरांचें कांय पडूंक ना देखून, तो पार काडता.*

*हांव बरो गोंवळी: जसो बाप म्हाका वळकता आनी हांव बापाक वळकतां, तसो हांव म्हज्यांक वळकतां आनी म्हजीं तीं म्हाका वळकतात, आनी हांव म्हज्या मेंडरां पासत म्हजो जीव दितां.*

*आनी म्हाका आनिकूय मेंडरां आसात; तीं ह्या व्होडपांतलीं न्हय, तांकांय हांवें हाडूंक जाय. तींय म्हजो ताळो आयकतलीं. आनी असो एकूच हींड जातलो आनी एकूच गोंवळी.*

*हांव म्हजो जीव दितां आनी उपरांत तो परतून घेतां देखून, बाप म्हजो मोग करता. कोण म्हजो जीव झोंबून काडिना, पूण आप खुशेन हांव म्हजो जीव दितां. म्हजो जीव दिंवक म्हाका पदवी आसा; आनी तो परतून घेंवकूय म्हाका पदवी आसा; ही आज्ञा म्हज्या बापा कडली हांवें घेतल्या."*

**189.** *जु 10,19-21*

### *जेजू विशीं नव्यान मतां फुटतात.*

ह्या उतरांक लागून आनीक एक पावटी जुदेवां मदें वेग-वेगळीं मतां जालीं. तांचे मदल्या जायत्यांनी म्हळें: "ताचेर देवचार बसला, ताची मत फिरल्या; तुमी ताचें कित्याक आयकतात?" दुसऱ्यांनी म्हळें: "देवचार लागललो मनीस असो उलयना. देवचार कुरड्यांचे दोळे उगते करूंक शकता? "

## XVII - जेजू सामारियेंत आनी जुदेयांत

**190.** *लूक 9,51-56*

### *सामारियेकारां जेजूक घेनांत.*

जेजूक सर्गार व्हरचे दीस भरोन येताले तेदनां, ताणें जेरुजाल्याक वेचें म्हण आपलें मन थीर केलें; आनी आपणा फुडें ताणें निरोपी धाडले. ताचे पासत तयारी करचे खातीर ते वचून सामारियेकारांच्या एका गांवांत भितर सरले. पूण जेरुजाल्याक वचूंक ताणें थारायल्लें देखून, हांणीं ताका येवकार दिलो ना. तें पळेवन ताच्या शिसांनी,

जाकोबान आनी जुवांवान, विचारलें: "सायबा, तांकां लासून उडोंवक हुकूम घालून सर्गावेलो उजो आमी देंवयललो तुका जाय?" आनी वळोन ताणें तांकां बोबाट केली, आनी ते दुसऱ्या गांवांत गेले.

**191.** *लूक 9,57-62*

### *तेगां जाणांचें आपोवणें*

ते वाटेन चलता आसताना कोण एकल्यान[1] ताका म्हळें: "तूं वेशी थंयसर तुज्या पाटल्यान हांवूय येतलों." जेजून जाप दिली: "कोल्यांक धोली आनी वाऱ्या वेल्या सुकण्यांक न्हिदूंक जागे आसात, पूण मनशाच्या पुताक आपली तकली तेंकोंवक खंयसरूच जागो ना."

दुसऱ्या कोण एकल्याक ताणें म्हळें: "म्हज्या पाटल्यान ये." पूण त्या मनशान म्हळें. "पयलो वचून म्हज्या बापायक मातयेक लावूंक म्हाका रजा दी." पूण जेजून ताका जाप दिली: "मेल्यांत तांणीं[2] आपल्या मेल्ल्यांक मातयेक लावूं दी, पूण तूं वच आनी देवाचें राज परगट कर."

आनीक एकल्यान म्हळें: "सायबा, हांव तुजे पाटल्यान येतां, पूण पयलीं म्हाका म्हज्या घरच्यांचो निरोप घेवन येंव दी." ताका जेजून सांगलें: "कोणूय नांगराक हात घाल्या उपरांत पाटल्यान वळून पळेतीत, तीं देवाच्या राज्याक पुरतीं न्हय."

**192.** *लूक 10,1-12; मातेव 10,40; लूक10,16*

### *जेजू ब्यास्तर शिसांक धाडता*

*(लूक)* हाचे मागीर सोमयान आनीक ब्यास्तर जाणांक नेमले आनी आपूण वेचो आसलो ते ते सुवातेर तांकां दोगां दोगांक आपणा फुडें

---

[1] हो मनीस एक धर्मशास्त्री म्हण मातेव सांगता.

[2] मेल्यांत तांणीं: आपलो पाटलाव करूंक संसार सांडूंक ना तांणीं ह्या भुरग्याभक्तिचे कायदे पाळचे म्हण जेजू सांगता. जेजुचो पाटलाव करूंक आपयल्ल्यांक सैबाच्या कायद्यां परस दुसरे अदीक मोलाचे कायदे आसात.

धाडले. आनी ताणें तांकां म्हळें: “पीक खरेंच खूप, पूण वावराक मनशां थोडीं ह्या पासत पिकाच्या धनया लागीं आपले लुंवणे मळणेक वावराडी वावराडिणी धाड म्हण मागात. वचात, पूण लांडग्यां मदें मेंडरे कशे हांव तुमकां धाडतां म्हण चत्राय धरात. भक्षें वा भुती वा व्हाणो व्हरूं नाकात, आनी वाटेर कोणाकूच हडकिनाकात. खंयच्याय घरांत भितर सरशात जाल्यार, ‘ह्या घराक शांती अशें पयलेंच म्हणात,’ शांती फावो आसललो मनीस थंय आसत जाल्यार, तुमची शांती ताचेर देंवतली; ना तर, ती तुमचे थांय परत येतली. एकाच घरांत रावून तांगेर आसा तें खायात आनी पियेयात, तर वावराड्याक आपलो मुशारो फावो. घरा घरीं भोंवूं नाकात; आनी खंयच्याय नगरांत भितर सरशात आनी तीं तुमकां येवकार दितीत जाल्यार, तुमकां वाडतात तें खायात. थंय आसतीत त्या वायटाकारांक बरीं करात आनी ‘देवाचें राज तुमचें थांय येंवचें जालें,’ अशें सांगात. पूण खंयच्याय नगरांत भितर सरशात आनी तीं तुमकां येवकार दिना जातीत जाल्यार, रस्त्यांचेर वचून म्हणात: ‘आमच्या पांयांक लागलली तुमच्या नगराची धूळ परयान आमी तुमची तुमकां झाडून उडयतांव. तरिपूण देवाचें राज येंवचें जालें म्हण जाणा जायात.’ हांव तुमकां सांगतां: “त्या दिसा सोदोमाची झडती तसल्या नगरा इतकी खर जांवची ना.

*(मातेव)* तुमकां येवकार दितात तीं म्हाका येवकार दितात, आनी म्हाका येवकार दितात तीं म्हाका धाडला ताका येवकार दितात. *(लूक)* तुमचें आयकतात तीं म्हजें आयकतात; तुमची बेपर्वा करतात तीं म्हजी बेपर्वा करतात; आनी म्हजी बेपर्वा करतात तीं म्हाका धाडला ताची बेपर्वा करतात.”

**193**. *लूक 10,17-20*

### *ब्यास्तर शीस परतून येतात*

ते ब्यास्तर शीस खुशालभरीत जावन परत आयले. तांणीं म्हळें: “सायबा, तुज्या नांवान देवचार परयान आमकां खालते जाले.”

आनी ताणें तांकां सांगलें: "वीज कसो सर्गार थावन पडललो हांवें सैतानाक देकलो. पळेयात, सोरोप आनी विंचू आनी दुस्मानाची सगळी पदवी पांयां तळा मस्तूंक हांवें तुमकां अधिकार दिला; कांय एक तुमकां वायट जायतशें ना. तरिपूण देवचार तुमकां खालते जातात म्हण खुशी जांवचे भाशेक, तुमचीं नांवां सर्गार बरयल्लीं आसात म्हण खुशाल जायात."

**194.** *लूक 10,21-22, मातेव 11,28-30, लूक 10,23-24*

## जेजू खालत्यांक बापाची वळक दिता, कश्टवतल्यांक चेपलल्यांक समाधान करता

*(लूक)* त्याच वेळार पवित्र आत्म्याच्या देण्यान खुशालकायेन भरोन जेजून म्हळें: ***"बापा, सर्गा आनी प्रिथुमेच्या धनया, ह्यो वस्तू जाणारांक आनी शाण्यांक लिपोवन दवरल्यो आनी सुपुरल्यांक त्यो उगत्यो केल्यो म्हण हांव तुका वाखाणतां. हय, बापा, तर हेंच तुका बरें दिसलें.***

***सगळें म्हज्या बापान म्हज्या हातांत घाल्लें आसा; आनी पूत कोण तो कोणूच नकळो बगर बाप; आनी बाप कोण तो कोणूच नकळो बगर पूत, आनी जांकां बाप दाकोवन दिंवची पुताक खुशी आसत तीं मनशां.***

*(मातेव)* ***"सगळीं तुमी, कश्ट करतात आनी वज्याच्या भारा खाल आसात तीं, म्हजेशीं येयात आनी हांव तुमकां समाधान करतलों. म्हजें जूं तुमचेर घेयात आनी म्हजे लागीं शिकात, कित्याक हांव दुलब आनी ल्हानवीक काळजाचो, आनी तुमच्या जिवाक समाधान मेळतलें; तर म्हजें जूं घेंवक सोंपें आनी व्हावूंक हळू म्हजें वजें."***

*(लूक)* आनी आपल्या शिसां वाटेन वळून आनी तांकां कुशीन घेवन ताणें म्हळें: "तुमी पळेतात तें पळेतले दोळे भागी. तर हांव तुमकां सांगतां: तुमी पळेतात तें पळेंवक जायते प्रवादी आनी पातशाय



जेजू आमचे वेलो भार आपुणूच उकलता,
एकेकल्याक समाधान करता.
(आंक 177 वाच)

आशेले, पूण तांकां मेळलें ना; आनी तुमी आयकतात तें आयकुंकूय ते आशेले, पूण तांकां आयकूंक मेळलें ना."

**195.** *लूक 10,25-29*

### *मोगाची समूर्त*

तेदनां जेजूक कसाक लावूंक एका धर्मशास्त्र्यान उटून अशें विचारलें: "गुरुजी सासणीक जिवीत जोडतलों जाल्यार, हांवें कितें करूंक जाय?" ताणें ताका अशी जाप दिली: "समुर्तींत कितें बरयल्लें आसा? तें कशें वाचताय सांगशी?" ताणें परतिपाळून म्हळें: ***"सगळ्या तुज्या काळजान, सगळ्या तुज्या जिवाच्या बळान, सगळे तुजे सकतीन, आनी सगळ्या तुज्या मनान तुज्या सर्वेस्परा देवाचो तूं मोग करतलोय, आनी तुजो मोग करताय तसोच तुज्या पेल्याचो करतलोय."*** आनी जेजून ताका सांगलें: "तुजो जबाब सारको आसा; तशेंच कर आनी तूं जिवीत जोडतलोय." पूण आपल्या विचाराक कारण आसा म्हण दाकोंवक ताणें जेजूक म्हळें: "तर म्हजो पेलो कोण?"

**196.** लूक 10, 30-37

### *दयाळ सामारियेकाराची वोपार*

जेजून असो परतिपाळ केलो: "कोण एक मनीस जेरिक्याक वचूंक जेरुजाल्या थावन देंवून येतालो. वाटेर तो चोरांच्या हातांत सांपडलो: तांणीं ताचे कडे आसलें तितलेंय काडून घेवन ताका घाय पडसर मार घालो, अर्दो मेलो करून सोडलो, आनी आपूण पळून गेले. तेदनां अशें घडलें: कोण एकलो याज्ञीक तेच वाटेन देंवून येतालो; ताणें ताका देकलो आनी दुसरे कुशीन सरून तो चलत रावलो. तसोच एक लेवीत तेवशिल्यान पावून सरलो आनी, ताका पळेवन, तोय दुसरे कुशीन सरून चलत फुडें गेलो. पूण एक वाटसूर सामारियेकार तेवशिल्यान वेताना ताचे सरशें पावलो आनी



भावाक भयणीक पावतताय?
देवाची खरी भक्ती करतताय.
(आंक 196 वाच)

ताका पळेवन, त्या बाबड्याचे ताका चुरचुरे दिसले. तो लागीं आयलो, तेल आनी सोरो लावन ताणें ताचे घाय बांदले, ताका आपल्या गाडवाचेर घालो आनी एके खानावळींत ताका व्हरून ताचो परामस केलो. दुसऱ्या दिसा ताणें दोन दिनार काडून खानावळकाराक दिले आनी म्हळें: 'ताचो सांबाळ कर आनी कितेंय अगळो खर्च तुका जायत जाल्यार, हांव परत येतां तेदनां तुका फारीक करतलों.' ह्या तेगां भितर कोणें आपूण चोराच्या हातांत सांपडलल्याचो पेलो जावन दाकयलेंशें दिसता?" ताणें जाप दिली: "ताचे थांय दया केली ताणें." तेदनां जेजून ताका सांगलें: "वच आनी तुंवूय तशेंच कर."

**197.** *लूक 10,38-42*

### *मार्ता आनी मारिया*

आपली भोंवडी करता आसताना जेजू एका गांवांत भितर सरलो आनी मार्ता नांवाचे एके बायलेन आपल्या घरांत ताका सन्मान केलो. तिका मारिया म्हणलली एक भयण आसली; ती सोमयाचें उतर आयकूंक ताच्या पांयां कडे बसून रावली. पूण मार्ता घराचे राटिंनी भारीं हारपीत जाताली. ताच्या फुड्यांत येवन तिणें म्हळें: "जेवणाचो सगळो भार म्हजे भयणीन म्हजेरूच सोडलो म्हण तुका कांयच पडना? ये आनी म्हाका आदार दी म्हण सांग मू तिका!" आनी परतिपाळून सोमयान म्हळें: "मार्ता, मार्ता, चड वस्तुंचो हुस्को करून इतली कित्याक आपटताय धापटताय तूं? थोड्योच वस्तू पुरो, खरें म्हळ्यार एकूच गरजेची. मारियेन बरो तो वांटो विंचून काडला आनी कोणूच तिचे लागचो तो काणघेंवचो ना."

**198.** *लूक,1-20 ; मातेव 6,7-13 ; मार्कू 11,25-26*

### *मागण्या विशीं शिकोवण: "आमच्या बापा"*

*(लूक)* जेजू एके कडेन मागणें करून आसलो, आनी ताणें तें सोंपयल्या उपरांत, ताच्या शिसांतल्या कोण एकल्यान ताका म्हळें:

"सायबा, जुवांवान आपल्या शिसांक मागणें करूंक शिकयल्लें तशें तूंय आमकां शिकय." ताणें तांकां सांगलें: *(मातेव)* "तुमी प्रार्थन करतात तेदनां, विदेश्यां परीं झांकूं नाकात; उतरांचो बडबड करून आपलें मागणें आयकूं येतलें म्हण तीं समजतात. तुमी तांचे सारकं जांव नाकात, कारण तुमकां कितें गरज तें तुमी ताचे लागीं मागचे आदींच तुमचो बाप जाणा. देखून तुमी अशें प्रार्थन करचें."

**'आमच्या बापा सर्गिंच्या,**
**तुजें नांव पवित्र जांव;**
**तुजें राज आमकां येंव;**
**तुजी खुशी सर्गार जाता,**
**तशी संसारांत जांव.**
**आमचो दिसपट्टो गिरास आज आमकां दी.**
**आनी आमी आमचेर चुकलल्यांक भगशितांव**
**तशें आमचीं पातकां भगस;**
**आनी आमकां ताळणेंत पडूंक दींव नाका,[1]**
**पूण वायटांतलीं आमकां निवार.'**

*(मार्कू)* ***"आनी तुमी मागणें करूंक उबीं रावतात तेदनां, कोणाचेर आड तुमकां कितें आसत तितलेंय भगसात, आनी तुमचो सर्गिंचो बाप तुमच्योय चुकी भगशितलो."***

199. *लूक 11,5-8*

## *थिरपणान मागपी इश्ट*

"तुमचे मदें कोण एकल्याक एक इश्ट आसा म्हण समजात आनी तो मद्यानेर ताचेशीं वचून ताका अशें म्हणता: 'इश्टा, म्हाका तीन उंडे उशणे दी; म्हजो एक इश्ट वाटेचो पावून सरला आनी ताका वाडूंक म्हजे लागीं कांयच ना.' आनी त्या मनशान भितर थावन

---

[1] देव ताळण्यो निर्मिता, पूण आपुणूच आमकां वायट करपाचे ताळणेंत घालिना. जें देव फकत निर्मिता, तें देव "करता" म्हण सांगची जुदेव लोकाची चाल आसली.

अशी जाप दिली: ‘म्हाका त्रास दींव नाका; आतां दाराक खीळ घाली आनी म्हजीं भुरगीं आनी हांव न्हिदूंक गेल्यांव; म्हज्यान उटून तुका दिंवक जायना.’ आनी तो दारार मारितूच रावत जाल्यार, हांव तुमकां सांगतां, तो मनीस इश्टागतीक लागून उटून दिना जाल्यारूय, ताचे करंदायेक लागून ताका गरज तें काडून दितलो.”

**200.** *लूक 11,9-13*

### मागण्यांत बापाचेर थीर विस्वास

“तशेंच हांव तुमकां सांगतां: मागात आनी देव तुमकां दितलो, सोदात आनी तुमकां मेळतलें, दारार मारात आनी तें तुमकां उगडतलें; कित्याक मागतात तीं घेतलीं, सोदतात तांकां मेळता, आनी दारार मारतात तांकां तें उगडतलें. मासळी मागतल्या आपल्या पुताक मासळेचे सुवातेर एक सोरोप दीत तसलो तुमचे मदें कोण बापूय आसा जायत? वा तांतीं मागीत जाल्यार, बापूय ताका विंचू काडून दीत? तुमी वायटोवीं जावनूय तुमच्या भुरग्यांक बऱ्यो वस्तू दिंवक तुमी जाणात जाल्यार, त्यावून कितलो अदीक तुमचो सर्गिंचो बाप आपणा लागीं मागतल्यांक पवित्र आत्मो दिंवचो ना?”

**201.** *मातेव 12,38-42*

### जोनासाची खुणा

धर्मशास्त्र्यां आनी फारिजेवांतल्या कांय जाणांनी जेजू कडे उलोवन म्हळें: “गुरुजी, तुजे कडली आमकां एक खुणा पळेंवक जाय.” ताणें अशी जाप दिली: “ही आतांची खोटी आनी घातकी पिंडका एक खुणा सोदता. पूण, जोनास प्रवाद्याची खुणा काडून, देव तिका दुसरी खुणा दिंवचो ना; म्हणगे, जसो जोनास तीन राती तिवमाश्याच्या पोटांत आसलो, तसोच मनशाचो पूत तीन दीस आनी तीन राती जमनिच्या पोटांत आसतलो. झडतेच्या दिसा निनिवेचो लोक हे पिंडके बराबर उबो जातलो आनी तिचो गुन्यांव दाकोवन दितलो, कित्याक जोनासाचें प्रवचन आयकून ताणें आपलें जिवीत

बदल्लें; आनी पळेयात, जोनासा परस वरतो हांगा आसा एकलो! झडतेच्या दिसा दखिणेची राणी हे पिंडके बराबर उबी जातली आनी तिचो गुन्यांव दाकोवन दितली, कित्याक ती प्रिथुमेचे शिमेर थावन सोलोमोनाचें शाणेपण आयकूंक आयल्ली; आनी पळेयात, सोलोमोना परस वरतो हांगा आसा एकलो!"

**202.** *मातेव 12,43-45*

### म्हेळ्या आत्म्याची धाड

"म्हेळो आत्मो मनशा वेलो भायर सरतच, सुक्या सड्यार विसव सोदीत भोंवता, पूण ताका विसव मेळना. तेदनां तो म्हणताः 'भायर सरललों त्या म्हज्या घरा परत रिगतलों हांव.' आनी थंय ये जाल्यार, तें रितें, झाडललें आनी नेटयल्लें ताका मेळता; तेदनां वचून, आपणावून अदीक नश्टे आनीक सात आत्मे आपणा बराबर तो घेवन येता; आनी भितर रिगून, थंय तो आपलें ठिकाण करता; आनी त्या मनशाची मागिरली दशा आदले परस पाश्ट जाता. हे खोटे पिंडकेक तशेंच घडतलें."

**203.** *लूक 11,27-28*

### जेजू आपले आवयची तुस्त करता: मारियेचें खरें भाग

जेजू लोकाचे उरपंजी लागीं उलयता थंयच आसताना जमलल्या लोकांतले कोण एकले बायलेन व्हडल्या ताळ्यान ताका म्हळें: "तुका सांबाळ्ळलो तो कुसवो आनी तुका दूद दिलें तें हरदें भागी!" पूण ताणें म्हळें: **"हें खरें; तरिपूण देवाचें उतर आयकतात आनी सांबाळतात तीं अदीक भागी!"**

**204.** *लूक 11,33; मातेव 6,22-23; लूक 11,35-36*

### मनशाचो उजवाड

*(लूक)* "पणती लावून कोणूच ती एके ल्हान कुडींत लिपोवन दवरिनांत,

हय म्हण पायले तळा दवरिनांत, पूण भितर सरतात तांणीं उजवाड ळेंवचे खातीर ती पेडार दवरतात.”

*(मातेव)* “कुडिचो दिवो दोळो. म्हणतच तुजो दोळो निवळ नासत जाल्यार, सगळी तुजी कूड उजवाडीक जातली. पूण तुजो दोळो निवळ नासत तर, सगळी तुजी कूड काळोकांत बुडतली. ह्या नासत, तुजे भितर आसा तो उजवाडूच काळोक जालो जाल्यार, तो काळोक केदो व्हडलो जांवचो ना!”

*(लूक)* “म्हणतच तुजे भितर आसा तो उजवाड काळोक जायना जांवक चत्राय धर. देखून तुजें आखें जिवीत, कसलोच काळोक नासताना, दिप्तिवंत जायत जाल्यार, तुजेर आपली किरणां चालतले पणते भाशेन, तुजें जिवीत उजवाडूच फांकयतलें.”

**205.** *लूक 11,37- 41*

### *एका फारिजेवागेर जेजू जेवणाक वेता*

जेजू उलोवन थांबलो तेदनां, कोण एकल्या फारिजेवान ताका आपणागेर जेवणाक आपयलो. आनी तो तांगेर वचून जेवणाक बसलो. जेवणा आदीं ताणें कित्याक हात धुले नांत, अशें तो फारिजेव आपल्या मनांतूच घोळोवन विचारतालो. आनी सोमयान ताका सांगलें: “आरे, तुमी फारिजेव पात्र आनी ताट भायल्यान नितळ करतात, पूण तुमी भितरल्यान नागोवणेन आनी खोटेपणान भरल्यात. कितले म्हण खुळे तुमी! भायलें तशें भितरलें त्याच देवान केलां न्हय? देखुनूच, तुमचे कडे आसा तांतलें काडून धर्मदान दियात, आनी, पळेयात, तुमचें सगळें नितळ जातलें.”



**206.** *लूक 11,42-44*

### *फारिजेवांक शिडकावणी*

“फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! पुदिना, कडिपात आनी सगळे

तरेचो भाजीपालो हांचो धावो वांटो[1] तुमी देवाक म्हण फारीक करतात, पूण नीत आनी देवाचो मोग तुमी सोडतात. हे कायदे तुमी पाळूंक जाय आसले, आनी तेय चुकोंवचे न्हय आसले. फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! देवस्थानांनी पयले वयले जागे आनी तिंट्यार सलाम तुमकां जबरूच रुचतात. कटा कटा तुमचें! दिश्टी पडनांत आनी लोक नकळो जावन तांचेर चलता तसले फोंड तुमी!"[2]

## 207. *लूक 11,45-52*

### *धर्मशास्त्र्यांक शिडकावणी*

धर्मशास्त्र्यांतल्या एकल्यान ताका परतिपाळून म्हळें: "गुरुजी, अशें उलोवन तूं आमकांय अपमान करताय." आनी ताणें अशी जाप दिली: "धर्मशास्त्र्यांनो, कटा कटा तुमचें! सोसूंक जायनांत तसलीं वजीं तुमी मनशांक व्हावूंक लायतात, पूण त्या वज्यांक एक बोट परयान तुमी लायनांत."

"कटा कटा तुमचें! कित्याक प्रवाद्यांक यादगिरी बांदतात तुमी, पूण तुमच्याच पुर्वजांनी तांकां जिवेशीं मारले. तांणीं तांचो जीव काडलो आनी तुमी तांकां यादगिरी बांदतात, आनी अशें तुमच्या पुर्वजांचीं कर्तुबां तुमी मंजूर करतात म्हण तुमी सारकीच गवाय दितात. त्या पासत देवाचे जाणवायेन लेगून अशें म्हळां: 'हांव तांचे थांय प्रवादी आनी धर्मदूत धाडतलों आनी तांतल्या कांय जाणांक ते जिवेशीं मारतले आनी धुमाळो दितले.' ह्या पासत संसार रचला तेथून थावन सगळ्या प्रवाद्यांच्या विक्रायल्ल्या रगताचो हे पिंडकेन

---

[1] गंव, सोरो आनी तेल, फकत ह्या तीन पिकांचो धावो वांटो देवाक भेटोवन दिंवचो कायदो आसलो, पूण फारिजेव होच कायदो सगळे तरेच्या भाजीपाल्याक लायताले.

[2] जुदेवांच्या धर्मा परमाणें एका फोंडाचेर पांय दवरतालो तो मनीस आट दीस अशुद्धम्हेळो जातालो. ह्या पासत, लोकान तांचेर पांय दवरिना जांवक, चड कर्न फोंडाक चुनो काडताले. जेजू फारिजेवांक दिश्टी पडनांत तसले फोंड म्हणता, कित्याक तांचें खोटेपण आनी ढोंगिपण लोकाक दिश्टी पडनासलीं, पूण साद्या लोकाचें मन आनी चाल म्हेळयतालीं आनी भश्टायतालीं.

देवाक हिशोब दिंवचो पडतलो. आबेलाच्या रगता थावन तें वेदी आनी देवमंदिरा मदें जिवेशीं मारलल्या जाकारियासाच्या रगता परयान. हय, हांव तुमकां सांगतां, हे पिंडकेन देवाक ह्या सगळ्याचो हिशोब दिंवचोच पडतलो!"

धर्मशास्त्र्यांनो, कटा कटा तुमचें! कित्याक जाणवायेची चावी तुमी घेवन गेल्यात; तुमीच भितर सरले नांत ते सरले नांत, आनी भितर सरूंक सोदतालीं तांकांय तुमी भितर सरूंक दिलें ना."

**208.** *लूक 11,53-54*

### *फारिजेवांचो आनी धर्मशास्त्र्यांचो राग*

हें सांगून जेजू थंयसरलो भायर सरल्या उपरांत, फारिजेव आनी धर्मशास्त्री एकदमूच ताच्या पाळांक लागले आनी तोंडाक तोंड जांवच्या मनान ताका सबार प्रश्न घालीत रावले. ते ताका फास मांडून ताच्या तोंडांतल्या कसल्याय उतराचेर ताका धरूंक रावताले.

## XVIII- क्रिस्ती मनाचे विशेश गूण

**209.** *लूक 12,1a; मातेव 10,24-25; लूक 12,1b -12*

### *भावार्ताची धिरादीक साक्षी*

*(लूक)* ते म्हणसर जेजू भोंवतणीं खूप गर्दी जाली आनी हजारांनी लोक एकामेकाक चिड्डितालो; तेदनां पयलो आपल्या शिसां लागीं उलोवन ताणें म्हळें:

*(मातेव)* "आपल्या गुरू परस शीस आनी आपल्या धनया परस चाकर वरतो न्हय; शीस आपल्या गुरू सारको, आनी चाकर आपल्या धनया सारको जायत जाल्यार पुरो! घराब्याच्या धनयाक बेलजेबूल म्हणलो जाल्यार, ताच्या घरच्यांक त्यावून आनी कितें म्हणचीं नांत?!"

*(लूक)* "चत्रायेन फारिजेवांचो खमीर सोडात, तांचें ढोंगेपण पयस करात. आतां धांपललें आसा तितलेंय उगतें जाल्या शिवाय

रांवचें ना; तर काळोकांत तुमी सांगलां तें दिसा उजवाडा आयकूंक येतलें आनी खासगी कुडांत फुतफुतून तुमी उलयल्यांत तें पाटोसांचेर परगट जातलें.

तुमकां, म्हज्या इश्टांक, हांव सांगतां: कुडिचो जीव काडतात आनी ताचे मागीर आनीक कांय एक तांच्यान करूंक जायना, तसल्यांक तुमी भियेंव नाकात. पूण तुमी कोणाक भियेंवचें तें तुमकां सांगतां: जीव काडल्या उपरांत येमकोंडांत उडोंवक तांक आसा ताका भियेयात. हय, हांव तुमकां सांगतां, ताका मात भियेयात. दोन आस्सारियोनांक [1] पांच शेरकां विकतात न्हय? तरी आसताना तांतल्या एकल्याचीय देवाक विसर पडना. तुमचे तकलेचे केंस परयान सगळे मेजलले आसात. म्हणतच भियेंव नाकात. शेरकांच्या भिऱ्या परस तुमी अदीक ऊंच मोलाचीं.

तुमकां सांगतां: कोणूय मनशां हुजीर म्हाका मानून घेतीत जाल्यार, तांकां मनशाचो पुतूय देवाच्या दुतां हुजीर मानून घेतलो. पूण कोणूय मनशां हुजीर म्हाका मानून घेना जातीत, तांकां देवाच्या दुतां हुजीर हांवूय मानून घेंवचो नां. आनी कोण मनशाच्या पुताचेर आड कितेंय उलयतीत, देव तें तांकां भगशितलो; पूण कोण पवित्र आत्म्याची निंदा करतीत जाल्यार, देव ती तांकां भगसुंचो ना.[2]

तुमकां देवस्थानांनी आनी नितिदारां वा अधिकाऱ्यां मुखार व्हरतीत तेदनां, कसो आनी कितें जबाब दिंवचो, वा कितें उलोंवचें तें हुसको धरूं नाकात. तर तुमी कितें म्हणूंक जाय तें पवित्र आत्मो, तो वेळ येतच, तुमकां शिकयतलो."

**210.** *लूक 12,13-21*

### *गिरेस्तकायेचेर पातयेंव नये*
### *पिश्या गिरेस्त मनशाची वोपार*

लोकाच्या जम्यांतल्या कोण एकल्यान जेजूक म्हळें: "गुरुजी, आमकां पडलां त्या दायजाचो वांटो कुशीन काडून म्हाका दी म्हण

---

[1] *आस्सारियोन* = सुमार 1 ग्रामांचो, तांब्याचो, एक सुपुरलो उण्या मोलाचो नाणो.
[2] आंक 100, सकल दिल्ली समजणी वाच. ह्याय उतरांचो समज तोच.

हज्या भावाक सांग.” पूण ताणें ताका अशी जाप दिली: “इश्टा, तुमचे भितर न्यायनीत वा वांटप करूंक म्हाका कोणें नेमला?” मागीर ताणें तांकां सांगलें: “चत्राय धरात आनी धनगिरेस्तकायेची आशा सारकीच सोडून दियात, कित्याक कोणाक पुस्कळ गिरेस्तकाय आसली जाल्यार, ताचें जिवीत तिचेर धरललें ना.”

मागीर ताणें एक वोपार सांगली: “एक गिरेस्त मनीस आसलो आनी ताच्या शेतां भाटांक खूप पीक जालें; तेदनां तो आपणाच भितर चिंतूंक पडलो: ‘म्हजो पीकपाडो भरून दवरूंक म्हजे लागीं जागो ना. हांवें कितें करचें?’ आनी ताणें म्हळें: ‘अशें करतलों म्हजे कडे मोडून, तांचेकूय व्हडले बांदतलों आनी म्हज्या शेतांभाटांचें सगळें उत्पन्न आनी म्हजो आस्तेमाल तांतूं भरून दवरतलों. मागीर म्हाकाच अशें म्हणतलों: जिवा म्हज्या, सबार वर्सांक पुरोसो खूप माल तुजे आधीन आसा; विसव घे, खा पिये आनी मौज मार!’ पूण देवान ताका म्हळें: ‘आरे पिश्या, आज राती तुजे कडलो तुजो जीव मागचो आसा. म्हणतच तुवें तयार करून दवरलां तें कोणाक?’ जीं कोण आपणाक ठेवे एकटांय करतात पूण देवा मुखार गिरेस्त जांवक नांत, तांची गत ही!”

**211.** *मातेव 6,25-34*

### *सर्गिच्या बापाचेर पूर्ण विस्वास*

“देखुनूच हांव तुमकां सांगतां: तुमच्या जिवा खातीर कितें खांवचें पियेंवचें, वा तुमचे कुडी खातीर कितें न्हेसचें पांगरुंचें, ते विशीं हुसकेंव नाकात. जीव जेवणा परस अदीक मोलाचो न्हय? वाऱ्या वेल्या सुकण्यांचेर नदर मारात; तीं वोंपिनांत, लुंवीय नांत आनी कडेय भरिनांत; तरी तुमचो सर्गिचो बाप तांकां पोसता. तुमी तांचेवून अदीक मोलाचीं न्हय तर? आनी हुसके काडून आपलें आवक हात भर वाडोंवक तुमचे भितरल्या कोणाच्यान जाता जायत? आनी न्हेसणां विशीं तुमकां धास्ती कित्याक? शेतांतलीं फुलां कशीं

वाडतात तें चिंतून पळेयात; तीं कश्ट करिनांत, तीं सुतूय काडिनांत तर हांव तुमकां सांगतां: सोलोमोन लेगून सगळ्या आपल्या दबाज्यांत तांतल्या एका सारको न्हेसलो ना. तर आज आसा आनी फाल्यां काडून उज्यांत उडयतात तें शेतांतलें तण ह्या जिनसान देव न्हेसयता जाल्यार, त्यावून कितलो अदीक तुमकां तो नेटोंवचो ना हलक्या भावार्ताच्या मनशांनो? म्हणतच आमी कितें खातल्यांव? कितें पियेतल्यांव? कितें न्हेसतल्यांव? अशें म्हणून हुसके काडूं नाकात. असल्या सगळ्यांची वासपूस करतात अनभावार्ती. तुमकां ह्या सगळ्या वस्तुंची गरज म्हण तुमचो सर्गिंचो बाप तर जाणाच. ***देवाच्या राज्याच्या नेमां परमाणें जियेंवक आनी ताकाच मानता तें करूंक जांव दी तुमचो व्हडांतलो व्हड हुसको,*** आनी हेर सगळ्यो वस्तू तो तुमकां दितलो. म्हणतच फाल्यांच्या दिसा विशीं हुसको काडूं नाकात, फाल्यांचो दीस आपलोच हुसको काडतलो. त्या त्या दिसा जें नश्ट आसा तें पुरो ताका."

**212.** *लूक 12,32-33a; मातेव 6,19-21*

### सर्गार ठेवे एकटांय करात

*(लूक)* "सुपुरल्या हिंडा, कसलोच हुसको धरूं नाकात, कित्याक तुमकां राज दिंवचें म्हण तुमच्या बापाक खुशी जाल्या. तुमचे कडे आसा तें विकून धर्मदान करात.

*(मातेव)* संसारांत तुमकां ठेवे एकटांय करूं नाकात; थंय साणस आनी कीड ते खावन इबाड करतात आनी चोर फोडतात आनी चोरून व्हरतात; पूण तुमकां ठेवे सर्गार जमोवन दवरात; थंय तांचो इबाड करूंक साणस वा कीड ना, आनी तें फोडून व्हरूंक चोरूय ना. कित्याक तुजो ठेवो आसा थंयच तुजें काळिजूय आसतलें."

**213.** *लूक 12,35-38*

### जागृताय आनी विस्वाशिपण

### जागृत चाकर

"तुमच्या पेंकटाक कास मारून, आनी तुमच्या हातांनी पेटलल्यो

देवट्यो घेवन रावात. आपलो धनी लग्ना उत्सवा थावन परत ावन दारार मारिना फुडें ताका दार उगडचे खातीर ताची वाट ळेवन रावतात तसल्या मनशां परीं तुमी जायात. धनी येता तेदनां ाका जागृत मेळतीत ते चाकर भागी! खरेंच तुमकां सांगतां: तो आपल्या पेंकटाक कास मारतलो, तांकां जेवणाक बसयतलो, आनी आपूण तांचे मदें भोंवून तांची सेवा करतलो. आनी मद्यानेर वा क्रांत्या पारा आदीं परयान तो पावत जाल्यार आनी ते ताका तशेच मेळतीत तर, ते चाकर भागी!"

**214.** *लूक 12, 39-40*

## *जागृत घराचो धनी*

"हें मात जाणा जायात: खंयच्च्या वगतार चोर येतलो तो घराचो धनी जाणा आसलो जाल्यार दुबावावीण तो जागृत रावतलो आसलो आनी आपलें घर फोडून नागोंवक दिंवचो नासलो. तुमीय तशींच तयार रावात, कित्याक चिंतिनासलल्या वेळार मनशाचो पूत येतलो."

**215.** *लूक 12,41-46; मातेव 24,51b; लूक 12,47-48*

## *विस्वाशी आनी अविस्वाशी चाकर*

*(लूक)* तेदनां पेद्रून म्हळें: "सोमया, आमकांच वा हेरां समेस्तांकूय तूं ही वोपार सांगताय?" जेजून अशी जाप दिली: "घरांत आसलल्यांक वगतार जेवण वाडून दिंवक, धनयान आपल्या घराब्याचेर अधिकार दिल्लो कोण विस्वाशी आनी शाणो कारबारी जायतसो तुमकां दिसता? आपलो धनी येता त्या वेळार, आपलें काम करीत आसतां ताका मेळता तो चाकर सुभागी. हांव तुमकां खरेंच सांगतां, आपणा कडे आसा तितल्याचेरूय तो ताका अधिकार दितलो. पूण 'परत येंवक म्हजो धनी लांबाय करता,' अशें तो चाकर आपणांच भितर म्हणून हेरां चाकरांक आनी चाकरणींक मारूंक आनी आपूण खांवक पिवूंक आनी बेबदिकाय करूंक लागत

जाल्यार, तो रावनासलल्या दिसा आनी तो नकळो आसलले घडये त्या चाकराचो धनी पावतलो आनी ताका मरणाची शिक्षा लायतलो आनी भावार्त नासलल्या मनशांच्या वांगडा ताका भायर उडयतलो *(मातेव)* आनी ताची गत ढोंग्यां सारकी जायशी करतलो. थं सगळीं रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतलीं.

*(लूक)* आपल्या धनयाची खुशी कितें ती जाणा जावनूय, तें पाळूंक तयारी परयान करूंक ना तसल्या चाकराक खूप सोट्यांचो मार पडतलो. ती कितें ती नकळो आसलल्यांक, ताच्या कर्तुबांक खास्त फावो जाल्यार, ताका थोडेच सोटे पडतले. ज्या कोणांक देवान चड दिलां, ताचे कडचें तो चड मागतलो; आनी ज्या कोणाक देवान चड पातयेलां, ताचे कडलें तो चड घेंवक रावतलो."

**216.** *लूक 12,49-53; मातेव 10,36*

### *कित्याक आयला जेजू?*

*(लूक)* ***"प्रिथुमेर उजो पेटोंवक हांव आयलां, तरी तो पेटोवन तो भगभगतालो जाल्यार, कितलो म्हण हांव खुशी जांवचो नासलों! हांवें एक स्नान घेंवचें आसा, आनी तें घेय परयान म्हाका कशे भाशेन जिवान जीव ना जाला!*** हांव प्रिथुमेचेर शांती हाडूंक आयलां, अशें तुमकां दिसता? हांव तुमकां सांगतां: ना, बगर भेद घालूंक हांव आयलां. ह्या फुडें एकाच कुटुंबांत पांच जाणां मदें अशी फूट पडतली: तेगां दोगांचेर आड आनी दोगां तेगांचेर आड, बापूय पुताचेर आड आनी पूत बापायचेर आड, आवय धुवेचेर आड आनी धूव आवयचेर आड. सासू सुनेचेर आड आनी सून सासुचेर आड. *(मातेव)* मनशाचो दुस्मान ताच्याच घरचो लोक."

**217.** *लूक 12,54-57*

### *मन बदलप. काळ विवेकान पारखून काडचो*

जेजून लोकाक आनिकूय म्हळें: "अस्तमते थावन एक कूप चडोन मांडता तें पळेवन तुमी रोकडींच पावस येता म्हणतात, आनी तशेंच

घडता; आनी दखिणे थावन वारें मारतच तुमी म्हणतातः बरीच गर्मी जातली, आनी तशेंच घडता. आरे ढोंग्यानो, प्रिथुमेचें आनी मळबाचें तोंड कशें पारकुंचें तें तुमी जाणात; हो काळ पारकूंक तुमचे लागीं जायना तर? नीट सारकें कितें तें तुमचींच तुमी कित्याक थारायनांत?"

**218.** *लूक 12, 58-59*

### संधान वा शांती करची गरज

"देकीक, तुज्या वाद्या वा वादिणी बराबर अधिकाऱ्यांशी वेता आसताना, तुमचो तंटो सोंपोंवक वाटेरूच जाता तितलेंय कर, ना जाल्यार, तीं तुका नितिदारांशी वोडून व्हरतीत, आनी नितिदार तुका कसाबाच्या हातांत दीत, आनी कसाब तुका बंदखणींत घालीत. हांव तुमकां सांगतां, तुजो निमाणो लेप्तोन[1] तुवें फारीक करिसर थंयसरली तुका सुटका मेळची ना."

**219.** *लूक 13, 1-5*

### देवमंदिरांत मारलले गालिलेयकार

थोड्या गालिलेयकारांक मारून, पिलातान तांचें आनी ते भेटयताले त्या बलयांचें रगत एक केलें, ते विशीं थंय आसलल्या कांय जांणांनी त्याच वेळार जेजूक खबर दिली. आनी परतिपाळ दिवन ताणें म्हळें: "अशें तांणीं भोगचें पडलें देखून सगळ्या हेरां गालिलेयकारां परस हे गालिलेयाचे मनीस अदीक पातकी आसले म्हण तुमकां दिसता कितें? हांव तुमकां सांगतां: तशें न्हय! पूण तुमी जिवीत बदलिना जाशात जाल्यार, तुमीय तशेंच मरतल्यात! शिलोमाचो गोपूर मोडोन पडलो तेदनां, जीं अटरा जाणां मरून गेलीं, तीं जेरुजाल्यांत रावतल्यां हेरां सगळ्यां मनशां परस अदीक गुन्यांवकारआसलीं, अशें तुमकां दिसता? हांव तुमकां सांगतां: तशें

---

[1] *लेप्तोन* : एकदम उण्या मोलाचो, सुमार 3 ग्रामांचो, एक सुपुरलो तांब्याचो नाणो.

न्हय! पूण तुमी जिवीत बदलिना जाशात जाल्यार, तुमीय तशींच मरतल्यात.”

220. *लूक 13, 6-9*

### *वांजटें आंजिराचें झाड*

आनी ताणें ही वोपार सांगली: “कोण एकल्यान आपल्या दाकांच्या मळ्यांत एक आंजिराचें झाड लायल्लें; आनी तो ताचें फळ सोदूंक आयलो तेदनां, ताका कांय एक मेळलें ना. तेदनां ताणें मळो वसयतल्याक म्हळें: ‘पळे, आज तीन वर्सां जालीं हांव ह्या आंजिराचें फळ सोदूंक येतां आनी म्हाका एकूय मेळना. म्हणतच तें कातरून उडय; बेश्टीच कित्याक सुवात आडायता?’ पूण ताणें अशी जाप दिली: ‘धनया, हेंय आनी एक वरस तें आसूं दी; ताच्या मुळाक आळें काडून, ताका हांव सारें घालतां; घडयेक ताका फळ जायत; ना तर, मागीर कातर.’ ”

221. *लूक 13,10-17*

### *देवचारान बांदून दवरलली बायल*

जेजू, एका सनवारा दिसा, एका देवस्थानांत शिकोवण दितालो. अवचीत ताचे मुखार दिश्टी पडली अटरा वर्सां देवचारान अपांगूळ केल्ली एक बायल; ती सामकीच पोंगी जाल्ली आनी तिच्यान तकली उकलून नीट उबी रावूंक जायनासलें. जेजून तिका पळेली आनी आपणाशीं तिका आपोवन हाडून म्हळें: “आगे, तुज्या वायटांतली तूं सुटलीय.” आनी आपले हात तिचेर दवरिनाफुडें ती सारकी उबी जाली आनी देवाक धिनवासूंक लागली. पूण जेजून सनवारा दिसा पिडारोग बरो केलो देखून, देवस्थानाचो अधिकारी पिंडळून असो लोकाक उलोंवक लागलो: “वावर करूंक स दीस दिल्ले आसात; त्या दिसांनी येयात आनी बरीं जावन वचात, सनवारा दिसा नाका.” परतिपाळून सोमयान ताका म्हळें: “आरे ढोंग्यांनो, तुमचे भितरलो

जण एकलो दावणेक बांदलल्या आपल्या पाड्याक वा गाडवाक सोडून, ताका सनवारा दिसा उदकाक व्हरना? तर अटरा वर्सां देवचारान बांदून दवरलले हे आब्राहामाचे धुवेक ह्या सनवारा दिसा सोडची न्हय आसली?" अशें तो म्हणता आसताना सगळ्या ताच्या दुस्मानांक लज जाली, पूण ताच्यो अजापांच्यो करण्यो पळेवन सगळ्या लोकाक मोटी खोस जाली.

**222.** *लूक 13,22*

### *जेजू जेरुजाल्याची वाट धरता*

दर एका नगरांत आनी गांवांत वचून तो शिकोवण दीत जेरुजाल्याची वाट चलतालो.



## XIX - भेटोवणेचो उत्सव; जेजू पेरेयांत

(देजेंब्र)

**223.** *जु 10,22-30*

### *जेरुजाल्यांत उत्सव*
### *हांव आनी बाप एक*

हिंवाळ्याच्या समयार जेरुजाल्यांत भेटोवणेचो उत्सव[1] चलतालो; जेजू देवमंदिरांत सोलोमोनाच्या तारांगणांत भोंवतालो. तेदनां ताचे भोंवतणीं एकटांय जावन जुदेवांनी ताका म्हळें: "केदनां परयान तूं आमकां दुबावांत दवरतलोय? तूं अभिशिक्त जाल्यार, आमकां सारकें सांग." जेजून तांकां परतिपाळ केलो: ***"तुमकां हांवें सांगलां आनी तुमी सत मानिनांत. म्हज्या बापाचे नांवीं हांव करतां तीं कामां म्हजे विशीं गवाय दितात; पूण तुमी भावार्त धरिनांत, कित्याक तुमी म्हज्या मेंडरांतलीं न्हय. म्हजीं मेंडरां म्हजो ताळो आयकतात, आनी***

---

[1] आसिरियेच्या आनी मागीर ग्रीक फौजांनी जेरुजाल्याचें देवमंदीर भश्टायल्लें. उपरांत जुदास माकाबेव हाच्या फुडारिपणा खाल (164 वर्सां जेजू अभिशिक्ता आदीं) जुदेव लोकान देवमंदिराची शुद्धावणी केल्ली. ताच्या उगडासाक हो भेटोवणेचो उत्सव जेरुजाल्यांत आनी हेर कडेनूय लोक समारंभतालो. हेरां उत्सवां परस हो उत्सव राश्ट्रीक उत्सव म्हण लोक धरी, कित्याक हो समारंभ देवमंदिराचेच न्हय पूण आपल्या राश्ट्राचे सुटकेचो समारंभ जावन आसलो.

*हांव तांकां वळकतां, आनी तीं म्हजो पाटलाव करतात; आनी तांव हांव सासणीक जिवीत दितां, आनी तीं सासणाक इबाड जांवचीं नांत आनी तांकां म्हज्या हातांतलीं कोण झोंबून व्हरचो ना. म्हज्या बापा तीं म्हाका दिल्यांत, तो सगळ्यांवून व्हड, आनी म्हज्या बापाच्य हातांतलीं तांकां कोणाच्यानूच झोंबून व्हरूंक जायना. हांव आनी बा एक!"*

**224.** जु *10, 31-39*

### हांव देवाचो पूत

तेदनां जेजूक फातरांवक जुदेवांनी नव्यान फातर उकल्ले. जेजून तांकां सांगलें: "बापाचे पदवेन जायत्यो बऱ्यो करण्यो हांवें तुमच्या दोळ्यां मुखार करून दाकयल्यात; तांतले खंयचे करणे पासत तुमी म्हाका फातरांवक सोदतात?" जुदेवांनी ताका जबाब दिलो: "बरे करणेक लागून आमी तुका फातरांवक सोदिनांव, पूण तुजे देवनिंदे पासत; कित्याक तूं मनीस जावन आपणाकूच देव करताय." जेजून तांकां जाप दिली:" 'तुमी देव म्हण हांवें सांगलां', अशें तुमच्या शास्त्रांत बरयल्लें आसा की ना? म्हणतच, जांकां देवाचें उतर पावलां, तांकां तुमचें शास्त्र 'देव' म्हणता आनी पवित्र पुस्तक मोड नजो. आनी आतां, बापान म्हाका संस्कारला आनी संसारांत धाडला म्हण हांव 'देवाचो पूत' अशें म्हज्यान म्हणूंक जायना? तर तुमच्यान म्हाका 'तूं देवनिंदा करताय', अशें कशें म्हणूं येता? *हांव म्हज्या बापाच्यो करण्यो करिना जाल्यार, तुमी म्हजेर भावार्त दवरूं नाकात; पूण हांव त्यो करतां जाल्यार, जरी तर तुमी म्हजेर भावार्त दवरिनांत, त्या करण्यांचेर तरी भावार्त दवरात; आनी अशें, बाप म्हजे सवें आसा आनी हांव बापा सवें आसां म्हण तुमकां खात्रेन कळोन येतलें."*

त्या वेळार ताका ते नव्यान धरूंक सोदताले, पूण तो तांच्या हातांतलो सुटोन गेलो.

225. *जु 10,40-42*

## जोरदाना पलतडी

जुवांव पयलीं जोरदाना पलतडी स्नान दितालो थंय जेजू परत वचून रावलो. जायत्या जाणांनी ताचेशीं येवन म्हळें: "जुवांवान कसलीच खुणा करूंक ना, पूण ह्या मनशा विशीं ताणें सांगलां तितलेंय खरें जालें" आनी थंय जायत्यांनी ताचेर भावार्त ठेवलो.

226. *लूक 13,23-26; मातेव 7,22b; लूक 13,27-30*

## विंचून काडलल्यांची संख्या

*(लूक)* तेदनां कोण एकल्यान ताचे लागीं विचारलें: "सायबा, सोडवण जोडूंक पावतलीं तीं थोडींच?" ताणें तांकां अशी जाप दिली: "अशीर दारवंट्यांतल्यान भितर सरूंक जातात तशे वावरात, कित्याक, हांव तुमकां सांगतां, जायतीं जाणां भितर वचूंक सोदतलीं, पूण तांच्यान जांवचें ना. घराच्या धनयान भितर वचून एकदां दार धांपल्या उपरांत, तुमी, भायर रावून, दारार मारून म्हणूंक लागतल्यात: 'धनया, आमकां दार उगड.' आनी तो तुमकां अशें म्हणतलो: 'तुमी खंयचीं तीं हांव नकळों.' तेदनां तुमी म्हणतल्यात: 'तुज्या म्हऱ्यांत आमी जेवल्यांव आनी पियेल्यांव आनी आमच्या रस्त्यांचेर तुवें शिकोवण दिल्या. *(मातेव)* सोमया, सोमया, तुजो संदेश आमी परगटलो, न्हय? आनी तुज्या नांवान आमी देवचार काडले, न्हय? आनी तुज्या नांवान सबार विसमितां आमी केलीं, न्हय?' *(लूक)* आनी तो तुमकां सांगतलो: 'तुमी खंयचीं तीं हांव नकळों. वायट करतल्यांनो, सगळीं तुमी म्हजे थावन पयस सरात!' तेदनां आब्राहाम, इजाक, जाकोब आनी समेस्त प्रवादी देवाच्या राज्यांत आसलले आनी तुमकां भायर उडयल्लीं पळेवन, तुमी थंय रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतल्यात. उदेंते, अस्तमते, उत्तरे आनी दखिणे थावन लोक येतलो आनी देवाच्या राज्यांत जेवणाक बसतलो. आनी, पळेयात, आतां निमाणीं आसात तीं पयलीं जातलीं आनी पयलीं आसात तीं निमाणीं जातलीं."

**227.** *लूक 13,31-33*

### हेरोद आंतिपासाची धमकावणी

तेच घडयेर फारिजेवांतले कांय जाण येवन जेजूक सांगूंक लागले: “हांगासरलो भायर सरून वच, तर हेरोद तुजो जीव काडूंक सोदता.” आनी ताणें म्हळें: “वचात आनी त्या कोल्याक अशें सांगात: ‘चत्राय धर, हांव आज आनी फाल्यां देवचार काडतां आनी पिडारोग बरो करतां, आनी तिसऱ्या दिसा म्हजो शेवट जोडतलों. तरिपूण आज, फाल्यां आनी परवां हांवें चलत रावूंक जाय, तर जेरुजाल्या भायर मरूंक एका प्रवाद्याक पुटवना.’ ”

**228.** *लूक 14,1-6*

### एका सनवारा जेजूक जेवणाक आपयलो नायकूट जाल्ल्या मनशाक जेजू बरो करता

मागीर अशें जालें: एका सनवारा दिसा फारिजेवांच्या कोण एकल्या मुखेल्यागेर जेजू जेवणाक गेल्लो तेदनां, ते ताका तेळून पळयताले. उदक आंगांत भरून सुजललो एक मनीस थंय ताच्या म्हऱ्यांत आसलो. धर्मशास्त्र्यां आनी फारिजेवां लागीं उलोवन जेजून म्हळें: “सनवारा दिसा पिडेवंतांक बरीं करूं येता की ना?” पूण ते वोगेच रावले. तेदनां ताणें ताका धरून बरो केलो आनी धाडलो. आनी तांचे लागीं उलोवन जेजून म्हळें: “तुमच्या कोणायचो पूत वा पाडो बांयत पडलो जाल्यार, सनवार म्हणून रोकडोच ताका काडिनासताना तो रावत मू?” ह्या उतराक जबाब दिंवक तांच्यान नजो जालें.

**229.** *लूक 14,7-11*

### पयले वयले जागे विंचून काडचे न्हय

पयले वयले जागे कशे भाशेन विंचून काडताले तें पळेवन, जेवणाक आपयलल्यांक जेजून अशी एक वोपार सांगली: “तुका लग्नाच्या

जेवणाक कोण आपयत तेदनां, वचून मानाचे सुवातेर बसूं नाका; कित्याक तुज्यावून अदीक मानादीक दुसऱ्या कोणाक ताणें घडयेक आपयला जायत, आनी तुमकां दोगांकूय आपयल्यात तो थंय येवन तुका म्हणत: 'तुजी सुवात हाका दी.' तेदनां, लज जावन, तुवें निमाणी सुवात घेंवची पडत. देखून कोण तुका जेवणाक आपयत तेदनां, वचून निमाणे सुवातेर बस; हे परीं तुका आपयला तो येत तेदनां, ताका अशें म्हणूंक मेळतलें: 'इश्टा, वयले सुवातेर वचून बस'. तेदनां बराबर जेवणाक बसलल्यां हुजीर तुका मान जातलो. ***कित्याक आपणांकूच ऊंच काडतात तांकां देव खाला उडयतलो आनी आपुणूच खालतीं जातात तांकां देव ऊंच काडतलो.*** ”

**230.** *लूक 14,12-14*

### *प्रितिमोगाच्यो फुंक्याच्यो करण्यो*

आनी आपणाक आपयल्लो ताकाय जेजून सांगलें: “तूं दोनपारचें वा रातचें जेवण दिताय तेदनां, तुज्या इश्टांक, वा भावां भयणींक, वा सोयऱ्यांक, वा गिरेस्त शेजाऱ्यांक आपयनाका, कित्याक घडयेक तींय तुका परत आपणागेर आपयतीत आनी तुजे आपोवणें बाद करतीत. पूण जेवण दिताय तेदनां, दुबळ्यांक, खोडयांक, थोंट्यांक आनी कुरड्यांक आपय. तांच्यान तुजें आपोवणें बाद करूंक जायना म्हणतच, तूं भागी जातलोय; पूण देवाक मानवललीं मनशां पुनरजिवंत जातलीं तेदनां, तुजी तुका मजुरी मेळतली.”

**231.** *लूक 14,15-24*

### *व्हडल्या जेवणाची वोपार*

हें आयकून, बराबर जेवणाक बसलल्यांतल्या एकल्यान जेजूक म्हळें: “देवाच्या राज्यांत जेवणाक बसत तो सुभागी.” पूण जेजून ताका सांगलें: “कोण एकल्या मनशान एक व्हडलें रात जेवण केलें आनी जायत्या लोकाक आपयलो. 'येयात, सगळें तयार जालां,' अशें

आपयल्ल्यांक वचून सांगूंक, जेवणाचो वगत जातच, ताणें आपल्या चाकराक धाडलो. पूण सगळेच एक सारके निबां दिंवक लागले. पयल्यान चाकराक म्हळें: 'हांवें भाट विकतें घेतलां, तें म्हाका वचून पळेंवक जाय; देखून म्हाका माफी कर म्हण उपकार मागतां.' दुसऱ्यान म्हळें: 'हांवें पाड्यांचीं पांच जोतां विकतीं घेतल्यांत, तीं तपासूंक वेतां; देखून माफी कर म्हण उपकार मागतां.' तिसऱ्यान म्हळें: 'हांव हालींच लग्न जालां, म्हणतच म्हाका येंवक जायना.' हें सगळें चाकरान परत येवन आपल्या धनयाक कळीत केलें. तेदनां पिंडळून घरकारान आपल्या चाकराक सांगलें: 'नगराच्या रस्त्यांचेर आनी बिदिंनी वेगीं वच आनी गरिबांक, पांगळ्यांक, कुरड्यांक आनी थोंट्यांक हांगा घेवन ये.' मागीर चाकरान म्हळें: 'धनया, तुज्या हुकुमा परमाणें केलें; तरी आसताना आनिकूय सुवात आसा.' आनी धनयान चाकराक सांगलें: 'नगरा भायल्या रस्त्यांचेर आनी व्होडपां मदें वच आनी म्हजें घर भरता तशें लोकाक भितर येंवक बळ कर. हांव तुमकां सांगतां: आपयल्ल्यां भितरलो एकलो लेगून म्हजें जेवण चाकूंक पावचो ना.' "

**232.** *लूक 14,25-26; मातेव 10,37-38*

**खरो शीस**

*(लूक)* खूप लोकाचे जमे जेजू बराबर चलताले आनी ताणें वळोन तांकां म्हळें: ***"जर कोणूय म्हजेशीं येतीत आनी आपल्या आवयचो, बापायचो, भुरग्यांचो, भावांचो आनी भयणिंचो, आनी आपल्या जिवाचो परयान द्वेस करिना जातीत, तांकां म्हज्या शिसां मदें जागो ना.*** *(मातेव)* ***म्हजेवून आपल्या बापायचो वा आवयचो अदीक मोग करतात तीं म्हाका उपकारनांत; म्हजेवून आपल्या पुताचो वा धुवेचो अदीक मोग करतात तीं म्हाका उपकारनांत; आपलो खुरीस घेवन म्हजे पाटल्यान येनांत तीं म्हाका उपकारनांत."***

**233.** *लूक14,28-30*

### गोपूर बांदूंक येवजितलो मनीस

“तुमचे भितरलो कोणूय एक गोपूर बांदूंक सोदीत जाल्यार, तो सोंपोंवक गरज तितलो खर्च करूंक आपणा लागीं जायत की ना, हाचो आदीं पयलो बसून अदमास करचो नागाय? ना तर, बुनयाद मारल्या उपरांत, तें शात्ती पावोंवक ताका तांक ना जायत जाल्यार, पळेतात तितलींय ताच्यो मसकऱ्यो करून म्हणतलीं: ‘ह्या मनशान बांदूंक आडायलें, पूण ताच्यान सोंपोंवक नजो जालें.’ ”

**234.** *लूक 14,31-33*

### झुजाक भायर सरललो राजा

“वा कोण राजा दुसऱ्या एका राजाचेर झूज करूंक वेतलो जाल्यार, धा हजार सैनीक घेवन वीस हजारांची फौज हाडता ताका आपणाच्यान फुडो करूंक जाता की ना, तें आदीं पयलें बसून चिंतिना जायत? जायना तर, तो पयसूच आसताना, निरोपी धाडून ‘समाधानाची बली करुंया’ म्हण मागतलो. तेच भाशेन, तुमचे मदलीं कोणूय आपणा लागीं आसत तितलेंय सोडून दिना जातीत जाल्यार, तांकां म्हज्या शिसां मदें जागो ना.”

**235.** *लूक 15,1-7*

### देवाच्या दयाळपणाच्यो वोपारी<br>सांडललें मेंडरूं

दंडवसुलदार आनी सगळे तरेचीं पातकी मनशां जेजूक आयकूंक ताचेशीं येतालीं; आनी फारिजेव तशे धर्मशास्त्री गुणगुणून अशें म्हणताले: “हो मनीस पातक्यांक बरे भाशेन घेता आनी तांचे बराबर जेवता खाता.” देखून ताणें तांकां अशी एक वोपार सांगली: “तुमचे मदें शेंबर मेंडरां आसललो कोण एक मनीस आसा म्हण समजात; तांतलें एक मेंडरूं सांडलें म्हणुंया; नव्याण्णव अरण्यांत सोडून, सांडलां तें मेळसर ताका सोदूंक वचनासताना तो रावतगाय? आनी

तें मेळल्या उपरांत, तो खुशाल जावन ताका खांदार घालता आनी घरा पावतच, इश्टांक आनी शेजाऱ्यांक आपोवन तो म्हणता: 'म्हज सांडललें मेंडरूं मेळलें म्हण म्हज्या वांगडा खुशाल जायात.' तेच भाशेन, ***एक पातकी मनीस जिवीत बदलीत जाल्यार, ताचे पासत सर्गार केदो व्हडलो संतोस जातलो! जिवीत बदलपाची आपणाक गरज ना म्हण चिंततलीं नव्याण्णव प्रमाणीक मनशां आसतीत तर, हांचे पासत सर्गार येदो संतोस ना म्हण हांव तुमकां सांगतां!"***

**236.** लूक 15,8-10

***सांडललो नाणो.***

"वा रुप्याचे धा नाणे आसलली कोण एक बायल, तांतलो एक सांडत जाल्यार, पणती पेटोवन, घराक सारण मारून, तो नाणो मेळसर म्हेनतीन सोदिनासताना रावतगाय? आनी तो मेळल्या उपरांत, ती आपल्या इश्टिणींक आनी शेजारणींक आपोवन म्हणता: 'म्हजो सांडललो नाणो म्हाका मेळलो म्हण म्हज्या वांगडा खुशाल जायात.' तेच परीं, ***हांव तुमकां सांगतां, एक पातकी मनीस जिवीत बदलीत जाल्यार, देवाचे दूत संतोसभरीत जातले."***

**237.** *लूक 15,11-32*

***दयाळ मोवाळ काळजाचो बापूय: वोपार***

आनिकूय ताणें सांगलें: "कोण एकल्या मनशाक दोग पूत आसले आनी तांचे मदल्या धाकट्यान बापायक अशें म्हळें: 'बापा, म्हाका पडता तो दायजाचो वांटो म्हाका काडून दी.' आनी ताणें तांकां दायज वांटून दिलें. आनी थोड्या दिसां भितर धाकट्या पुतान आपणाचें आसलें तितलेंय एकटांय केलें आनी घरांतलो भायर सरून तो एका पयशिल्या गांवांत गेलो आनी थंय मस्तें जिवीत जियेवन ताणें आपले गिरेस्तकायेची वाट लायली:

आनी ताणें सगळें होगडावन उडयतच, त्या गांवांत एक खर भूक पडली आनी तोय अडचणीक सांपडलो. तेदनां वचून तो त्या गांवांतल्या कोण एकल्यागेर चाकरेक रावलो; आनी हाणें ताका आपल्या शेतांत दुकरां चरोंवक धाडलो; आनी दुकरां खातात त्यो सांगो तरी खावन आपलें पोट भरूंक ताका खुशी येताली, कित्याक कोण ताका जेवणाक कांयच दिनासलो. शेकीं, सैराणांत येवन, ताणें म्हळें: 'कितले दिसवड्याचे मानाय म्हज्या बापायच्या घरांत नाका पुरो जायसर जेवून खावून आसात, आनी हांव हांगा भुकेन मरतां! तर हांव उटून म्हज्या बापाशीं वेतलों आनी ताका म्हणतलों: बापा हांवें सर्गाचेर आनी तुजेर आड पातक केलां; म्हाका तुजो पूत म्हणूंक आनीक म्हाका फावना; तुज्या मानायांतलो एकलो कसो म्हाका धर.' आनी उटून तो आपल्या बापायशीं गेलो. पयसूच आसताना ताच्या बापायन ताका देकलो आनी ताचें काळीज चुरचुरलें; आनी धांवून वचून तो ताच्या गळ्यार पडलो आनी ताचे उमे घेयत रावलो. पुतान ताका म्हळें: 'बापा, हांवें सर्गाचेर आनी तुजेर आड पातक केलां; म्हाका तुजो पूत म्हणूंक आनीक म्हाका फावना.' तेदनां बापायन आपल्या चाकरांक सांगलें: 'बऱ्यांतलें बरें एक वस्त्र वेगिंचे वेगीं हाडून ताका न्हेसयात; ताच्या बोटाक मुदी आनी पांयांक व्हाणो घालात; गुलगुलीत पाडकुलो हाडून मारात; जेवण करुंया आनी बरें बरें खावनपिवन खुशाल जावुंया; कित्याक ***हो म्हजो पूत मेल्लो, तो नव्यान जिवंत जाला; सांडललो, तो परत मेळला.*** ' आनी तांणीं जेवूंक सुरू केलें.

तेदनां ताचो व्हडलो पूत शेतांत आसलो आनी येवन घरा लागीं पावतां पावतां ताणें संगीत आनी नाच जातात तीं आयकलीं आनी, एका चाकराक आपोवन, कितें जालांगाय म्हण ताणें विचारलें. चाकरान जाप दिली: तुजो भाव आयला, आनी तो सलामती पावलो म्हण तुज्या बापायन गुलगुलीत पाडकुलो मारला. पूण तो जबर रागार जालो आनी परतिपाळून ताणें बापायक अशें म्हळें: 'पळे, इतलीं वर्सां जालीं हांव तुजी सेवा चाकरी करतां आनी तुजें उतर

हांवें केदनांच मोडूंक ना, तरी म्हज्या इश्टां बराबर जेवूंक पियेंवक तुवें म्हाका केदनांच एक बोकडो लेगून दिलो ना; पूण शिंदळ बायलां बराबर आपलें दायज खावन होगडावन हो तुजो पूत येयना फुडें तुवें ताचे पासत धाटोमोटो पाडकुलो मारलो!' पूण ताणें ताका सांगलें: 'पुता म्हज्या, तूं सदांच म्हज्या सांगाता आसाय आनी जें कितें म्हजे लागीं आसा तें सगळें तुजेंच. ***पूण बरें जेवण करून आमी खुशाल जांवक पुरतें कारण आसलें: हो तुजो भाव मेल्लो, तो नव्यान जिवंत जाला; सांडललो, तो परत मेळला.' "***

**238.** *लूक 16,1-8*

***गिरेस्तकायेचो फावो तो उपेग तजवितेचो मुकदम***

जेजून आपल्या शिसांक अशें सांगलें: "कोण एकलो गिरेस्त मनीस आसलो आनी ताका एक मुकदम आसलो; तो ताचे गिरेस्तकायेची वाट लायता म्हण कोणें ताचे सरशें वचून हाचेर फिर्याद दिली. हाका आपोवन हाडून, धनयान विचारलें: 'तुजे विशीं हांव हें आयकतां तें कितें? तुज्या कारभाराचो हिशोब दी; तर ह्या फुडें म्हजो मुकदम जांवक तुका मेळचें ना!' तेदनां मुकदमान आपणाच भितर म्हळें: 'म्हजो धनी म्हजे कडचें मुकदमपण काण घेता म्हणतच, हांव आतां कितें करूं? खणूंक वचूं म्हाका बळ ना; भीक मागून भोंवतलों? छेट, कसली लज सायबा! शाबास, कळलें म्हाका! म्हाका मुकदमपणा वेलो निकळायल्या उपरांत, कोणें तरी म्हाका आपणागेर घेंवचे खातीर हांवें कितें करचें तें म्हाका येवजलें!' आपल्या धनयाच्या एक एकल्या रिणकाऱ्याक आपोवन, ताणें पयल्या लागीं विचारलें: 'म्हज्या धनयाक तूं कितलो देवो आसा?' ताणें जाप दिली: 'शेंबर मण तेल.' मुकदमान ताका सांगलें: हें पळय तुजें लेखपत्र: 'बस हांगा आनी वेगीं ताचेर पन्नास बरय.' मागीर दुसऱ्याक विचारलें; 'आनी तूं कितलें देवो आसाय?'

ताणें परतिपाळ केलोः ‘शेंबर खांडयो गंव.’ मुकदमान ताका सांगलें: ‘हें पळे तुजें लेखपत्र घे आनी अंयशीं बरय.’

तजवितेन आपलें काम केलें म्हण सोमयान त्या नाडबुधिच्या मुकदमाचो गूण वर्णिलो, कित्याक संसारी मनशां आपल्या सारक्यां लागीं चलता घोळताना उजवाडाच्या मनशां परस अदीक तजवितेचीं.”[1]

## 239. *लूक 16,9-13*

### *वोपार जिविताक कशी लांवची*

“तर हांव तुमकां सांगतां: गिरेस्तकाय बुरशी, पूण तुमकां इश्ट जोडून घेंवक तिचो उपेग करात; अशें ती अंतरून वेतली तेदनां, ते तुमकां सासणाच्या बिराडांनी स्वागत करून घेतले. जीं एकदम उण्या मोलाच्या वस्तुंनी खात्रेचीं, तीं ऊंच मोलाच्याय वस्तुंनी खात्रेचीं; आनी जीं एकदम उण्या मोलाच्या वस्तुंनी खोटीं, तीं ऊंच मोलाच्याय वस्तुंनी खोटीं. म्हणतच, जर ह्या संसारांतले म्हेळे गिरेस्तकायेचो फावो तो उपेग करूंक तुमकां पातयेंवक नजो जालें, तर खरी अस्सल गिरेस्तकाय तुमच्या हातांत घालूंक कोण तुमकां पातयेतलो? देवान तुमकां उशण्यो दिल्यात त्या वस्तुंनी तुमी जर विस्वाशी रावूंक नांत, तर तुमच्योच जांवच्यो आसात त्यो वस्तू देव कसो दितलो तुमकां?

खंयच्याच गुलामांनी दोगां धनयांची बराबर चाकरी करूं नजो, कित्याक तीं एकल्याक चिकटून रावतलीं आनी दुसऱ्याची बेपर्वा

---

[1] त्या काळार जुदेवां मदें बऱ्या मुकदमाची मजुरी अशी जातालीः आपल्या धनयाचो म्हाल विकताना, आपणाक निती परमाणें फावो तें लावून, त्या त्या म्हालाचें मोल तो चडयतालो. हाचे भायर दुसरी मजुरी ताका नासली. आतां हे वोपारींत, पयलो रिणकारी फकत 50 मण तेल आनी दुसरो रिणकारी फकत 80 खांडयो गंव देवो आसलो जातलो. म्हणतच पयल्याक 50 मण तेल आनी दुसऱ्याक 20 खांडयो गंव सोडून, त्या मुकदमान आपल्या धनयाक फटोंवक ना आनी नागोंवक ना; ताणें आपणाकूच फावो आसलें तें सोडलें. हाचे आदीं ताणें चोरयो केल्ल्यो देखून धनी ताका आपल्या मुकदमपणांतलो निकळांवक वेता, पूण आतां तजवितेन आपलो आतांचो लागशिलो फायदो सोडून, तो मुकदम आपलो फुडार सुगूर करता. फकत हे ताचे तजवितेक वा बुदवंतपणाक लागून जेजू ताका वाखाणता, आनी देवाचो उजवाड घेवन आपलें जिवीत संसारांत मांडतात आनी चलयतात तीं, अशेंच तजवितेचीं आनी बुदवंत मनशां जांवचीं म्हण जेजू सांगूंक सोदता.

करतलीं. *तुमच्यान देवाचीं आनी बराबर गिरेस्तकायेचीं गुलामां जांव नजो."*

**240.** *लूक 16,14-15*

### *देव फारिजेवांचीं काळजां वळकता*

हें सगळें आयकून, धनगिरेस्तकायेक लब्दल्ले फारिजेव ताच्यो मसकऱ्यो करूंक लागले. आनी ताणें तांकां सांगलें: "मनशाचे नदरेक आपूण प्रमाणीक म्हण दाकोंवक ते तुमीच, पूण देव तुमचीं काळजां बरो वळकता; तर मनशां ऊंच मोलाचें म्हण लेकेंतात तें देवा मुखार कांटाळो."

**241.** *लूक 16,19-31*

### *गिरेस्त मनीस आनी भिकारी लाजार: वोपार*

"कोण एक गिरेस्त मनीस आसलो; तो तांबडीं आनी नाजूक सणी वस्त्रां न्हेसतालो आनी दिसाच्या दिसा बरीं बरीं जेवणां करून धादोशी जियेतालो. आनी लाजार नांवाचो एक भिकारी, सगळोच चवनांनी भरोन, ताच्या दारवंट्याशीं पडोन आसतालो. गिरेस्ताच्या मेजा वेलें पडता तें खावन आपलें पोट भरूंक तो आशेतालो. सुणीं लेगून येवन ताचीं चवनां लेंवतालीं. मागीर एक दीस तो भिकारी मेलो आनी देवदुतांनी ताका आब्राहामाच्या गोपांत व्हरून दवरलो. तो गिरेस्तूय मेलो आनी ताका व्हरून पुरलो. यमकोंडांत आटेविटे भोगता आसताना, आपले दोळे उबारून आब्राहामाक आनी ताच्या गोपांत आसलल्या लाजाराक ताणें पयस थावन देकले, आनी अशी बोब मारली: 'आब्राहाम बापा, म्हजे चुरचुरे धर आनी आपल्या बोटाची तेंबी उदकांत बुडोवन म्हजी जीब थंड करूंक लाजाराक धाड, कित्याक ह्या उज्यांत हांव भारीं वळवळतां.' आनी आब्राहामान म्हळें: 'पुता म्हज्या, तुज्या जिवितांत जितलें तुवें सूख भोगलें, तितलें लाजारान दूख सोसलें म्हण उगडास कर; म्हणतच आतां ताका बुजवण मेळता आनी तूं दगदगताय. तितलेंच न्हय; कोण



वरीं वरीं जेवणां करतात थोडीं,
उपाशीं भोंवतात दुसरीं.
(आंक 241 वाच)

हांगा थावन तुमचेशीं वचूंक सोदीत जाल्यार, ताच्यान जायना, कित्याक आमचे आनी तुमचे मदें मोटें व्हडलें पाताळ थिरायल्लें आसा.' तेदनां ताणें म्हळें: 'तशें जाल्यार, बापा, ताका म्हज्या बापायच्या घरा धाड म्हण तुजे लागीं परातून मागतां: तर म्हाका पांच भाव आसात; तेय हे वळवळ्यांचे स्वातेर येना जांवक, ताणें तांकां शिडकांवचे.' पूण आब्राहामान ताका सांगलें: 'तांकां मोयजेस आनी प्रवादी आसात; तांचें तांणीं आयकुंचें.' पूण ताणें परतून म्हळें: 'तशें न्हय, आब्राहाम बापा. मेल्ल्यांतलो कोणूय तांचेशीं वचत जाल्यार, ते जिवीत बदलतले.' शेकीं आब्राहामान ताका सांगलें: 'मोयजेसाचें आनी प्रवाद्यांचें ते आयकनांत जाल्यार, मेल्ल्यांतलो कोणूय जिवंत जाल्यार लेगून तांच्या मनांत सत रिगचें ना.' "

**242.** *लूक 17,7-10*

## *चालतीं बेश्टीं चाकरां*

"तुमचे मदें कोण एका मनशाक एक चाकर आसा म्हण समजात; शेत कसून वा मेंडरां चरोवन तो चाकर परत घरा येता तेदनां, 'चल वेगीं आनी जेवणाक बस,' अशें ताका धनी म्हणतलो- गाय? हाचे भाशेक, 'म्हजें जेवण तयार कर आनी हांव खायपियेसर, पेंक़टाक कास मारून मेजाचें काम कर आनी मागीर तूं खा पिये,' अशें तो म्हणचो नागाय? आपणे सांगललीं कामां चाकरान केलीं देखून धनयाक चाकराचो उपकार आसतलो? तशेंच, तुमकां सांगललें तितलेंय केल्या उपरांत, तुमीय म्हणात: 'चालतीं बेश्टीं चाकरां आमी; आमचो कायदो आसलो तोच आमी पाळला.' "

# XX - जेजुची निमाणी भोंवडी

**243.** *लूक 17,11-19*

### *धा कोडकार*

जेरुजाल्याक वेता आसताना, जेजू सामारियेचे आनी गालिलेयाचे शिमे वेल्यान चलत वेतालो. एका गांवांत भितर सरताना, कोड फुटलले धा जाण ताका वाटेर मेळले; ते पयस उबे रावले आनी, व्हडल्यान उलो मारून, तांणीं म्हळें: "जेजू, गुरुजी, आमची काकळूत कर!" ताणें तांकां पळेवन म्हळें: "वचात आनी याज्ञिकांक तुमचें आंग दाकयात." आनी थंय वेता आसतानाच ते नितळ जाले. तांतलो एकलो, आपूण बरो जालो म्हण देकना फुडें, देवाक व्हडल्यान वाखाणीत परतून आयलो, आनी जेजुच्या पांयांशीं ओमतो पडून ताणें ताचे आभार मानले; आनी तो एक सामारियेकार आसलो. हें पळेवन जेजून ताका अशें म्हळें: "धाय जाण नितळ जाले, न्हय? तर हेर नव खंय पावले तर? ह्या परक्या मनशा भायर, परत येवन देवाची तोखणाय करतलो कोणूच ना जालो!" आनी ताणें ताका म्हळें: "ऊट आनी वच; तुज्या भावार्तान तुका बरो केलो."

**244.** *लूक 17, 20-21*

### *देवाच्या राज्याचें येणें*

देवाचें राज्य केदनां येंवचें आसा तें फारिजेवांनी जेजू लागीं विचारलें तेदनां, ताणें अशी तांकां जाप दिली: "नदरेक पडतात तसल्या खुणांनी देवाचें राज्य येंवचें ना. 'हें, पळे, हांगा आसा; तें, पळे, थंय आसा, अशें लोक म्हणचो ना.' तर जाणा जायात: देवाचें राज्य तुमचे मदें आसा."

**245.** *लूक 17, 22-37*

## *जेजुचें दुसरें येणें*

आनी ताणें आपल्या शिसांक सांगलें: “मनशाच्या पुताचो एक दीस तरी पळेंवक तुमी आशेतल्यात तसलो दीस येतलो, पूण तुमकां तो पळेंवक मेळचो ना. तेदनां कोण तुमकां सांगतलो: ‘हो थंय पळे!’ वा ‘हांगासर पळे!’ भायर सरूं नाकात आनी तांचे पाटल्यान वचूं नाकात. जशें अंतराळाचेर एके शिमेर थावन जोगलावणें मारून दुसरे शिमेर परयान लकलक घालता, तशेंच, ताचो दीस येता तेदनां, मनशाच्या पुताचें जातलें. पूण त्या आदीं तो जायतें सोसतलो आनी ही आतांची पिंडका ताका भायरायतली: ही देवाची खुशी.

जशें नोआच्या काळार जालें, तशेंच मनशाच्या पुताच्या काळार जातलें. नोआ तारवांत भितर सरलो तो दीस परयान लोक खाता पियेतालो, लग्न जावन आनी लग्न करून दिवन आसलो; त्या म्हणसर पर्याळो आयलो आनी ताचे वरवीं तीं सगळीं नाटाक जालीं. आनी जशें लोताच्या दिसांनी घडलें, तशेंच जातलें. लोक खाता पियेतालो, विकतालो आनी विकतें घेतालो, लायता खोयतालो आनी घरां बांदतालो; पूण ज्या दिसा लोत सोदोमांतलो भायर सरलो, त्या दिसा सर्गार थावन उज्या आनी गंधकाचो पावस पडून ताचे वरवीं सगळ्यांचो भस्म जालो. मनशाच्या पुताची प्रकासणी जातली त्या दिसा तशेंच जातलें. तो दीस येतच कोण पाटसार आसत आनी ताची मुस्तायकी घरांत आसत जाल्यार, ती व्हरूंक ताणें सकल येंवचें न्हय, तशेंच शेतांत आसत ताणें पाटीं वेचें न्हय; लोताचे बायलेक कितें घडलें ताचो उगडास करात.[1]

---

[1] त्या दिसा संसारांतल्यो वस्तू होगडायल्यो म्हण कोणाकूच खंत भोगची न्हय. लोताचे बायलेक असली खंत दिसली देखून ती पाटीं पळेंवक लागली आनी थंयचे थंयच तिची जाली एक मिटाची मुर्ती: पाटीं सोडललें तें तिका मेळूंक ना, फुडें मेळतलें आसलें तेंय तिका गावूंक ना *(उत 19,26)*.

आपलो जीव सांबाळूंक सोदतात तीं आपलो जीव इबाड करतलीं, आनी आपलो जीव इबाड करतात तीं आपलो जीव वांचयतलीं. हांव तुमकां सांगतां: ते राती दोग जाण एका हांतरूणार न्हिदलले आसतले, पूण तांतल्या एकल्याक व्हरतले आनी दुसऱ्याक सांडतले. दोगी बायलो एका दांत्यार दळून आसतल्यो, पूण तांतले एकलेक व्हरतले आनी दुसरेक सांडतले." तांणीं जेजू लागीं विचारलें: "सायबा, खंय?" आनी ताणें तांकां सांगलें: "मडें आसत थंय गिदूय एकटावतले."

**246.** *लूक 18,1-8*

## खोटो नितिदार: वोपार

सदांच मागणें करची गरज आनी जीव सोडचो न्हय म्हण जेजून शिसांक अशी एक वोपार सांगली: "एका नगरांत कोण एक नितिदार आसलो; ताका देवाची भिरांत, न्हय म्हण मनशाची भिडाय नासली; आनी त्या नगरांत कोण एकली विदवा आसली. ताचेशीं येवन येवन ती अशी मागताली: 'न्याय करून म्हज्या दुस्मानाच्या हातांतली म्हाका निवार.' पूण जायतो काळ ताणें तिचें आयकलें ना. तरी मागीर ताणें आपणाच भितर म्हळें: 'हांव देवाक भियेना आनी मनशाचीय भिडा हांव धरिना खरो; तरिपूण ही विदवा म्हाका त्रास दिता देखून, हांव तिका न्याय करून दितलों; ना जाल्यार, येवन येवन शेकीं ती म्हजो जीव खातली.' " सोमयान फुडें म्हळें: "तो खोटो नितिदार कितें सांगता ताका चीत दियात. तर देव आपणाक दीसरात उलो मारतल्या आपल्या विंचलल्यांक सोसणिकायेन कान दिंवचो ना आनी तांचो न्याय करून तांकां निवारचो ना? हय हांव तुमकां सांगतां, तो तांकां वेगींच निवारतलो. तरिपूण मनशाचो पूत येतलो तेदनां, ताका संसारांत भावार्त मेळतलोगाय?"

**247.** *लूक 18,9-14*

### *फारिजेव आनी दंडवसुलदार: वोपार*

आपूण प्रमाणीक म्हण समजून, आपणाचेरूच पातयेताले आनी हेरांक लेखिनासले, तसल्या कांय मनशांक जेजून अशी एक वोपार सांगली: “दोग जाण, एकलो फारिजेव आनी दुसरो दंडवसुलदार, मागणें करूंक देवमंदिरांत चडून गेले. तो फारिजेव नीट उबो रावून असो आपल्या मनांत मागणें करतालो: ‘देवा, हांव तुका धिनवासतां, कित्याक हांव हेरां मनशां सारको न्हय, ते चोर नागोवणे, अन्यायी, परद्वारी; हे त्या दंडवसुलदाराय सारको न्हय हांव. सातोळ्याक दोन पावटीं हांव उपास करतां, म्हजे कडे आसा तितल्याचोय धावो वांटो फारीक करतां.’ तो दंडवसुलदार आपलो पयस उबो रावलो; दोळे परयान सर्गार लावूंक ताका काळीज जायना जालें; पूण, हरदें बडोवन बडोवन तो म्हणतालो: ‘देवा, हांव एक पातकी! म्हजी काकळूत कर!’ हांव तुमकां सांगतां, हो मनीस देवाक मानवललो जावन आपल्या घरा परतलो, पूण तो दुसरो देवाक मानवललो जांवक ना. ***कित्याक आपणाकूच ऊंच काडता ताका देव खाला उडयतलो, आपुणूच खालतो जाता ताका देव ऊंच काडतलो!”***

**248.** *मार्कू 10,2-12*

### *लग्नाची गांट*

कांय फारिजेवांनी लागीं सरून, जेजूक कसाक लावूंक, ताचे कडे अशें विचारलें: “घोवान आपले बायलेक सोडून दींव येता?” ताणें तांकां परतून विचारलें: “मोयजेसान तुमकां कसलो हुकूम घाला?” तांणीं सांगलें: “लग्न मोडण्याचें पत्र बरोवन दिवन तिका सोडून दिंवक मोयजेसान रजा दिल्या.” तेदनां जेजून तांकां असो जबाब दिलो: “तुमी आपल्याच वाद्याचे देखून, तुमकां ही आज्ञा

ताणें बरोवन दिली. पूण रचणेच्या आरंबाक थावन 'देवान तांकां दादलो आनी बायल केलीं. ह्या पासत मनीस आपल्या बापायक आनी आवयक सोडतलो आनी आपले पतिणीक एकटवतलो, आनी तीं दोगांय एक जातलीं.' देखून तीं ह्या फुडें दोगां न्हय, पूण एकूच. म्हणतच देवान एकटांय केलां तें मनशान दोशीं करूं नये."

घरांत नव्यान भितर सरतच शिसांनी हे विशीं दुसरीं ताका विचार केलो. आनी ताणें तांकां सांगलें: "आपले बायलेक सोडून दिवन, दुसरे कडे लग्न जायत तो पयले बायलेचेर आड परद्वार करता; आनी एक बायल आपल्या पतीक सोडून दुसऱ्या कडे लग्न जायत जाल्यार, तीय परद्वार करता."

**249.** *मातेव 19,10 -12*

### देवाच्या राज्याचो कठीण नेम

शिसांनी ताका म्हळें: "घोवबायले मदें परिस्थिती अशी जाल्यार, लग्नूच जायनासताना रावल्यार अदीक बरें." पूण ताणें अशी तांकां जाप दिली: "हें मानून घेंवक सगळ्यांच्यान जायना. जांकां देवान हें देणें फावो केलां तांच्यानूच जाता. आवयच्या कुसव्यांत थावन हिजडे जल्मल्ले आसात, आनी मनशांनी केल्ले हिजडे आसात, आनी सर्गिंच्या राज्याक लागून आपणाकूच हिजडे करून घेवपी आसात. मानून घेंवक जाता तांणीं हें मानून घेंवचें."

**250.** *मार्क 10,13-16*

### जेजू भुरग्यांक आशिर्वाद दिता

जेजून धाकटुल्यां भुरग्यांक हात लांवचे खातीर, लोक तांकां ताचे सरशें हाडतालो. शिसांनी तांकां बोबाट केली. हें पळेवन, जेजू रागाभरीत जालो आनी ताणें तांकां म्हळें: "सुपुरल्या भुरग्यांक म्हजे



"भुरग्यांक म्हजेशीं येंवक दियात:
सर्गिचें राज्य असल्यांचेंच।"
(आंक 250 वाच)

सरशें येंवक दियात; तांकां आडायनाकात, कित्याक सर्गिचें राज्य तसल्यांचेंच. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: ल्हान भुरग्या परीं देवाचें राज्य मानून घेना तो तांतूं भितर सरचो ना." उपरांत ताणें तांकां वेंगेंत घेवन आनी तांचेर आपले हात दवरून तांकां आशिर्वाद दिलो.

**251.** मार्कू 10,17-19; मातेव 19,19b-20; मार्कू 10,21a;
मातेव 19,21; मार्कू 10,22

### *गिरेस्त तरणाटो*

*(मार्कू)* जेजू वाटेक लागच्या वेळार एक मनीस धांवून आयलो; ताचे मुखार दिंबी मोडून ताणें जेजू कडें विचारलें: "बऱ्या गुरुजी, सासणीक जिवीत म्हजें दायज करून घेंवचे खातीर हांवें कितें करूंक जाय?" जेजून ताका म्हळें: "म्हाका बरो कित्याक म्हणताय? एकल्याच देवाक काडून कोणूच बरो न्हय. तूं आज्ञा जाणाय: 'जिवेशीं मारूं नये; परद्वार करूं नये; चोरूं नये; लटीक गवाय दींव नये; पेल्याक फसोंव नये; तुज्या बापायक आनी आवयक मान दी. *(मातेव)* आनी तुजो मोग करताय तसोच तुज्या पेल्याचो कर.'" त्या तरणाट्यान ताका म्हळें: "ह्यो सगळ्यो आज्ञा हांवें सांबाळल्यात; म्हाका कितें आजून उणें आसा?"

*(मार्कू)* तेदनां चितान ताचेर नदर घालून जेजूक ताची अपुरबाय दिसली, आनी ताणें म्हळें: "एक तुका उणें: *(मातेव)* आखी वाट टांकूंक तुका खुशी जाल्यार, वच, तुजे लागीं आसा तितलेंय विकून गरिबांक दी, आनी सर्गार तुका ठेवो मेळतलो; त्या मागीर म्हजे पाटल्यान ये."

*(मार्कू)* पूण हीं उतरां आयकून ताच्या तोंडार काळोक पडलो आनी खंतिभरीत जावन तो कडसरलो, कित्याक ताचे लागीं खूप गिरेस्तकाय आसली.

**252.** *मार्कू 10,23-27*

### गिरेस्तकाय आनी देवाचें राज्य

जेजून आपणा भोंवतणीं नदर मारून आपल्या शिसांक म्हळें: "गिरेस्तकाय आसलल्यांक देवाच्या राज्यांत भितर सरूंक कितलें कठीण!" हीं उतरां आयकून शीस थटाकले. पूण जेजून नव्यान उलोवन म्हळें: "म्हज्या भुरग्यांनो, देवाच्या राज्यांत भितर सरूंक कितलें म्हण कठीण! एका गिरेस्त मनशाक देवाच्या राज्यांत भितर सरचे परस, एका उंटाक सुयेच्या बिरड्यांतल्यान वचूंक अदीक सोंपें."[1] ते अदीक थटाकले आनी एकामेकाक म्हणूंक लागले: "तशें जाल्यार, कोणाक म्हण तारण मेळत?" जेजून तांचेर दोळे लावून तांकां सांगलें: "मनशां कडे तें घडना; पूण देवा कडे तशें न्हय, कित्याक देवा लागीं सगळें घडता."

**253.** *मातेव 19,27-28; मार्कू 10,29b-30*

### जेजू पासत गरीब जाल्ल्यांची मजुरी

*(मातेव)* तेदनां जाप दिवन पेद्रून म्हळें: "पळे, आमी सगळें सांडलां आनी तुजो पाटलाव केला; तर आमकां कितें मेळतलें?" जेजून तांकां सांगलें: "खरेंच हांव तुमकां सांगतां: संसार सगळो नवो जांवच्या वेळार, मनशाचो पूत आपल्या म्हयमेच्या शिंवासनार बसतलो तेदनां, म्हजो पाटलाव केला ते तुमीय बारा शिंवासनांचेर बसतल्यात आनी इस्रायेलाच्या बारा कुळांचेर अधिकार चलयतल्यात."

*(मार्कू)* कोणूय म्हजे पासत आनी शुभवर्तमाना पासत घरदार, वा भाव, वा भयणी, वा आवय वा बापूय, वा भुरगींबाळां, वा शेतांभाटां सांडतीत जाल्यार, तीं आतां, ह्याच काळांत, एकाक

---

[1] एक वस्त घडों नज म्हण सांगूंक ही म्हण्णी जुदेव लोका मदें आसली: "एक ऊंट सुयेच्या बिड्यांतल्यान वचत."



"एका गिरेस्त मनशाक सर्गिच्या राज्यांत भितर सरूंक कितलें म्हण कठीण!"
(आंक 252 वाच)

शेंबर घेतलीं – घरांदारां, भाव, भयणी, आवय, भुरगींबाळां आनी शेतांभाटां – पूण धुमाळोय भोगतलीं, आनी येता त्या काळांत सासणीक जिवीत जोडतलीं.''

**254.** *मातेव 19,30; 20,1-16a*

### दाकां मळ्यांतले वावराडी

''सबार जाणां पयलीं आसात तीं निमाणीं जातलीं, आनी निमाणीं पयलीं जातलीं.

सर्गिचें राज्य अशें: एक भाटकार फांत्यार उटून आपल्या दाकांच्या मळ्यांत काम करूंक मानाय आपोंवक भायर सरलो. दिसवड्याक एक दिनार[1] फारीक करूंक वावराड्यां लागीं कबलात करून, ताणें तांकां आपल्या मळ्यांत धाडले. सुमार नव वाजतां भायर सरून, तिंट्यार बेकार आसलल्या हेरांक ताणें देकले आनी तांकां म्हळें: 'तुमीय म्हज्या मळ्यांत वचात आनी हांव तुमकां फावो तें दितलों' आनी ते गेले. परतून बारा आनी सांजेचीं तीन वाजतां भायर सरून ताणें तशेंच केलें. सुमार पांच वाजतां तो आनीक एक पावट भायर सरलो आनी आनिकूय उबे आसलले ताका मेळले, आनी ताणें तांकां म्हळें: 'तुमी आखो दीस हांगासर कित्याक बेकार रावल्यात?' तांणीं जबाब दिलो: 'आमकां कोणेंच वावराक लावूंक नांत देखून.' ताणें तांकां सांगलें: 'तुमीय म्हज्या मळ्यांत वचात.'

तिनसांजेर मळ्याच्या धनयान आपल्या मुकदमाक म्हळें: 'वावराड्यांक आपय आनी निमाण्या थावन सुरू करून पयल्यांक परयान दिसवडो दी.' सुमार पांच वाजतां कामाक लागलले ते आयले आनी जण एकल्याक एक दिनार मेळलो. पयले आयलले ते लागीं सरून आपणाक अदीक मेळतलें म्हण समजले; पूण तांकांय जण एकल्याक एकूच दिनार मेळलो.

---

[1] सुमार एक रुपय. त्या काळार पालेस्तिनांत आनी हेरांय देसांनी मानायाचो दिसवडो इतलोच आसलो.

ताणीं तो घेतलो खरो, पूण ते भाटकाराचेर गुणगुणून म्हणूंक लागलेः 'ह्या निमाण्यांनी, एकूच तास भर काम केलां, आनी आमी जाल्यार आख्ख्या दिसाचो भार आनी हुनेत घेतल्यांत, तरी आमकां आनी तांकां तुवें एकसारके केले!' पूण तांतल्या एकल्याक जबाब दिवन ताणें सांगलेंः 'इश्टा, हांव तुका अनीत करिनां; तर एका दिनाराची तुवें म्हजे कडे कबलात केली नाय? तुजें तें घे आनी वच. तुका दिलां तितलेंच ह्या निमाण्यांकूय दिंवक म्हाका खुशी. तर म्हज्या पयशांचें म्हाका जाय तें म्हज्यान करूं नजो? वा हांव बरो म्हण तुजो दोळो फुटलो?'

हेच परीं निमाणीं पयलीं जातलीं, आनी पयलीं तीं निमाणीं जातलीं."

## XXI जेजू लाजाराक नव्यान जिवंत करता

**255.** जु *11,1-16*

### *पिडेस्त लाजाराची जेजूक खबर पावता*

बेतानियेचो लाजार नांवाचो कोण एकलो मनीस पिडेंत आसलो; मारिया आनी तिची भयण मार्ता त्याच गांवच्यो आसल्यो. सोमयाक परमळीत तेलान माखलो, आनी ताचे पांय आपल्या केंसांनी पुसले ती मारिया ही. तिचो भाव लाजार बरो नासलो. देखून भयणिंनी जेजूक सांगून धाडलें: "सोमया, तुजो इश्ट बरो ना." ही खबर आयकून जेजून म्हळें: "हे पिडेन तो मरचो ना; ती देवाचे म्हयमे खातीर आयल्या; तिचे वरवीं देवाच्या पुताकूय म्हयमा मेळतली!"

मार्ता, तिची भयण मारिया आनी लाजार, हांचो जेजू मोग करी. तरिपूण तो बरो ना म्हण ताका खबर पावली तेदनां आसलो तेच स्वातेर जेजू आनीक दोन दीस रावलो. त्या उपरांत ताणें शिसांक म्हळें: "आनीक एक पावट जुदेयांत वचुंया." शिसांनी जबाब दिलोः "गुरुजी, निकतेच परयान जुदेव तुका फातरांवक

करताले, आनी तूं परत थंय वेताय?" जेजून परतिपाळ केलो
"एका दिसाक बारा तास आसात की ना? दिसाचो चलता ता
पांय आदळनांत, कित्याक तो ह्या संसाराचो उजवाड देकता. पूण
कोण रातचो चलता जाल्यार, ताचे पांय आदळतात, कित्याक ता
उजवाड ना!" अशें उलोवन जातच, ताणें तांकां म्हळें: "आमचे
इश्ट लाजार न्हिदला, पूण हांव ताका उटोंवक वेतां." शिसांनी
ताका सांगलें: "सोमया, तो न्हिदला जाल्यार बरो जातलो." जेजून
ताच्या मरणाची खबर केल्ली, पूण तो न्हिदेच्या विसवाची खबर
सांगतालो म्हण तांकां दिसलें. तेदनां जेजून तांकां स्पश्ट सांगलें
"लाजार मेलो; आनी हांव थंय नासलों म्हण, तुमचे पासत खुशाल
जातां, कित्याक आतां तुमचो भावार्त घट जातलो. पूण चल या,
ताचेशीं वचुंया." जंवळो म्हणलल्या तोमासान आपल्या चांगड्या
शिसांक म्हळें: "आमीय वचुंया, ताचे बराबर आमीय मरुंया."

**256.** *जु 11,17-31*

### *जेजू लाजाराच्या घरा पावता*

जेजू पावलो तेदनां, लाजाराक समाधींत घाल्यार चार दीस जाले म्हण ताका कळलें. बेतानिया जेरुजाल्याक लागींच आसली, सुमार तीन किलोमेत्राची वाट. आनी जायतीं जुदेयकारां मार्ताक आनी मारियेक, तांच्या भावा पासत, पाचारुंक आयललीं. जेजू येता म्हण आयकून, मार्ता ताका मेळूंक गेली, पूण मारिया घरांत बसून रावली. मार्तान जेजूक म्हळें: "सोमया, तूं हांगासर आसलोय जाल्यार, म्हजो भाव मरचो नासलो. आनी आजून परयान तूं देवा लागीं मागशी तितलेंय देव तुका दितलो म्हण हांव जाणां." जेजून तिका म्हळें: "तुजो भाव नव्यान जिवो जातलो." मार्तान ताका परत म्हळें: "तो निमाण्या दिसा, पुनरजिवंतपणाच्या समयार, नव्यान जिवंत जातलो म्हण हांव जाणां." जेजून तिका परतिपाळ केलो:

*"पुनरजिवंतपण आनी जिवीत हांवूच.*

*जीं कोण म्हजेर भावार्त दवरतात,*
*तीं मेलींय जाल्यार जिवीं आसतलीं;*
*आनी जीं कोण जिवीं आसात*
*आनी म्हजेर भावार्त दवरतात,*
*तीं सासणाक मरचीं नांत*

हो भावार्त आसा मूं तुका?'' तिणें ताका म्हळें: ''हय, सायबा, संसारांत येंवचो आसलो तो अभिशिक्त देवाचो पूत तो तूंच म्हण म्हाका भावार्त आसा.'' अशें म्हणतच, ती आपले भयणी मारियेक आपोंवक गेली, आनी तिका कुशीन व्हरून म्हळें: ''गुरुजी हांगा आसा आनी तुका आपयता.'' हें आयकून ती रोकडीच उटली आनी ताचे सरशें गेली. जेजू आजून ग्रामांत पावूंक नासलो, पूण मार्ता ताका मेळलली थंयच आसलो. तिका घरांत बुजवण दितालीं तीं जुदेयकारां मारिया वेगींच उटता आनी भायर वेता तें पळेवन, ती समाधी सरशें रडूंक वेता म्हण चिंतून, तिचे पाटल्यान गेलीं.

**257.** जु *11,32-44*

## जेजू लाजाराक नव्यान जिवंत करता

जेजू आसलो थंय पावतच, ताका पळेवन मारिया ताच्या पांयां पडली; तिणें म्हळें: ''सायबा, तूं हांगा आसलोय जाल्यार, म्हजो भाव मरचो नासलो.'' मारिया रडताली ती आनी तिचे सांगाती आयललीं तीं जुदेयकारां रडतालीं तीं पळेवन, जेजू भोव कळवळलो आनी सगळोच थरथरलो. ताणें विचारलें: ''ताका तुमी खंय घाला?'' तांणीं ताका सांगलें: ''सोमया, ये आनी पळे.'' जेजूक रडूंक आयलें. देखून जुदेयकारांनी म्हळें: ''पळेयात, हो ताचो कितलो मोग करी!'' पूण तांचे भितरल्या थोड्यांनी म्हळें ''हाणें न्हय रे कुरड्याचे दोळे उगडले? तर ताच्यान हाका मरणांतलो निवारूंक जायनासलो?''

तेदनां नव्यान सगळोच कळवळोन जेजू समाधिशीं आयलो. ती एक धोल आसली आनी तिच्या तोंडार एक फातर ओडलली. जेजून म्हळें: "फातर कुशीन काडात." मार्तान, मेल्ल्याचे भयणीन, ताका म्हळें: "सोमया, आतां ताका घाण मारतली; ताका चार दीस जाले." जेजून तिका सांगलें: "तूं भावार्त धरशी जाल्यार, देवाची म्हयमा देखतलीय म्हण हांवें तुका सांगूंक ना?" म्हणतच तांणीं फातर कुशीन काडली.

तेदनां दोळे उबारून जेजून म्हळें: ***"बापा म्हजें आयकलेंय देखून हांव तुका धिनवासतां. म्हजें सदांच आयकताय म्हण हांव जाणा आसलों, पूण भोंवतणीं आसलल्या लोका पासत, तुवें म्हाका धाडलाय म्हण तांणीं भावार्त धरचे खातीर, हांव असो उलयलों."***

हें म्हणल्या उपरांत तो व्हडल्यान असो आरडलो: "लाजार, भायर सर!" मेल्लो तो भायर आयलो, ताचे हात आनी पांय फाळयांनी बांदलले, आनी ताचें तोंड रुमालान धांपललें. जेजून तांकां सांगलें: "ताचे बांदपास सोडात, ताका वचूं दी."

**258.** जु *11,45-53*

### *जेजूक मारूंक म्हाधर्मसभेचो थाराव*

जेजून केल्लें तें पळेवन, मारियेशीं आयलल्यां जुदेयकारांतल्या जायत्या जाणांनी ताचेर भावार्त ठेवलो. पूण तांचे भितरल्या कांय जाणांनी फारिजेवांशीं वचून जेजून केल्लें तें तांकां कळयलें. म्हणतच मुखेल याझिकांनी आनी फारिजेवांनी म्हाधर्मसभेची बसका आपयली. तांणीं म्हळें: "हो मनीस जायत्यो खुणा करून दाकयता. आमी कितें करतांव? आनी आमी ताका असोच सोडलो जाल्यार, सगळो लोक ताचेर भावार्त दवरतलो, आनी रोमी अधिकारी येतले आनी आमच्या देवमंदिराचो आनी आमच्या राष्ट्राचो भस्म करतले." तांचे मदलो एकलो, कैफास नांवाचो, त्या वर्साचो परमयाझीक आसलो; ताणें तांकां म्हळें: "तुमी कांयच समजनांत. आमच्या आख्या

ाश्ट्राचो भस्म जांवचे परस, परजे पासत एकलो मेल्यार अदीक फायद्याचें: हें तुमी समजच नांत." हें ताणें आपल्याच मनांतलें सांगूंक ना; पूण त्या वर्साचो परमयाज्ञीक कसो ताणें अशें भाकीत केलें, जेजू परजे पासत मरचो आसलो, आनी न्हय फकत परजे पासत पूण देवाच्या आयसपयस शिंपडलल्या भुरग्यांक जमा करून एक करचे पासत. त्या दिसा थावन ताका जिवेशीं मारूंक तांणीं थाराव घेतलो.

**259.** *जु 11,54-57*

### *जेजू एफ्राईम नगरांत वचून रावता*

देखून जेजू जुदेवां मदें उग्तेपणीं भोंवना जालो; पूण थंयसरलो भायर सरून, अरण्या लागीं आसलल्या प्रांतांत, एफ्राईम नांवाच्या नगरांत, गेलो आनी थंय आपल्या शिसां बराबर रावलो. जुदेवांचें पास्क लागीं पावललें. पास्का आदीं आपली शुद्धी करूंक जायतो लोक गांवांगांवां थावन जेरुजाल्याक चडून गेल्लो. तीं जेजूक सोदतालीं, आनी देवमंदिरांत एकामेकाक म्हणतालीं: "तुमकां कितें दिसता? तो उत्सवाक येतलो की ना?" ताका धरचे खातीर मुखेल याज्ञिकांनी आनी फारिजेवांनी असो हुकूम घाल्लो, की जेजू खंय आसा तो कोणाक खबर आसत जाल्यार, आपणाक तें कळोंवचें.

## XXII - जेजू जेरुजाल्याची वाट धरता

**260.** *मार्कू 10,32-34; लूक 18,34*

### *कश्टांमरणा आनी पुनरजिवंतपणा विशीं जेजुचें तिसरें भाकीत*

*(मार्कू)* ते जेरुजाल्याक चडून वेताले; जेजू शिसां फुडें चलतालो; शीस घाबरलले आनी पाटल्यान वेतालीं तीं भियेल्लीं. बारा जाणांक नव्यान लागीं घेवन आपणाक घडचें आसलें ते विशीं अशें तो तांकां सांगूंक लागलो: "पळेयात, आमी जेरुजाल्याक चडून वेतांव; आनी

मनशाचो पूत मुखेल याज्ञिकांक आनी धर्मशास्त्र्यांक पराधीन जांवचो आसा; ते ताचेर मरणाचें फरमण मारतले आनी ताका विदेशियांचे आधीन करतले; आनी ते ताच्यो केंडण्यो करतले, ताचेर थिंपी उडयतले, ताका जेरबंद दितले आनी जिवेशीं मारतले; आनी तीन दिसां उपरांत देव ताका पुनरजिवंत करतलो.'' *(लूक)* पूण हांतलें कांयच ते समजले नांत आनी ह्या उतरांचो अर्थ तांकां लिपोवन उरलो आनी कित्या विशीं जेजू अशें उलयतालो तें ते समजुंकूच नांत.

**261.** *मातेव 20,20-21; मार्कू 10,38-40*

### *व्हडवीक सोडात, सेवक जायात, गुलाम जायात.*

*(मातेव)* जेबेदेवाच्या पुतांची आवय जेजू सरशें आपल्या पुतांक घेवन आयली आनी ताचे कडे कितें मागूंक आयल्ले भाशेन ताच्या पांयां पडली. आनी ताणें तिका म्हळें: ''तुका कितें जाय?'' तिणें म्हळें: ''ह्या म्हज्या दोगां पुतांक, एकल्याक तुज्या उजव्या हाता आनी दुसऱ्याक दाव्या हाता, तुज्या राज्यांत बसूंक लाय.''

*(मार्कू)* जेजून तांकां म्हळें: ''तुमी कितें मागतात तें तुमीच नकळोत. हांवें पियेंवचें आसा त्या पात्रांतलें तुमच्यान पियेंवक जायत, वा हांवें घेंवचें आसा तें स्नान तुमच्यान घेंवक जायत मू?'' तांणीं ताका जबाब दिलो: ''आमच्यान जाता.'' जेजून तांकां सांगलें: ''हांवें पियेंवचें आसा त्या पात्रांतलें तुमी पियेतल्यात आनी हांवें घेंवचें आसा तें स्नान तुमी घेतल्यात खरें; पूण म्हज्या उजव्या वा दाव्या हाताक बसूंक दिंवक म्हज्या हातांत ना; तें देवान निरमून दवरलां तांकांच.''

**262.** मार्कू 10,41-45

### *जेजू खालतिकायेची वाट दाकयता*

बाकिचे धा जाण हें आयकून जाकोबाचेर आनी जुवांवाचेर चिडले. देखून तांकां आपणा सरशें आपोवन, जेजून म्हळें: ***''विदेश्यां मदें***

*तांचे अधिकारी म्हणलले आपली पदवी तांचेर जबरदस्तेन चलयतात म्हण आनी तशेंच तांचे व्हडील आपले सत्तेचो भार तांचेर घालतात म्हण तुमी जाणात. तुमचे मदें तशें जांवचें न्हय. तुमचे भितर कोण व्हड जांवक सोदीत तो तुमचो सेवक जांवचो; आनी तुमचे मदें पयलो जांवक सोदीत तो सगळ्यांचो गुलाम जांवचो. कित्याक मनशाचो पुतूय हेरांक आपले चाकरेक लावूंक येंवक ना, पूण हेरांची चाकरी करूंक आनी समेस्तांक मुक्ती दिंवचे पासत आपलो जीव दिंवक आयला."*

**263.** *लूक 18,35a; मार्कू 10,46b-51; लूक 18,42-43*

### कुरड्या बारतिमेवाक जेजू नदर दिता.

*(लूक)* जेजू जेरिक्या लागीं पावतालो; *(मार्कू)* शिसांक घेवन लोकाच्या व्हड जम्या बराबर वेताना, बारतिमेव, म्हणगे तिमेवाचो पूत, म्हणललो एक कुरडो रस्त्याचे देगेर भिकेक बसून आसलो. नाजारेतकार जेजू तेवशिल्यान वेता म्हण आयकतच तो अशी बोब मारूंक लागलो: "जेजू, दाविदाच्या पुता, म्हजी काकळूत कर!" सबार जाणांनी ताका बोबाट केली आनी ओगो राव म्हण सांगलें, पूण तो अदीक व्हडल्यान बोब मारीत रावलो: "दाविदाच्या पुता, म्हजी काकळूत कर!" जेजू थांबलो; ताणें तांकां म्हळें: "ताका हांगा आपयात." तांणीं त्या कुरड्याक आपयलो आनी ताका सांगलें: "धीर धर; ऊट; तो तुका आपयता." आपलो झुबो सांडून आनी उडून उडून तो जेजू सरशें आयलो. तेदनां जेजून म्हळें: "हांवें तुका कितें केल्लें जाय?" कुरड्यान ताका असो जबाब दिलो: "राब्बोनी (म्हणगे 'गुरुजी'), म्हाका नव्यान नदर येशी कर." *(लूक)* जेजून ताका सांगलें: "नव्यान नदर घे. तुज्या भावार्तान तुका बरो केलो." आनी रोकडीच ताका नदर आयली, आनी देवाची तुस्त करीत तो ताचे पाटल्यान गेलो. आनी हें पळेवन सगळ्या लोकान देवाक वाखाणलो.

**264.** *लूक 19,1-10*

**जाकेव**

जेजू जेरिक्यांत भितर सरून नगरांतल्यान चलत वेतालो. थंय जाकेव नांवाचो मुखेल दंडवसुलदारांतलो एकलो आनी आस्तीक मनीस अवचितूच थंय पावलो. जेजू कोण तो जाकेव पळेंवक सोदतालो. पूण आंगान मोटवो देखून, लोकाचे खेटीक लागून ताच्यान नजो जालें. त्या पासत जेजूक पळेंवचे खातीर तो फुडें धांवून वचून एका रुंबडाच्या झाडार चडलो, कित्याक जेजू ते वाटेन वेचो आसलो. त्या जाग्यार पावतच, जेजून वयर नदर मारली आनी ताका पळेवन म्हळें: "जाकेव, वेगीं देंवून ये, तर आज म्हाका तुमगेर वचून रावूंक जाय." आनी तो वेगीं वेगीं देंवलो आनी खुशालकायेन ताका आपणागेर सनिमान केलो. हें पळेवन सगळ्या लोकान गुणगुणून म्हळें: "पातकी मनशागेर रावूंक गेला मुरे हो!" सगळ्यांचे नदरेक उबो रावून जाकेवान सोमयाक म्हळें: "सायबा, पळे, म्हाका आसा तितल्याचोय अर्दो वांटो हांव गरिबांक दितां, आनी हांवें कोणाक फसयला जाल्यार चोवपट परतून दितां." जेजून ताका म्हळें: "आज ह्या घराक तारण आयलें, कित्याक होय आब्राहामाचो पूत. तर ***मनशाचो पूत सांडलल्यांक सोदून काडूंक आनी तारण दिंवक आयला."***

**265.** *लूक 19,11-28*

**वांटलल्या मिनांची वोपार**

लोक हें आयकता आसताना जेजून आनीक एक वोपार सांगली, कित्याक तो जेरुजाल्याक लागीं पावलल्लो आनी देवाच्या राज्याची वेगींच प्रकासणी जातली म्हण तीं समजतालीं म्हणतच ताणें सांगलें: "कोण एक ऊंच कुळयेचो मनीस आपणाक राजा करून घेवन परत येंवचे खातीर एका पयशिल्या देसांत गेलो. आपल्या धा सेवकांक



तुज्याय जिवितांत भितर सरूंक आशेता जेजू!

(आंक 264 वाच)

आपोवन हाडून, तांकां ताणें धा मिनां[1] वांटून दिलीं आनी म्हळें 'हांव परतून येसर हे घेवन वेपारधंदो करात!' ताचे गांव भाव ताक जळताले आनी ताचे पाटल्यान तांणीं निरोपी धाडून अशें सांगलें 'हो आमचो राजा जाल्लो आमकां नाका!' तरिपूण तो राजा जावन परत आयलो, आनी ज्या सेवकांक ताणें दुडू दिल्ले, तांतल्या जण एकल्यान कितलोसो वेपाराचो आदाव काडलो तें पळेंवक, ताणें तांकां आपोंवक् लायले. पयल्यान येवन म्हळें: 'धनया, तुज्या एका मिनान धा मिनां जोडलीं.' ताणें जबाब दिलो: 'शाबास, बऱ्या सेवका, इल्लेशे वस्तूंत तूं विस्वाशी जालोय देखून, हांव तुका धा नगरांचेर अधिकार दितां.' आनी दुसऱ्यान येवन म्हळें: 'धनया, तुज्या एका मिनान पांच मिनां जोडलीं.' आनी हाकाय ताणें म्हळें! 'आनी तुका हांव पांच नगरांचेर अधिकार दितां.' मागीर तिसऱ्यान येवन म्हळें: 'धनया, तुजें मीन हें पळे आसा; एका रुमालाक बांदून हांवें तें कुशीन दवरललें; कित्याक म्हाका तुजी भिरांत दिसली, तर तूं खर मनीस; तुवें दवरूंक ना तें तूं उकलून व्हरताय आनी तुवें वोंपूंक ना तें तूं लुंवून उबारताय.' राजान ताका जाप दिली: 'आरे नश्ट्या चाकरा, तुजींच उतरां धरून तुजेर हांव खास्तिचें फरमण मारतां. हांव खर मनीस, हांवें दवरूंक ना तें हांव उकलून व्हरतां आनी हांवें वोंपूंक ना तें हांव लुंवून उबारतां म्हण तूं तर जाणा आसलोय. तशें जाल्यार, म्हजो दुडू तुवें बेंकेंत कित्याक घालो ना? परत येवन कलांतरा सैत हांव तो घेतलों आसलों!' आनी थंय आसलल्यांक ताणें सांगलें: 'हाचे कडचें तें मीन काडून घेयात आनी धा मिनां आसात ताका दियात!' आनी तांणीं ताका म्हळें: 'धनया ताचे लागीं धा मिनां आसात मू!' 'तर हांव तुमकां सांगतां, ज्या कोणा लागीं आसा, ताका आनिकूय मेळतलें; पूण ज्या कोणा लागीं ना, ताचे लागचें आसा तेंय काण वेतलें. पूण हांव तांचो राजा जाल्लों

---

[1] *मीन (म्ना)* = 100 द्राक्मांच्या वा दिनारांच्या मोलाचो नाणो.

नाका असलल्या त्या म्हज्या दुस्मानांक हांगासर हाडात आनी म्हज्या दोळ्यां हुजीर तांचो जीव काडात.'

अशें उलयल्या उपरांत जेरुजाल्याक चडून वचपाची वाट धरून जेजू फुडें गेलो.

**266.** *जु 12,1-3a; मार्कू14,3b; जु 12,3b-6; मार्कू 14,6-9*

## बेतानियेंत जेवण

*(ज)* पास्कांचे परबेक स दीस आसात म्हळ्यार, जेजू बेतानियेक आयलो; ताणें मेल्ल्यांतलो जिवंत केल्लो तो लाजार हांगा रावतालो. थंय ताका एक जेवण केलें;[1] मार्ता परामस करताली आनी ताचे बराबर जेवणाक बसलल्यां मदें लाजार आसलो. तेदनां मारिया *(मार्कू)* ऊंच मोलाचें असल जटामांशेचें परमळीत तेल एका चंद्रकांती आयदनांत घेवन आयली, आनी आयदन फोडून तिणें तें तेल जेजूच्या माथ्यार ओतलें, *(जु)* ताचे पांय माखले आनी आपल्या केसांनी ते पुसले, आनी तेलाच्या दमदमीत परमळान घर भरलें. तेदनां ताच्या शिसां मदलो एकलो, ताचो घात घेतलो आसलो तो, जुदास इस्कारियोत, हाणें म्हळें: "कित्याक म्हण हें परमळीत तेल तिनशीं दिनारांक[2] विकूंक ना आनी ताचे पयशे कित्याक म्हण गरिबांक दिंवक नांत?" ताका गरिबांचें पडललें म्हण न्हय, पूण तो चोर आसलो देखून ताणें तशें म्हळें; ताचे लागीं पंगतिची गांट आसताली आनी तांतूं लोक घालतालो तें तो आपणाक काडी.

*(मार्कू)* पूण जेजून म्हळें: "सोडात तिका; तिका तुमी कित्याक त्रास दितात? तिणें म्हजे सरीं एक बरी करणी केली. गरीब लोक तुमचे मदें सदांकाल आसाच, आनी तुमकां जाय तेदनां तुमच्यान तांकां बरें करूंक जाता; पूण हांव सदांच तुमच्या सांगाता आसचो नां. तिचे कडे घडतालें तें तिणें केलें; आदीं फुडें म्हजी कूड तिणें निखिपिणेक माखली. खरेंच तुमकां सांगतां: आख्या संसाराक हें

---

[1] मातेव म्हणता: *"कोडकारा शिमांवाच्या घरा."*

[2] सुमार 300 रुपय.

शुभवर्तमान परगट जायत तितल्याय स्वातांर जें हिणें केलां तें तिच्या उगडासाक परगट जातलें."

**267.** *जु 12,9-11*

## *लाजाराक जिवेशीं मारचो थाराव*

जेजू थंय आसा म्हण जुदेयकारांतल्या जायत्या जाणांक कळ्ळें. म्हणतच तीं थंय आयलीं, जेजुचेच पासत म्हण न्हय, पूण ताणें मेल्ल्यांतलो नव्यान जिवंत केल्ल्या लाजाराकूय पळेंवक. म्हणून मुखेल याज्ञिकांनी लाजाराकूय जिवेशीं मारचो म्हण थारायलें, कित्याक, ताका लागून, जायतीं जुदेयकारां तांकां सोडून जेजुचेर भावार्त ठेवतालीं.

# चोवथो भाग

## कश्टमरण आनी पुनरजिवंतपण

### *कश्टांमरणा आदल्यो घडण्यो*

## XXIII - जेरुजाल्यांत जेजुचो जैतिवंत प्रवेस

(ताळयांचो आयतार)

**268.** *लूक 19,29; मातेव 21,2-3; लूक 19,32-34 ;*
*मार्कू 11,6b मातेव 21,7*

***तयारी***

*(लूक)* आनी अशें घडलें:[1] जैतुनाच्या म्हणतात त्या दोंगरा सरशें आसत्या बेतफाजे आनी बेतानिये लागीं पावतच जेजून दोगां आपल्या शिसांक धाडले *(मातेव)* अशें सांगून: "तुमच्या फुड्यांत आसा त्या ग्रामांत वचात. थंय रोकडें तुमकां मेळतलें एक बांदललें गाडूं आनी ताच्या सांगाता ताचें शिंगरूं.[2] तांकां सोडात आनी म्हजे सरशीं हाडात. कोणूय तुमकां कितें म्हणत तर, सोमयाक तांची गरज आसा म्हण सांगात; आनी तांकां तो रोकडोच व्हरूंक दितलो."

*(लूक)* धाडलले ते गेले आनी, सांगललें तशें, एक गाडवाचें शिंगरूं तांकां मेळ्ळें. त्या शिंगराक ते सोडतासताना, तांच्या धनयांनी तांकां म्हळें: "त्या शिंगराक कित्याक सोडतात तुमी?" तांणीं अशी जाप दिली: "सोमयाक ताची गरज देखून." *(मार्कू)* आनी त्या मनशांनी तांकां वचूंक दिलें. *(मातेव)* आनी गाडवाक आनी शिंगराक हाडून, तांणीं तांचेर आपलीं आवरणां घालीं आनी जेजूक वयर बसयलो.

**269.** *मातेव 21,8-9, 4-5; जु 12,16-19; लूक 19,39-40*

***जेजू जेरुजाल्यांत प्रवेस करता***

*(मातेव)* खूप लोकान आपलीं आवरणां वाटेर पातळायलीं; दुसरीं

---

[1] जुवांव म्हणता: "दुसऱ्या दिसा", म्हणगे बेतानियेंत केल्ल्या जेवणा उपरांतल्या दुसऱ्या दिसा.

[2] लूक चडयता: "ताचेर कोणूच आजून परयान बसूंक ना तसलें."

कांय जाणां झाडांचे ताळे मोडून ते वाटेर शिंपडायतालीं. फुडल्या आनी पाटल्यान वेतालो तो लोक बोब मारून म्हणतालो "दाविदाच्या पुताक जय! सर्वेस्पराच्या नांवान येता ताका जय! भो वरत्या देवाक जय! जय!" हें सगळें घडोन आयलें प्रवाद्यां वर्व देवान सांगून दवरललें तें पाळचे खातीरः "शियोनाचे धुवेक सांगात हो पळे तुजो राय तुजेशीं येता; तो भोळो; एका गाडवाचेर आनी ताच्या पोराचेर, जूं घेतलले आवयच्या पोराचेर, तो बसून येता." *(जु)* ताचे शीस पयलीं ह्यो वस्तू समजले नांत; पूण जेदनां देवान जेजूक म्हयमेवंत केलो, तेदनां ताचे विशीं अशें बरयल्लें आसलें म्हण आनी ताका अशें केल्लें म्हण तांकां उगडास आयलो. लाजाराक सामाधिंतलो भायर आपयलो आनी ताका मेल्ल्यांतलो उटयलो तेदनां जेजू बराबर आसलो तो लोक हे घडणे विशीं गवाय दितालो. ह्याच पासत लोकाची उरपंज ताका मेळूंक भायर सरली: जेजून ही खुणा केल्ली म्हण तांणीं आयकल्लें. तेदनां फारिजेवांनी एकामेकाक म्हळें: "पळेलें मू? आमचें कांयच चलना; आखो संसार ताचे पाटल्यान चल्लो."

*(लूक)* लोका मदल्यान कांय फारिजेवांनी ताका म्हळें: "गुरुजी, तुज्या शिसांक बेश्टाय." आनी ताणें तांकां असो परतिपाळ केलोः "हांव तुमकां सांगतां: हीं वोगी रावतीत जाल्यार, फातर परयान आरडूंक लागतले."

**270.** *लूक 19,41-44*

## जेजू जेरुजाल्या पासत रडता

जेजू जेरुजाल्या लागीं पावतां पावतां, शार नदरेक पडतच, ताचे वयर दुकां गळोवन ताणें म्हळें: "आयच्या दिसा तरी, तुका शांतीक पावयतल्यो वाटो तुवेंय मात वळकून घेतलल्यो जाल्यार! पूण ना; तुज्या दोळ्यांक त्यो आतां लिपलल्यो आसात. हय, तुजेर असले दीस येतले, की तुजे दुस्मान तुजे भोंवतीं दुर्गां उबारतले, तुका वेढो

घालतले, आनी सगळ्या वाटांनी तुका चिंरगटतले; आनी तुका आनी तुज्या कोटां भितर आसलल्या तुज्या भुरग्यांबाळांक धरणीर आपटितले आनी तुजे भितर फातरार फातर उबो उरूंक ते दिंवचे नांत; कित्याक देव तुका भेट दिंवक आयलो तो दीस तुवें वळकलो ना!"[1]

**271.** *मातेव 21,10-11; 14-16*

### *जेजूक भुरग्यांचे जयकार*

आनी जेरुजाल्यांत प्रवेस करतच, "हो कोणगाय?" म्हणून आखें शार चळबळलें. लोक जबाब दिवन म्हणतालो: "हो जेजू, गालिलेयांतल्या नाजारेतचो प्रवादी!"

कुरडीं आनी थोंटीं ताचे सरशीं देवमंदिरांत आयलीं आनी ताणें तांकां बरीं केलीं. ताणें केल्लीं अजापां पळेवन, आनी 'दाविदाच्या पुताक जय!' अशें म्हणून भुरगीं मंदिरांत आरडतालीं तें पळेवन, मुखेल याज्ञीक आनी धर्मशास्त्री जबर चिडले, आनी तांणीं ताका विचारलें: "हीं कितें म्हणतात तें तुवें आयकलां मू?" जेजून असो जबाब दिलो: "हय! 'भुरग्यांच्या आनी दूद पियेतल्यांच्या तोंडांतली वाखाण्णी तुवें जोडली!'– अशें तुमी केदनांच वाचूंक ना बी?"

**272.** जु *12,20-36a; मातेव 21,17b*

### *कांय ग्रीक लोक जेजूक मेळूंक सोदतात*

*(जु)* उत्सवाच्या समयार, देवाक भजूंक जेरुजाल्याक चडून आयलल्यां मदें थोडो ग्रीक लोक आसलो. गालिलेयांतले बेतसायदेचो फिलीप, हाचे सरशीं येवन, तांणीं अशी मागणी केली: "सायबा, आमी जेजूक पळेंवक सोदतांव." फिलिपान वचून आंद्रेक सांगलें; आंद्रेन आनी फिलिपान बराबर जेजूक सांगलें.

---

[1] तितूस नांवाच्या मुखेल सेनापती खाल रोमी फौजांनी जेरुजालें शार घेतलें तेदनां (70व्या वर्सा) हें भाकीत पाळोन आयलें.

जेजून तांकां परतिपाळ केलो:

*“मनशाच्या पुताक*
*देवान म्हयमेवंत करचो वेळ पावलो.*
*खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां:*
*गंवाचो कणो जमनीर पडून*
*मरना जाल्यार, तो तसोच उरता;*
*पूण मरत जाल्यार, जायतें पीक दिता.*
*जीं कोण आपल्या जिवाचो मोग करतात,*
*तीं आपलो जीव इबाडतात;*
*आनी जीं कोण ह्या संसारांत*
*आपल्या जिवाचो द्वेस करतात,*
*तीं आपलो जीव सासणीक जिविताक सांबाळतात.*
*कोणूय म्हजी सेवा करतात जाल्यार,*
*तांणीं म्हजो पाटलाव करूंक जाय;*
*आनी जंय हांव आसां,*
*थंय म्हजीं सेवकांय आसतलीं.*
*कोणूय म्हजी सेवा करतात जाल्यार,*
*म्हजो बाप तांकां मान दितलो.*
*आतां म्हज्या जिवाचेर आकांत आयला.*
*हांवें कितें म्हणचें?*
*बापा, ह्या वेळांतलो म्हाका निवार.*
*पूण ना, ह्याच पासत हांव संसारांत आयलां,*
*देखून आतां हांव ह्या वेळाक पावलां.*
*बापा, तुज्या नांवाक म्हयमा जोडून घे.”*

तेदनां सर्गार थावन एक ताळो आयलो: “हांवें म्हज्या नांवाक म्हयमा जोडून घेतल्या आनी नव्यान म्हयमा जोडून घेतलों.”

हें आयकून लागीं आसलल्या लोकान म्हळें: “गडगड मारला.” दुसऱ्यांनी म्हळें: “एक देवदूत ताचे कडे उलयला.” जेजून परतिपाळ केलो:

*"हो ताळो म्हजे पासत न्हय,*
*तर तुमचे पासत आयला.*
*आतां ह्या संसाराची मनसुबी करचो वेळ;*
*आतां ह्या संसाराच्या अधिकाऱ्याक*
*देव भायर घालतलो.*
*आनी जेदनां म्हाका जमनिवेलो ऊंच उबारतीत,*
*तेदनां हांव सगळ्या मनशांक*
*म्हजेशीं वोडून हाडतलों."*

अशें म्हणून आपूण कसले तरेचें मरण भोगचो आसलो, तें ताणें दाकोवन दिलें .

लोकान ताका जबाब दिलोः "अभिशिक्त सदांकाल जिवो आसतलो म्हण आमी शास्त्रांतलें आयकलां. मनशाच्या पुताक उबारूंक जाय म्हण तूं कसो सांगताय तर? कोण तो मनशाचो पूत?" जेजून तांकां म्हळें!

*"आनीक इलोच वेळ तुमचे सवें उजवाड आसा.*
*उजवाड आसताना चलत रावात,*
*ना तर तुमी काळोकाक सांपडतल्यात;*
*काळोकांत चलतात तीं आपूण खंय वेतात तीं नकळोत.*
*तुमी उजवाडाचीं भुरगीं जांवचे खातीर"*
*तुमकां उजवाड आसताना*
*उजवाडाचेर भावार्त दवरात.*[1]

अशें सांगून जेजू *(मातेव)* शारा भायर सरून बेतानियेक गेलो आनी थंय वस्तेक रावलो.

(सोमार)

**273.** *मार्कू 11,12-14*

## जेजू आंजिराच्या झाडाक शिरापता

दुसऱ्या दिसा बेतानिये थावन येताना ताका भूक लागली. पयस थावन

---

[1] हो उजवाड खूद जेजू. देवान फावो केल्लो शूब वेळ सरोन वेचे आदीं आपणाचेर भावार्त दवरात म्हण जेजू जुदेवांक नेटान शिडकायता.

ताणें एक पालेल्लें आंजिराचें झाड देकलें आनी कितेंय फळ मेळतगाय म्हण तो पळेंवक गेलो, पूण पानां बगर कांयच ताका मेळ्ळें ना; तर तो आंजिरांचो काळ न्हय आसलो. आनी ताणें आंजिराच्या झाडाक म्हळें: "ह्या फुडें केदनांच तुजें फळ कोणून खांवक पावना जांव." आनी तो अशें उलयताना ताचे शीस आयकताले.[1]

**274.** *लूक 19,47-48; मार्कू 11,19*

### जेजू देवमंदिरांत शिकयता

*(लूक)* आनी तो दिसपट्टो देवमंदिरांत शिकयत आसलो. मुखेल याझीक, शास्त्री, आनी परजेचे व्हडील ताचो नास करूंक सोदताले; पूण कितें आनी कशें करचें तें तांकां समजच नासलें, कित्याक सगळो लोक ताच्या उतरांक भुल्ललो. *(मार्कू)* आनी सांज जातच जेजू आनी ताचे शीस शारांतले भायर गेले.

## XXIV - देवमंदिरांत निमाणे वादविवाद

(मंगळार)

**275.** *मार्कू 11,20-24*

### आंजिराचें झाड सुकता. घट भावार्त

दुसरे सकाळीं, तेवशिल्यान वेताना, आंजिराचें झाड पाळां थावन सुकललें तांणीं देकलें. पेद्रून उगडास करून जेजूक म्हळें: "पळे, राब्बी (म्हणगे गुरुजी), तुवें शिरापललें आंजिराचें झाड सुकून गेलें." जेजून जाप दिली: "देवाचेर भावार्त दवरात. हें हांव तुमकां खरेंच सांगतां: कोण आपल्या काळजांत दुबाव धरिनासताना आपूण म्हणता तें जातलें म्हण भावार्त धरून, ह्या दोंगराक म्हणत: 'हांगासरलो ऊट

---

[1] हांगा मार्कू जेजून केल्ले देवमंदिराचे शुद्धायणेची खबर सांगता. मातेव आनी लूक जेरुजाल्यांत प्रवेसा उपरांत तीच खबर घालतात. जेजुच्या उग्त्या जिविताच्या पयल्या पास्क उत्सवाच्या समयार देवमंदिराची शुद्धायणी जेजून केली म्हण जुवांव सांगता *(आंक 40)*: हेच शुद्धायणेची खबर दुसरे शुभवर्तमानकार आतां दितात कित्याक हाचे आदीं ते जेजून जेरुजाल्याक गेल्ल्याची कसलीच गजाल सांगिनांत.

आनी दर्यांत वच,’ तें ताचे सरीं घडतलें. देखून हांव तुमकां सांगतां: तुमी प्रार्थून मागशात तितलेंय तुमकां मेळलें म्हण भावार्त धरात आनी तें तुमचेंच जातलें.”

**276.** *मार्कू 11,27-33*

***“कोणाच्या अधिकारान”***

जेजू आनी शीस परतून जेरुजाल्याक आयले आनी जेजू देवमंदिरांत भोंवतासताना मुखेल याझीक, धर्मशास्त्री आनी जाण्टे ताचे सरशें आयले. तांणीं ताका म्हळें: “अशें तुवें करपाक कसलो अधिकार आसा तुका? वा अशें करपाक तुका सत्त्या कोणें दिल्या?” जेजून तांकां म्हळें: “हांव तुमचे कडे एक विचारतां; म्हाका जबाब दियात, आनी तेदनां कसल्या अधिकारान हांव अशें करतां तें तुमकां सांगीन: जुवांवाचें स्नान खंय थावन आयलें? सर्गार थावन की मनशां थावन? सांगात, पळेंवया.” आनी ते आपणां भितर अशें चिंतूंक लागले: “ ‘सर्गार थावन’, अशें आमी म्हळें जाल्यार, तो विचारतलो: ‘तर तुमी कित्याक ताचेर भावार्त ठेवलो ना?’ पूण ‘मनशां थावन’ अशें आमच्यान म्हणूंक जाता?” ते लोकाक भियेताले, कित्याक सगळो लोक जुवांव खरो प्रावदी म्हण मानतालो. देखून तांणीं म्हळें: “आमी नकळोंव.” आनी जेजून तांकां म्हळें: “कसल्या अधिकारान हांव ह्यो वस्तू करतां तें हांवूय तुमकां सांगिना.”

**277.** *मातेव 21,28-32*

***जुदेव लोकाचे भायरावणेच्यो वोपारी***

***अ) दोग पूत***

मुखेल याझिकांक आनी लोकाच्या व्हडिलांक जेजून म्हळें: “तुमकां कितें दिसता? कोण एका मनशाक दोग पूत आसले; ताणें पयल्या

सरशें येवन म्हळें: 'पुता, वच आनी दाकांच्या मळ्यांत आज काम कर.' पुतान म्हळें: 'वेतां, सायबा!', पूण वचूंक ना. मागीर दुसऱ्या लागीं वचून, तशेंच म्हळें, पुतान जबाब दिलो: 'ना, वचनां!', पूण उपरांत मन बदलून तो गेलो. ह्या दोगां भितर कोणें बापायची खुशी केली?" तांणीं म्हळें: "निमाण्यान." जेजून तांकां सांगलें: "हांव तुमकां खरेंच सांगतां: दंडवसुलदार आनी शिंदळ बायलो तुमचे आदीं सर्गिंच्या राज्यांत वेतात. कारण जुवांव प्रमाणिकपणाची वाट दाकोंवक तुमचेशीं आयलो, पूण दंडवसुलदारांनी आनी शिंदळ बायलांनी ताचेर भावार्त ठेवलो. तें पळेवन तरी, ताचेर भावार्त दवरूंक तुमी तुमचें मन बदलूंक ना."

**278.** *मार्कू 12,1-9; मातेव 21,41b; लूक 20,16b*

### *ब) कुळवाडी आनी दायजी*

*(मार्कू)* आनी वोपारिंनी तांचे लागीं असो तो उलोंवक लागलो: "एका मनशान दाकांचो मळो लायलो, ताचे भोंवतीं आडो घालो, खणून एक कोळंबी तयार केली, एक गोपूर बांदलो, आनी, तो मळो कुळवाड्यांक कुंबळ्याक दिवन, आपूण पयशिल्या गांवाक गेलो. आनी काळ पावतच, मळ्याच्या पिकाचो आपलो वांटो कुळवाड्यां लागचो घेंवचे खातीर, ताणें एका चाकराक तांचेशीं धाडलो. तांणीं ताका धरून मार दिलो आनी रिकामो परतून धाडलो. दुसरे पावट आनीक एका चाकराक तांचेशीं धाडलो; आनी तांणीं ताची तकली फोडली आनी ताका बेमान केलो. नव्यान ताणें दुसऱ्या एकाक धाडलो आनी तांणीं ताका जिवेशीं मारलो; आनी आनिकूय धाडलल्यां सबार जाणांतल्या तांणीं थोड्यांक बडयले, दुसऱ्यांक जिवेशीं मारले. ताका आजून एकलो उरललो: तो ताचो चड मोगाचो एकलोच पूत. 'म्हज्या पुताक तरी ते मान दितले,' अशें चिंतून ताणें शेकीं पुताक तांचेशीं धाडलो. पूण कुळवाड्यांनी एकामेकाक म्हळें: 'हो ताचो दायजी; येयात, ताका जिवेशीं मारुंया

आनी दायज आमचें जातलें.’ आनी तांणीं ताका धरलो, ताचो जीव काडलो आनी ताका मळ्या भायर काडून उडयलो. आतां मळ्याचो धनी कितें करतलो? येतलो, कुळवाड्यांचो नास करतलो आनी मळो दुसऱ्यांक दितलो; *(मातेव)* आपणाक काळार फळ दितात तसल्यांक आपलो मळो कुंबळ्याक दितलो.”

*(लूक)* हें आयकून तांणीं म्हळें: “देवान हें निर्मूं नये!”

**279.** *मातेव 21,42-44*

### *कोनशा संधिचो फातर*

जेजून तांकां म्हळें: “पवित्र पुस्तकार अशें बरयल्लें आसा: ‘जो फातर बांदप्यांनी सोडून दिल्लो, तोच जालो कोनशा संधिचो फातर. हें सर्वेस्परानूच घडून हाडलां: तें पळेवन आमी थटाक जाल्यांव.’ हें तुमी केदनांच वाचूंक ना? म्हणतच, हांव तुमकां सांगतां, आपलें राज देव तुमचे कडलें काडून घेतलो आनी ताचीं फळां दितात तसल्या विदेश्यांक दितलो.”

**280.** मातेव 21,45-46

### *मुखेल याज्ञीक आनी फारिजेव गुडमेळ करतात*

ताच्यो वोपारी आयकल्या उपरांत मुखेल याज्ञीक आनी फारिजेव आपणां विशीं तो उलयता म्हण समजले; आनी ताका ते धरूंक सोदताले पूण लोकाक भियेले, कित्याक प्रवादी म्हण लोक ताका मानतालो.

**281.** *मातेव 22,1-10*

### *क) लग्नाचो उत्सव*

जेजू नव्यान तांचे लागीं वोपारिंनी उलोंवक लागलो: “आपल्या पुताच्या लग्नाचो उत्सव केल्ल्या एका राजा परीं सर्गिचें राज. लग्नाक आमंत्रण धाडलल्यांक आपोवन हाडूंक ताणें आपल्या चाकरांक धाडले, पूण ते येना जाले. आनी एक पावट दुसऱ्या

चाकरांक धाडले आनी म्हळें: 'आपयल्ल्यांक अशें सांगात: पळेयात, म्हजें जेवण तयार आसा, म्हजे पाडे आनी चरबयल्लीं जनावरां हांवें मारलीं, आनी सगळें तयार जालां; जेवणाक येयात.' पूण तांणीं कान दिंवक ना, आनी एकलो आपल्या भाटांत, दुसरो आपल्या वेपार धंद्याक गेलो; हेरांनी चाकरांक धरले, तांकां अपमान केलो आनी तांचो जीव काडलो. हें आयकून राजाचो राग पेटलो आनी आपलीं लस्करां धाडून त्या खुन्यांचो भस्म केलो आनी तांचें नगर लासून उडयलें. उपरांत ताणें आपल्या चाकरांक सांगलें: 'लग्नाचें जेवण तर तयार आसा, पूण आपयलल्यांक तें फावना जालें; देखून तुमी रस्त्यांच्या नाक्यार वचात आनी तुमकां मेळतीत तितल्यांकूय लग्नाक आपोवन हाडात.' आनी वाटांतिंट्यांतल्यान वचून, आपणाक मेळलीं तितल्यांकूय, बऱ्यांक तशें वायटांक, चाकरांनी जमयलीं, आनी लग्नाचो वसरो सोयऱ्यांनी भरलो."

**282.** *मातेव 22,11-14*

### *लग्नाची न्हेसण*

"जेवणाक बसलल्यांक पळेंवचे खातीर राजा भितर ये जाल्यार, लग्नाची न्हेसण घालिनासताना थंय आसलल्या एका मनशाक ताणें देकलो आनी ताका विचारलें: 'इश्टा, लग्नाचें वस्त्र नासताना तूं हांगा कसो भितर आयलोय?' पूण ताणें जाप काडली ना. तेदनां राजान चाकरांक सांगलें: ताचे हातपांय बांदून ताका काळोकांत भायर उडयात; 'थंय सगळीं रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतलीं.' कित्याक आपयल्लीं जायतीं, पूण विंचून काडललीं थोडीं."

**283.** *लूक 20,20-26*

### *फास मांडपाचे विचार*
### *सम्राजाक दंड फारीक करचो की ना?*

राजपालानूच जेजुचेर आपलो अधिकार आनी पदवी चलोंवचे खातीर,

ताका उतराक सांपडांवक आनी राजपालाचे आधीन करूंक मुखेल याज्ञिकांनी आनी धर्मशास्त्र्यांनी येवजिलें; देखून ते ताका तेळून आसले. अशें आसतां, सातवीक मनशांचें ढोंग घेयात म्हण शिकोवन, तांणीं ताचेशीं भेदी धाडले.[1] हांणीं येवन ताचे लागीं अशें विचारलें: “गुरुजी, तूं सारकें तेंच उलयताय आनी शिकयताय, मनशाचें तोंड पळेनाय, आनी देवाची वाट खरेपणान शिकयताय म्हण आमी जाणांव. आमच्यान सम्राजाक दंड फारीक करूं येता की ना?” पूण ताणें तांची नाडविद्या वळकून असो परतिपाळ केलो: “एक दिनार म्हाका हाडून दियात, पळेंवया. हाचेर रूप आसा तें कोणाचें? आनी नांव कोणाचें?” तांणीं जाप दिली: “सम्राजाचें.” तेदनां ताणें तांकां सांगलें: “बरें तर, सम्राजाचें सम्राजाक दियात, आनी देवाचें तें देवाक दियात.” आनी ताच्या उलोवपांत ताका लोका हुजीर सांपडांवक तांचे लागीं घडलें ना; आनी ताच्या जबाबा विशीं ते अजाप जाले आनी वोगेच रावले.

**284.** *लूक 20,27-38; मार्कू 12,27b; मातेव 22,33*

### *मनशां पुनरजिवंत जातलीं.*

(लूक) एकदां कांय सादुकी जेजुशीं आयले: ते पुनरजिवंतपण ना म्हणतात तसले मनीस. तांणीं ताका हो प्रस्न घालो: “गुरुजी, मोयजेसान अशें आमकां बरोवन दवरलां: ‘कोण एकल्याचो लग्न जाल्लो भाव भुरगें बाळ नासताना मरत जाल्यार, ताच्या भावान ताचे बायले लागीं लग्न जांवचें आनी आपल्या भावाक संसत उत्पन करची.’ तर सात भाव आसले. पयलो लग्न जालो आनी भुरगें बाळ नासताना मेलो. मागीर दुसरो, आनी ताचे उपरांत तिसरो तिचे लागीं लग्न जाले; तेच परीं सातूय जाण संसत दवरिनासताना मेले. सगळ्यांवून निमाणी, बायलूय मेली. तर सातांय जांणांची पतीण

---

[1] मार्कू बरयता: “मागीर फारिजेवांतल्या आनी हेरोदिच्या पक्षवाद्यांतल्या कांय जाणांनी जेजूक उतराक सांपडांवक, ताचेशीं धाडले.”

ती जाल्ली म्हणतच, मेल्लीं मनशां पुनरजिवंत जातलीं तेदनां, तांचे भितरल्या कोणाची पतीण जातली ती?" जेजून तांकां सांगलें: "ह्या युगांतलीं मनशां दादले लग्न जातात आनी बायलांक लग्न करून दितात; पूण त्या दुसऱ्या युगाक आनी मेल्ल्यांतल्या पुनरजिवंतपणाक जीं कोण पुरतीं जाल्लीं मेळतीत, तांचे मदें लग्न जावप आनी लग्न करून दिवप आसचेंच ना; तांच्यान आनीक मरूंक जायना, तीं देवदुतां सारकीं, आनी पुनरजिवंतपणाचीं भुरगीं देखून तीं देवाचीं भुरगीं. मेल्लीं मनशां परतीं जिवंत जातात म्हण मोयजेसानूय झिलकुटाची खबर सांगता थंय दाकयलां; तर थंय सर्वेस्पराक तो 'आब्राहामाचो देव, इजाकाचो देव, जाकोबाचो देव' म्हणता; देखून मेल्ल्यांचो न्हय, बगर जिव्यांचो देव तो; ताचे मुखार सगळीं जिवीं. *(मार्कू)* तुमी भोव चुकतात." *(मातेव)* हें आयकून लोक ताचे जाणवाये विशीं अजाप जालो.

**285.** *मार्कू 12,28-30; मातेव 22,38-40; मार्कू 12,32-34a*

## *पयली वयली आज्ञा*

*(मार्कू)* आनी धर्मशास्त्र्यांल्या एकल्यान, तांचे वादविवाद चलतात ते आयकून आनी जेजून काय बरे भाशेन जबाब दिलो तें पळेवन, ताचे कडे विचारलें: "सगळ्यां भितर पयली आज्ञा खंयची?" जेजून ताका जाप दिली: ***"पयली आज्ञा ही: 'आयक, इस्रायेला, सर्वेस्पर आमचो देव एकलोच सर्वेस्पर! सगळ्या तुज्या काळजान, सगळ्या तुज्या जिवाच्या बळान, सगळ्या तुज्या मनान आनी सगळे तुजे सक्तीन सर्वेस्परा तुज्या देवाचो मोग कर.' (मातेव) हो सगळ्यांवून व्हडलो आनी पयलो कायदो. पूण हाचेच सारको दुसरो आसा तो हो: 'तुजोच करताय तसो, तुज्या पेल्याचो मोग कर.' (मार्कू) हांचे परस व्हड आनीक आज्ञा ना. (मातेव) ह्या दोन कायद्यांचेर धरलली आसा सगळी समूर्त आनी प्रवाद्यांची शिकोवण."***

*(मार्कू)* आनी धर्मशास्त्र्यान ताका म्हळें: "शाबास, गुरुजी! तुवें सांगलां तें खरें: तो एकलो, आनी ताचे भायर दुसरो ना! खरेंच, सगळ्या काळजान, सगळ्या मनान, सगळ्या जिवाच्या बळान, सगळे सक्तीन आमी ताचो मोग करूंक जाय, आनी आमचोच करतांव तसो आमच्या पेल्याचो मोग करूंक जाय: हें सगळ्या होमां आनी यज्ञां परस एकदम अदीक वरतें." ताणें शाणेपणान परतिपाळ केलो म्हण पळेवन जेजून ताका म्हळें: "तूं देवाच्या राज्या थावन पयस नाय."

**286.** *मातेव 22,41-46; मार्कू 12,37b*

### *अभिशिक्त दाविदाचो पूत वा सोमी?*

*(मातेव)* फारिजेव एकटवलले आसताना, जेजून तांचे कडे हो विचार केलो: "अभिशिक्ता विशीं तुमकां कितें दिसता? तो कोणाचो पूत?" तांणीं ताका जबाब दिलो: "दाविदाचो." ताणें विचारलें: "तशें जाल्यार, पवित्र आत्म्याच्या प्रेरणान दावीद ताका सोमी म्हणता तें कशें? तर ताणें म्हळां: *'सर्वेस्परान म्हज्या सोमयाक म्हळें: तुज्या दुस्मानांक तुज्या पांयांची म्हणय हांवें करिसर तूं म्हज्या उजव्या हाताक बस.'* जर दावीद ताका सोमी म्हणता, तो ताचो पूत कसो तर?" कोणाच्यान ताका एक जाप दिंवक जाली ना, न्हय म्हण तो दीस मेरेन आनीक ताचे कडे विचारूंक कोणाकूच काळीज जालें ना.

*(मार्कू)* आनी लोकाचो व्हड जमो खुशे मनान ताका कान दितालो.

## XXV - फारिजेवांक शिडकावण्यो

**287.** *मातेव 23,1-12*

### *फारिजेवांच्यो चाली*

तेदनां लोका आनी आपल्या शिसां कडे उलोवन जेजून म्हळें: "मोयजेसाच्या आसनाचेर धर्मशास्त्री आनी फारिजेव बसल्यात. म्हणतच ते सांगतात तितलेंय तुमी करात आनी पाळात, पूण तांच्या करतुबां परमाणें तुमी चलूं नाकात, कित्याक ते हेरांक सांगतात तें

आपुणूच करिनांत. जड आनी सोसूं नजो तसलीं वजीं ते बांदतात आनी हेरांच्या भुजांचेर घालतात, पूण तीं उबारूंक आपलें बोट लेगून लायतितशे ना. मनशांक दाकोंवक सगळ्यो आपल्यो करण्यो करतात, देखून समुर्तिंतलीं सुत्रां आसलल्या पेटुल्यांच्यो वादयो ते लांबयत आसात, तशेंच आपल्या आवरणाचे देगेक लायलले गोंडे लांब लांब करून भोंवतात.[1] जेवणांक पयल्यो सुवातो, देवस्थानांनी पयलेवयले जागे, तिंट्यार सलाम घेवप आनी आपणांक मनशांनी 'गुरू' म्हणून पाचारप, हीच तांची आसरूच. पूण तुमी जाल्यार, तुमकां हेरांनी 'गुरू' म्हणून पाचारचीं म्हण आशेंव नाकात; कित्याक तुमचो गुरू एकलोच आनी तुमी सगळीं भावभयण. संसारांत कोणाकूच तुमचो 'बाप' म्हणून ऊंच काडूं नाकात, कित्याक एकल्याकूच, सर्गार आसा ताका मात, तुमचो बाप म्हणूंक फावो. आनी तुमी आपणांक 'गुरू' म्हणून घेंव नाकात, कित्याक एकलोच तुमचो गुरू म्हळ्यार अभिशिक्त. ***तुमचे भितरलो कोण व्हड तो तुमचो सेवक जांवचो. आपणाकूच ऊंच काडतात तांकां देव खाला उडयतलो आनी आपुणूच खालतीं जातात तांकां देव ऊंच काडतलो."***

**288**. *मातेव 23,13-32*

## *जेजू धर्मशास्त्र्यांक आनी फारिजेवांक बेश्टायता*

धर्मशास्त्र्यांक आनी फारिजेवांक जेजून म्हळें: "ढोंग्या धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! कित्याक सर्गिंचें राज तुमी मनशां मुखार धांपतात, आनी तुमीय भितर सरनांत, न्हय म्हण भितर सरूंक सोदतात तांकांय भितर सरूंक दिनांत.

---

[1] समुर्तिचे चार भाग ल्हान कवळ्यांचेर बरोवन, जुदेव लोक त्यो कवळ्यो चामड्याच्या वादयांनी कपालाक आनी दाव्या हाताक लांबयतालो. तशेंच आवरणाच्या चार कोणशांक निळ्या रंगाचे ल्हंवेचे गोंडे लावूंक कायदो आसलो: हो कायदो समुर्तिचो दिसरात उगडास जातालो. आपूण समूर्त हेरां परस अदीक विस्वाशिपणान पाळतले म्हण दाकोंवक, फारिजेव मंत्रापत्रांच्या पदरांची रुंदाय आनी गोंड्यांची लांबाय वाडयताले.

ढोंग्या धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! कित्याक एक नवो शीस करचे खातीर दर्याचेर आनी धर्तरेचेर तुमी फिरतात, आनी कोण एकल्याक सांपडायल्या उपरांत, तुमचे परस दोन पावट अदीक यमकोंड फावो आसललो तुमी ताका करतात.

कुरड्या फुडाऱ्यांनो, कटा कटा तुमचें! 'देवमंदिराच्यान कोणूय सोपूत घेतीत जाल्यार, तें कांयच न्हय; पूण देवमंदिराच्या भांगराच्यान सोपूत घेतीत जाल्यार रिणकारां जातात,' अशें तुमी म्हणतात. आरे मुर्खांनो आनी कुरड्यांनो! कितें अदीक वरतें? भांगर वा भांगर पवित्र जायशें करता तें देवमंदीर? तशेंच तुमी म्हणतात: 'वेदिच्यान कोणूय सोपूत घेतीत जाल्यार, तें कांयच न्हय; पूण वेदिचेर आसा त्या दानाच्यान सोपूत घेतीत तीं रिणकारां जातात.' आरे कुरड्यांनो! कितें अदीक वरतें? दान वा दान पवित्र जायशें करता ती वेदी? तर वेदिच्यान सोपूत घेतात तीं तिच्यान आनी तिचेर आसा तितल्याच्यान सोपूत घेतात. आनी देवमंदिराच्यान सोपूत घेतात तीं ताच्यान आनी तांतूं रावता त्या देवाच्यान सोपूत घेतात. आनी सर्गाच्यान सोपूत घेतात तीं देवाच्या शिंवासनाच्यान आनी ताचेर बसललो आसा त्या देवाच्यान सोपूत घेतात.

ढोंग्या धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! कित्याक पुदिना, बडिशेप आनी जिरें, असल्यांचो धावो वांटो तुमी देवाक म्हण फारीक करतात, पूण समुर्तिचे अदीक मोलाचे कायदे, म्हणगे न्यायनीत, दया आनी विस्वाशिपण, तुमी सोडून दिल्यात. ते पयले तुमी चुकयनांत तें बरे आसा, पूण हे की तुमी पाळूंक जाय आसले. एक जळार गाळून काडतात आनी आखें ऊंट गिळतात तसले कुरडे फुडारी तुमी.

ढोंग्यां धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! तर पात्रा आनी ताटा भायल्यान आसा तें तुमी नितळ करतात आनी भितरल्यान तुमी नागोवणेन आनी पोजडपणान भरलले आसात. आरे कुरड्या फारिजेवा! भायल्यान आसा तेंय नितळ जांवचे खातीर, पात्रा आनी ताटा भितरल्यान आसा तें पयलें नितळ कर.

ढोंग्यां धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! तर तुमी चुनो काडलल्या समाधीं सारके; त्यो भायल्यान मनशांक सोबीत दिसतात, पूण भितरल्यान मेल्ल्यांच्या हाडांनी आनी सगळ्या जिनसाचे अळशिकेन भरल्यात; तेच परीं तुमीय भायल्यान लोकाक प्रमाणीक दिसतात खरे, पूण भितरल्यान तुमी ढोंगेपणान आनी खोटेपणान भरलले आसात.

ढोंग्या धर्मशास्त्र्यांनो आनी फारिजेवांनो, कटा कटा तुमचें! तुमी प्रवाद्यांच्यो समाधी बांदतात आनी प्रमाणीक मनशांच्यो यादगिरी नेटयतात आनी म्हणतातः ‘आमच्या पुर्वजांच्या दिसांनी आमी आसलल्यांव जाल्यार, प्रवाद्यांचें रगत वारोंवक आमी तांचे बराबर वांटो घेंवचे नासल्यांव.’ म्हणतच प्रवाद्यांक जिवेशीं मारतल्यांची तुमी संसत म्हण तुमचेच तुमी गवाय. बरें तर, तुमच्या पुर्वजांचें माप तुमी भरात.”

**289.** *मातेव 23,33-36*

### *धर्मशास्त्र्यांक आनी फारिजेवांक खास्तिचें भाकीत*

“सोरपांनो, फुरश्यांच्या पिलांनो, यमकोंडाच्या फरमणांतले कशे म्हण वाटवतल्यात तुमी? तर पळेयात, हांव तुमचे थांय प्रवाद्यांक, जाणारांक आनी शास्त्र्यांक धाडतां. पूण तुमी तांतल्या कांय जाणांक जिवेशीं मारतल्यात आनी खुरसार खिळायतल्यात, आनी कांय जाणांक तुमच्या देवस्थानांनी जेरबंद दितल्यात, आनी एका नगरांत थावन दुसऱ्या नगरांत तांचे पाटापाटी लागतल्यात. देवाक मानवलल्या आबेलाच्या रगता थावन तें गाभाऱ्या आनी वेदी मदेकत तुमीं जिवेशीं मारललो बाराकियाचो पूत जाकारियास, हाच्या रगता मेरेन प्रिथुमेर निरपरादी रगत वारयलां तितलेंय तुमचेर बुजचे खातीर तुमी अशें करतल्यात. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: हें सगळें हे पिंडकेच्या माथ्यार येतलें.”

**290.** *मातेव 23,37-39*

## जेजू जेरुजाल्याचेर शीण करता

"जेरुजाल्या, जेरुजाल्या, तूं प्रवाद्यांक जिवेशीं मारताय आनी तुजे थांय धाडलल्यांक फातरायताय! कोंबी आपल्या पाकट्यां तळा आपल्या पिलांक एकटांय करता तशें, कितले पावटी म्हण तुज्या भुरग्यांक एकटांवक हांवें सोदलें, पूण तें तुमकां नाका जालें! चत्राय धरात, तुमचें घर तुमकां उरतलें खरें, पूण पाड जाल्लें. 'सर्वेस्पराच्या नांवान येता ताका जय!', अशें तुमीं म्हणसर तुमी म्हाका ह्या फुडें आनीक पळेंवचीं नांत."[1]

**291.** *मार्कू 12,41-44*

## गरीब विदवेचें धर्मदान

देवमंदिरांत धर्मपेटे मुखार बसून, लोक कसो पेटेंत दुडू घालता तें जेजू पळेवन आसलो. आनी सबार गिरेस्त मनशां खूप दुडू घाल-तालीं; तेदनां एक गरीब दळदिरी विदवा आयली तिणें दोन लेप्तोन तांतूं घाले, म्हणगे एक पाव आसारिओन. आपल्या शिसांक आपोवन हाडून ताणें म्हळें: "पेटेंत दुडू घाल्यात त्या सगळ्यां परस हे गरीब विदवेन अदीक घालां; तर सगळ्यांनी अगळें आसलें तांतलें घालें; पूण हिणें आपल्या गरिबपणांतलें काडून आसलें तितलेंय घालें, आपल्या जिवाक जाय आसलें तें परयान."

**292.** *लूक 21,37-38*

## निमाणे दीस

ह्या दिसांनी जेजू दीस भर देवमंदिरांत शिकोवण दीत आसलो, पूण राती काडतालो शारा भायर जैतुनाच्या म्हणलल्या दोंगरार. ताचें उतर आयकुंचे आशेन उटून सगळो लोक ताचेशीं देवमंदिरांत येतालो.

---

[1] लुकाच्या शुबवर्तमानांत (लूक 13,35) हीं उतरां जेरुजाल्यांत ताळयांच्या आयताराच्या प्रवेसाक घडये लागतात (लूक 19,28). मातेव घडये तीं काळांच्या शेवटाच्या येण्याक लावूंक सोदता, आनी तेदनां जुदेव लोक जेजूक आपलो भासायल्लो सोडवणार म्हण मानून घेतलो म्हण सांगता दिसता. *(पळे रोम 11,25+).*

# XXVI - शेवटा विशीं उपदेस

293. *मार्कू 13,1-4*

**समय**

आनी तो देवमंदिरांतलो भायर सरून वेतासताना ताच्या शिसांतल्या एकल्यान ताका म्हळें: “गुरुजी, केदे व्हडले फातर पळे आनी केद्यो बांदावळी!” जाप दिवन जेजून ताका म्हळें: “ह्यो व्हडल्यो बांदावळी तूं पळेताय न्हय? तांचो फातरार फातर उरचो ना, सगळें घरटाण जातलें!” आनी जैतुनाच्या दोंगरार, देवमंदिरा सामकार तो बसून आसताना, पेद्रू, जाकोब, जुवांव आनी आंद्रे, ताचेशीं कुशीन आसले; तांणीं ताचे लागीं विचारलें: “हें केदनां घडतलें तें आमकां सांग! आनी ह्या सगळ्या घडण्यांचो वेळ पावलो म्हण वळकूंक कसली खुणा?”

294. *मार्कू 13,5-8; लूक 21,12-19; मातेव 10,23; 24,10-14*

**लागसाराक पावलले काळ**

**जेजुच्या शिसांचो फुडार**

*(मार्कू)* आनी परतिपाळून जेजू तांकां अशें सांगूंक लागलो: “तुमकां कोणें फटयना जांवक चत्रायेन रावात; कित्याक सबार जाण, म्हजें नांव घेवन, ‘आपुणूच तो’ म्हणून येतले आनी जायत्यांक फटयतले.[1] लागींच चलतल्या लडायांचो गळबळ तुमी आयकतात तेदनां, तुमी आकांतूं नाकात; हें अशें घडोंक जाय, तरिपूण हो आजून शेवट न्हय. कित्याक देस देसाचेर आनी राज राज्याचेर उप्रासतलीं, आनी हांगा थंय भूंयकांप जातलो आनी दुकळ पडतलो. हें सगळें प्रसूत वेणिंची सुरवात.

---

[1] जेजू हांगा फटकिन्या अभिशिक्तांची गजाल करता. लोक तांकां सोंपेपणीं मानून घेतालो आनी तेच इस्रायेल परजेक अधिनपणांतली सोडयतले म्हण चिंततालो. तांकां लागून कांय-कांय राजभंगूय जाल्ले.

*(लूक)* पूण हें सगळें जांवचे आदीं म्हज्या नांवा खातीर तुमच्या आंगार हात घालतले, तुमकां देवस्थानांचे आधीन करून, बंदखणींत घालून, राजां आनी राजपालांच्या फुड्यांत ओडून व्हरून, तुमकां धुमाळो दितले. म्हजे विशीं गवाय दिंवक हो तुमकां सुयोग मेळतलो. म्हणतच तुमची राखण कशी करची ती आदींच फुडें तुमी चिंतचें न्हय म्हण घट मनांत धरात. तर हांव तुमकां अशी जीब आनी जाणवाय दितलों, की ती आडांवक आनी तिचेर परतें उलोंवक तुमच्या सगळ्या दुस्मानां कडें घडचें ना. तुमचीं आवयबापूय, भाव-भयणी, सोयरींधायरीं, इश्टमित्र तुमकां धरून दितलीं आनी म्हज्या नांवा पासत सगळीं तुमचो द्वेस करतलीं, पूण तुमच्या माथ्याच्या एका केंसाचो लेगून नास जांवचो ना. थीर रावात, आनी अशें खरें जिवीत तुमी जोडूंक पावतल्यात.

*(मातेव)* एका नगरांत तुमकां धुमाळो दितीत जाल्यार, दुसऱ्या नगरांत पळून वचात. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: मनशाचो पूत येंवचे फुडें इस्रायेलाचीं नगरां तुमी भोंवून सोंपोंवचीं नांत.

तेदनां सबार जाणांचो भावार्त हालतलो; मनशां एकामेकाक लावन दितलीं आनी एकामेकाक जळतलीं. सबार कुरडे प्रवादी उप्रासतले आनी जायत्यांक फटयतले; आनी खोटेपण वाडता त्या मापान जायत्यांचो मोग शेळमोडो जातलो. शेवटाक परयान थीर रावतीत तांकां देव तारण दितलो. आनी सताची साक्षी सगळ्या परजांक मेळचे खातीर सर्गिच्या राज्याचें शुभवर्तमान आख्या संसारांत परगट जातलें. आनी त्या उपरांत शेवट येतलो."

**295.** *लूक 21,20-21; मार्कू 13,15-16; लूक 21,22-24; मार्कू 13,18-23*

***जेरुजाल्याचें निसंटन***

*(लूक)* "जेरुजाल्याक फौजेन वेडो घाल्लो तुमी पळेतल्यात तेदनां, ताचें घरटाण पावलें म्हण समजात. तेदनां जुदेयांत आसात तांणीं दोंगरांचेर पळून वेचें आनी शारांत आसात तांणीं भायर सरून वेचें, आनी खेड्यागांवांनी आसात तांणीं शारा भितर वेचें न्हय; *(मार्कू)*

पाटसार आसलल्यांनी आपल्या घरांतलें कितेंच व्हरूंक सकला देंवून भितर सरचें न्हय; शेतांमळ्यांनी आसलल्यांनी आपलें आवरण व्हरूंक परत येंवचें न्हय. *(लूक)* तर सूड घेवपाचे दीस हे आनी बरयल्लें आसा तें सगळें आतां पाळोन येतलें. ते दीस येतच गरबेस्त बायलांचें आनी बाळकांक दूद दितल्यांचें कटा कटा! देसाचेर भंयकर आटेविटे येतले आनी हे पिंडकेचेर क्रोधाची शिरंट पडतली; आनी, विदेशियांचो काळ भरसर, तीं तरवारीन मरोन पडतलीं आनी तांकां कैदी करून सगळ्यां राश्ट्रां मदें तांची दिसपट जातली आनी विदेशी जेरुजाल्याक पांयां तळा मस्तितले.

(मार्कू) हिंवाळ्यांत[1] हें जायना जांवक मागात. देवान संसार रचला ते मेरेन आज परयान जांवक ना आनी ह्या फुडें जांवचो ना तसलो संताप त्या दिसांनी येतलो. आनी सर्वेस्परान ते दीस उणें करूंक नासले जाल्यार कोणूच वाटांवचो नासलो, पूण आपणे विंचून काडलल्यां खातीर ताणें ते उणे केल्यात. तेदनां 'पळे अभिशिक्त हांगा आसा' वा पळे, 'तो थंय आसा' म्हण कोणूच तुमकां सांगीत जाल्यार तें तुमी सत मांदूं नाकात; कित्याक कुरडे अभिशिक्त आनी कुरडे प्रवादी उप्रासतले आनी, जाता जाल्यार, विंचून काडलल्यांक परयान फसोंवक पुरो तसल्यो खुणा आनी अचर्या करून दाकयतले. म्हणतच चत्राय धरात, हांवें तर तुमकां सगळें आदींच सांगून दवरलां."

**296.** *लूक 21,28-33*

***केदनां?***

"हें घडूंक सुरू जाता तेदनां घट रावात आनी तुमच्यो तकल्यो उकलून धरात, कित्याक तुमची मुक्ती लागीं पावल्या." आनी ताणें एक वोपार सांगली: "आंजिराच्या झाडाक आनी हेरां सगळ्यां झाडांक पळेयात. तांकां कोंबऱ्यो फुटतात तेदनां गीम लागीं पावला म्हण तुमकां कळून येता; तशेंच ह्यो सगळ्यो वस्तू घडलल्यो तुमी

---

[1] मातेव म्हणता: "हिंवाळ्यांत वा सनवारा दिसा."

पळेतच, देवाचें राज्य लागीं पावलां म्हण जाणा जायात. हांव तुमकां खरेंच सांगतां: हें सगळें घडल्या बगर ही पिंडका अंतरची ना. अंतराळ आनी प्रिथूम सरतलीं, पूण म्हजीं उतरां सरचीं नांत."

**297.** *मार्कू 13,24; मातेव 24,29b-31*

### संसाराचो शेवट

*(मार्कू)* "पूण त्या दिसांनी, तो संताप येतच, सुर्याचेर काळोक पडतलो आनी चंद्रीम आपलो उजवाड दिंवचो ना, *(मातेव)* नकेत्रां मळबा वेलीं सकला पडतलीं आनी अंतराळा वेल्यो शक्ती कलकलतल्यो. आनी तेदनां मनशाच्या पुताची खुणा मळबार दिश्टी पडतली; संसारातलीं कुळां हरदीं बडयतलीं आनी पदवेन आनी व्हडे म्हयमेन मळबाच्या कुपांचेर येतल्या मनशाच्या पुताक देकतलीं. आनी मोट्या आवाजाचो कोर्नो दिवन तो आपल्या दुतांक धाडतलो, आनी संसाराच्या चारूय दिशांवेल्या अंतराळाचे एके शिमे थावन दुसरे शिमे परयान आसलल्या ताच्या विंचलल्यांक ते जमयतले."

**298.** *मार्कू 13,32*

### केदनां?

"पूण एकल्याच बापाक काडून, आनीक कोणाकूच, सर्गिंच्या दुतांक वा पुताक लेगून, त्या दिसाची वा घडयेची खबर ना."

**299.** *लूक 21, 34-36*

### चत्राय, मागणें, जागृताय

"तुमी तुमची चत्राय धरात; ना तर, कामचाराक लब्दोन, बेबदिकाय करून, आनी ह्या जिवाचे हुस्के काडून तुमचीं काळजां जड जातीत आनी तो दीस तुमचेर अकस्मात पावत. आखे प्रिथुमेर आसलल्या सगळ्या मनशांचेर फांस कसो तो येतलो. ज्यो येंवच्यो आसात त्या घडण्यां मदल्यान सुरक्षितपणीं फुडें वचूंक आनी मनशाच्या पुता मुखार भिरांति विणें उबीं रावूंक तुमकां घटाय मेळचे खातीर, सगळ्या वेळार मागणें करून जागृत रावात."

**300.** *मातेव 2,1-13*

## पिसांट आनी शाण्या चेडवांची वोपार

जेजून आपल्या शिसांक ही वोपार सांगली; "धा तरनाटीं चेडवां आपल्यो दिवल्यो घेवन नवऱ्याक येवकार दिंवक भायर सरलीं: तांकां जालें तशें सर्गिंच्या राज्यांत जातलें. तांचे मदलीं पांच पिसांट आनी पांच शाणीं आसलीं. पांच पिसांट चेडवांनी दिवल्यो घेतल्यो पूण आपणा बराबर तेल घेतलें ना; शाण्यांनी दिवल्यां बराबर आपल्या शिंसल्यांनी तेलूय व्हेलें. नवऱ्याक उशीर जालो आनी तीं सगळीं झेमूंक लागलीं आनी न्हिदलीं.

पूण मद्यानेर असो आवाज जालो: 'हो पळे नवरो! ताका स्वागत दिंवक भायर सरात.' तेदनां तीं सगळीं चेडवां जागीं जालीं आनी आपल्यो दिवल्यो तयार करूंक लागलीं. पिसांटांनी शाण्यांक म्हळें: 'तुमचें इलें तेल आमकां दियात गो, आमच्यो दिवल्यो पालवतात.' पूण शाण्यांनी अशी जाप दिली: 'ना गो बाय! तुमकां आनी आमकां तेल बिलकूल पांवचें ना. पसऱ्यार वचात आनी तुमकां घेयात: हेंच अदीक बरें.' तीं तेल विकतें घेंवक वेता म्हणसर नवरो पावलो; तयार आसलीं तीं चेडवां ताचे बराबर लग्नाच्या वसऱ्यांत भितर गेलीं आनी दार बंद केलें. शेकीं दुसरीं चेडवां पावलीं आनी म्हणूंक लागलीं: 'सायबा, सायबा, आमकां दार उगड!' पूण ताणें जाप दिली: 'हांव तुमकां खरेपणीं सांगतां, हांव तुमकां वळकनां.' म्हणतच जागृत रावात, कित्याक दीस, न्हय म्हण घडी, तुमी नकळोत.

**301.** *मातेव 25,14-30*

## वांटलले गिरेस्तकायेची वोपार

"तेच भाशेन सर्गिंचें राज्य अशें म्हणचें: कोण एकलो मनीस पयशिल्या गांवांत वेचो आसलो; तेदनां ताणें आपल्या चाकरांक आपोवन हाडून तांच्या हातांत आपली गिरेस्तकाय अशी वांटून दिली :

दिली: एकाक ताणें पांच तालेंत[1] दिले; दुसऱ्याक दोन आनी तिसऱ्याक एक, जण एकल्याक आप-आपले कुवेती परमाणें. मागीर तो भायर सरून गेलो. पांच तालेंत घेतललो तो रोकडोच गेलो आनी ते घेवन ताणें वेपारधंदो केलो आनी आनीक पांच जोडले. तेच परीं दोन तालेंत घेतलले ताणेंय आनीक दोन जोडले. पूण एक तालेंत घेतललो ताणें वचून जमीन खणली आनी थंय आपल्या धनयाचो दुडू पुरून लिपयलो.

जायतो काळ बलांडल्या उपरांत, त्या चाकरांचो धनी परतून आयलो आनी तांणें तांचे लागीं हिशोब मागलो. पांच तालेंत घेतललो तो लागीं सरलो आनी आनीक पांच तालेंत दाकोवन, ताणें म्हळें: ‘सायबा, तुवें म्हाका पांच तालेंत दिल्ले, तर पळे हांवें आनीक पांच जोडल्यात.’ ताच्या धनयान ताका म्हळें: ‘शाबास, बऱ्या आनी विस्वाशी चाकरा! उण्या मोलाच्या वस्तुंनी आपूण विस्वाशी म्हण तुवें दाखयलें देखून हांव अदीक ऊंच मोलाच्यो वस्तू तुजे आधीन करतलों. ये आनी तुज्या धनयाच्या सुखांत वांटो घे.’

उपरांत दोन तालेंत घेतललो तोय लागीं आयलो आनी ताणें म्हळें: ‘सायबा तुवें म्हाका दोन तालेंत दिल्ले तर पळे हांवें आनीक दोन जोडल्यात.’ ताच्या धनयान ताका म्हळें: ‘शाबास, बऱ्या विस्वाशी चाकरा, उण्या मोलाच्या वस्तुंनी आपूण विस्वाशी म्हण तुवें दाकयलें देखून, हांव अदीक ऊंच मोलाच्यो वस्तू तुजे आधीन करतलों. ये आनी तुज्या धनयाच्या सुखांत वांटो घे.’

एक तालेंत घेतललो ताणें लागीं सरून म्हळें: ‘सायबा, तूं खर मनीस म्हण हांव जाणां; तुवें वोंपूंक ना थंय तूं लुंवताय, आनी लुंवूंक ना थंयचें तूं पुंजायताय; देखून भिवून हांव गेलों आनी तुजो तालेंत धरणींत पुरून हांवें लिपयलो. हो पळे तो हांगा आसा; तुजो तो तूं घे.’ पूण धनयान परतिपाळून ताका म्हळें: ‘खोट्या आनी आळशा

---

[1] *तालेंत* = सुमार 26 कील वजनाचें रुपें. म्हणतच पांच तालेंत आज (2003 वर्सा) घडये सुमार 30-35 हजार रुपय जावपाचे.

चाकरा, हांवें वोंपूंक ना थंय हांव लुंवतां आनी लावूंक ना थंयचें हांव पुंजायतां म्हण तूं तर जाणा आसलोय; म्हणतच म्हजो दुडू सावकारां कडे दवरूंक जाय आसलो, आनी परतून येतच, म्हजें तें, त्या भायर कलांतर, हांव घेतलों आसलों. म्हणतच ताच्या लागचो तो तालेंत काडून घेयात आनी धा तालेंत आसात ताका दियात! कित्याक आसलल्या जण एकल्याक देव आनिकूय दितलो आनी ताची भर जातली; पूण नासलल्याचें आसा तें देव काडतलो. कित्याकूच उपकारानासलल्या ह्या चाकराक काडून भायर काळोकांत उडयात; थंय सगळीं रुदन करून आनी दांत करकरावन आसतलीं.' "

**302.** *मातेव 25,31-46*

## *राश्ट्रांची निमाणी झडती*

"जेदनां मनशाचो पूत सगळ्या आपल्या दुतांक घेवन म्हयमेन येतलो, तेदनां तो आपल्या म्हयमेच्या शिंवासनार बसतलो; आनी ताचे मुखार सगळीं राश्ट्रां जमतलीं, आनी जसो गोंवळी शेळयांक आनी बोकड्यांक कुशीन कुशीन काडता, तसो तोय सगळ्या राश्ट्रांक कुशीन कुशीन दवरतलो: शेळयांक आपल्या उजव्याक आनी बोकड्यांक आपल्या दाव्याक दवरतलो.

तेदनां राजा आपल्या उजव्याक आसलल्यांक म्हणतलो: 'म्हज्या बापाचो आशिर्वाद घेतलल्यांनो, येयात आनी संसार रचलल्याक तुमकां तयार केल्लें राज तुमचें दायज म्हण घेयात. कित्याक हांव भुकेल्लों आनी तुमी म्हाका जेंवक दिलें; हांव तानेल्लों आनी तुमी म्हाका पियेंवक दिलें; हांव विंगळो आसलों आनी तुमी म्हाका न्हेसूंक दिलें; पिडेंत आसलों आनी तुमी म्हजी खबर मात घेतली; बंदखणींत आसलों आनी तुमी म्हाका भेट दिली.' त्या वेळार देवाक मानवललीं मनशां ताका जबाब करून विचारतलीं: 'सायबा, केदनां म्हण आमी तुका भुकेल्लो पळेवन जेवूंक दिलें? तानेल्लो पळेवन तुका पियेंवक दिलें? केदनां म्हण तुका वाटसूर



*“हांव वाटसूर कसो आयल्लों,*
*पूण तुवें म्हाका बिडार दिलें ना.”*
*(आंक 302 वाच)*

कसो पळेवन आमगेर बिराड दिलें? विंगळो पळेवन तुका न्हेसूंक दिलें? आनी तूं पिडेंत वा बंदखणींत आसताना, केदनां तुका भेट दिंवक गेल्यांव?' आनी जाप दिवन राजा तांकां म्हणतलो:

*'हांव तुमकां सत सांगतां: म्हज्या ल्हानांतल्या ल्हाना भावां-भयणीं मदल्या एकल्याक जें तुमी केलें, तें तुमी म्हाकाच केलें.'*

मागीर आपल्या दाव्याक आसलल्यांक तो म्हणतलो: 'शिराप पडलल्यांनो, देवचाराक आनी ताच्या दुतांक तयार केल्ल्या सासणाच्या उज्यांत म्हजे थावन कडसरून वचात! कित्याक हांव भुकेल्लों पूण तुमी म्हाका जेवूंक वाडलें ना; हांव तानेल्लों, पूण तुमी म्हाका पियेंवक दिलें ना; विंगळो जाल्लों, पूण तुमी म्हाका न्हेसूंक दिलें ना; पिडेंत आनी बंदखणींत पडललों, पूण तुमी म्हाका भेट दिली ना.' त्या वेळार हींय ताका जबाब करून विचारतलीं: 'सायबा, केदनां म्हण आमी तुका भुकेल्लो, तानेल्लो, वाटसूर वा विंगळो जाल्लो, पिडेंत वा बंदखणींत पडललो पळेवन, तुजी चाकरी करूंक ना?' तेदनां तो तांकां जाप दिवन म्हणतलो:

*'हांव तुमकां सत सांगतां: ह्या ल्हानांतल्या ल्हानां मदल्या एकल्याकूय जें कितें तुमी करूंक ना, तें तुमी म्हाकाय करूंक ना!'*

आनी हीं सासणाचे खास्तीक वेतलीं, पूण देवाक मानवललीं मनशां सासणीक जिवीत भोगूंक वेतलीं."

**303.** जु *12,37-43*

### *जुदेवांचो अनभावार्त*

जरी जेजून कितल्यो खुणा जुदेवां हुजीर केल्ल्यो, तरी तांणीं ताचेर भावार्त ठेवलो ना. इजाइयास प्रवाद्यान सांगून दवरललें तें घडोन येंवचे खातीर हें अशें जालें; ताचीं उतरां हीं आसात: *"सर्वेस्परा, आमी परगटल्या ती खबर कोण सत मानीत? आनी हे घडणेंत सर्वेस्पराचो बळिश्ट हात कोणाक तरी दखल जाला जायत?"* खरेंच

तांच्यान सत मानूंक जालें ना,[1] कित्याक म्हळ्यार अशेंय इजाइयासान सांगून दवरललें: *"आपल्या दोळ्यांनी तांणीं पळेना जांवक, आपल्या मनान तांकां समजना जांवक आनी हांवें तांकां बरीं करचे खातीर तीं म्हजेशीं परतून येना जांवक, तांचे दोळे ताणें कुरडे केल्यात आनी तांचें काळीज दाट निबर केलां."*[2] जेजुची म्हयमा देकली तेदनां ताचे संबंदीं इजाइयास असो उलयलो तरी आसताना अधिकाऱ्यांतल्या जायत्या जाणांनी ताचेर भावार्त दवरलो, पूण ते हें भायल्यान दाकयनासले, कित्याक तांकां फारिजेवांची भिरांत आसली आनी आपणांक देवस्थानांतले भायर घालतीत म्हण ते भियेताले; कारण, देवाचे म्हयमे परस, मनशां मदें जोडलले व्हडविकेची ते अदीक पर्वा करताले.

**304.** जू *12,44-50*

### *जेजू संसाराचो उजवाड*

जेजून व्हडल्यान म्हळें: ***"म्हजेर भावार्त ठेवतात तीं म्हजेरूच न्हय, बगर म्हाका पाटयलो ताचेर भावार्त ठेवतात. आनी म्हाका पळेतात तीं म्हाका पाटयला ताका पळेतात. हांव संसारांत उजवाड कसो आयलां; देखून म्हजेर भावार्त दवरतात तीं काळोकांत उरचीं नांत. कोणूय म्हजीं उतरां आयकल्यांत आसताना तीं पाळिना जाल्यार हांव तांची मनसुबी करिनां, कित्याक संसाराची मनसुबी करूंक हांव येंवक नां, पूण संसाराचें तारण करूंक आयलां. जीं कोण म्हजी बेपर्वा करतात आनी म्हजीं उतरां मांदून घेनांत तांची मनसुबी करूंक आसा कोण: जें उतर हांव उलयलां, तेंच निमाण्या दिसा तांची मनसुबी करतलें. कित्याक म्हजेच अश्टंगीं हांव उलोंवक नां; बापान म्हाका***

---

[1] इजाइयासान तीं सतमानचीं नांत म्हण आदींच सांगून दवरललें. पूण हें भाकीत जुदेवांच्या अनभावार्ताचें निमीतकारण न्हय. आपखुशेन आनी सत्तेन जुदेवांनी अनभावार्ती जांवक विंचून काडलें, आनी तांचो अनभावार्त देवान आदिंफुडेंच पळेलो आनी इजाइयासाक कळयलो.

[2] देवान इजाइयासाक जुदेवांचीं मनां बदलूंक नेमललो, तरी ताचो संदेश आयकून जायतीं जाणां अत्यान कुरडीं आनी काळजान दारूण उरतलीं आसलीं. हें देवान फकत निर्मिलें, ताणें आपणेंच हें कुरडेपण आनी दारुणाय करूंक ना. पूण, जुदेव लोकाचे हेब्रेव भाशेन, तशेंच भोंवतणच्या शेमीत भासांनी, जें कितें कोण निर्मिता वा जांवक सुयोग दिता, तें तो *करता* म्हणतात.

*पाठयला आनी हांवें कितें सांगचें आनी कितें उलोंवचें हाचे विशीं ताणेंच म्हाका आज्ञा दिल्या. आनी ताचे आज्ञे परमाणें हांव उलयतां तें सासणीक जिवीत हाडता म्हण हांव जाणां. म्हणतच जें कितें हांव उलयतां, तें बापान म्हाका सांगलां तशेंच उलयतां."*

## XXVII - निमाणें जेवण

(बुधवार)

**305.** *मातेव 26,1-5*

### *याज्ञिकांची जमात*

जेजून आपल्या शिसांक म्हळें: "दोन दिसांनी पास्क जांवचें आसा म्हण तुमी जाणात; आनी मनशाच्या पुताक खुरसार मारूंक धरून दितले." तेदनां मुखेल याज्ञीक आनी लोकाचे जाणटे कायफास नांवाच्या परमयाज्ञिकाच्या निवासांत जमले, आनी फास मांडून जेजूक धरूंक आनी जिवेशीं मारूंक तांणीं गुडमेळ केलो. तरी आसताना तांणीं म्हळें: "हें उत्सवाच्या दिसांनी नाका; लोकाची उचांबळाय जांवक खरी."

(ब्रेस्तार)

**306.** *लूक 22,3-4a; मातेव 26,15-16*

### *जुदासाचें घातकेपण*

*(लूक)* जुदास, आडनांवान इस्कारियोत, बारांतलो एकलो, हाच्या काळजांत सैतान रिगलो. जेजूक कशे भाशेन तांच्या हातांत धरून दिंवचो ते विशीं ताणें वचून मुखेल याज्ञिकां आनी देवमंदिराच्या सरदारां कडे गजाल मात केली. *(मातेव)* ताणें म्हळें: "हांव ताका तुमच्या हातांत घालीन जाल्यार, तुमी म्हाका कितें दिशात?" तांणीं ताका तीस रुप्याचे नाणे मेजून दिले. आनी तो दीस थावन ताका धरून दिंवक बरो सुयोग तो पळेवन आसलो.

**307.** *लूक 22,7-13*

### *निमाण्या जेवणाची तयारी*

शेकीं पास्काचो मेंडरो मारून भेटोंवक जाय तो फूग नासलल्या उंड्यांचो दीस पावलो. पेद्रूक आनी जुवांवाक जेजून अशें सांगून धाडले: "आमी पास्क जेवण करचे खातीर, तुमी वचून तें तयार करात." तांणीं विचारलें: "खंय तयार करचें? तुजी खुशी कितें?" ताणें तांकां सांगलें: "आयकात: तुमी शारांत भितर सरताना उदकाचो कळसो घेवन वेता तो कोण एक मनीस तुमकां मेळतलो; तो भितर सरत तें घर परयान ताचे पाटल्यान वचात, आनी त्या घराच्या धनयाक अशें म्हणात: 'गुरुजी तुजे लागीं विचारता: म्हज्या शिसां बराबर हांवें पास्क जेवण करूंक सोयऱ्यांचो वसरो खंय आसा?' आनी तो तुमकां माळयेर एक व्हडलो बरे भाशेन जेवणाक मांडललो वसरो दाकयतलो; थंय तयार करात." ते गेले आनी ताणें सांगललें तशें तांकां मेळलें; आनी तांणीं पास्क तयार केलें.

**308.** *जु 13,1; लूक 22,14-18*

### *जेवण सुरू जाता*

*(जु)* ***पास्काच्या उत्सवा आदीं, जेजू ह्या संसारांतलो भायर सरून बापाशीं वेचो आपलो वेळ पावलो म्हण जाणा आसलो. संसारांत आसलल्या आपल्यांचो ताणें सदांच मोग केल्लो, पूण ह्या वेळार ताणें संपुर्णायेन तांचो मोग करून दाकयलो.***

*(लूक)* वेळ जातच जेजू जेवणाक बसलो आनी ताचे सांगातीं ताचे धर्मदूत. ताणें तांकां सांगलें: "कश्ट सोसचे आदीं तुमचे सांगातीं हें पास्क जेवण करूंक हांव अत्रेकून अत्रेकतालों. खरेंच तुमकां सांगतां: ह्या पास्काची देवाच्या राज्यांत संपादणी जायसर, हांव हें पास्क जेवण नव्यान करचो नां". आनी ताणें पात्र घेतलें आनी देवाक धिनवासून म्हळें: "घेयात आनी तुमचे भितर वांटात. खरेंच तुमकां सांगतां: देवाचें राज्य येसर दाकांच्या फळांचें ह्या फुडें हांव आनीक पियेंवचो नां."

**309.** *लूक 22,24; 27-30a*

### *कोण व्हड? शिसांचो वादविवाद*

शिसां भितर कोणाक सगळ्यां परस व्हड म्हण लेकचो, हे विशीं तांचे मदें एक विवादूय जालो. तेदनां जेजून तांकां सांगलें: ***"सांगात म्हाका, कोण व्हडलो; जेवणाक बसता तो, वा ताची चाकरी करता तो? जेवणाक बसता तो की ना? हांव तर चाकरी करतल्या सारको तुमचे मदें आसां.***

म्हज्या उपद्र्यांनी विस्वाशिपणीं म्हज्या सांगाता रावल्यात ते तुमीच; देखून म्हज्या बापान जशें म्हाका राज्य नेमून दिलां, तशेंच हांव तुमचे सरीं करतां; तुमी म्हज्या राज्यांत म्हज्या मेजार खावन पियेवन आसतल्यात."

**310.** *जु 13,2-17*

### *जेजू शिसांचे पांय धुता*

ताचें रातचें जेवण चलतालें. जेजुचो घात घेंवचो म्हण देवचारान शिमांवाच्या पुता जुदास इस्कारिओताच्या मनांत घाल्लें. बापान सगळें आपल्या हातांत दिलां, आपूण देवा थावन आयला आनी देवाशीं वेता म्हण जाणा जावन, जेजू जेवणा वेलो उटलो, ताणें आपलें आवरण काडलें आनी एक रुमाल घेवन तो आपल्या पेंकटाक बांदलो. उपरांत, एका तस्तांत उदक ओतून, तो शिसांचे पांय धुवूंक लागलो, आनी आपणाक बांदललो त्या रुमालाक ते पुसूंक लागलो. तो शिमांव पेद्रू सरशें गेलो; पेद्रून ताका म्हळें: "सोमया, तूं म्हजे पांय धुताय?!" जेजून ताका परतिपाळ केलो: "हांव करतां तें तुकां आतां समजना, पूण मागीर समजतलें." पेद्रून ताका म्हळें: "म्हजे पांय धुवूंक हांव तुका कदींच दिंवचो नां!" जेजून ताका परतून म्हळें: "हांव तुका धुयनां जाल्यार, म्हज्या वांगडा तुका कांयच आसचें ना!" शिमांव पेद्रून परतिपाळ केलो: "तशें जाल्यार, सोमया, म्हजे पांयच न्हय, बगर म्हजे हात आनी म्हजी तकलीय



धनीण आपले चाकरणिचे पांय धुता  घोव आपले बायलेचे पांय धुता

तुवें कोणाचे पांय धुंवचे ?

तुमचो गुरू आनी प्रभू जावनूय हांवें तुमचे पांय धुल्यात;
तशेंच तुमीय एकामेकाचे पांय धुयात.
(आंक 310 वाच)

धू.” जेजून ताका म्हळें: “न्हाला ताणें फकत पांय धुल्यार पुरो; तो सगळोच नितळ आसा. तुमी तर नितळ आसात, पूण सगळे नितळ नांत.” आपणाचो घात कोण घेतलो आसलो तें तो जाणा आसलो; त्या पासत ताणें म्हळें: “सगळे तुमी नितळ नांत.” तांचे पांय धुवून जातच, आपलीं वस्त्रां घालून, जेजू आपले स्वातेर परतून आयलो. ताणें म्हळें:

*“हांवें तुमकां कितें केलां तें तुमी समजल्यात मू? तुमी म्हाका गुरू आनी सोमी म्हणतात; आनी तुमी सारकें उलयतात, कित्याक हांव खरेंच गुरू आनी सोमी. म्हणतच, तुमचो सोमी आनी गुरू जावनूय, हांवें तुमचे पांय धुले जाल्यार, तुमी एकामेकाचे पांय धुवूंक जाय. हांवें तुमकां देक दिल्या: हांवें तुमकां केलां तशेंच तुमीय करात. हांव तुमकां सत सांगतां, आपल्या धनयावून चाकर व्हड न्हय; तशेंच पाटयललो कोण आपणाक पाटयला ताचेवून व्हड न्हय. हें जाणा जावन, तुमी तशेंच करशात जाल्यार, तुमी सुभागी!”*

**311**. जु *13,18-22; मातेव 26,22-25*

### जुदासाक निमाणी शिडकावणी

*(जु)* “हांव तुमची सगळ्यांची खबर करिनां; कोणांक हांवें विंचून काडल्यात तें हांव जाणां; पूण पवित्र पुस्तकांतलें हें उतर पाळोन येंवक जाय: *‘जो म्हजे बराबर जेवणाक बसललो आसा, ताणेंच म्हजेर खोंट उबारली.’* हें घडोन येतलें तेदनां हांवूच तो म्हण तुमी भावार्त धरचे खातीर, हें घडच्या आदींच हांव तुमकां सांगून दवरतां.

हांव तुमकां खऱ्यांनीच सांगतां: हांव धाडतां तांकां मानून घेतात तीं म्हाका मानून घेतात; आनी म्हाका मानून घेतात तीं म्हाका पाठयला ताका मानून घेतात”

अशें उलोवन जातच जेजू सगळोच थरथरलो आनी उगतेपणीं ताणें म्हळें: “हांव तुमकां सत सांगतां, तुमचे भितरलो एकलो म्हजो घात घेतलो.” तो कोणाची खबर करतालोगाय म्हण दुबावून, शीस एकामेकाक पळेंवक लागले.

*(मातेव)* ते जबर खंतिभरीत जाले आनीं एक एकलो म्हणूंक लागलो: "सोमया, हांव न्हय मू तो?" ताणें असो परतिपाळ केलो: "म्हजे बराबर ताटांत हात घाला तो म्हजो घात घेतलो. मनशाचो पूत आपणा विशीं पवित्र पुस्तकार बरयल्लें आसा त्या परमाणें वेता खरो, पूण जो मनीस मनशाच्या पुताचो घात घेतलो ताचें कटा! जल्मुंकूच नासलो जाल्यार त्या मनशाक अदीक बरें जातें!" ताचो घात घेंवक वेतालो त्या जुदासानूय अशें विचारलें: "गुरुजी, हांव न्हय मू तो?" जेजून ताका जाप दिली: "तुवेंच सांगलेंय!"

**312.** जु *13,23-30*

### ***घातकी कोण तो जेजू सांगता***

ताच्या शिसां मदलो एकलो, जेजू मोग करी तो, जेजुचे कुशीक जेवणाक बसून आसलो; देखून शिमांव पेद्रून ताका खुणा करून म्हळें: "तो कोणाची खबर करता?" ताणें जेजुच्या हरद्यार बागवोन ताका म्हळें: "सोमया, तो कोण?" जेजून परतिपाळ केलो: "जाका हांव उंड्याचो कुडको बुडोवन दितलों, तोच तो." आनी ताणें उंड्याचो कुडको घेतलो आनी तो बुडोवन जुदासाक, शिमांव इस्कारिओताच्या पुताक, दिलो. उंड्याचो कुडको घेतल्या उपरांत, ताचे भितर सैतान रिगलो. जेजून ताका म्हळें: "तूं करूंक वेताय तें वेगींच कर." कित्या पासत ताणें तशें ताका म्हळें, हें जेवणाक बसलल्या दुसऱ्यांक कोणाकूच समजोंक ना. जुदासा लागीं पंगतिची गांट आसली देखून जेजू ताका अशें म्हणता म्हण कांय जाणांक दिसलें: "उत्सवाक आमकां गरजेचें तें घे" वा "गरिबांक कितेंय घाल." म्हणतच, उंड्याचो कुडको घेतल्या उपरांत, तो रोकडोच भायर सरून गेलो. रात जाल्ली.

**313.** *मातेव 26,26a; लूक 22,19b; मातेव 26,27-28*

## जेजुच्या कुडी रगताचें जेवण, नव्या कराराचें, नव्या पास्काचें जेवण

*(मातेव)* आनी ते जेवतासताना जेजून उंडो घेतलो, देवाक धिनवासून तो मोडलो, तो शिसांक दिलो आनी म्हळें:

***"घेयात आनी खायात:** (लूक) **ही म्हजी कूड;***
***हांवें ती तुमचे पासत समर्पुंची आसा.***
***म्हजो उगडास करून अशेंच तुमी करात."***

*(मातेव)* मागीर ताणें पात्र घेतलें आनी देवाक धिनवासून तें तांकां दिलें आनी म्हळें:

***"तुमी समेस्त हांतलें पियेयात:***
***हें म्हजें रगत, कराराचें रगत;***[1]
***सगळ्या मनशांक पातकांचें भगसणें***
***जोडून घेंवचे खातीर***
***तें हांवें वारोंवचें आसा."***

**314.** *जु. 13,31-35*

## नवी आज्ञा

जुदास भायर वेतच, जेजून म्हळें: "आतां मनशाच्या पुताक म्हयमा मेळ्ळी आनी ताचे सवें देवाक म्हयमा मेळ्ळी. देवाक ताचे सवें म्हयमा मेळ्ळी जाल्यार, देवूय ताका आपणा सवें म्हयमा दितलो, आनी रोकडोच ताका म्हयमेवंत करतलो. म्हज्या सुपुरल्या भुरग्यांनो, आनीक थोडोच वेळ हांव तुमचे सांगातीं आसां. तुमी म्हाका सोदतल्यात: आनी जशें हांवें जुदेयकारांक म्हळां, तशें हांव आतां तुमकांय सांगतां: जंय हांव वेतां, थंय तुमच्यान येंवक जायना.

---

[1] खुरसार मर परयान जेजून सर्व मनशांचो मोग केलो. सगळ्या पासत आपली कूड समर्पून दिली आनी आपलें रगत वारोवन सोडलें. हें आपल्या सपूर्ण मोगाचें बलीदान संसार सोंप परयान ह्या आपल्या कुडिरगताच्या जेवणाच्या रुपान मनशाक मेळचें म्हण. ताणें हें नव्या कराराचें जेवण, नव्या पास्काचें जेवण. घडून दवरलें आनी बापा मुखार आनी मनशा मदें आपलो उगडास म्हणून शिसांनी हें जेवण करचें म्हण सांगलें.

***एक नवी आज्ञा तुमकां दितां:***
***एकामेकाचो मोग करात.***
***हांवें तुमचो मोग केला,***
***तसोच तुमीय एकामेकाचो मोग करात.***
***एकामेकाचो मोग करशात जाल्यार,***
***हाचे वयल्यान तुमी म्हजे शीस म्हण***
***सगळ्या मनशांक कळतलें."***

**315.** *मातेव 26, 31-32*

### सगळे शीस जेजूक सोडून वेतले

तेदनां जेजून तांकां सांगलें: "आयचे रातीं तुमी सगळे म्हाका सोडून वेतल्यात! तर पवित्र पुस्तकार अशें बरयल्लें आसा: *'हांव गोंवळ्याक मारतलों आनी हिंडांतल्या शेळयांची धुस्पट जातली.'* देवान म्हाका पुनरजिवंत करतच तुमचे हांव आदीं गालिलेयांत वेतलों."

**316.** *जु 13,36; लूक 22,31-32; जु 13,37; लूक 22,33; मातेव 26,33; जु 13,38a; मार्कू 14,30b-31.*

### पेद्रू जेजूक नाकारतलो

*(जु)* शिमांव पेद्रून ताका विचारलें: "सोमया, तूं खंय वेताय?" जेजून परतिपाळ केलो: "हांव वेतां थंय तुज्यान आतां म्हजे पाटल्यान येंवक जायना, पूण मागीर येतलोय म्हजे पाटल्यान. *(लूक)* शिमांव, शिमांव, पळे, गंवा परीं तुमकां चाळूंक सैतानान सत्त्या मागून घेतल्या; पूण तुजो भावार्त दंडळना जांवक हांवें तुजे पासत मागणें केलां, आनी तूं म्हजे थांय परत येतच तुज्या भावांक घट कर."

*(जु)* पेद्रून ताका विचारलें: "सोमया कित्या पासत हांव तुजे पाटल्यान आतां येंवक शकना? तुजे पासत हांव म्हजो जीव दिंवक तयार!" *(लूक)* ताणें म्हळें: "सोमया, तुजे बराबर बंदखणिंतूच वचूंक

न्हय, पूण मरुंकूय हांव तयार. *(मातेव)* सगळेच परयान तुका सोडून गेले जाल्यार, हांव कसोच तुका सोडपाक नां!"

*(जु)* जेजून जबाब दिलोः "हय? म्हजे पासत तूं जीव दिंवक तयार आसाय? *(मार्कू)* हांव तुका सत सांगतां: आज, आयचेच राती, कोंब्यान दोन पावटी साद घालचे आदीं, तीन पावटी तूं म्हाका वळकनाय म्हण सांगतलोय!" पूण ताणें अदिकूच भासून सांगलें: "तुजे बराबर म्हाका मरूंक लेगून पडलें जाल्यार, हांव तुका सोडून वचपाक नां." हेरां सगळ्यांनी तशेंच म्हळें.

**317.** *लूक 22,35-38*

### कठीण वेळ पावता

आनी ताणें तांकां म्हळें: "तुमकां भक्षें, भुती आनी व्हाणो नासताना हांवें धाडले तेदनां, तुमकां कितें पूण उणें जालें?" तांणीं जाप दिली: "कांयच उणें जालें ना." ताणें सांगलें: "तर आतां, भक्षें आसा ताणें तें हातांत घेवचें, भुती आसा ताणें तशेंच करचें; तरवार ना ताणें आपलें आवरण विकून एक तरवार विकती घेंवची. *'खोट्यां मदें ताका लेकलो,'* अशें जें पवित्र पुस्तकार बरयल्लें आसा तें म्हजे सरीं संपादून येंवचें म्हण देवाची खुशी. हय, म्हजे विशिंचें कितें बरयल्लें आसा, तें पाळोन येता." तांणीं म्हळें: "सोमया, ह्यो पळे दोन तरवारी आसात." आनी ताणें म्हळें: "पुरो."

## XXVIII - जेजू शिसांक आपलें काळीज उगतें करता

**318.** *जु 14,1-14*

### वाट, सत आनी जिवीत हांवूच

"तुमचीं काळजां उचांबळ जांवक दींव नाकात. देवाचेर विस्वास दवरात, तसोच म्हजेरूय दवरात. म्हज्या बापाच्या घरांत रावूंक पुस्कळ स्वातो आसात; अशें न्हय आसलें जाल्यार, हांव तुमकां स्वात

तयार करूंक वेतां म्हण तुमकां सांगतलों आसलों? आनी वचून तुमकां स्वात तयार केल्या उपरांत, हांव नव्यान येतलों आनी तुमकां म्हजेशीं व्हरतलों; अशें, जंय हांव आसां, थंय तुमीय आसतल्यात. आनी जंय हांव वेतां, ती वाट तुमी जाणात." तोमासान ताका म्हळें: "सोमया, तूं खंय वेताय तें आमी नकळोंव, तर वाट कशी जाणा जातल्यांव?" जेजून ताका अशी जाप दिली: ***"वाट, सत आनी जिवीत हांवूच; कोणूच बापाशीं वचना बगर म्हजे वरवीं. तुमकां म्हजी वळक आसली जाल्यार, म्हज्या बापाचीय वळक तुमकां आसतली आसली; आतांच्यान तुमी ताका वळकतात आनी तुमी ताका देकला."***

फिलिपान ताका म्हळें: "सोमया, आमकां बाप दाकय: इतलेंच आमकां पुरो!" जेजून ताका परतिपाळ केलो: "फिलीप, इतलो वेळ तुमचे सांगातीं आसां, आनी आजून तुमी म्हाका वळकूंक ना? ***जीं कोण म्हाका पळेतात तीं म्हज्या बापाक पळेतात;*** तर 'आमकां बाप दाकय,' अशें तुज्यान कशें म्हणूं येता? ***हांव बापा सवें आसां आनी बाप म्हजे सवें आसा म्हण तुका भावार्त ना? जें कितें हांव सांगतां, तें हांव म्हजेच अश्टंगीं उलयनां; पूण म्हजे सवें आसा तो बाप आपलीं कर्तुत्वां करीत आसा. म्हजेर भावार्त दवरात: हांव बापा सवें आसां, आनी बाप म्हजे सवें आसा; कर्तुत्वांक लागून तरी भावार्त धरात. खरेंच खरें हांव तुमकां सांगतां: जीं कोण म्हजेर भावार्त दवरतात, तीं हांव करतां तीं कर्तुत्वां आपुणूय करतलीं, आनी तांचे परस श्रेश्ट कर्तुत्वां करतलीं, कित्याक हांव बापाशीं वेतां. तुमी म्हज्या नांवान मागशात तितलेंय हांव करतलों, आनी अशी पुता सवें बापाक म्हयमा मेळतली; तुमी कितेंय म्हजे नांवीं मागशात जाल्यार हांव तें करतलों."***

**319.** *जु 14,15-26*

### जेजू पवित्र आत्मो भासायता

***"तुमी म्हजो मोग करतात जाल्यार, म्हज्यो आज्ञा सांबाळतल्यात. आनी***

*हांव बापा कडे मागतलों आनी तो तुमकां आनीक एक शारती दितलो आनी हो तुमचे सवें सदांकाळ आसतलो. तोच तो देवा संबंदीं सत उगडापें करता तो आत्मो; संसार ताका घेंवक शकना, कित्याक संसाराक तो दिश्टी पडना आनी संसार ताका वळकय ना; पूण तुमी ताका वळकतात, कित्याक तो तुमचे सांगातीं आसा, तुमचे भितर रावता.*

*हांव तुमकां अनाथ कशे सांडचो नां; पूण तुमचेशीं येतलों. आनीक थोडोच वेळ आसा आनी संसार म्हाका आनीक देकचो ना, पूण तुमी म्हाका देकतल्यात, कित्याक हांव जिवो आसां आनी तुमी जिवे आसतल्यात. हांव म्हज्या बापा सवें आसां म्हण तशेंच तुमी म्हजे सवें आसात आनी हांव तुमचे सवें आसां म्हण त्या दिसा तुमकां कळोन येतलें.*

*म्हज्यो आज्ञा घेतात आनी पाळतात तींच म्हजो मोग करतात; आनी म्हजो मोग करतात तांचो म्हजो बाप मोग करतलो, आनी हांव तांचो मोग करतलों आनी तांकां म्हजी वळक दितलों."*

जुदासान (हो इस्कारियोत न्हय पूण दुसरो) ताका म्हळें: "सोमया, तूं संसाराक तुजी वळक दिंवचो नांय पूण आमकां दितलोय, हें अशें कितें?" जेजून ताका परतिपाळ केलो:

*"म्हजो मोग करतात तीं म्हजें उतर सांबाळतलीं, आनी म्हजो बाप तांचो मोग करतलो, आनी आमी तांचे थांय येतल्यांव आनी तांचे सवें ठिकाण करतल्यांव. म्हजो मोग करिनांत तीं म्हजीं उतरां सांबाळिनांत; आनी तुमी आयकतात तें उतर म्हजें न्हय, पूण म्हाका पाठयला त्या बापाचें.*

*तुमचे मदें आसताना, हांवें तुमकां ह्यो वस्तू सांगल्यात. पूण बाप म्हजे नांवीं तुमकां धाडतलो तो शारती, म्हणगे पवित्र आत्मो, तुमकां सगळें शिकयतलो आनी हांवें तुमकां सांगलां तें सगट तुमच्या मनांत हाडतलो."*

**320.** *जु 15,1-8*

### *दाकवेल आनी फांटे*

*“हांव खरी दाकवेल आनी म्हजो बाप कुळवाडी. म्हजे सवें आसुनूय फळां दिना तो दर एक फांटो तो कातरून उडयता, आनी फळां दिता तो दर एक फांटो, ताणें अदीक फळां दिंवचे खातीर, तो बेंडता. हांव तुमचे लागीं उलयलां त्या उतरा वरवीं तुमी नितळ जाल्यात. म्हजे सवें रिगून रावात आनी हांवूय तुमचे सवें रिगून रावतां. जशें एक फांटो दाकवेलींत रिगून रावल्या शिवाय ताच्यान आपणाचेच अश्टंगीं फळां दिंवक जायनांत, तशेंच तुमी म्हजे सवें रिगून रावल्या शिवाय तुमच्यानूय फळां दिंवक जायनांत.*

*हांव दाकवेल, तुमी फांटे. जीं कोण म्हजे सवें रिगून रावतात आनी जांचे सवें हांव रिगून रावतां, तीं सुभाम फळां दितात, कित्याक म्हजे विरैत तुमच्यान कांयच करूंक जायना. म्हजे सवें रिगून रावनांत तीं एका कातरून उडयल्ल्या फांट्या सारकीं सुकतात; असले फांटे जमा करतात आनी उज्यांत उडयतात आनी ते लासतात. तुमी म्हजे सवें रिगून रावशात आनी म्हजीं उतरां तुमचे सवें रिगून रावतीत जाल्यार, तुमकां जायतें मागात आनी तुमकां तें घडतलें. तुमी सुभाम फळां दिंवचीं, आनी म्हजे शीस तुमी जांवचे, हांतूं म्हज्या बापाक म्हयमा मेळता.”*

**321.** *जु 15,9-17*

### *ही म्हजी आज्ञा: एकामेकाचो मोग करात*

*“जसो बापान म्हजो मोग केला, तसो हांवेंय तुमचो केला: म्हज्या मोगांत रावात. जशें हांवें म्हज्या बापाच्यो आज्ञा सांबाळल्यात आनी असो ताच्या मोगांत हांव आसां, तशेंच तुमीय म्हज्यो आज्ञा सांबाळशात जाल्यार, म्हज्या मोगांत तुमी रावतल्यात.*

*म्हजी खुशालकाय तुमचे सवें आसचे खातीर आनी तुमची खुशालकाय पूर्ण जांवचे पासत हांवें तुमकां ह्यो वस्तू सांगल्यात. म्हजी आज्ञा ही: जसो हांवें तुमचो मोग केला, तसोच तुमीय एकामेकाचो*

करात. कोणें जर आपल्या इश्टां पासत आपलो जीव दिलो, हाचे परस व्हड मोग कोणाक ना! म्हजे आज्ञे परमाणें तुमी चलशात जाल्यार, तुमी म्हजे इश्ट. ह्या फुडें हांव तुमकां चाकर म्हणचो नां, कित्याक आपलो धनी कितें करता तें चाकर नकळो पूण हांव तुमकां इश्ट म्हणतां, कित्याक म्हज्या बापा कडचें हांवें आयकलां तितलेंय हांवें तुमकां कळयलां.

तुमी म्हाका विंचून काडूंक ना: हांवें तुमकां विंचून काडल्यात. आनी ह्या पासत तुमकां नेमल्यात की तुमी वेचें आनी फळां दिंवचीं, तगतात तसलीं फळां. अशें म्हजे नांवीं बापा कडें तुमी मागतात तितलेंय तो तुमकां दितलो.

ही म्हजी आज्ञा तुमकां: एकामेकाचो मोग करात."

**322.** जु 15,18-27; 16,1-6

## संसार जेजुचो आनी शिसांचो द्वेस धरता

"संसार तुमकां जळता जाल्यार, तुमकां जळचे आदीं तो म्हाका जळला म्हण जाणा जायात. तुमी संसाराचे आसल्यात तर, संसार तुमकां आपले म्हण मानून तुमचो मोग करतलो आसलो. पूण तुमी संसाराचे न्हय म्हण आनी हांवें तुमकां संसारातले विंचून काडल्यात देखून, संसार तुमकां जळता. चाकर अपल्या धनया परस व्हड न्हय: अशें हांवें तुमकां सांगलां त्या उतराचो उगडास धरात. तांणीं म्हाका धुमाळो दिला जाल्यार, तीं तुमकांय धुमाळो दितलीं; तांणीं म्हजें उतर सांबाळलां जाल्यार; तुमचेंय सांबाळतलीं. पूण हें सगळें म्हज्या नांवा पासत तीं तुमकां करतलीं, कित्याक म्हाका पाटयला ताची तांकां वळक ना.

हांव येंवक नासलों आनी तांकां म्हजो संदेश हांवें दिंवक नासलो जाल्यार, तांकां पातक आसचें नासलें; पूण आतां तांचें पातक तांचेर थापिना जांवक तांकां निमितूच ना. म्हाका जळतात तीं म्हज्या बापाकूय जळतात. दुसऱ्या खंयच्याच मनशान करूंक नांत तसल्यो करण्यो हांवें तांचे मदें करूंक नासल्यो जाल्यार, तांकां पातक आसचें

*नासलें; पूण आतां तांणीं हें सगळें देकलां, तरी आसताना तीं म्हाका आनी म्हज्या बापाकूय जळतात. कारण नासताना म्हजो द्वेस धरतात: हें तांच्या शास्त्रांत बरयल्लें आसा तें उतर घडोंक जाय म्हण अशें जालां.*

*हांव बापा कडसून तुमचेशीं एक शारती पाटयतलों; तो बापासून निपजता आनी देवा संबंदीं सत उगडापें करता तो आत्मो: तो येतलो तेदनां, तो म्हजे विशीं साक्षी दितलो; आनी सुरवातेक थावन तुमी म्हजे सांगातीं आसात देखून, तुमीय म्हजे गवाय जातल्यात.*

*तुमचो भावार्त दंडळना जांवक हें हांवें तुमकां सांगलां. तीं तुमकां देवस्थानांतले भायरायतलीं; खरें म्हळ्यार असलो वेळ पावत आयलो, की जीं कोण तुमकां जिवेशीं मारतात तीं आपूण देवाची भक्ती करतात म्हण समजतलीं. आनी तांणीं बापाक आनी म्हाकाय वळकूंक ना देखून, तीं अशें करतलीं. तांचो वेळ पावतच हांवें तुमकां ह्यो वस्तू सांगलल्यो म्हण तुमकां उगडास जांवचे खातीर, हांवें त्यो तुमकां सांगल्यात.*

*हांव तुमच्या सांगाता आसलों देखून, सुरवातेक थावन हांवें तुमकां ह्यो वस्तू सांगूंक नासल्यो. पूण आतां हांव म्हाका पाठयला ताचेशीं वेतां; तरी तूं खंय वेतायगाय म्हण तुमचे भितरलो एकलोय म्हाका विचारिना. पूण हांवें तुमकां ह्यो वस्तू सांगल्यात देखून, तुमचीं काळजां खंतीन भरल्यांत."*

**323.** *जु 16,7-15*

### जेजू पवित्र आत्मो भासायता

*"तरी आसतां हांव तुमकां सत सांगतां: हांव गेलों जाल्यार तुमकां आदावाचें; हांव वचनां जायन जाल्यार, शारती तुमचे थांय येंवचो ना; पूण हांव गेलों जाल्यार ताका तुमचे थांय धाडतलों. आनी तो येतलो तेदनां पातक कोणें केलां, देवाक मानता तें कोणें केलां, आनी देवाचो निर्णय कोण, हें सगट दाकोवन तो संसाराचो गुन्यांव सिद्ध करतलो. कोणें पातक केलां तें दाकयतलो, कित्याक तांणीं म्हजेर भावार्त दवरलो ना; देवाक मानता तें कोणें केलां तें दाकयतलो. कित्याक*

*हांव बापाशीं वेतां आनी तुमी म्हाका आनीक पळेंवचे नांत; देवाचो निर्णय कोण तो दाकयतलो, कित्याक ह्या संसाराच्या अधिकाराचेर देवान खास्तिचें फरमण मारलें.*

*आजून जायत्यो वस्तू हांवें तुमकां सांगच्यो आसात, पूण त्यो तुमच्यान आतां मनांत घेंवक जायनांत. देवा संबंदीं सत उगडापें करता तो आत्मो येतलो तेदनां, तो तुमकां पूर्ण सताचे वाटेन चलयतलो; कित्याक तो आपल्या पदरचें उलोंवचो ना, पूण जें कितें तो आयकता तें तो सांगतलो, आनी घडचें आसा तें सगळें तुमकां कळयतलो. तो म्हाका म्हयमा दितलो, कित्याक जें तो तुमकां कळयतलो, तें तो म्हजे कडसून घेतलो. जें बापाचें तें सगळें म्हजें; ह्या पासत हांवें अशें म्हळां: जें तो तुमकां कळयतलो, तें तो म्हजे कडसून घेतलो."*

**324.** *जु 16,16-24*

### *हांव तुमकां नव्यान पळेतलों.*

"थोड्याच वेळान तुमी म्हाका देकचे नांत; आनी आनीक थोड्या वेळान तुमी म्हाका पळेतल्यात." ताच्या शिसांतल्या कांय जाणांनी एकामेकाक म्हळें: "तो सांगता: 'थोड्याच वेळान तुमी म्हाका देकचे नांत आनी आनीक थोड्या वेळान तुमी म्हाका पळेतल्यात' आनी 'हांव बापाशीं वेतां,'– हें तो आमकां म्हणता तें कितें?" तर ते म्हणताले: "तो थोडो वेळ म्हणता तें कितें ? तो सांगता तें आमकां समजना."

ते आपणा कडे विचारूंक करताले म्हण जाणा जावन, जेजून म्हळें: " *'थोड्याच वेळान तुमी म्हाका देकचे नांत आनीक थोड्या वेळान तुमी म्हाका नव्यान पळेतल्यात,' अशें हांवें म्हळां ताचो अर्थ तुमी एकामेका कडे विचारतात? हांव तुमकां सत सांगतां, तुमी रडतल्यात आनी पिरगतल्यात, पूण संसार खुशालभरीत जातलो; तुमी खंतिभरीत जातल्यात, पूण खंतिचे बदलेक तुमकां मेळतलो*

*संतोस. एक बायल परसूत जांवच्या वेळार आपलो वगत पावलो म्हण खंतिभरीत जाता, पूण भुरग्याक जल्म दितच संसारांत एक मनीस जल्मला म्हण संतोसून, तिका आनीक खंतिचो उगडास जायना. तशेंच तुमकां आतां खंत जाल्या, पूण हांव तुमकां नव्यान पळेतलों, आनी तुमचें काळीज खुशालभरीत जातलें, आनी तुमची खुशालकाय कोणूच तुमचे थावन काडून व्हरचो ना.*

*तो दीस येतलो तेदनां, तुमी म्हाका कांय विचारचे नांत. म्हज्या नांवान बापा लागीं तुमी कितेंय मागशात जाल्यार, तो तुमकां दितलो. आजून परयान तुमी म्हजे नांवीं कितेंच मागूंक ना. मागात आनी तुमकां मेळतलें, आनी असो तुमचो आनंद पूर्ण जातलो."*

**325.** जु *16,25-33*

### *काळजिदार जायात:*
### *हांवें संसाराचेर जैत व्हेलें*

"हें सगळें हांवें तुमकां वोपारिंनी सांगलां; पूण असो वेळ पावत आयलो, की हांव आनी तुमचे कडे वोपारिंनी उलोंवचो नां, पूण बापा विशीं उगडापीं उलयतलों. ***त्या दिसा तुमी म्हजे नांवीं मागतल्यात; आनी तुमचे खातीर हांव बापा लागीं मागतलों म्हण हांव तुमकां सांगिनां; कित्याक बाप खाशा तुमचो मोग करता, कित्याक तुमी म्हजो मोग केला आनी हांव देवासून उपजलां म्हण तुमी भावर्त धरला.***

हांव बापासून उपजलां आनी संसारांत आयलां; आतां हांव संसार सोडतां आनी बापाशीं वेतां." ताच्या शिसांनी म्हळें: "आतां की तूं उगडापीं उलयताय आनी कसलीच वोपार वापरिनांय. तूं सगळें जाणाय म्हण आतां आमकां कळलें आनी कोणें कितेंच विचारची तुका गरज ना; ह्या पासत तूं देवा थावन आयलाय म्हण आमी भावार्त धरतांव."

जेजून तांकां परतिपाळ केलो: "आतां तरी तुमी भावार्त धरतात? असलो वेळ पावत आयलो, खरेपणीं तो पावलो, की तुमी

सगळे आप आपले वाटेन शिंपडतल्यात आनी म्हाका एकलोच सांडतल्यात. *खरेंच म्हळ्यार, हांव एकलोच नां, कित्याक म्हज्या सांगाता बाप आसा. म्हजे सवें तुमकां शांती मेळचे खातीर हांव तुमचे कडे ह्यो वस्तू उलयलां. संसारांत तुमकां खंत आसतलीच; पूण काळजिदार जायात! हांवें संसाराचेर जैत व्हेलें!"*

**326.** ज़ु *14,27-31*

*म्हजी शांती तुमकां दितां*

*"शांती तुमकां दवरतां; म्हजी शांती तुमकां दितां; संसार दिता तशी हांव ती तुमकां दिनां. तुमचें काळीज उचांबळ जांवक दीव नाकात, सगळी भिरांत सोडात. हांव वेतां आनी हांव तुमचेशीं येतां, अशें हांवें तुमकां सांगलां म्हण तुमी आयकलां. तुमी म्हजो मोग केल्लो जाल्यार, हांव बापाशीं वेतां म्हण तुमी संतोसभरीत जातले आसल्यात; कित्याक बाप म्हजेवून व्हड.*

*हें घडोन आयल्या उपरांत तुमी भावार्त धरचे खातीर, आतां हें घडचे आदीं हांवें तुमकां सांगलां. आनी तुमचे लागीं चड हांव उलोंवचो नां. ह्या संसाराचो अधिकारी येंवचो जालो; म्हजे वयर ताका कसलीच पदवी ना; पूण हांव बापाचो मोग करतां म्हण आनी बापान म्हाका दिल्या ती आज्ञा हांव सारकी पाळतां म्हण संसाराक कळोन येंवक जाय. उटात तर! हांगासरले वचुंया!"*

## XXIX - जेजुचें याज्ञिकी प्रार्थन

**327.** ज़ु *17,1-5*

*जेजुचें याज्ञिकी प्रार्थन*

*(अ) तुज्या पुताक म्हयमेवंत कर*

अशें उलयल्या उपरांत आपले दोळे सर्गाक लावून जेजून म्हळें:

*"बापा, वेळ पावलो,*
*पुतान तुका म्हयमा दिंवक*
*तुज्या पुताक म्हयमेवंत कर.*

*तुवें ताका दिल्ल्यां समेस्तांक*
*ताणें सासणीक जिवीत दिंवचे खातीर*
*आख्या मनशाकुळाचेर*
*तुवें ताका अधिकार दिला.*
*तुका, एकल्याच खऱ्या देवाक,*
*आनी तुवें पाटयला त्या अभिशिक्त जेजूक*
*वळकून घेवप, हेंच तें सासणीक जिवीत.*
*हांवें तुका प्रिथुमेचेर म्हयमा दिली;*
*तुवें म्हाका करूंक दिल्लें काम हांवें संपादलें.*
*आतां, बापा, संसार आसचे आदीं*
*जी म्हाका तुज्या सांगाता म्हयमा आसली,*
*तेच म्हयमेन म्हाका भर."*

328. *जु 17,6-13*

### (ब) हांव तुजेशीं येतां

*"संसारांतले काडून तुवें म्हाका दिल्यात*
*त्या मनशांक हांवें*
*तुका वळकूंक पावयले;*
*ते तुजे आसले, आनी तुवें ते म्हाका दिले,*
*आनी तांणीं तुजें उतर सांबाळलां.*
*जें सगळें तुवें म्हाका दिलां,*
*तें तुजे कडसून येता म्हण*
*आतां तांकां कळलें.*
*जी शिकोवण तुवें म्हाका दिल्या,*
*ती हांवें तांकां दिल्या,*
*आनी तांणीं ती मानून घेतल्या,*
*आनी हांव तुजेसून आयलां म्हण*
*तांणीं खरेपणीं वळकून घेतलां;*
*आनी तुवेंच म्हाका पाटयला म्हण*
*तांणीं भावार्त धरला.*

*तांचे पासत हांव मागतां;*
*संसारा पासत मागिनां;*
*पूण तुवें म्हाका दिल्यात*
*तांचे पासत मागतां,*
*कित्याक ते तुजे.*
*जें म्हजें तें सगळें तुजें,*
*आनी जें तुजें तें सगळें म्हजें;*
*आनी तांचे वरवीं म्हाका म्हयमा मेळल्या.*
*आनी आतां हांव आनीक संसारांत नां,*
*पूण ते संसारांत आसात,*
*आनी हांव तुजेशीं येतां.*
*पवित्र बापा, तुवें म्हाका दिल्यात ते*
*आमचे वरी एक जांवचे खातीर*
*तांकां तुजे नांवीं सांबाळ.*
*तांचे सांगातीं आसताना,*
*तुवें म्हाका दिल्यात तांचो*
*तुजे नांवीं हांव सांबाळ करतालों.*
*हांवें तांकां राखले,*
*आनी पवित्र पुस्तकांतलें उतर*
*खरें जांवचे खातीर,*
*जाचें निसंटण जांवक जाय आसलें*
*ताका एकाल्याकूच भायरावन,*
*तांचे भितरलो कोणूच इबाड जालो ना.*
*पूण आतां हांव तुजे सरशीं येतां,*
*आनी म्हजो संतोस तांकां*
*संपुर्णतायेन मेळचे पासत,*
*आजून संसारांत आसताना,*
*ह्यो वस्तू उलयतां."*

329. जु 17,14-21

*(क) तीं सगळीं एक जांव*

*"हांवें तुजें उतर तांकां दिलां,*
*आनी जसो हांव संसाराचो न्हय,*
*तशे तेय संसाराचे न्हय देखून,*
*संसार तांचो द्वेस करता.*
*तूं तांकां संसारांतले काड म्हण हांव मागिनां;*
*पूण नश्ट्यांच्या हातांतले*
*तांकां राक म्हण मागतां.*
*हांव संसाराचो न्हय,*
*तशे तेय संसाराचे न्हय.*
*सता वरवीं तांकां संस्कारलले कर;*
*तुजें उतर सत.*
*जशें तुवें म्हाका संसारांत पाटयला,*
*तशेंच हांवेंय तांकां*
*संसारांत पाटयल्यात.*
*आनी ते सता वरवीं*
*संस्कारलले जांवचे खातीर*
*तांचे पासत हांव म्हाकाच संस्कारतां.*

*हांव मागणें करतां तें हांचेच पासत न्हय,*
*तर जीं कोण तांच्या उतरा वरवीं*
*म्हजेर भावार्त दवरतलीं*
*त्याय मनशां पासत.*
*तीं सगळीं एक जांव.*
*जशें तूं, बापा, म्हजे सवें आसाय*
*आनी हांव तुजे सवें आसां,*
*तशेंच तीय आमचे सवें एक जांव,*
*आनी, हे परीं, तुवें म्हाका पाटयला म्हण*
*संसार भावार्त धरूं."*

330. जु 17,21-26

### (ड) बापा, तूं म्हजे सवें आनी हांव तांचे सवें

"जशें आमी एक,
तशीं तीं एक जांवचे खातीर,
तुवें म्हाका दिल्या ती म्हयमा
हांवें तांकां दिल्या.
हांव तांचे सवें
आनी तूं म्हजे सवें आसून
तीं संपुर्णायेन एक जांव;
अशें, तुवें म्हाका पाटयला म्हण,
आनी जसो तुवें म्हजो मोग केला,
तसोच तुवें तांचो मोग केला म्हण
संसार वळकून घेंव.

बापा, जंय हांव आसां,
थंय तुवें म्हाका दिल्यांत
तींय आसचीं म्हण म्हजी खुशी,
आनी अशें तुवें म्हाका दिल्या ती म्हयमा
तांणीं पळेंवची ;
कित्याक संसार रचचे आदीं
तुवें म्हजो मोग केलो.
नितिवंत बापा,
संसारान तुका वळकून घेंवक ना,
पूण हांव तुका वळकतां,
आनी तुवें म्हाका पाटयला म्हण
हांणीं वळकून घेतलां.
हांवें तांकां
तुजी वळक दिल्या
आनी आजून दितलों;

*अशें, ज्या मोगान तुवें म्हजो मोग केला*
*तोच मोग तांचे सवें आसतलो*
*आनी हांवूय तांचे सवें आसतलों.”*

## जेजुच्या कश्टांमरणाची कथा

## XXX - जुदेवांची मनसुबी

(ब्रेस्तार-सुक्रार)

**331.** *जु 18,1a; मार्कू 14,32-36; लूक 22,43-44; मातेव 26,40-46*

### *गेत्सेमानी मळ्यांत खंत आनी दूख*

*(जु)* अशें उलयतच, जेजू आपल्या शिसां सांगातीं केद्रोन व्हाळाचे पलतडी गेलो.[1] *(मार्कू)* गेत्सेमानी म्हणलल्या मळ्यांत ते पावले.[2] जेजून आपल्या शिसांक म्हळें: “हांवें मागणें करिसर तुमी हांगा बसात.” आनी पेद्रूक, जाकोबाक आनी जुवांवाक आपणा बराबर व्हरून तो थरथरूंक आनी मिडमिडूंक लागलो, आनी ताणें तांकां सांगलें: ***“कसले खंतींत बुडलां हांव! म्हाका मरूंक पुरो! तुमी हांगाच थांबात आनी जागृत रावात.”***

आनी मातसो फुडें वचून,[3] तो धरणीर पडलो आनी हो वेळ, जाता जाल्यार, आपणा थावन पयस वचूं म्हण मागतालो. ताणें म्हळें:

***“अब्बा, बापा म्हज्या, तुज्यान कितेंय करूंक जाता;***
***हें पात्र म्हजे थावन पयस काड;***

---

[1] जुदेवां मदें तांच्या पास्काच्या जेवणाच्या शेवटाक वाखाण्णेचीं गितां वा स्तोत्रां गायतालीं *(स्तो 113-118)*. हेंच जेजून केलां म्हण मातेव आनी मार्कू सांगतात: “गीत म्हणल्या उपरांत जैतुनाच्या दोंगरार वचूंक भायर सरले.” लूक बरयता: “आनी भायर सरून, जेजू आपले संवये परमाणें जैतुनाच्या दोंगरार वचूंक लागलो; ताचे शीस ताचे पाटल्यान गेले.”

217-2 जुवांव बरयता: “थंय एक बाग आसली.”

[2] जुवांव बरयता: “थंय एक बाग आसली.”

[3] लूक बरयता: “आनी फातराचे ओडी इतलो आपूण तांचेसून पयस गेलो.”

***तरी पूण म्हाका जाय तशें न्हय,***

***तुका जाय तशें जांव दी.”***

*(लूक)* तेदनां ताका धीर दिंवक सर्गार थावन एक देवदूत येवन ताका दिश्टी पडलो. आनी सगळोच कळवळोन, अदीक उत्सुकतायेन तो मागणें करीत आसलो. आनी धरणीर गळतल्या रगताच्या दाट थेंब्यावरी जालो ताचो घाम.

*(मातेव)* शिसां सरशें परतो ये जाल्यार, ते ताका न्हिदलले मेळले आनी ताणें पेद्रूक म्हळें: “म्हणतच एक तास भर म्हजे बराबर जागे रावूंक तुमच्यान नजो जालें मू? तुमी ताळणेंत पडना जांवक जागृत रावात आनी मागणें करात. अत्मो राजी आसा खरो, पूण कूड असक्त.”

तांचे सरशिलो वचून ताणें नव्यान, दुसरे पावटी, अशें मागणें केलें:

***“बापा म्हज्या, हांवें हें पात्र पियेल्या बगर***

***तें पेल्यान काडूंक जायना जाल्यार,***

***तुजी खुशी जांव.”***

आनी परतून ये जाल्यार, ते ताका न्हिदलले मेळले; इतले तांचे दोळे झेमेन जड जाल्ले. तांकां थंयच सांडून नव्यान तो पयस गेलो आनी तींच उतरां म्हणून तिसरे पावट ताणें मागणें केलें. उपरांत शिसां सरशीं परतो येवन ताणें म्हळें: “न्हिदात आतां आनी विसव घेयात. पळेयात, मनशाचो पूत पातक्यांचे पराधीन जांवचो वेळ पावलो आतां. उटात! वचुंया! म्हजो घात घेतलो तो हो पळे लागींच आसा.”

**332**. *जु 18,2-3; मार्कू 14,44; मातेव 26,49-50a; लूक 22,48; जु 18, 4-9; मातेव 26,50b; लूक 22,49; जु 18,10; लूक 22,51; मातेव 26,52; जु 18,11b; मातेव 26,53-54; लूक 22,52-53; जु 18,12; मातेव 26,56; मार्कू 14,51-52*

**जेजूक धरतात.**

*(जु)* घातकी जुदास हो जागो वळकतालो; कित्याक सबार पावटी

जेजू थंय आपल्या शिसां बराबर वच. सैनिकांचो एक जमो घेवन आनी मुखेल याझिकांनी आनी फारिजेवांनी धाडलल्या चौकिदारांक हाडून, जुदास आयलोः दिवट्यो, उजवाड्यो आनी अस्त्रां-शस्त्रां घेवन ते थंय पावले.

*(मार्कू)* जेजूक पराधीन करतल्यान तांकां अशें म्हणून खुणा दिल्लीः "हांव उमो घेतलों पळे, तोच तो; ताका धरात आनी सांबाळून व्हरात." *(मातेव)* देखून रोकडोच जेजुशीं येवन ताणें म्हळें: "नमान तुका, गुरुजी!" आनी ताचो उमो घेतलो. जेजून ताका म्हळें; ***"इश्टा, करूंक आयलाय तें काम तूं कर. (लूक) जुदास, उमो घेवन मनशाच्या पुताक पराधीन करताय मू तूं?"***

*(जु)* तेदनां जेजू, आपणाक कितें घडतलें आसलें तें सगळें जाणा जावन, फुडें सरलो. ताणें तांकां म्हळें: "कोणाक सोदूंक अयल्यात तुमी?" तांणीं ताका जबाब दिलोः "नाजारेतकारा जेजूक." जेजून तांकां म्हळें: "हांव तो." घातकी जुदास तांचे बराबर उबो आसलो. जेदनां ताणें 'हांव तो' म्हळें, तेदनां ते पाटीं सरले आनी जमनीर शेवटले. नव्यान ताणें तांचे कडे विचारलें: "कोणाक सोदूंक आयल्यात तुमी?" आनी तांणीं म्हळें: "नाजारेतकारा जेजूक." जेजून परतिपाळ केलो. "तो हांव म्हण हांवें तुमकां सांगलें; म्हणतच, तुमी म्हाका सोदूंक आयल्यात जाल्यार, हांकां वचूं दी." अशें ताणें म्हणललें तें उतर घडोन येंवक जाय आसलें: "तुवें म्हाका दिल्यात तांचे भितरल्या एकल्याक लेगून हांवें इबाड जांवक दिंवक ना."

*(मातेव)* तेदनां ते फुडें सरले आनी जेजुच्या आंगार हात घालून तांणीं ताका धरलो. *(लूक)* ताचे भोंवतीं आसलल्यांनी कितें जाता तें पळेवन ताका विचारलें:"सोमया, आमी तरवार उबारची?" *(जु)* शिमांव पेद्रू कडे एक तरसोद आसली, ती ताणें भायर काडली, आनी परमयाझिकाच्या चाकराचेर मारून ताचो उजवो कानूच कातरलो.

त्या चाकराचें नांव माल्कू. *(लूक)* जेजून उलोवन म्हळें: "इतल्यान पुरो." आनी ताच्या कानाक हात लावून ताका बरो केलो.

*(मातेव)* तेदनां जेजून पेद्रूक म्हळें: "तुजी तरवार तिचे स्वातेर घाल, कित्याक तरवार काडतात ते तरवारीन मरतले. *(जु)* ***बापान म्हाका दिलां तें पात्र हांवें पियेंवचें न्हय?*** *(मातेव)* वा म्हज्या बापा कडे हांवें मागल्यार, तो बारावून अगळीं देवदुतांचीं लस्करां आतांच म्हज्या आदाराक धाडचो ना-सो तुका दिसता? पूण पवित्र पुस्तक सांगता अशें जांवक जाय म्हण, तें कशें जातलें तर?"

*(लूक)* आपणाक धरूंक आयलल्या मुखेल याज्ञिकांक, देवमंदिराच्या सरदारांक आनी जाण्ट्यांक जेजून म्हळें: "तुमी तरसादी आनी तोणके घेवन येंवक, हांव कोण पुंड कितें? हांव दिसपट्टो तुमचे मदें देवमंदिरांत आसलों तेदनां, तुमी म्हजेर हात घालो ना! पूण हो तुमचो वेळ आनी काळकाची पदवी."

*(जु)* सैनिकांच्या जम्यान, तांच्या सरदारान आनी जुदेवांच्या चौकिदारांनी जेजूक धरलो आनी बांदलो. *(मातेव)* पूण प्रवाद्यांचीं बरोवपां पाळोन येंवचे खातीर हें सगळें घडलें. त्या वेळार सगळे शीस ताका सांडून पळून गेले.

*(मार्कू)* कोण एक तरणाटो आपलें आंग फकत एके वोलीन पांगरून, ताचे पाटल्यान वेतालो; तांणीं ताका धरलो, पूण ताच्या हातांत वोल सोडून दिवन, तो विंगळोच पळून गेलो.

**333.** *जु 18,13,24,14; मार्कू 14,53*

## जेजू अन्नासा आनी कैफासा मुखार

*(जु)* तांणीं ताका पयलो अन्नासागेर व्हेलो कित्याक तो कैफासाचो, त्या वर्साच्या परमयाज्ञिकाचो, सासरो आसलो. तेदनां अन्नासान ताका बांदून कैफास परमयाज्ञिकागेर पाटयलो. परजे खातीर एकलो मनीस मेल्यार अदीक फायद्याचें म्हण जुदेवांक बूद दिल्ली तो होच कैफास.

*(मार्कू)* आनी जेजूक परमयाज्ञिकाशीं हाडलो; आनी सगळे मुखेल याझीक, व्हडील आनी शास्त्री थंय एकटवले.

**334.** *जु 18,15-16; मार्कू 14,66-68*

### *पेद्रू जेजूक आपूण वळकना म्हणता*

*(जु)* शिमांव पेद्रू आनी दुसरो एकलो शीस जेजू पाटल्यान गेले. हो शीस, परमयाज्ञिकाचे वळकिचो आसलो देखून, जेजू बराबर परम याज्ञिकाच्या आंगणांत भितर सरलो, पूण पेद्रू दारा भायर रावलो. परमयाज्ञिकाचे वळकिचो आसलो त्या दुसऱ्या शिसान दारराकणे कडे उतर घालें आनी पेद्रूक भितर काडलो.

*(मार्कू)* पेद्रू सकला राजांगणांत आसताना, परमयाज्ञिकाची कोण एकली चाकरण आयली, आनी धगट्याक बसलल्या पेद्रूक देकना फुडें, ताका बरो करून पळेवन तिणें म्हळें: "तूंय नाजारेतकार जेजू बराबर आसतालोय." पूण ना म्हणून ताणें सांगलें: "तूं कितें म्हणताय तें हांव नकळों; हांव तें समजय ना." आनी थंयचो कडसरून तो फुडल्या आंगणांत भायर सरून गेलो.

**335.** *जु 18,19-23*

### *परमयाज्ञिकाक जेजुचो जबाब*

परमयाझीक, जेजूक कांय विचार घालून, ताच्या शिसां आनी शिकोवणे विशीं ताची चवकशी करूंक लागलो. जेजून ताका जबाब दिलो: "हांव सभेमाजार स्पश्ट उलयलां; सदांच हांवें देवस्थानांत आनी देवमंदिरांत, सगळो जुदेव लोक एकटांय जाता थंय, शिकोवण दिल्या; गुप्तीं हांव कितेंच उलोंवक नां. म्हजे लागीं कित्याक विचारताय? हांवें कितें म्हळां तें म्हाका आयकलां तांचे लागीं विचार; हांवें सांगलें तें तीं बरीं जाणांत." ताणें अशें म्हणना फुडें, थंय उबो आसलल्या एका चौकिदारान जेजुचेर थापट मारलें आनी म्हळें: "परमयाज्ञिकाक तूं असो जबाब दितାय?" जेजून अशी जाप दिली: "हांव वांकडें उलयलां जाल्यार, वांकडें कितें तें दाकय; पूण

जर तर हांव सारकें उलयलां, कित्याक म्हण तूं म्हाका मारताय?"

**336.** *मातेव 26,71-72; लूक 22,59a; मातेव 26,73b; जु 18,26; मार्कू 14,71-72a; लूक 22,61a; मार्कू14,72b; लूक 22,61b-62*

### पेद्रू नव्यान आपूण जेजूक वळकना म्हणता

*(मातेव)* पेद्रू दारवंट्या भायर वेताना दुसरे एके चाकरणीन ताका पळेलो आनी थंय आसलल्यांक तिणें म्हळें: "होय नाजारेतकारा जेजू बराबर आसलो." आनी ताणें सोपूत घेवन नव्यान ना म्हळें आनी सांगलें: "ह्या मनशाक हांव वळकच नां!"

*(लूक)* आनी सुमार एक तास उपरांत आनीक एकलो भासूंक लागलो; *(मातेव)* ताणें पेद्रूक म्हळें: "दुबावा विणें तुंवूय तांचे भितरलो एकलो, आनी तुजो स्वरभेदूय तुका दाकोवन दिता." *(जु)* परमयाज्ञिकाच्या एका चाकरान पेद्रूक म्हळें: "आरे! हांवें तुका ताचे बराबर बागेंत पळेंवक ना रे?" (हो चाकर पेद्रून कान कातरललो ताचो सोयरो आसलो.) *(मार्कू)* पूण तो आपणाचेर शिराप घालूंक आनी सोपूत घेवन म्हणूंक लागलो: "तुमी सांगतात त्या मनशाक हांव वळकच नां!" तेदनां रोकडोच कोंब्यान दुसरे पावट साद घालो.

*(लूक)* आनी परतोन जेजून पेद्रुचेर दिश्ट घाली. *(मार्कू)* तेदनां "कोंब्यान दोन पावटी साद घालचे आदीं तूं तीन पावटी म्हाका वळकनाय म्हण सांगतलोय," *(लूक)* अशें जें सोमयान सांगललें, ताचो पेद्रूक उगडास आयलो, आनी भायर सरून पेद्रू दुकांनी रडलो.

**337.** *लूक 22,63-65*

### बेमान आनी निंदा

जेजूक धरून आसले ते ताका मारून ताच्यो चेश्टायो मस्कऱ्यो करीत आसले.[1] ताचे दोळे बांदून, ताच्या तोंडार थापटां मारीत

---

[1] मार्कू बरयता: "थोडे जाण ताचेर थिंपी उडोंवक लागले."

आसले आनी ताचे लागीं विचारताले: "आरे प्रवाद्या! कोणें मारलो तुका? सांग, पळेंवया!" आनी निंदा करून, जायतें ताचेर आड उलयत आसले.

(सुक्रार)

**338.** *मातेव 27,1; मार्कू 14,55-61a; मातेव 26,63; लूक 22, 67b-70; मातेव 26, 64b-66.*

### म्हाधर्मसभा जेजुचेर मरणाचें फरमण मारता

*(मातेव)* दीस उजवाडना फुडें सगळ्या मुखेल याज्ञिकांनी आनी परजेच्या जाण्टयांनी जेजुचो जीव काडूंक लांवचो म्हण थाराव घेतलो.[1]

*(मार्कू)* मुखेल याज्ञीक आनी आखी म्हाधर्मसभा, जेजूक मरणाचें फरमण दिंवचे खातीर, ताचेर फिर्याद करूंक कोणूय आरोपी मेळतीतगाय म्हण सोदताले, पूण तांकां कोण मेळना जालो. खरें म्हळ्यार, सबार जाण ताचेर आड लटीक फिर्याद दिताले, पूण तांच्यो फिर्यादी एकामेकाक जमनासल्यो. आनी कांय जाण उटून ताचेर अशें बगलांट घालताले: " 'हें मनशांच्या हातांनी बांदललें देवमंदीर हांव मोडतलों, आनी मनशांच्या हातांनी बांदूंक नासललें दुसरें एक तीन दिसां भितर बांदतलों', हें ताणें सांगललें आमी अयकलां." पूण हेय बाबतींत तांचे फिर्यादिची गवायकी एकूच जायनासली. आनी परमयाज्ञिकान मदेकत उबो रावून जेजू कडे अशें विचारलें: "कांयच जाप दिनांय? हे तुजेर आड ही फिर्याद दितात तें कितें?" जेजू ओगोच रावलो आनी ताणें जाप काडली ना.

*(मातेव)* आनी परमयाज्ञिकान ताका म्हळें: "जिव्या देवाच्यान हांव तुका हुकूम घालतां: सोपूत घे आनी आमकां सांग: अभिशिक्त तूं? देवाचो पूत तूं?"

---

[1] मुखेल याज्ञीक, धर्मशास्त्री आनी जाणते (म्हणगे ऊंच कुळयेचे मनीस) हांकां धरून 71 वांगड्यांची म्हाधर्मसभा आसली. जेजुचेर शेवटीं मरणाचें फरमण मारलें ती तांची जमात रातीच जाली म्हण मातेव आनी मार्कू सांगतात. लूक तें फरमण सकाळचे जमातींत पडलें म्हणता. लुकाचेंच सारकें आसतलें, अशें पवित्र पुस्तकाच्या जायत्या शास्त्र्यांचें मत आसा.

*(लूक)* आनी ताणें तांकां म्हळें: ***"हांव तुमकां सांगीन जाल्यार, तुमी म्हाका सतमानच्याक नांत; हांव तुमकां एक विचार करीन जाल्यार, तुमी कांय म्हाका जाप दिंवचे नांत. हे फुडें मनशाचो पूत देवाचो सर्वाधिकार घेवन आसतलो."*** तांणीं सगळ्यांनी विचारलें: ***"तशें जाल्यार, तूं देवाचो पूत?"*** ताणें जाप दिली: ***"तुमच्याच तोंडांतलें भायर सरलें उतर: हांव देवाचो पूत!*** *(मातेव)* ***तर हांव तुमकां सांगतां: मनशाच्या पुताक देवाचो सर्वाधिकार घेवन आसललो आनी सर्गिंच्या कुपां वेल्यान आयल्लो तुमी देकतल्यात."*** तेदनां आपलीं वस्त्रां पिंजून परमयाज्ञिकान म्हळें: "हाणें देवनिंदा केली! साक्षिदारांची आनीक कसली गरज आमकां? चत्राय धरात, तुमी आतांच देवनिंदा आयकल्या. तर तुमकां कितें दिसता?" तांणीं जबाब दिलो: " ताका मरण फावो!"

**339.** *मातेव 27,3-6*

### जुदास गोळ घेता

जेजूक फरमण मारललें पळेवन, ताचो घात घेतललो त्या जुदासान, अंतस्करणाचो किडो ताका खांवक लागलो देखून, रुप्याचे तीस नाणे मुखेल याज्ञिकांक आनी जाण्टयांक परतून दिले आनी म्हळें: "निरअपरादी रगताचो घात घेवन हांवें पातक केलें." तांणीं म्हळें: "तें आमकां कित्याक पडलां? तुजें तूंच पळे". ताणें ते रुप्याचे नाणे देवमंदिराच्या गाभाऱ्यांत आपटून उडयले आनी वचून गोळ घेतलो. मुखेल याज्ञिकांनी ते नाणे काडून म्हळें: "ते देवमंदिराच्या भांडारांत घालूं नये; ते रगताचें मोल."

**340.** *मातेव 27,7-10*

### रगताचें भाट

आनी थाराव घेवन, परदेशयांक पुरूंक त्या पयशांनी तांणीं कुंभाराचें एक भाट विकतें घेतलें. ह्या कारणाक लागून ते स्वातेक आज

परयान हाकेलदामा, म्हणगे "रगताचें भाट", म्हण नांव आसा. तेदनां देवान जेरेमियास प्रवाद्या वरवीं सांगललें तें खरें जालें; "आनी तांणीं रुप्याचे तीस नाणे घेतले – हेंच इस्रायेलाच्या लोका मदें दिंवचें थारायललें मोल – आनी सर्वेस्परान म्हाका हुकूम घाल्लो त्या परमाणें कुंभाराच्या भाटाक ते मोडले."

## XXXI - रोमी अधिकाऱ्याची मनसुबी

(सुक्रार)

**341.** *जु 18,28-32; लूक 23,2*

### *पिलात जुदेवांचें गाराणें आयकता*

*(जु)* सकाळ जातच तांणीं कैफासागेर थावन जेजूक नितिशाळेंत व्हेलो. आपूण बाटना जांवक पूण आपणांक पास्कजेवण करूंक मेळचे खातीर ते नितिशाळेंत भितर गेले नांत. देखून पिलातान आपुणूच तांचेशीं भायर येवन म्हळें: "ह्या मनशाचेर तुमी कसलो आरोप घेवन आयल्यात?" तांणीं ताका जबाब दिलो: "हो मनीस नश्टो न्हय आसलो जाल्यार, आमी ताका तुजे आधीन करचे नासल्यांव." पिलातान तांकां म्हळें: "तुमीच ताका व्हरात आनी तुमचे समुर्ती परमाणें ताची नीत करात." जुदेवांनी ताका म्हळें: "आमच्यान कोणाचोच जीव काडूं नजो."[1] आपूण कसो मरतलो आसलो, हाचे विशीं जें जेजून सांगून दवरलें तें खरें जांवचे खातीर अशें घडलें.

*(लूक)* आनी ते जेजुचेर अशीं गाराणीं करूंक लागले: "आमच्या लोकाक बंडाय करूंक फुलयताना, सम्राजाक दंड फारीक करूंक

---

[1] आपणाक खुरसार मारतले म्हण जेजून भाकीत केल्लें. *(जु 3,14; 12,32, पळे आंक 43 आनी 272)* देवनिंदा केली देखून आपल्या शास्त्रा परमाणें जेजूक मरण फावो *(लेवि 24,10-16)*, अशें म्हणून जुदेवांचे म्हाधर्मसभेन आपलो निर्णय दिलो; असल्या गुन्यांवकाराक फातरावन मारचो म्हण शास्त्र सांगता. तर फकत रोमी अधिकाऱ्यांनी तांच्या कायद्यां परमाणें जेजूक मरण फावो म्हण निर्णय घेतलो जाल्यार, जेजुचें भाकीत पाळोन येवपाचें आसलें.

मना करताना, आनी आपूण अभिशिक्त राय म्हण सांगताना आमी ताका धरला."

**342.** *जु 18,33-38a*

### *जेजूक कुशीन व्हरून पिलात चवकशी करता*

पिलात नव्यान नितिशाळेंत गेलो आनी जेजूक आपोवन ताणें ताका विचारलें: "जुदेवांचो राजा तूं?" जेजून परतिपाळ केलो: "हें तूं तुजेच अश्टंगीं म्हणताय वा दुसऱ्यांनी तुका म्हजे विशीं अशें सांगलां?" पिलातान म्हळें: "हांव जुदेव तर? तुज्याच लोकान आनी मुखेल याझिकांनी तुका म्हजे आधीन केला. कितें केलां तर तुवें?" जेजून परतिपाळ केलो:

***"म्हजें राज्य ह्या संसारांतलें न्हय. म्हजें राज्य ह्या संसारांतलें जाल्लें जाल्यार, हांव जुदेवांच्या हातांत पडनां जांवक म्हजे सेवक झुजतले आसले; पूण म्हजें राज्य हांगासरलें न्हय."***

पिलातान ताका म्हळें: "म्हणतच राजा तूं?" जेजून जबाब दिलो: ***"हांव राजा म्हण तुवेंच सांगलें. हेच पासत हांव जल्मलां, हेच पासत संसारांत आयलां: सताक गवाय दिंवक. जीं कोण सत मानून घेंवक तयार आसात, तीं म्हजो ताळो आयकतात."*** पिलातान ताका विचारलें: "सत म्हणगे कितें? " अशें उलोवन, पिलात नव्यान जुदेवां सरशें भायर गेलो.

**343.** *मातेव 27,12-14; लूक 23,4-7*

### *पिलात पाटीं फुडें सरता*

*(मातेव)* आनी मुखेल याझीक आनी जाण्टे जेजुचेर आड गाराणें करीत आसताना, ताणें जापूच काडली ना. तेदनां पिलातान ताका म्हळें: "कितल्यो गवायो तुजेर आड ते दितात त्यो तूं आयकनांय?" पूण ताणें एका उतराक लेगून आपणाक जाप दिली ना म्हण राजपालाक एकदम मोटें अजाप दिसलें.

*(लूक)* पिलातान मुखेल याज्ञिकांक आनी लोकाचे झुंडीक म्हळें: "ह्या मनशाचो कसलोच गुन्यांव म्हाका मेळना." पूण तांणीं तेंच झरोवन म्हळें: "आख्या जुदेयांत, गालिलेया मेरेन हांगासर परयान, आपले शिकोवणेन लोकाक तो उचांबळायता." गालिलेया अशें म्हणललें आयकतच, तो गालिलेयेकारगाय म्हण पिलातान विचारलें; आनी हेरोदिच्या अधिकारा खाल तो पडता म्हण गमल्या उपरांत, ताणें ताका हेरोदिशीं धाडलो, कित्याक हो त्या दिसांनी जेरुजाल्याक आसलो.

**344.** *लूक 23,8-12*

### जेजू हेरोदी मुखार

जेजूक पळेवन हेरोद जबर खुशी जालो, कित्याक ताका पळेंवक जायतो काळसून तो आशेतालो, कारण ताची खबर ताणें आयकलली, आनी ताच्या हातांतलें कसलेंय एक विस्मीत आपणाक पळेंवक मेळतलें म्हण तो रावतालो. सबार भासांनी ताणें जेजूक विचार केलो, पूण जेजू ताका कांयच जाप दिना जालो. मुखेल याज्ञीक आनी धर्मशास्त्री ताचेर थांबनासताना गुन्यांव घालीत रावले. तेदनां हेरोदीन आपल्या सैनिकां बराबर ताका बेमान केलो, ताका कें‍डलो आनी सोबीत धवें आंगलें न्हेसोवन ताका पिलाताशीं परत धाडलो. आनी हेरोद आनी पिलात, हाचे आदीं एकामेकाचे दुस्मान आसले ते, त्याच दिसा इश्ट जाले.

**345.** *लूक 23,13-16*

### दुसरे पावट जेजू पिलाता मुखार

मुखेल याज्ञिकांक, व्हडिलांक आनी लोकाक एकटांय करून पिलातान म्हळें: "लोकाक बंडाय करूंक फुलयता म्हणून तुमी ह्या मनशाक म्हजेशीं हाडला; आनी, पळेयात, तुमचे हुजीर हांवें ताची चवकशी केली आनी तुमी ताचेर फिर्याद दितात ते विशीं म्हाका ह्या मनशाचो एक पूण गुन्यांव मेळलो ना. आनी हेरोदिकूय मेळलो ना.

ताणें तर ताका आमचेशीं परत धाडला. आनी, तुमी जाणात, मरण फावो तसलें कांय एक ताणें करूंक ना. देखून ताका खास्त लायतां आनी सोडतां."

346. *मार्कू 15,6-10; मातेव 27,19-21a; लूक 23,18, 20a; मातेव 27,22; लूक 23,22-25a.*

***बाराब्बास वा जेजू?***

*(मार्कू)* उत्सवाचे समयीं खंयच्याय एका कैद्याक, लोक मागीत ताका, सुटका दिंवची चाल आसली. तेदनां बंडायेंत खून केल्ल्या आनी बंदखणींत घाल्ल्या फितुरां मदें बाराब्बास नांवाचो एक मनीस आसलो. लोकाचो एक जमो वयर चडून गेलो आनी सदांचे चाली परमाणें आपणां खातीर कर म्हण पिलाता लागीं मागूंक लागलो. आनी पिलातान जाप दिवन म्हळें: "जुदेवांच्या राजाक हांवें सुटका दिल्ली तुमकां जाय?" मुखेल याज्ञिकांनी ताका नाटकायेन धरून दिला म्हण तो तर बरें जाणा आसलो.

*(मातेव)* राजपाल निती सदरेर बसललो आसताना, ताचे पतिणीन अशें ताका सांगून धाडलें: "त्या प्रमाणीक मनशाचे भानगडेंत तूं पडूं नाका; म्हाका ताचें सपण पडून, आज हांवें जायतें भोगलां."

ते म्हणसर मुखेल याज्ञिकांनी आनी जाण्ट्यांनी बाराब्बासाक सुटका आनी जेजूक मरणाचें फरमण मागूंक लोकाच्या मनांत घालें. देखून "ह्या दोगां भितरल्या कोणाक सुटका दिल्ली तुमकां जाय?" असो राजपालान उलोवन तांकां विचार केलो तेदनां, *(लूक)* लोकाच्या आख्या जम्यान हुयेल मारून म्हळें: "हाका काड आनी आमकां बाराब्बासाक सोडून दी." जेजूक सुटका दिंवक सोदतालो देखून, पिलात नव्यान तांचे लागीं उलयलो. *(मातेव)* पिलातान तांकां म्हळें: "तर अभिशिक्त म्हणतात त्या जेजूक हांवें कितें करचें?" सगळ्यांनी जबाब दिलो: "ताका खुरसार मार!"

*(लूक)* ताणें तिसरे पावटी तांकां म्हळें: "पूण ताणें कितें वायट केलां? मरण फावो तसलो गुन्यांव ताचे सवें म्हाका मेळच ना. देखून खास्त लावून ताका सोडून दितां." पूण तीं, व्हडलो बोबाळ करून, ताका खुरसार मार म्हण थांबनासताना मागतालीं, आनी तांचे ताळे चडत वेताले. शेकीं तीं मागतात तशें करचें म्हण पिलातान थारायलें. म्हणतच बंडाय आनी खून केल्ले खातीर बंदखणींत घाल्ल्या मनशाक, तीं मागतालीं तशें, ताणें सुटका दिली.

**347.** जु *19,1; मातेव 27,27-30*

### जेजूक जेरबंद आनी कांटयांचो मुकूट

*(जु)* तेदनां पिलातान जेजूक धरून ताचेर जेरबंद मारूंक लायले.

*(मातेव)* तेदनां राजपालाच्या सैनिकांनी जेजूक राजनिवासांत व्हेलो आनी ताचे भोंवतीं सगळी पलटण एकटांय केली. ताचीं वस्त्रां काडून ताचेर एक धाकटें किरमिजी लाल आवरण घालें; आनी कांट्यांचो एक मुकूट विणून, ताच्या माथ्यार घालो, आनी ताच्या उजव्या हातांत एक बडी दिली. ताचे मुखार दिंबी मोडून, ताका केंडूंक ते म्हणताले: "जुदेवांच्या राजा, नमान तुका!" ताचेर थिंपी उडोंवक लागले आनी बडी काडून घेवन, ती ताचे तकलेर मारूंक लागले.

**348.** जु *19,4-12*

### पळेयात, हो आसा तो मनीस

नव्यान भायर येवन पिलातान तांकां म्हळें: "पळेयात, ताचो म्हाका कसलोच गुन्यांव मेळना म्हण तुमकां कळोन येंवचे पासत, हांव ताका भायर हाडतां." तो कांट्यांचो मुकूट आनी तें जांबळें आवरण घालून, जेजू भायर आयलो. पिलातान तांकां म्हळें: "पळेयात, हो आसा तो मनीस!" ताका देकना फुडें, मुखेल याज्ञिकांनी आनी चौकिदारांनी अशी बोब मारली: "खुरसार मार! खुरसार मार ताका!"

पिलातान तांकां म्हळें: "तुमीच ताका व्हरात आनी खुरसार मारात; म्हाका ताचो कसलोच गुन्यांव मेळना." जुदेवांनी ताका परतिपाळ केलो: "आमकां शास्त्र आसा, आनी आमच्या शास्त्रा परमाणें ताका मरण फावो, कारण तो आपणाकूच देवाचो पूत करता."

हीं उतरां आयकलीं तेदनां, पिलात अदीक भियेलो. परत नितिशाळेंत वचून ताणें जेजूक विचारलें: "तूं खंयचो गा?" पूण जेजून ताका जाप दिली ना. त्या पासत पिलातान ताका म्हळें: "तूं म्हजे कडे उलयनांय? तुका सोडूंक आनी तुका खुरसार मारूंक म्हाका अधिकार आसा म्हण तूं नकळोय?" जेजून ताका परतिपाळ केलो: "तो तुका सर्गार थावन दिंवक नासलो जाल्यार, म्हजेर तुका कसलोच अधिकार आसचो नासलो; ह्या पासत जाणें म्हाका तुज्या हातांत दिला ताका व्हड गुन्यांव आसा." हे घडये मेरेन पिलात ताका सोडूंक कसलीय तरी वाट सोदतालो, पूण जुदेवांनी बोब मारली: "ह्या मनशाक सोडशी जाल्यार, तूं सम्राजाचो इश्ट न्हय. आपणाकूच राजा करता तो मनीस सम्राजाचो विरोधी जाता."

**349.** *जु 19,13-15; मातेव 27,24-25; मार्क 15,15a*

### *पिलात जेजुचेर मरणाचें फरमण मारता*

*(जु)* पिलातान हीं उतरां आयकलीं तेदनां, ताणें जेजूक भायर हाडलो आनी चिरेबंदी म्हणतात ते सुवातेर (जुदेयकारांचे भाशेन गाब्बाथा) आपूण नितिसदरेर बसलो. तो दीस पास्काचे तयारेचो आसलो; सुमार दोनपार जाल्लो. पिलातान जुदेवांक म्हळें: "पळेयात, हो आसा तुमचो राजा!" ते आरडूंक लागले: "ताका नांच कर! ताका नांच कर! ताका खुरसार मार!" पिलातान तांकां म्हळें: "तुमच्या राजाक हांव खुरसार मारूं?" मुखेल याज्ञिकांनी जबाब दिलो: "सम्राजा बगर आमकां राजा ना!"

*(मातेव)* तेदनां उलोवन कांयच फायदो ना पूण अदीक अदीक उचांबळाय वाडता म्हण पळेवन, पिलातान उदक हाडूंक लावून

लोका हुजीर हात धुले आनी म्हळें: "ह्या प्रमाणीक मनशाच्या रगता विशीं म्हाका कसलोच गुन्यांव ना. ही जबाबदारी तुमची." आनी आखे परजेन परतिपाळ केलो: "ताचें रगत आमचेर आनी आमच्या भुरग्यांबाळांचेर पडूं."

*(मार्कू)* म्हणतच लोकाक खुशी करूंक सोदी देखून, पिलातान, तांणीं मागललें तशें, बाराब्बासाक सुटका दिली आनी जेजूक जेरबंद दिवन खुरसार मारूंक तांचे स्वाधीन केलो.

## XXXII - जेजुची खुरसावणी

**350.** *मातेव 27,31; जु 19,17; लूक 23,26-32*

### *खुरसाची वाट*

*(मातेव)* ताचीं खेबडां केल्या उपरांत, तांणीं तें धाकटें आवरण काडलें. आनी नव्यान ताका ताचीं खाशा वस्त्रां घालीं आनी खुरसार मारूंक ते ताका घेवन गेले. *(जु)* आनी तो आपलो खुरीस वाहून कर्ट्याच्या म्हणलल्या जाग्यार वचूंक भायर सरलो: ह्या जाग्याचें नांव हिब्रू भाशेन गोल्गोता.

*(लूक)* ताका घेवन वेतासताना कोण एकलो शिरेनकार शिमांव[1] ग्रामांतलो येतालो; तांणीं ताका धरलो, आनी जेजू पाटल्यान खुरीस घेवन वचूंक ताच्या खांदार तो दिलो.

ताचे पाटल्यान लोकाची आनी ताचे पासत रडून ऊंच ताळ्यान विलाप करतल्या बायलांची व्हडली उरपंज चलताली. तेदनां तांचे वाटेन वळोन जेजून म्हळें: "जेरुजाल्याच्या धुवांनो, म्हजे खातीर रडूं नाकात, पूण तुमचे खातीर आनी तुमच्या भुरग्यांबाळां खातीर रडात. तर, चत्राय धरात, अशें म्हणपाचे दीस येतले: 'भागी त्यो वांजट्यो बायलो, भागी ते जल्म दिंवक ना ते कुसवे, भागी तीं दूद दिंवक ना तीं हरदीं!' तेदनां पर्वतांक 'आमचेर पडात!', आनी दोंगरांक 'आमकां

---

[1] मार्कू हेंय लायता: "आलेक्सांद्र आनी रुफूस हांचो बापूय."

धांपात!', अशें म्हणूंक लागतलीं. ओल्या लांकडाक अशें करतात जाल्यार, सुक्या लांकडाचें कितें जांवचें ना?"

आनीक दोगां गुन्यांवकारांक ताचे बराबर जिवेशीं मारूंक व्हरताले.

**351.** *मातेव 27,33-34; मार्कू 15,25, 27, 28; लूक 23,34*

### जेजूक खुरसार उमकळयतात

*(मातेव)* गोल्गोता म्हणलल्या जाग्यार (म्हणगे 'कट्यांच्या जाग्यार') पावतच, तांणीं सोऱ्यांत पींत मिसळून ताका पियेंवक दिलें, पूण तें चाकल्या उपरांत तो पियेना जालो.

*(मार्कू)* ताका खुरसार मारलो तेदनां सुमार दोनपारचो वेळ जाल्लो.[1] आनी ताचे बराबर दोगां पुंडांक खुरसार मारले, एकाक ताच्या उजव्यान आनी दुसऱ्याक दाव्यान.

*(लूक)* जेजून म्हळें:

***"बापा, तांकां भगस;***
***आपूण कितें करतात तें ते नकळोत."***

**352.** *जु 19,19-22*

### खुरसा वयर नामलेख

पिलातान एक नामलेख बरयलो आनी तो खुरसा वयर घालो; ताचेर अशें बरयललें आसलें: "नाजारेतकार जेजू जुदेवांचो राजा." जेजूक खुरसार मारलो ती स्वात शारा लागीं आसली देखून, जायत्या जुदेयकारांनी हो नामलेख वाचलो: तो आर्मी, लातीन आनी ग्रीक भासांनी बरयल्लो. तेदनां जुदेवांच्या मुखेल याज्ञिकांनी पिलाताक म्हळें: "जुदेवांचो राजा म्हण बरोंव नाका. पूण हो मनीस

---

[1] जुदेव लोकाचे वरां मेजपाचे चाली परमाणें मार्कू बरयता: "*तिसऱ्या पारार*" म्हणगे सकाळचीं 9 वाजतां. जेजुचेर मरणाचें फरमण "*सुमार सव्या पारार*" म्हणगे सुमार 12 वाजतां, पडलें म्हण जुवांव सांगता *(पळे आंक 349)*. जुवांव अदीक बारकायेन असल्यो वस्तू वर्णिता आनी मार्कू सगळें (मनसुबी, फरमण आनी खुरसावणी) बराबर धरून वेळ सांगता, अशें शास्त्र्यांचें मत आसा.

आपूण जुदेवांचो राजा म्हणतालो म्हण बरय." पिलातान जबाब दिलो: "हांवें बरयलें तें बरोवन उरलें."

**353.** *जु 19,23-24; मातेव 27,36*

***जेजुच्या वस्त्रांची वांटणी***

*(जु)* जेजूक खुरसार मारतच सैनिकांनी ताचीं वस्त्रां घेतलीं आनी ताचे चार वांटे केले, दर सैनिकाक एक वांटो. तशेंच ताचें आंगलें घेतलें. आंगल्याक शिवण नासली; तें वयरसान सकल एकसारकें विणललें; ह्या पासत तांणीं एकामेकाक म्हळें: "आमी तें पिंजचें न्हय; पूण सोर्ती घालून तें कोणाक पडता तें पळेंवया." हे परीं पवित्र पुस्तकांतलीं हीं उतरां घडोन आयलीं: ***"तांणीं म्हजीं वस्त्रां आपणा मदें वांटलीं आनी म्हज्या आंगल्याचेर सोर्ती घाल्यो."*** अशें सैनिकांनी केलें. *(मातेव)* आनी थंय बसून ते ताका राकूंक रावले.

**354.** *मातेव 27,39b-43; लूक 23,36-37*

***निंदा आनी मस्कऱ्यो***

*(मातेव)* तेणें येतो वेतो लोक आपली तकली हालयत जेजुच्यो केंडण्यो करून म्हणताले: "तूं देवमंदीर मोडून उडयताय आनी तें तीन दिसांनी नव्यान बांददताय मुरे? तूं देवाचो पूत जाल्यार, तुकाच निवार आनी खुरसा वेलो देंव आतां!" तेच परीं धर्मशास्त्र्यां आनी जाण्ट्यां बराबर मुखेल याज्ञिकूय ताची निंदा करून म्हणताले: "दुसऱ्यांक सोडयलीं हाणें, हाचे लागीं आपणाकूच सोडोंवक जायना! हाणें देवाचेर विस्वास ठेवलो; आतां, देवाक तो जाय जाल्यार ताणेंच हाका सोडोंवचो; तर हांव देवाचो पूत अशें हाणें सांगललें आसा!" *(लूक)* सैनिकूय ताच्यो केश्टायो करताले आनी लागीं येवन आनी ताका शिरको दिवन म्हणताले: "तूं जुदेवांचो राजा जाल्यार तुकाच सुटका दी!"

**355.** *लूक 23,39-43*

### *दया मेळललो चोर*

खुरसार उमकळतल्या गुन्यांवकारांतल्या एकल्यान ताची निंदा करून म्हळें: “तूं अभिशिक्त न्हय? तर तुका आनी आमकांय सोडय!” पूण दुसऱ्यान जाप दिवन अशी ताका बोबाट केली: “तेच खास्तीक तूं सांपडललो आसताना तूं देवाक भियेनांय? आमकां तरी हें नितीन फावो जालां; आमच्या कर्तुबां परमाणें आमी भोगतांव; पूण हाणें कांयच वायट करूंक ना.” आनी ताणें म्हळें: “जेजू, रायपणाची पदवी घेवन तूं येताय तेदनां, म्हजो उगडास कर!” जेजून ताका जाप दिली: **“हांव तुका खरेंच सांगतां, आज तूं म्हज्या सांगाता वैकुंटांत आसतलोय!”**

**356.** *जु 19,25-27*

### *जेजुची आवय*

जेजुच्या खुरसाशीं ताची आवय, ताचे आवयची भयण, क्लेयोफासाची पतीण मारिया, आनी माग्दालाची मारिया, ह्यो उब्यो आसल्यो. आपले आवयक आनी तिचे कुशीक उबो आसलल्या मोगाच्या शिसाक पळेवन, जेजून आवयक म्हळें: **“अस्त्रिये हो तुजो पूत!”** उपरांत शिसाक म्हळें: **“ही तुजी आवय!”** आनी त्या वेळार थावन शिसान तिका आपणाची म्हण घेतली.

**357.** *मार्कू 15,33-35; जु 19,28-29a; मातेव 27,48-49; जु 19,30a; लूक23,46a; जु 19,30b*

### *जेजुचें मरण*

*(मार्कू)* दोनपार जातच तीन वाज परयान सगळ्या देसाचेर काळोक पडलो; आनी सुमार तीन वाजतां जेजून व्हडल्या ताळ्यान म्हळें: ***“येलोय, येलोय, लामा साबाक्तानी, म्हणगे देवा म्हज्या, देवा म्हज्या, कित्याक तुवें म्हाका सांडलो?”*** हें आयकून, थंय उबे आसलल्या कांय जाणांनी म्हळें: “हो एलिजाक आपयता!”

*(जु)* ह्या उपरांत सगळें संपादलें म्हण जाणा जावन, पवित्र पुस्तक सपुर्णायेन पाळोन येंवचे खातीर, जेजून म्हळें: ***“म्हाका तान लागल्या.”*** शिर्क्यान भरललें दंडूल थंय आसलें. *(मातेव)* आनी तांचे मदल्या एकल्यान धांव मारून, एक अळंबें हाडलें आनी तें शिर्क्यांत बुडोवन आनी एके बडयेक लावन ताणें जेजूक पियेंवक दिलें. हेरांनी म्हळें: “राव, एलिजा ताका सोडोंवक येता जाल्यार पळेंवया.” *(जु)* शिर्को चाकलो तेदनां, जेजून म्हळें:

***“संपादलें!”***

*(लूक)* आनी व्हडल्यान आरडून जेजून म्हळें:

***“बापा, तुज्या हातांत घालतां म्हजो आत्मो!”***

*(जु)* आनी तकली बागावन ताणें प्राण सोडलो.

**358.** *मातेव 27,51-54; लूक 23,48; मार्कू 15,40-42.*

### अजापांच्यो घडण्यो

*(मातेव)* तेदनां देवमंदिराच्या गाभाऱ्याचो पडदो वयर थावन सकल दोशीं पिंजलो,[1] भूंय कांपली खडपां फुटलीं, समाधी उगत्यो जाल्यो आनी जायत्या मेल्ल्या धर्मवंत मनशांच्यो कुडी जिवंत जाल्यो, आनी ताच्या पुनरजिवंतपणा उपरांत तीं आपल्या समाधिंतलीं भायर सरून पवित्र शारांत गेलीं आनी सबार जाणांक दिश्टी पडलीं. भूंयकांप आनी हेर घडतालें तें पळेवन, शतपती आनी ताचे बराबर जेजूक राखताले ते जबर भियेवन म्हणूंक पावले: “हो खरेपणीं देवाचो पूत जावन आसलो.”

*(लूक)* आनी ह्या देखाव्याक जमललो सगळो लोक, जाल्लीं घडितां पळेवन, हरदीं बडयत परत वचूंक लागलो.

*(मार्कू)* कांय बायलो पयस रावून पळेताल्यो; तांचे भितर मागदालाची मारिया, धाकट्या जाकोबाची आनी जुजेची आवय मारिया, आनी सालोमे. तो गालिलेयांत आसताना ताचो पाटलाव

---

[1] मोयजेसाक दिल्ली आदली समूर्त जेजुच्या मरणान काडून उडयली म्हण दाकोंवक ही अजापांची खुणा घडली.

करून त्यो ताची सेवा करताल्यो. त्या भायर ताचे सांगातीं जेरुजाल्याक चडून आयल्ल्यो सबार दुसऱ्यो बायलो.

**359.** *जु 19,31-37*

### *एक सैनीक जेजुची कूस विधता*

तो तयारेचो दीस आसलो, आनी खेरीत दबाज्याचो सनवार लागीं पावललो. देखून, सनवारा दिसा कुडी खुरसार उरना जांवक, तांचे पांय मोडचे आनी तांच्यो कुडी काडून व्हरच्यो म्हण जुदेवांनी पिलाता कडे मागलें. सैनीक आयले आनी जेजू बराबर खुरसार मारलल्यांचे, पयल्याचे तशेंच दुसऱ्याचेय, तांणीं पांय मोडले; पूण जेजुशीं पावतच, तो मेलो म्हण पळेवन, तांणीं ताचे पांय मोडले नांत. पूण एका सैनिकान एक भालो घेवन ताचि कूस विधली आनी रोकडेंच रगत आनी उदक व्हांवलीं. जाणें हें खाशा पळेलें, ताणेंच, तुमीय भावार्त धरचे पासत, ही गवायकी दिल्या; ताची गवायकी खरी आनी आपूण सत उलयता म्हण तो जाणा. पवित्र पुस्तक अशें म्हणता: "*ताचें एक पूण हाड मोडचीं नांत.*" हें उतर खरें जांवचे खातीर ह्यो वस्तू घडल्यो. पवित्र पुस्तक अशेंय म्हणता: "*आसपास विधलल्याक तीं पळेतलीं.*"

**360.** *मार्कू 15,42a; लूक 23,50-51; जु 19,38b;*
*मार्कू 15,43b-45; जु 19,38b-42; लूक 23,55-56*

### *जेजुची कूड समाधींत निखिपितात*

*(मार्कू)* सांज जाल्या उपरांत, अवचीत थंय पावलो जुजे नांवाचो एक दादलो; तो म्हाधर्मसभेचो वांगडी आसलो, एक बरो आनी धर्मवंत मनीस.[1] तो जुदेयाच्या आरिमातेया नगरांतलो आसलो. तांचे मसलतीक आनी कर्तुबांक तो कबूल जांवक नासलो; आनी देवाच्या राज्याची वाट तो पळेवन आसलो. *(जु)* तो जेजुचो शीस आसलो, पूण जुदेवांचे भिरांतीन गुप्तीं रावललो. *(मार्कू)* तो तयारेचो दीस

[1] तो "गिरेस्त" आसलो म्हण मातेव आनी मार्कू बरयतात.

देखून, म्हणगे सनवारा आदलो दीस, धीर धरून पिलाताशीं वचून, ताणें जेजुची कूड मागली. इतलो वेगीं मेलो म्हण पिलाताक अजाप दिसलें आनी शतपतीक आपोवन हाडून, तो मेलो जाल्यार ताणें विचारून घेतलें. शतपती कडची सारकी खबर घेतच, जुजेक ताणें कूड व्हरूंक दिली.

*(जु)* ताणें येवन जेजुची कूड काडून व्हेली. आनी निकोदेमूय, जेजुशीं पयलीं रातचो आयल्लो तो, सुमार शेंबर रात गंधरसाची आनी मुसांभराची मिसळणी घेवन आयलो. तांणीं जेजुची कूड घेतली, आनी जुदेवांचे निखिपिणेचे रिती परमाणें, परमळ लावून ती वोलिंनी गुटलायली. ताका खुरसार मारलले ते स्वातेर एक बाग आसली; आनी ते बागेंत आजून कोणाक घालूंक नासलो तसली एक नवी समाधी आसली. तो जुदेवांचो तयारेचो दीस आसलो म्हणून आनी ती समाधी लागींच आसली देखून, तांणीं जेजूक थंय घालो.[1]

*(लूक)* गालिलेया थावन ताचे बराबर आयल्ल्या बायलांनी पाटल्यान वचून, समाधी पळेली आनी कशे भाशेन ताची कूड तांतूं दवरल्या ती, हेंय चत्रायेन पळेवन घेतलें. मागीर परत वचून परमळाचे आनी माखणेचे नग तयार केले. सनवारा दिसा कायद्या परमाणें तांणीं विसव घेतलो.

(सनवार)

**361**. *मातेव 27,62-66*

## *समाधी सरशीं राकणदारांचो पारो*

दुसऱ्या दिसा, म्हणगे तयारेच्या दिसा उपरांत, मुखेल याज्ञीक आनी फारिजेव एकटांय जावन पिलाता सरशें गेले; तांणीं म्हळें: “श्रेश्ट राजपाला, त्या फटिंगान जिवो आसताना अशें सांगलां म्हण आमकां उगडास आसा: ‘तीन दीस जातच हांव नव्यान जिवंत जातलों.’

---

[1] ही समाधी आरिमातेयाच्या जुजेची म्हण मातेवा कडल्यान आमकां कळ्ळां. तो बरयता: “*कूड घेवन जुजेन ती एके नितळ ओलीन गुटलायली आनी खडपांत कातरून केल्ले आपले नवे समाधींत ती निखिपिली. मागीर ताणें एक व्हडली फातर घुंवळावन हाडली आनी समाधिच्या दाराक लावून आपूण गेलो.* ” *(27,59-60).*

म्हणतच तिसरो दीस परयान समाधी बरी करून राखूंक लाय; ना जाल्यार, ताचे शीस घडयेक येवन ताका चोरयां व्हरतीत आनी लोकाक सांगतीत; 'तो मेल्ल्यांतलो जिवंत जाला.' ही निमाणी फटोवणी आदले परस अदीक पाश्ट जातली." पिलातान तांकां सांगलें: "हे पळे राकणदार आसात; तर वचात आनी तुमकां तांकता ते भाशेन राकण करात." थंयसरले ते भायर सरले आनी, फातरीक शिक्को मारून आनी राकणदारांचो पारो दवरून, समाधी घट करून गेले.

# जेजुचें पुनरजिवंतपण

## XXXIII - जुदेयांत जेजुचीं दर्शनां

**362.** *मार्कू 16,1; मातेव 28,2-4; मार्कू 16,2-4; जु 20,2*

### *जेजुची समाधी रिती मेळता*

*(मार्कू)* सनवार सरल्या उपरांत, वचून जेजुचे कुडीक लावूंक, मागदालाची मारिया, जाकोबाची आवय मारिया आनी सालोमे, हांणीं परमळीत मसालो विकतो घेवन हाडलो.

*(मातेव)* आनी अवचितूच मोटो एक भूंयकांप जालो. सर्वेस्पराचो दूत सर्गा वेलो देंवून आयलो; ताणें फातर घुंवळावन कुशीन काडली आनी आपूण तिचेर बसलो. ताचें रूप झगलावण्या भाशेन आनी ताचें आंगलें हिमा परीं धवेंफुल्ल आसलें. ताका पळेवन राखणदार भिरांतीन थरथरले आनी मेल्ले कशे जाले.

*(मार्कू)* आनी, सातोळ्याच्या पयल्या दिसा भोव सकाळीं, सुर्या उदेताना, त्यो बायलो[1] फोंडाशीं पावल्यो. त्यो एकामेकाक म्हणताल्यो: "समाधिच्या तोंडा वेली फातर कोण आमकां धुकलून दितलो?" पूण नदर मार जाल्यार, बरीच व्हडली आसुनूय, फातर धुकल्लली तांणीं देकली.

---

[1] जेजुच्या पाटलावदारां मदें आसल्यो आनी ताचो परामस करताल्यो आनी ताची दया धरून कश्टांच्या जाग्यार परयान ताचे पाटल्यान गेल्ल्यो त्यो बायलो.

*(जु)* म्हणून, शिमांव पेद्रू आनी जेजू मोग करतालो तो दुसरो शीस आसले थंय धावून वचून, तिणें[1] म्हळें: "सोमयाक समाधिंतलो काडून व्हेलो आनी ताका खंय घाला तें आमी नकळोंव."

**363.** *लूक 24,3-5a; मार्कू 16,6a; लूक 24,5b; मातेव 28,6; लूक 24,6b-7, मार्कू 26,7; लूक 24,8-11*

## देवदुतांचो संदेश

*(लूक)* पूण भितर वच जाल्यार, सोमया जेजुची कूड तांकां[2] मेळली ना. आनी हे विशीं मोट्या गोंधळाक सांपडलल्यो आसताना, अवचितूच लकलकीत वस्त्रां न्हेसलले दोग दादले तांचे कुशीक उबे जाले. तांणीं भियेवन खाली मान बागायली तेदनां, हांणीं तांकां म्हळें: *(मार्कू)* ***"भियेंव नाकात; खुरसार मारलल्या नाजारेतकार जेजूक तुमी सोदतात.*** *(लूक)* ***जिवो आसा ताका तुमी मेल्ल्यां मदें कित्याक म्हण सोदतात?*** *(मातेव)* ***तो हांगासर ना, कित्याक, ताणेंच सांगलले परमाणें, देवान ताका पुनरजिवंत केला. ताका दवरललो ती स्वात येवन पळेयात.*** *(लूक)* ***गालिलेयांत आसताना तो तुमचे लागीं कितें उलयलो ताचो उगडास करात; ताणें अशें सांगललें: 'मनशाच्या पुताक देव पातकी मनशांचे आधीन करतलो, ताका खुरसार मरूंक पावयतलो, आनी तिसऱ्या दिसा ताका पुनरजिवंत करतलो. हें सगट ताचे विशीं देवाची खुशी!'*** *(मार्कू)* ***पूण वचून ताच्या शिसांक आनी पेद्रूक अशें सांगात: 'तो तुमचे आदीं गालिलेयाक वेता, आनी ताणें सांगलले परमाणें, तुमी ताका थंय देकतल्यात.' "***

*(लूक)* तेदनां तांकां ताच्या उतरांचो उगडास आयलो. आनी समाधी सरशिल्यो परत वचून, तांणीं त्या इकरा जाणांक आनी हेरां

---

[1] माग्दालाची मारिया.

[2] त्याच बायलांक.

समेस्तांक हें सगळें कळीत केलें.[1] ही खबर धर्मदुतांक सांगली त्यो ह्यो: मारिया मागदालेन, जुवाना, जाकोबाची आवय मारिया आनी तांच्या सांगाता आसल्यो त्यो हेर बायलो. तांकां हीं उतरां नाका जाल्ली काणी कशी दिसली आनी तांणीं हांचें सतमानलें ना.

**364.** *जु 20,3-10; 24,12b*

### *पेद्रू आनी जुवांव समाधिशीं वेतात*

*(जु)* देखून पेद्रू त्या दुसऱ्या शिसा बराबर भायर सरलो आनी समाधिशीं गेलो. ते दोगूय धांवूंक लागले, पूण तो दुसरो शीस पेद्रू परस वेगीं धांवलो आनी समाधिशीं पयलो पावलो; आनी वोडोव घालून, ताणें जमनीर आसलल्यो वोली देकल्यो, पूण तो भितर गेलो ना. तेदनां ताचे पाटल्यान शिमांव पेद्रूय पावलो आनी समाधींत भितर गेलो; आनी पळे जाल्यार, थंय जमनीर वोली आसल्यो त्यो ताणें देकल्यो, आनी ताचे तकलेर घाल्लो तो रुमाल, वोली सरशें न्हय, पूण कुशीन कवळललो. तेदनां समाधिशीं पयलो पावललो तोय शीस भितर सरलो, आनी ताणें देकलें आनी भावार्त धरलो. पवित्र पुस्तका परमाणें तो मेल्ल्यांतलो पुनरजिवंत जांवक देवाची खुशी आसली म्हण ते आजून नकळो आसले. उपरांत, *(लूक)* आपणांच भितर अजाप जावन, *(जु)* शीस घरा परतले.

**365.** *जु 20,11-18; मार्कू 16,11*

### *मारिया मागदालेनाक जेजुचें दर्शन*

*(जु)* पूण मारिया समाधी लागीं भायर उबी रावून रडताली, आनी रडताना वोडोव घालून समाधींत पळे जाल्यार, धवीं आंगावलीं न्हेसलले दोग देवदूत तिणें देकले: जंय जेजुची कूड दवरलली, थंय

---

[1] मातेव म्हणता: *“त्यो अस्त्र्यो भियेवन भियेवन आनी व्हड खुशालकायेन समाधी सरशिल्यो वेगीं कडसरल्यो आनी धांवींधांवीं ताच्या शिसांक कळीत करूंक गेल्यो.”* मार्कू बरयता: *“त्यो बायलो समाधी थावन पळून गेल्यो; तांचेर सुटललो भय आनी कांपेरो; आनी तांणीं कोणाकूच कांय सांगलें ना, कित्याक त्यो भियेल्ल्यो.”* तरी समाधान जावन तांणीं खबर हेरां शिसांक दिली म्हण दुसरे शुभवर्तमानकार आमकां सारकें सांगतात.

ते बसून आसले, एकलो तकले वाटेन आनी दुसरो पांयां वाटेन. हांणीं तिका म्हळें: “बाय, तूं कित्याक रडताय?” तिणें तांकां म्हळें: “कित्याक म्हज्या सोमयाक काडून व्हेलो आनी ताका खंय घालो तो हांव नकळों.” अशें म्हणल्या उपरांत, पाटल्यान वळोन पळे जाल्यार, तिणें जेजूक थंय उबो आसलो तो देकलो. पूण तो जेजू म्हण तिणें ताका वळकूंक ना. जेजून तिका म्हळें: “बाय, तूं कित्याक रडताय? कोणाक सोदताय तूं?” तो माली म्हण चिंतून, तिणें ताका म्हळें: “सायबा, तुवें ताका काडून व्हेला जाल्यार, ताका खंय घाला तो म्हाका सांग, आनी हांव ताका काडून व्हरतलीं.” जेजून तिका म्हळें: “मारिये!” तिणें वळोन जुदेयकारांचे भाशेन ताका म्हळें: “राब्बुनी!” (“म्हणगे गुरुजी”). जेजून तिका म्हळें: “म्हाका धरून रावूं नाका! हांव आजून बापा सरशीं चडूंक नां; पूण म्हज्या भावांभयणिंशीं वच आनी तांकां अशें सांग: म्हज्या बापा आनी तुमच्या बापाशीं, म्हज्या देवा आनी तुमच्या देवाशीं, हांव चडून वेतां.” मागदालाची मारिया गेली आनी आपणें सोमयाक पळेला आनी ताणें आपणाक अशें अशें सांगलां म्हण तिणें शिसांक कळयलें. *(मार्कू)* पूण तो जिवो आसा आनी तिका दिश्टी पडला म्हण तांणीं आयकुनूय सतमानलें ना.

**366.** *मातेव 28,11-15*

### राखणदारांक लोंच खावयतात

त्यो बायलो वाटेर आसतानांच, राखणदारांतल्या कांय जांणांनी शारांत येवन घडललें तितलेंय मुखेल याज्ञिकांक कळीत केलें. हांणीं जाण्ट्यां बराबर सभा जमोवन एक थाराव घेतलो आनी बरेच पयशे सैनिकांच्या हातांत घालून तांकां म्हळें: “तुमी अशें सांगचें: ‘आमी न्हिदलले आसताना, ताच्या शिसांनी रातयां येवन ताका चोरून व्हेलो.’ आनी हें बी राजपालाच्या कानार पडत, आमी ताका समजायतल्यांव आनी तुमचेर कांयच जड येनाशें करतल्यांव.”

म्हणतच सैनिकांनी पयशे घेतले आनी आपणांक शिकयलले परमाणें केलें. आनी ही खबर जुदेवां मदें शिंपडली आनी आयचो दीस परयान ती चलता.

**367.** *लूक 24,13-35*

### *एमावसाच्या रस्त्यार जेजुचें दर्शन*

त्याच दिसा अशें घडलें: तांचे भितरले दोग जाण जेरुजाल्या थावन सुमार इकरा किलोमेत्र पयस आसलल्या एमावस नांवाच्या ग्रामांत वेताले आनी ह्या सगळ्या घडितांची गजाल एकामेका लागीं ते करीत आसले. आनी अशें जालें: ते एकामेका लागीं उलोवन चर्चा करतासताना, खूद जेजू लागीं सरून तांचे बराबर चलूंक लागलो. पूण तांणीं ताका वळकना जांवक तांच्या दोळ्यांचेर साय कशी आयल्ली. ताणें तांकां म्हळें: "वाटेर चलताना एकामेका लागीं तुमी करतात त्यो गजाली कसल्यो?" ते थांबले; तांचें तोंड चिंतेस्त-दुखेस्त जालें. क्लेयोपास नांवाच्या तांतल्या एकल्यान जाप दिवन म्हळें: "जेरुजाल्यांत ह्या दिसांनी घडलां ताची खबर नासललो तूं एकलोच हांगा जात्रेकार कितें?" ह्या उतराक ताणें म्हळें: "कितें घडलां?" तांणीं ताका म्हळें: "नाजारेतकारा जेजू विशीं घडलां तें: देवा आनी आखे परजे मुखार, करण्यांनी तसो उतरांनी पदवेन भरललो प्रवादी तो आसलो. आमच्या मुखेल याज्ञिकांनी आनी व्हडिलांनी ताचेर मरणाचें फरमण मारूंक ताका धरून दिलो आनी खुरसार मारलो. इस्रायेलाक मुक्त करतलो तो होच म्हण आमी रावताल्यांव. तितलेंच न्हय; ह्यो सगळ्यो वस्तू घडल्यार आज तिसरो दीस: त्या भायर आमचे भितरल्या कांय बायलांनी आमकां घाबरायलीं: उजवाडचे आदीं ताचे समाधिशीं त्यो गेल्ल्यो, पूण ताची कूड तांकां मेळली ना; थंय आपणाक देवदुतूय दिश्टी पडले आनी तो जिवो आसा, अशें ते सांगतात म्हण परत येवन तांणीं आमकां खबर दिली. देखून आमचे बराबरचे कांय जाण समाधिशीं गेले आनी बायलांनी सांगललें तशेंच तांकां मेळलें, तो मात दिश्टी पडलो ना."



खंयचोय जांव तुजो रस्तो:
तुज्या सांगाता त्याच रस्त्यार चलता जेजू!

(आंक 367 वाच)

तेदनां ताणें तांकां म्हळें: "कितले म्हण गळये तुमी! प्रवाद्यांनी सांगललें तितलेंय सतमानूंक कितले म्हण जड मनाचे मनीस तुमी! अभिशिक्तान हें सगळें सोसचें आनी अशें आपले म्हयमेंत प्रवेस करचो, ही देवाची खुशी म्हण नकळो आसल्यात तुमी?" मागीर मोयजेसा आनी सगळ्या प्रवाद्यां मेरेन आपणाक लागतात तितल्याय शास्त्रांचो अर्थ तो तांकां सांगूंक लागलो.

इतल्या म्हणसर ते वेताले त्या ग्रामा लागशीं ते पावले आनी जेजून आपूण फुडें वेताशें करून दाकयलें. पूण तांणीं परातून म्हळें: "आमचेशीं राव; तर सांज जायत आयली आनी दीस धारेर पडचो जालो." आनी तो तांचे सांगातीं रावूंक भितर गेलो. तांच्या सांगाता जेवणाक बसलो तेदनां, ताणें उंडो घेतलो, देवाक धिनवासून तो मोडलो आनी तो मोडून तांकां दिलो! तेदनां तांचे दोळे उगडले आनी तांणीं ताका वळकलो, पूण तो तांच्या दोळ्यां मुखावेलो नांच जालो. तेदनां तांणीं एकामेकाक म्हळें: "तो वाटेर आमचे कडे उलयतालो आनी पवित्र पुस्तकांचो अर्थ आमकां दितालो तेदनां आमचें काळीज भितरले भितर हुलपतालें न्हय?" आनी त्याच वेळार उटून ते जेरुजाल्याक परत गेले आनी इकरा जाण आनी तांच्या सांगाता एकटवललीं आसलीं तीं तांकां मेळलीं. हांणीं त्या दोगांक सांगलें: "सोमी खरोच पुनरजिवंत जाला आनी शिमांवाक दिश्टी पडला." आनी तांणीं दोगांनी वाटेर घडलल्याची खबर दिली आनी कशे भाशेन उंडो मोडता आसताना आपणें ताका वळकलो, तें सांगलें.

**368.** *जु 20,19; लूक 24,37-43a; जु 20,21-23*

## *घरांत जमलल्या शिसांक जेजू दिश्टी पडता*

*(जु)* तेच सांजे, म्हणगे सातोळ्याच्या पयल्या दिसा, शीस जमलले आसले थंयचीं दारां जुदेवांचे भिरांतीन बंद करून दवरललीं. जेजू भितर सरलो आनी तांचे मदें उबो रावलो. ताणें तांकां म्हळें: "शांती तुमकां!"

*(लूक)* घाबरून आनी भियेवन, आपूण पळेतात तें एक भूत म्हण तीं समजलीं. पूण ताणें तांकां म्हळें: "तुमी घाबरल्यात कित्याक? आनी असले दुबाव तुमच्या मनांत उप्रासतात ते कित्याक? म्हजे हात पांय पळेयात; तर हांवूच तो. सांसपून पळेयात: म्हाका मास आनी हाडां आसात म्हण तुमी देकतात तशें भुताक आसनांत." अशें उलोवन ताणें आपले हात आनी पांय तांकां दाकयले. खुशालकायेन भरोन तीं आजून दुबावतालीं आनी इतलीं थटाकललीं देखून, ताणें विचारलें: "तुमचे कडे हांगा कितें तरी खांवक आसा?" तांणीं ताका भाजलले मासळेचो कुडको दिलो; तो ताणें तांचे हुजीर खेलो. *(जु)* नव्यान जेजून तांकां म्हळें:

***"शांती तुमकां! जसो बापान म्हाका पाटयला,***
***तसोच हांव तुमकां पाटयतां."***

अशें उलोवन ताणें तांचेर स्वास सोडलो आनी तांकां म्हळें:

***"पवित्र आत्मो घेयात. जांकां तुमी तांच्या पातकांचें भगसणें दितात, तांकां देव त्या पातकांचें भगसणें दिता; आनी ज्या पातकांचें भगसणें तुमी आडावन दवरतात, त्या पातकांचें भगसणें देव आडावन दवरता."***[1]

**369.** जु *20,24-29*

### *जेजू तोमासाक दिश्टी पडता*

जेजू आयलो तेदनां बारां मदलो एकलो, जंवळो म्हणललो तोमास, तांचे बराबर नासलो. देखून दुसऱ्या शिसांनीं ताका म्हळें: "आमी सोमयाक पळेला." पूण ताणें तांकां म्हळें: "ताच्या हातांचेर हांवें खिळ्यांची खुणा पळेल्या शिवाय, आनी खिळ्यांचे स्वातेर म्हजें बोट घाल्या बगर, आनी म्हजो हात ताचे कुशींत घालिना जायन जाल्यार, हांव सतमानच्याक नां."

---

[1] सगळ्या मनशांक देवाचें भगसणें आनी नवें जिवीत पावोंवचें आपलेंच काम जेजू ह्या समयार पवित्रसभेच्या हातांत घालता आनी खेरीत भाशेन भगसण्याचो वा संधानाचो संस्कार स्थापता.

आट दिसां उपरांत, शीस नव्यान घरांत आसले, आनी तांचे बराबर तोमास. दारां बंद आसताना जेजू भितर सरलो आनी, तांचे मदें उबो रावून, ताणें म्हळें: "शांती तुमकां!" उपरांत ताणें तोमासाक म्हळें: "तुजें बोट हांगा घाल: हे पळे आसात म्हजे हात! तुजो हात लागीं हाड आनी म्हजे कुशींत घाल! हे फुडें आनीक भावार्त नासललो जांव नाका, पूण भावार्त धर." तोमासान ताका जाप दिवन म्हळें: "म्हज्या सोमया आनी म्हज्या देवा!" जेजून ताका म्हळें:

*"म्हाका पळेलो देखून, तुवें भावार्त धरलो;*
*पळेनासताना भावार्त धरतात तीं*
*खरेंच सुभागी!"*

## XXXIV - गालिलेयांत जेजुचीं दर्शनां.

**370.** *जु 21,1-14*

### *तिबेरियासाच्या दर्याशीं जेजू दिश्टी पडता*

त्या उपरांत, तिबेरियासाच्या दर्याशीं जेजू शिसांक दिश्टी पडलो. हे परीं तो दिश्टी पडलो: शिमांव पेद्रू, जंवळो म्हणललो तोमास, गालिलेयांतल्या कानाचो नातानायेल, जेबेदेवाचे पूत, आनी ताच्या शिसां मदले आनीक दोग एकटांय आसले. शिमांव पेद्रून तांकां म्हळें: "हांव मासळी मारूंक वेतां." तांणीं ताका म्हळें: " आमी तुजे बराबर येतांव." ते गेले आनी होड्यांत चडले; पूण ते राती तांकां कांयच मेळलें ना. सकाळीं जेजू वेळेर उबो आसलो; तो जेजू म्हण शिसांक कळलें ना. जेजून तांकां म्हळें: "आरे बाबांनो, मासळी कितें तरी पडल्या मू?" तांणीं ताका जबाब दिलो: "कांयच ना." ताणें तांकां सांगलें: "होड्याचे उजवे वाटेन रांपण घालात आनी तुमकां मासळी पडतली." तांणीं रांपण घाली, आनी मासळी एकदम चड पडली देखून, तांच्यान रांपण ओडून हाडूंक जायना जाली.



थकलल्या इश्टांक भावपणान
जेजू नास्त्याक बसयता.
(आंक 370 वाच)

जेजू मोग करी त्या शिसान पेद्रूक म्हळें: "तो सोमी!" तो सोमी म्हण आयकून, शिमांव पेद्रून आपलें वयलें आंगलें पेंगटाक बांदलें कित्याक तो सारको न्हेसललो नासलो, आनी ताणें दर्यांत उडकी मारली. पूण हेर शीस होड्यार बसून आनी मासळेन भरलली रांपण ओडीत ओडीत आयले; ते तडीक लागींच आसले, सुमार देडशें हात भायर.

तडीर पावले तेदनां, तांणीं थंय उंडो देकलो आनी कोळशांच्या उज्यार दवरलली मासळी. जेजून तांकां म्हळें: "तुमी आतां धरल्या तांतली थोडी मासळी हांगा हाडात." होड्यार चडून शिमांव पेद्रून रांपण वेळेर ओडून हाडली ती एकशें त्रेपन (153) व्हडल्या मासळ्यांनी भरलली आसली; आनी इतल्यो व्हड मासळ्यो आसतानाय रांपण पिंजली ना. जेजून तांकां म्हळें "नास्त्याक येयात." तूं कोणगाय म्हण विचारूंक नास्त्याक बसलल्यांतल्या कोणाकूच काळीज जालें ना; तो सोमी म्हण ते जाणा आसले. तेदनां जेजून फुडें सरून उंडो घेतलो आनी तांकां दिलो; तशेंच मासळीय दिली.

मेल्ल्यांतलो पुनरजिवंत जाल्या उपरांत जेजू शिसांक दिश्टी पडलो ही तिसरी पावट.

**371.** *जु 21,15-23*

### *शिमांव पेद्रुची प्रधानकी*
### *मोगाचे उचारणे उपरांत मोगाची जुटी*

नास्तो जातच जेजून शिमांव पेद्रूक म्हळें: "शिमांव, जुवांवाच्या पुता, हांचे परस तूं म्हजो अदीक मोग करताय?" ताणें ताका म्हळें: "हय, सोमया, हांव तुजो मोग करतां म्हण तूं जाणाय!" जेजून ताका म्हळें: "म्हज्या मेंडरांक चरवाक व्हर." दुसरे पावटी ताणें ताका विचारलें: "शिमांव, जुवांवाच्या पुता, तूं म्हजो मोग करताय?" ताणें जबाब दिलो: "हय, सोमया, हांव तुजो मोग करतां म्हण तूं

जाणाय." जेजून ताका म्हळें: "म्हज्या शेळयांचो सांबाळ कर." ताणें ताका तिसरे पावटी विचारलें: "शिमांव, जुवांवाच्या पुता, तूं म्हजो मोग करताय?" 'तूं म्हजो मोग करताय?' अशें आपणाक तिसरे पावट विचारलें देखून पेद्रूक खंत जाली, आनी ताणें असो परतिपाळ केलो: "सोमया, तूं सगळें जाणाय; हांव तुजो मोग करतां म्हण तूं जाणाय," जेजून ताका म्हळें: "म्हज्या मेंडुरल्यांक चरवाक व्हर.

*खरेंच खरें हांव तुका सांगतां:*
*तूं ल्हान आसलोय तेदनां,*
*तुज्या पेंकटाक बांदतालोय*
*आनी तुका जाय थंय तूं वेतालोय;*
*पूण, तूं म्हातारो जातच,*
*तुजे हात विस्तारतलोय*
*आनी दुसरो कोण तुज्या पेंकटाक बांदतलो*
*आनी तुका नाका थंय तुका घेवन वेतलो.* "

कसल्या मरणा वरवीं तो देवाक म्हयमा दितलो आसलो तें दाकोंवक जेजून तशें म्हळें.[1] त्या उपरांत म्हळें: "म्हजे पाटल्यान ये."

पेद्रू वळ्ळो आनी जेजुचो मोगाचो शीस आपणा पाटल्यान येतालो तो ताणें देकलो; ह्याच शिसान रातच्या जेवणार जेजुच्या हरद्याक तेंकून ताका म्हणललें: "सोमया, तुजो घात घेतलो तो कोण?" ताका देकलो तेदनां, पेद्रून जेजूक म्हळें: "सोमया हाचें कितें?" जेजून ताका म्हळें: "हांव येसर तो रावललो म्हाका जाय जाल्यार, तुका कित्याक पडलां? तूं म्हजे पाटल्यान ये." हो शीस मरचो ना म्हण भावांभयणीं मदें खबर जाली; पूण "तो मरचो ना",

---

[1] रगत वारोवन आनी खुरसार मरून पेद्रू आपणाक साक्षी दितलो म्हण जेजू आदींफुडेंच सांगून दवरता.

अशें जेजून पेद्रूक म्हणूंक नासलें, बगर "हांव येसर तो रावललो म्हाका जाय जाल्यार, तुका कित्याक पडलां?"

**372.** *मातेव 28,16-17*

### *गालिलेयाच्या दोंगरार जेजुचें दर्शन*

मागीर इकरा शीस गालिलेयाक गेले, जेजून आपणाक मेळूंक सांगलल्या दोंगरार. ताका पळेना फुडें ते ताच्या पांयां पडलेः तरी तांतले थोडे दुबावले.

**373.** *मातेव 28,18; मार्कू16,15; मातेव 28,19-20a; मार्कू 16,16-18; मातेव 28,20b*

### *आख्या संसारांत शिसांचें काम*

(मातेव) जेजून फुडें सरून म्हळें:

*"सर्गार आनी संसारांत*
*देवान म्हाका सगळो अधिकार दिला.*
*(मार्कू) आख्या संसारांक वचात,*
*सगळे रचणेक शुभवर्तमान परगटात.*

*(मातेव) म्हणतच वचून सगळ्या राश्ट्रांक म्हजे शीस करात; बापाचे आनी पुताचे आनी पवित्र आत्म्याचे नांवीं तांकां स्नान दियात; आनी हांवें तुमकां दिल्यात त्यो सगळ्यो आज्ञा पाळूंक तांकांय शिकयात. (मार्कू) भावार्त दवरतीत आनी पवित्र स्नान घेतीत, तीं सोडवण जोडतलीं; पूण भावार्त धरिना जातीत तीं खास्तिचें फरमण घेतलीं. भावार्त धरतल्यां सवें ह्यो खुणा दिश्टी पडतल्योः म्हज्या नांवान तीं देवचार काडतलीं, नव्यो भासो उलयतलीं, सोरोप धरतलीं, आनी जीव काडपाचें कितेंय तीं पियेतीत बी, तांकां तें वायट जांवचें ना; पिडेवंताचेर हात दवरून तीं तांकां बरीं करतलीं.*

*(मातेव)* आनी जाणा जायात, सदांच सदां,
होय, काळा युगांचे संपादणे परयान,
हांव तुमच्या सांगाता आसां!"

## XXXV - जेजुचो सर्ग प्रवेस

**374.** *लूक 24,44-48; ध.इ.1,4; लूक 24,49; ध.इ.1,5-8*

***जेजुचीं निमाणीं उतरां***

*(लूक)* आनी ताणें तांकां सांगलें: "तुमचे सांगातीं हांव आजून आसलों तेदनां, हांवें तुमकां सांगललें तें हेंच: मोयजेसाची समूर्त, प्रवादी आनी स्तोत्रां, हांतूं म्हजे विशीं जें बरयल्लें आसलें तितलेंय संपादोन येंवचें म्हण देवाची खुशी आसली." मागीर शास्त्रांचो अर्थ समजूंक ताणें तांची मत उगती केली आनी तांकां म्हळें: "बरयल्लें आसा तें अशें: अभिशिक्त कश्टमरण सोसतलो, तिसऱ्या दिसा तो मेल्ल्यांतलो पुनरजिवंत जातलो, आनी जेरुजाल्या थावन सुरू करून ताच्या नांवान जिवीत बदलप आनी पातकांचें भगसणें सगळ्या परजांक परगट जातलें. तुमी ह्या घडण्यांची साक्षी दिंवक जाय."

*(ध.इ.)* तांचे सांगातीं जेवणार आसताना, जेरुजाल्यांतले कडसरना जांवक, पूण बापान केल्ले भासावणेक रावूंक जेजून तांकां फर्मायलें. ताणें सांगलें:

*(लूक)* ***"पळेयात, म्हज्या बापान केल्ली भासावणी हांव तुमचेर धाडचो आसां; म्हणतच सर्गा वेले सक्तीन तुमी भरसर शारांत रावात.***

*(ध.इ.)* ***जुवांवान उदकान स्नान दिलें, पूण थोड्याच दिसांनी तुमकां पवित्र आतम्यान स्नान मेळतलें."***

ते जमलले आसताना, तांणीं जेजू कडे विचारलें: "सोमया, आतां इस्रायेल राश्ट्राची राजवडकी तूं नव्यान स्थापून दितलोय तो वेळ पावलो काय?" जेजून तांकां जबाब दिलो:

**"बापान आपल्या अधिकारान नेमलले काळ आनी घडयो**
**जाणा जांवक तुमकां पडलें ना.**
**पूण तुमचेर देंवून येतलो**
**त्या पवित्र आत्म्याचें बळ तुमी घेतल्यात**
**आनी जेरुजाल्यांत, आख्या जुदेयांत आनी सामारियेंत**

**आनी संसाराच्या शिमां परयान**
**तुमी म्हजे गवाय जातल्यात."**

**375.** लूक 24,50-51a; ध.इ.1,9b; मार्कू 16,19b; ध.इ.1,10-11; लूक 24,52-53

***जेजू सर्गार चडून वेता***

*(लूक)* मागीर जेजू तांकां भायर बेतानीये परयान घेवन गेलो. आनी हात उकलून ताणें तांचेर आशिर्वाद घालो. आनी अशें घडलें: *(ध.इ.)* ते पळेतात थंयच आसताना, जेजूक देवान वयर वयर उबारून व्हेलो आनी तांच्या दोळ्यां मुखा वेलो एका कुपान ताका लिपयलो. *(मार्कू)* देवान ताका वयर सर्गार उबारून व्हेलो आनी थंय तो देवाचो सर्वाधिकार घेवन आसा.

*(ध.इ.)* तो चडून वेता आसताना ते आपले दोळे सर्गाक लावनूच आसले. अवचीत धवीं वस्त्रां घालून दोग दादले तांचे कुशीक उबे जाले. तांणीं म्हळें: "गालिलेयकारांनो, तुमी अशे सर्गाक नदर लावनूच कित्याक उबे आसात? ***तुमचे मदलो देवान उबारून व्हेला तोच जेजू, तुमी सर्गार वेताना पळयलो तसोच, परतो येतलो."***

*(लूक)* आनी साश्टांगी पडून तांणीं जेजूक नमस्कार केल्या उपरांत, व्हडे खुशालकायेन तीं जेरुजाल्याक परत गेलीं आनी थांबनासताना देवमंदिरांत देवाची तुस्त आनी व्हडवीक करीत आसलीं.

**376.** *ध.इ.2,1-11*

***पवित्र आत्मो शिसांचेर देंवता***

पन्नासाव्या दिसाच्या उत्सवाच्या समयार तीं सगळीं एके स्वातेर जमललीं आसलीं. अवचितूच जणजणीत वाऱ्या सारको सर्गा वेलो एक आवाज आयकूंक आयलो; ह्या आवाजान तीं आसलीं तें आखें घर भरलें. आनी उज्याच्यो कशो जिबो तांकां दिश्टी पडल्यो, त्यो फांटल्यो आनी तांचेर एक-एकल्याचेर बसल्यो. तीं सगळीं पवित्र

आत्म्यान भरलीं आनी, आत्म्यान तांकां दिल्लो उलोवपाचो गूण घेवन, तीं वेग-वेगळ्या भासांनी उलोंवक लागलीं. मळबा खाला आसलल्या दर एका राश्ट्राचीं भक्तिवंत जुदेव मनशां जेरुजाल्याक वस्तेक आयल्लीं आसलीं. हो आवाज आयकून खूप लोक एकटांय जालो, आनी आप आपले खाशा भाशेन तीं उलयतात तें आयकून, तो लोक घुस्पलो. थटाकोन आनी अजाप जावन तो लोक म्हणूंक लागलो: "हीं उलयतात तीं सगळीं गालिलेयकारां न्हय? आमचे मदल्या जण एकल्याचे आवयभाशेन तीं उलयतात म्हण आमी आयकतांव तें कशें तर? आमी पार्थी, मेदी आनी एलामीत आनी मेजोपोटामियेंतलो, जुदेयांतलो आनी कापादोशियेंतलो लोक; आमी पोंतुसांत, आजियेच्या प्रांतांत, फ्रिजियेंत आनी पांफिलियेंत, एजिप्तांत आनी शिरेना भोंवतीं आसलल्या लिबियेच्या प्रांतांत रावपी; आमी रोमा थावनूय आयल्लो जुदेव लोक आनी तांचीं नवशिसां; त्या भायर क्रेतकारां आनी आरबी. तरी आमी समेस्त तांणीं परगटललीं देवाचीं श्रेश्ट कर्तुत्वां आयकतांव तीं एक-एकलो आप-आपले खाशा भाशेन आयकता: हें कशें?"

**377.** *ध.इ.2,14, 22b-24, 32-33, 36*

### *पेद्रुची पयली गवायकी*

तेदनां पेद्रू इकरां बराबर उबो रावलो आनी ताळो उबारून असो उलयलो: "जुदेवांनो, आनी जेरुजाल्यांत वस्तेक आसलल्या समेस्तांनो, हें जाणा जायात आनी हांव सांगतां ताका चीत दियात. देवान तुमचे मदें नाजारेतकार जेजू आपणांक मानवललो मनीस म्हण दाकयलो. तो तुमचे मदें आसलो तेदनां, ताचे उदेशीं देवान अचर्यां आनी विस्मितां आनी खुणा केलीं – ही सगळी खबर तुमी जाणात. आपले थारायल्ले येवजणे परमाणें, सगळें आदींफुडेंच जाणा जावन, देवान जेजूक तुमचे आधीन केलो, आनी तुमी ताका समूर्त नासलल्या मनशांचे आधीन करून खुरसार हुमकळायलो आनी जिवेशीं मारलो. पूण देवान ताका मरणाच्या बांदपासांतलो सोडून पुनरजिवंत केलो. कित्याक ताका आपल्या चपक्यांत धरूंक मर्णाक

कशेच भाशेन पदवी आसूं नजो आसली. ह्या जेजूक देवान पुनरजिवंत केलो आनी आमी सगळे ताचे गवाय. देवान ताका आपले पदवेन सर्गार उबारून व्हेल्या उपरांत, भासयल्लो पवित्र आत्मो ताणें बापा कडलो घेतलो आनी आमचेर धाडलो. तुमी पळेतात आनी आयकतात तें हेंच! म्हणतच तुमी खुरसार मारलो त्या जेजूक देवान इस्वर आनी अभिशिक्त केलो म्हण इस्रायेलाचें आखें घराणें सगळे खात्रेन जाणा जांवचें."

**378.** *ध.इ. 2,37-39, 41*

### *पेद्रुच्या उतरांचो फळ*

हीं उतरां आयकून तांकां व्हड खंत भोगली आनी पेद्रूक आनी हेरां धर्मदुतांक तांणीं म्हळें: "भावांनो, आमी कितें करचें?" पेद्रून जाप दिवन म्हळें: "जिवीत बदलात, आनी तुमच्या पातकांचें भगसणें जोडूंक जण एकल्यान अभिशिक्ता जेजुच्या नांवान पवित्र स्नान घेंवचें, आनी तुमकां पवित्र आत्म्याचें देणें मेळतलें. कित्याक जी देवान भासावणी केल्या, ती तुमचे खातीर आनी तुमच्या भुरग्यांबाळां खातीर आनी पयस आसलल्या समेस्तां खातीर, आमचो सर्वेस्पर देव आपणाशीं आपोवन हाडतलो तितल्यांय खातीर."

तेदनां तांणीं ताचें उतर मांदून पवित्र स्नान घेतलें. त्या दिसा सुमार तीन हजार लोक तांच्या जम्यांत भितर सरलो.

**379.** *मार्कू 16,20*

### *शुभवर्तमानाची परगटणी*

तांणीं वचून सगळे कडेन शुभवर्तमान परगटलें. सोमी तांच्या सांगाता वावुरतालो आनी बराबर जातल्या खुणां उदेशीं तांचें उतर थिरायतालो.

**380.** *जु 20,30-31; 21,24-25*

### *जुवांवाच्या शुभवर्तमानांतलीं निमाणीं उतरां*

जेजून शिसां हुजीर केल्ल्यो आनीक जायत्यो खुणा ह्या पुस्तकार बरोवन दवरूंक नांत; पूण जेजू खरेपणी अभिशिक्त आनी देवाचो पूत म्हण तुमी भावार्त धरचे खातीर आनी भावार्त धरून ताच्या नांवा वरवीं तुमकां जिवीत मेळचे पासत ह्यो वस्तू बरोवन दवरल्यात.

होच शीस ह्या वस्तुंची गवाय दिता: ताणेंच ह्यो वस्तू बरोवन दवरल्यात; आनी ताची गवायकी खरी म्हण आमी[1] जाणांव

***जेजून केल्ल्यो आनिकूय जायत्यो वस्तू आसात;***
***त्यो सगळ्यो एकान एक बरोवन दवरलल्यो जाल्यार,***
***बरोंवक पडतलीं आसलीं तीं पुस्तकां दवरूंक***
***संसार लेगून पांवचो नासलो म्हण म्हाका दिसता.***



---

[1] घडये हीं निमाणीं उतरां जुवांवाच्या शिसांनी बरयल्यांत. देखून हे शीस "आमी जाणांव", अशें साक्षी दितात.

# दर एका शुभवर्तमानाचें सुचिपत्र

## I. मातेवा परमाणें शुभवर्तमान

## II. मार्कू परमाणें शुभवर्तमान

## III. लुका परमाणें शुभवर्तमान

# IV. जुवांवा परमाणें शुभवर्तमान

